# खोल खोल मुळं



महाबळेश्वर सैल

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

खोल खोल मुळां
महाबळेश्वर सैल

प्रकाशन क्र. ४६

पयली आवृत्ती :
जानेवारी २००५

प्रकाशक :
मिलिंद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त
पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

छापपी :
श्री. मंगेश ढवळीकर
कस्तुरी ग्राफिक्स,
धवळी, फोंडें, गोंय

मुखचित्र :
श्री. मंगेश ढवळीकर

मोल : १५०/- रुपया

**Khol Khol Mulam**
Mahabaleshwar Sail

**Publication No.** 46

**First Edition :**
January 2005

**Publisher :**
Milind Kamalakar Mhalshi
Om Shri Datt
Padmaja Prakashan,
Shristhal, Canacona, Goa

**Printer :**
Shri Mangesh Dhavalikar
Kasturi Graphics,
Dhavali, Ponda, Goa

**Cover Page :**
Shri Mangesh Dhavalikar

**Price :** Rs. 150/-

कोंकणी संस्कृतिची
आनी
भाशेची पालखी
जांच्या जांच्या खांदार आसा
त्या सगळयांक

आफ्रिकेंतल्या सावळ रानांत मनशाले आदिमांयक आठ पुरसांकडच्यान आठ पूत जाले. ते आठूय जाण आठ रंगरुपांचे आसले. ते मुखार आठ दिकांनी गेले.

तांतलो एकलो भारताचो आदिपुरूश गावडो. हजार हजार वर्सां, हजार हजार मैलांची काळभोंवडी करून मासाळ मातयेचो, पाचवे शिरवंतकायेचो, नितळ उदक उजवाडाचो सोद घेत उणींच वीस हजार वर्सां फाटीं भारताचे शिमेर खैबर घाटांत येवन तो उबो रावलो. भारताचे शिमेर उबो रावन तेणें आपल्या आदिसुरान उलो दिलो, "हांव येयलां, हांव हांव येयलां! आंकवार, मासाळ मातयेचे, उदक उजवाडाचे आस्तेन हांव येयलां! कोणूय आसा........?

तेचो तो आदि सूर अहम् अहम् कसो गंगा यमुना धरून शेंकड्यांनी न्हंयांवयांतल्यान घुंवत हिमालयांत पावलो. थंयसान हिन्द म्हासागर आनी कन्याकुमारीमेरेन. आनी मागीर सह्याद्रींतल्यान अरबी सागरामेरेन!

तो सूर परतो येतना हिमालयाची बर्फाळ उंचाय घेवन येयलो, सागराचो गाज घेवन येयलो. मासाळ मातयेचो परमळ आनी पाचव्याचार रानाचो वास घेवन येयलो, वागाची गरड आनी रानगायेचें हांबेवप घेवन येयलो. मनशाचो मात वास, आवाज नासलो!

उबो राविल्ले शिमेपसून सागरामेरेन गच्च भरिल्ल्या रुखारानांची, झाडावनांची, सवण्याप्राण्यांची एक शिरवंत सस्यकाशी!

उबो राविल्लेकडेन थंडशितळ वाऱ्यावांगडा इल्ली ऊब, इल्लो शेळाव, इल्लो उजवाड आंगार येयलो आनी नवी उर्बा आदि पुरशाच्या कुडींत रिगली. तो खोशेन हांसलो. तेणें आपल्या पोव्यांक घेवन फुडलें पावल मारलें. तें पावल खैबर घाट ते कन्याकुमारीमेरेनचो वाठार व्यापचें आसलें. तेचेय मुखार पावचें आसलें!

हे भुंयेंत तेची वीण बरी रुजली. हे भुंयेंत कसले मंत्र, कसली म्हयमा आशिल्ली नकळ. मुखावयल्या तीन चार हजार वर्सांमदीं तेणीं बैलाक मनशाले संवकळेत हाडलो. तेचे मानेर जूं दवरलें. रानां मारून शेतां घडयलीं. मेरी घालून बांदयो केल्यो. तेतूंत भात, नाल्ल, फोपळां पिकोवंक लागले. गवळ, माळो, मांगर बांदून रावंक लागले.

रानां मारून भूंय समतळ करून शेतां घडोवचें, बांदयो घालचें काम भोव कश्टांचें आसलें. तो वावर रासवळपणानूच करचो पडटालो. अशीं रासवळपणान घडिल्लीं शेतां रासवळूच उरतालीं. मागीर तेंचें पिकूय ते रासवळपणानूच वांटून खाताले. कश्ट करपी दर एकलो वांटेली. तेका एक सम वांटो. तेचे कांय नेम जाले. वांटेल्यांचे गांवकार जाले.

गांवकारांतलो एकलो बुदवंत म्हाल गांवकार जालो. रानांत भोंवडी काडप, घरां बांदप, घरां शिंवप, खाजनांक बांद घालप रासवळपणान जावंक लागलें. गांवचो राखणदार तेळ, पेरगांव घालतलो जगांटीकार, दिवटी धरतलो दिवटेकार हे गांवचे नोकरदार जाले. तेंकांय गांवचे येणावळींतलो वांटो मेळूंक लागलो. हे परमाणें गांवकारी घडली.

भारतांत येयल्ल्याक साताठ हजार वर्सांनी तेणीं अर्दावयर भारत व्यापलो. तेणीं शेता भाटां वाडयलीं. तेंच्यो पिळग्यो वाडल्यो. कितल्योश्योच पिळग्यो आनी मगेर तेंचे कितलेशेच फांटे– मुंड, मुंडारी, कोल, कुणबी, गावडे........

मुळांत ते शेतकामती म्हण घडले. तेंची पुराय संस्कृती ही शेतां, भाटां आनी वाठाराचे राखणदार, मुळपुरूस, भूमांय सांतेर हेंच्या संदर्भांतल्यानूच वाडिल्ली. परत तेंची संस्कृती ही लाकडां आयदांची, आनी मातये आयदनांची संस्कृती अशेंच म्हणूं येता. तेंकां लोखंडाचीं अस्त्रां खबर नासलीं. झुजां खेळूंक ते नकळो आसले.

आर्य आयले ते हातांत लोखंडाचे भाले आनी तलवारी घेवनूच. तेणीं आपलीं हजारांनी गोरवां तेंच्या शेता भाटांनी घातलीं. सगलें माडोवन चाबडावन उडयलें.

तेन्ना गायेचें दूद, मास आनी रानांत काडिल्लें म्होंव हेंच आर्यांचें अन्न आसलें. ते भात, तांदूळ, नाल्ल नकळो आसले. तेंकां शेतां बांदयो घालूंक, शेतां पिकोवंक कळनासलें. तेणीं आपलीं हजारांनी गोरवां गावड्यां कुणब्यांच्या शेतांनी घातलीं. वाठाराचे वाठार आपल्या शेकातळा घेतले.

उपरांत झुजां-मारामारी हांचो मोटो अच्छेव जालो. आर्य-द्रवीड, आर्य-आदिवासी उपरांत द्रवीड आनी आदिवासी हांचे मदीं हजारां वयर वर्सां झुजां पेटिल्लींच आसतालीं. हातूंत चड वाताहात जाली ती अस्त्रांचें झूज खेळूंक नकळो आसलेल्या, शांत सभावाच्या आदिवासी गावड्या कुणब्यांची. ते बरेचशे अटंग्या रानांनी धांवन गेले आनी रानवासी-आदिवासी जाले. गांवांनी उरिल्ले आर्यांचे गुलाम-दास जाले. रानांत धांवन गेल्ल्याचीं आनी गांवांत आशिल्ल्यांचीं सगल्यांचींच शेतां शेणलीं आनी ते पाड अवतिकायेक पावले.

उपरांत गांवांत राविल्ल्या 'दासांनी' शेतां पिकोवची कला आर्यांक शिकयली. ते तेंच्या शेतां भाटांनी घोळुंकूय लागले. कांयकडेन तेणीं आपली गांवकारीय आर्यांक दिली.

रानांत धांवन गेल्ले रानवासी-आदिवासी गावडे, कुणबी, गांवच्या शेतां भाटांचे आशेन शेंकड्यांनी वर्सांचे रानभोंवडे उपरांत परत रानांकडेर येयल्यात. गांवावटेन तोंड करून तेणीं रानांकडेर राबितो केला.

पूण एका काळाक तेणीं गांवकी बांदून घडयल्लीं शेतां हेरूच हातासून बसल्यात. आतां रानूय तेंचें न्हू आनी गांवूय तेंचो न्हू जाला. मदींच हुमकळटात!

ह्या शेंकड्यांनी वर्सांचे रानभोंवडेंत तेंणी जोडली खंयचेय अवतिकायेंत सोताचें अस्तित्व राखून दवरची खर शक्त! भुकेन आनी म्हामारीन पोंवे कितले फावट नानपश्चात जावन वचूंक पावले, तरीय पोंवे परते परते उबे रावले. कुडीन मोटवे, बारीक, मनानूय मोव आनी दुबळेच. तरीय तेंच्या रट्यांक फातराची खण उसपुवचेली शक्त खंयसान येवची......?

ह्या खरगाळी गांवांत दुमींग म्हणिल्लो एकलो आसलो. बापायन तेका पंदराव्या वर्सार आपणा वांगडा वावराक व्हरून बरें पाडेलीपण शिकयल्लें. तोवूय बरो पाख्यावरी माडार चडटालो. एकेक कोयतेच्या घायान पेंडी सकयल उडयतालो. एक दीस कितें जालें खबर ना. पेंडये वागंडा तोवूय सकल येयलो. कमर धाडावलें. हात, पांय मोडले. उपरांत हॉस्पिटलांत घालतकीर तेगेलो दावो हात दंडा सकल्ल्यान कापचो पडलो. एक मोडिल्लो पांय इल्लो वांकडो, मोटवो जावन उरलो. ल्हान सान चवगां भुरगीं. बायल अशीच कमरान, हड्ड्यान मोटीशी. कामाक बागवल्यार खरस मारताली. पूण दुमींगान कमर बांदलें. लूंड हात आनी पांगळो पांय घेवन तो कामाक झुडटालो. जोत बांदतालो, एकाच हातान जुवां रिशीक नांगरट्या दोरी बांदतालो, बैलांक कानी खोवयतालो. जोत चलतना नांगर सोडून सट्ट करून बैलाचे फाटीर बडी ओडटालो आनी वांकडो जावन आयिल्लो नांगर परतो धरतालो. चिरो तकलेर घेतना, ट्रकांत भरतना कापिल्लो लूंड हात असो ताकदीन चिऱ्याक लायतालो, चिरो बेस तकलेर येतालो. एकलोच दोंगरांत वचून लाकडां कातरून भोरो बांदून हाडटालो. तेणें भोऱ्याक मारिल्ली एका हाताची गांठ भोव मोलाची दिसताली. केन्ना सोरो पिवन कूड गुठलावन सोंप्यार बसतालो. खूब दुबळो, रडूंक पाविल्लोसो. तेन्ना पळयल्यार दिसतालें हो कितें उठूठलो आनी चांट मारतलो? पूण कामाक लागल्यार जखमी वाग, जीब दांतांनी धरून, हाताचें लूंड उखलून एका हातान काम करतना वांकडो-वांकडोसो जातालो. मदींच फुटूंक पाविल्लेवरी उलोवंक लागतालो. तेन्ना तो कोणाक देवाक संवता काय सोताकच गाळी घालून घेता कांयच कळनासलें. मदींच केन्ना लकून पडटालो पूण परत उठून वावराक हुमकळिल्लेवरी करतालो. तेच्या दुबळ्या हाडा मासाक ही शक्त खंयची... तेका पळोवन फातरार किल्लोवन मुळां धरून उबें राविल्ल्या कावळे झाडाची याद येताली. घडये हेच शक्तीक लागून रानां-वनांतल्या हालअपेश्टांनीय गावड्यांनी सोताचो वंश राखून दवरिल्लो. हजार वर्सांचे रानभोंवडे उपरांतूय ते सुगूर हिंगा येवन पाविल्ले.

* * *

खरगाळी फाटली दोंगुल्ली अशी सवकासायेन सकल येत तेणें मुळसांत देंगण केल्लें. त्या देंगणामदल्यान एक गिमसुको बारीक व्हाळ व्हांवन येतालो आनी सकल्ल्या शेतांत वचून पावतालो. थंय आशीकुशीक रुखावळींनी गावड्यांचीं चाळीशेक घरां विसकळ विसकळ फाफसून आसलीं. मदीं मदीं रानटी-माट्टीचीं, किनळेचीं, सांवरीचीं, मंयचीं झाडां. हुपशीच्यो, कंजीच्यो घोली. घरामुखार एक दुसरो माड, फाटल्यान आंबो, म्हशींग उबो. रानटी, गांवठी झाडां-झोंपांची एक सरभरसशी जात्रा. घरांकूय आपलो असो एक आकार नासलो. रानांतल्यान कुराडीन मारून हाडिल्ल्यो व्हडल्यो-व्हडल्यो वांकड्यो तिकड्यो म्हेडी आनी आडीं. पांखीं तणान, चुडटान, गांवठी नळ्यांनी कित्यानूय शिंविल्लीं. धड रानांतले गवळ, मांगर न्ही. गांवांतलीं घरां न्ही. घरामुखार एक लांबचे लांब वासरी. वासरेर एकाद्रो सोंपो. भितर एक साल आनी तेका लागून एक रांदचीकूड. मातयेच्या वणटींक केन्ना शेणाचो हातूय लागनासलो. तळभुंयेची तशीच माती उठिल्ली. फोंडकुलां पडिल्लीं. मुखावयले वासरेर तेंच्या संवसाराचीं सगलीं आयदां, आवतां, पिणगी, चोबे, दोरयो, खोरें, कुदळ पडिल्ल्यो आसताल्यो. तशें तांचें पुराय दळिद्रीपणूय थंयच दिश्टी पडटालें.

गांवाची तिडक मारताली ती गांवच्यो दोनूय बांयो पळोवन. ह्यो बांयो कोणें केन्ना बांदिल्ल्यो खबर ना. वयर व्हडल्या व्हडल्या चिऱ्यांनी बांदिल्ल्यो आनी सकल मात चिऱ्यातळ कापुनूच खोल गेल्ल्यो बांयो. तेंचेर आतां चोंयवटेन रानटी झाडां झोंपां वाडिल्लीं. तेंचीं पाळांमुळां बांयंत सकल देंवन गेल्लीं पूण कोणाक एकल्याक तीं झाडां मारून बांयेवयली सांवळ पयस करची बुद्द जायनासली. जाणट्या मिंगेलीक, जुजेक कोणें 'आरे बांय कोसळूंक पावल्या मुरे' म्हटल्यार ते म्हणटाले, 'आमचें मातऱ्याचें आतां कोण आयकोता?'

हे जाणटे बुदवंत गांवकार 'म्हातरे' कशे केन्ना जाले, तेंची गांवकी दुबळी कित्याक जाली? हें काळाचेंच अपकर्म म्हणूं येतालें. रानां मारून शेतां घडयल्ले गांवकेच्यान एके बांयची उस्तवारी करूंक येवची न्ही?

* * *

मिर्गा आदलो पावस दमान झडूंक लागिल्लो. शेतांनी पावलभर उदक जाल्लें. व्हाळांक झरी फुटिल्ल्यो. कुल्ल्योय फातरांतल्यान वयर सरून चरूंक लागिल्ल्यो. दोंगर–रानांतली रुखावळ पांयांतल्यान उदक पिवन तुश्ट जावन उबी आसली. दीसभर मळबांत कुपां आनी भुंयेर सावळी. गांवचो सगलो गावडो लोक शेताच्या कामाक झुडिल्लो. गांवांत फक्कत म्हातारे कोतारे आनी सान भुरगींच आशिल्लीं. वाड्यासकयल आशिल्ल्या शेतांतल्यान जोतां आमुडिल्लो, आपसांत व्हडान उलयिल्लोसो, झगडिल्लोसो आवाज येतालो दीसभर. तेन्ना

दिसतालें, शेतांतलेंच हे तेंचें रूप खरें सासणाचें; न्ही रस्त्यार डांबर वारोवपी रूप.

मदींच दोग तीग धवाडे सकयल रस्त्यार गाडी थारावन चलत वाड्यार येयले. मगेर वाड्याक बगल दिवन वयर दोंगरावटेन वचूंक गेले. जाणटेलीं, भुरगीं, आंगणांत बीन रावन पळयतालीं. जाणटेले चिंतताले, वयल्या दोंगरांत तिसलांतल्यान एक तरी मडें पडटा. फाटल्या वर्सा आगशेच्या एका किरिस्तांव बामणाल्या चेडवाची कूड घोलींत मेळिल्ली. तेका कोणें थंय हाडली, कोणें जिवानशीं मारलें कांयच कळ्ळें ना. हे आज परत धवाडे गांवांत. अजून तें मेटलें ना काय! तेचे पयलीं एका वर्साक कश्टम सिपाय किस्तोदीली कूड मेळिल्ली. तेन्ना फ्लोराल्या घोवाक पाश्कोलाक धरून व्हयल्लो. तो अजून कादयेंत कुसता. दोंगर फाटीर आसुनूय आतां इल्लो इल्लो पयसावंक लागिल्लो. तोंड गावावटेन शारावटेन जावंक लागिल्लें.

सकल्ल्यान शेतांतलो बोवाळ सारक्को आयकूंक येतालो. पावसांत पयलींच कसून घातिल्ले मातयेचो परमळ जसो वाऱ्यार उबत गांवांत येवन पावतालो. हातपांय मोडून घरांत पडिल्ल्या म्हाताऱ्यांकूय शेतांत धांव घेवची अशें दिसतालें. शेतांतलो वावरूय असो ताकतिकेचो जाल्लो. बेगीबेगीन कामसी करून व्हडल्या पावसा पयलींच शेतां रोवंक जाय आसलीं. सुकें बीं, रोव, तरवो कसल्याय उपावान.

इतल्यान वाड्यार मुकादम शेट्टीलो आवाज आयकोंक येयलो. रस्त्यार मोटार-सायकल राबोवन व्हडाव्हडान उले दीत वाड्यार येतालो, "आगो, फिलू, आंतोनेत, रुजार... आसात रे... फाल्यां नायकाल्या बंगल्याक बेतो..."

जाणटेली सातानाली मांय कोयसांव घरांतल्यान भायर येयली. "कित्या, केसो बोवाळ रे तुगे शेटी? आतां बेतो खुंयचो? सोगलीं शेतांत लागल्यांत. पावस पोडटा तो तुका दिसोना?"

"आगो, असल्या बारीक पावसांतूच नायकाक बेतो जाय खंय."

"शेतां पाड घालचीं आनी तुगे बेत्या येवचें? कोण एकलो मेवचो ना. लाग तूं चोलोंक."

"आगे शेत खंय धांवन वयता? एक दिसाची खबर. शेतांनी स म्हयने घोळूंक जाय मुगे. स म्हयने घोळुनूय तीन म्हयन्यांचें पोट जायना. हिंगा काम केल्यार सांजचो दिसवडो हातार."

"तुगे दिसवड्याची खोबोर सांगों नाका तूं शेटी. पोयसो कितें येसो येयलो, तेसो

खरगाळी फाटली दोंगुल्ली अशी सवकासायेन सकल येत तेणें मुळसांत देंगण केल्लें. त्या देंगणामदल्यान एक गिमसुको बारीक व्हाळ व्हांवन येतालो आनी सकल्ल्या शेतांत वचून पावतालो. थंय आशीकुशीक रुखावळींनी गावड्यांचीं चाळीशेक घरां विसकळ विसकळ फाफसून आसलीं. मदीं मदीं रानटी-माट्टीचीं, किनळेचीं, सांवरीचीं, मंयचीं झाडां. हुपशीच्यो, कंजीच्यो घोली. घरामुखार एक दुसरो माड, फाटल्यान आंवो, म्हशींग उबो. रानटी, गांवठी झाडां-झोंपांची एक सरभरसशी जात्रा. घरांकूय आपलो असो एक आकार नासलो. रानांतल्यान कुराडीन मारून हाडिल्ल्यो व्हडल्यो-व्हडल्यो वांकड्यो तिकड्यो म्हेडी आनी आडीं. पांखीं तणान, चुडटान, गांवठी नळयांनी कित्यानूय शिंविल्लीं. धड रानांतले गवळ, मांगर न्ही. गांवांतलीं घरां न्ही. घरामुखार एक लांबचे लांब वासरी. वासरेर एकाद्रो सोंपो. भितर एक साल आनी तेका लागून एक रांदचीकूड. मातयेच्या वणटींक केन्ना शेणाचो हातूय लागनासलो. तळभुंयेची तशीच माती उठिल्ली. फोंडकुलां पडिल्लीं. मुखावयले वासरेर तेंच्या संवसाराचीं सगलीं आयदां, आवतां, पिणगी, चोबे, दोरयो, खोरें, कुदळ पडिल्ल्यो आसताल्यो. तशें तांचें पुराय दळिद्रीपणूय थंयच दिश्टी पडटालें.

गांवाची तिडक मारताली ती गांवच्यो दोनूय बांयो पळोवन. ह्यो बांयो कोणें केन्ना बांदिल्ल्यो खबर ना. वयर व्हडल्या व्हडल्या चिऱ्यांनी बांदिल्ल्यो आनी सकल मात चिऱ्यातळ कापुनूच खोल गेल्ल्यो बांयो. तेंचेर आतां चोंयवटेन रानटी झाडां झोंपां वाडिल्लीं. तेंचीं पाळांमुळां बांयंत सकल देंवन गेल्लीं पूण कोणाक एकल्याक तीं झाडां मारून बांयेवयली सांवळ पयस करची बुद्द जायनासली. जाणट्या मिंगेलीक, जुजेक कोणें 'आरे बांय कोसळूंक पावल्या मुरे' म्हटल्यार ते म्हणटाले, 'आमचें मातऱ्याचें आतां कोण आयकोता?'

हे जाणटे बुदवंत गांवकार 'म्हातरे' कशे केन्ना जाले, तेंची गांवकी दुबळी कित्याक जाली? हें काळाचेंच अपकर्म म्हणूं येतालें. रानां मारून शेतां घडयल्ले गांवकेच्यान एके बांयची उस्तवारी करूंक येवची न्ही?

* * *

मिर्गा आदलो पावस दमान झडूंक लागिल्लो. शेतांनी पावलभर उदक जाल्लें. व्हाळांक झरी फुटिल्ल्यो. कुल्ल्योय फातरांतल्यान वयर सरून चरूंक लागिल्ल्यो. दोंगर–रानांतली रुखावळ पांयांतल्यान उदक पिवन तुश्ट जावन उबी आसली. दीसभर मळबांत कुपां आनी भुंयेर सावळी. गांवचो सगलो गावडो लोक शेताच्या कामाक झुडिल्लो. गांवांत फक्कत म्हातारे कोतारे आनी सान भुरगींच आशिल्लीं. वाड्यासकयल आशिल्ल्या शेतांतल्यान जोतां आमुडिल्लो, आपसांत व्हडान उलयिल्लोसो, झगडिल्लोसो आवाज येतालो दीसभर. तेन्ना

दिसतालें, शेतांतलेंच हे तेंचें रूप खरें सासणाचें; न्ही रस्त्यार डांबर वारोवपी रूप.

मदींच दोग तीग धवाडे सकयल रस्त्यार गाडी थारावन चलत वाड्यार येयले. मगेर वाड्याक बगल दिवन वयर दोंगरावटेन वचूंक गेले. जाणटेलीं, भुरगीं, आंगणांत बीन रावन पळयतालीं. जाणटेले चिंतताले, वयल्या दोंगरांत तिसलांतल्यान एक तरी मडें पडटा. फाटल्या वर्सा आगशेच्या एका किरिस्तांव बामणाल्या चेडवाची कूड घोलींत मेळिल्ली. तेका कोणें थंय हाडली, कोणें जिवानशीं मारलें कांयच कळ्ळें ना. हे आज परत धवाडे गांवांत. अजून तें मेटलें ना काय! तेचे पयलीं एका वर्साक कश्टम सिपाय किस्तोदीली कूड मेळिल्ली. तेन्ना फ्लोराल्या घोवाक पाश्कोलाक धरून व्हयल्लो. तो अजून कादयेंत कुसता. दोंगर फाटीर आसुनूय आतां इल्लो इल्लो पयसावंक लागिल्लो. तोंड गावावटेन शारावटेन जावंक लागिल्लें.

सकल्ल्यान शेतांतलो बोवाळ सारक्को आयकूंक येतालो. पावसांत पयलींच कसून घातिल्ले मातयेचो परमळ जसो वाऱ्यार उबत गांवांत येवन पावतालो. हातपांय मोडून घरांत पडिल्ल्या म्हाताऱ्यांकूय शेतांत धांव घेवची अशें दिसतालें. शेतांतलो वावरूय असो ताकतिकेचो जाल्लो. बेगीबेगीन कामसी करून व्हडल्या पावसा पयलींच शेतां रोवंक जाय आसलीं. सुकें बीं, रोव, तरवो कसल्याय उपावान.

इतल्यान वाड्यार मुकादम शेट्टीलो आवाज आयकोंक येयलो. रस्त्यार मोटार-सायकल राबोवन व्हडाव्हडान उले दीत वाड्यार येतालो, "आगो, फिलू, आंतोनेत, रुजार... आसात रे... फाल्यां नायकाल्या बंगल्याक बेतो..."

जाणटेली सातानाली मांय कोयसांव घरांतल्यान भायर येयली. "कित्या, केसो बोवाळ रे तुगे शेटी? आतां बेतो खुंयचो? सोगलीं शेतांत लागल्यांत. पावस पोडटा तो तुका दिसोना?"

"आगो, असल्या बारीक पावसांतूच नायकाक बेतो जाय खंय."

"शेतां पाड घालचीं आनी तुगे बेत्या येवचें? कोण एकलो मेवचो ना. लाग तूं चोलोंक."

"आगे शेत खंय धांवन वयता? एक दिसाची खबर. शेतांनी स म्हयने घोळूंक जाय मुगे. स म्हयने घोळुनूय तीन म्हयन्यांचें पोट जायना. हिंगा काम केल्यार सांजचो दिसवडो हातार."

"तुगे दिसवड्याची खोबोर सांगों नाका तूं शेटी. पोयसो कितें येसो येयलो, तेसो

गेलो. दादल्यांल्या सोन्याकूच काबार. तुगे दिसवड्यान चोय मुगे कुडीचो कांसोव जाला. त जाणा खोडयेचे, फातरांचे ट्रक भोल्ल्याय हांयेन. दादल्यावोरी पांयांनी बूट घालून रस्त्यार दांबर वारोयला. दुडवा हांयसाक घोळोवन घेयलें. जाणटेपण येयलें मुणटोना कमर मोडलोलें सुणें."

"जावं, सांग गे तूं फाल्यां एकूच दीस येयात म्हण. तिशेक लोक तुमचो आनी लमाण्यांलो दुसरो एक तांडो सांगला."

"ना, जावपार ना. शेतां पडींग उडोवन तुगे बेतो घालूंक यो म्हुणटाय? तुगे बोरें गेलें. तूं जोडटलो हाजरांनी आमचे कुस्तार, वोरोसभर शेंवटे, मुडदुशो खातलो. गुबगुबीत बायले वांगडा बोंगल्यांत न्हिदतलो. शेतां तेशीं उडोवन आमी कितें खावचें वावर ना तेन्ना? तुगे खोडी काय रेंव?"

"बरें चोयतां हांव आनीक खंयचोय पंगड." शेट्टीन कोयसांवांक बारीक पळयलें. तिगेली अवतिकाय जाल्ली. चेंचिल्लेवरी कमर बागवल्लें. खवळां पडिल्ली कातडी आंगभर लांबताली. पयलीं कितें ही धाप धाप वावराक माथें मारताली! तेणें बोल्सांतल्यान एक धांची नोट काडून तिका दिली. "घे तुका. कोणाकडच्यानूय एक पाव हाडून घे सांजचो."

"देव बरें कोरूं. खुंयच्या गांवदेसांतल्यान येयलेलो. येदोसो भुरगो आहलोलो. फिशाल तूं. कोस्टान गांव जिखलो, जोडलो पोयसो."

शेट्टी मोन्यांनीच फाटीं फिरलो. सकल्ल्या शेताकेरांतली वावराची ताकतीक तेकाय दिसताली. रस्त्यार येतकेर तेका अचकीत फिलीप मेळ्ळो. तेगेल्या हातांत शिंक्यार धरिल्लो पेजे बुडकुलो आसलो. शेतावटेनचो बांद चडून तो आतांच रस्त्यार पाविल्लो. तेणें विचारलें, "शेट्टी खुंय रे तूं पावसाचोसो?"

"पावस बारीक शेनेतनाच बेतो घालूंक जाय म्हणटा भगवंत नायक."

"मागी?"

"तुमी सगले शेतांत पडल्यात न्हू? शेतांतल्यान आमडून व्हरूंक येयला काय म्हण तापसाण घेवचेली."

"येशें कोणें सांगिलें तुका?"

"कोयसांव म्हुणटा. दुडवां हांयस दाखोवन शेतां पाड घालूंक येयला काय म्हण."

“तेचें सोड. सोगले गेल्यार आपणा फोंडार माती कोण वोडटो काय म्हूण तेका हुसको.”

शेट्टीन आस्तेन विचारलें, “मागीर कितें करतात तुमी?”

“एका दिसाची खोबोर मुरे? एका दिसानूच कांय पावस मळब बळांटून होसपार ना. मागीर पावसबोर शेतांच आहाय.” आनी मगेर इल्ले तिडकिनूच तेणें म्हटलें, “हीं दळडिरीं शेतां घेयन बोसल्यार भोंकार एक कालसांव येवपार ना वोर्साक.”

“येतात तर मुरे फाल्यां?”

“आनीक कोण आहाय?”

“आसा एक लामाण्यांलो तांडो.”

“त्या रेड्यां बाराबोर आमी बैल. गावड्यांगे नोशिबांत तेंच. किरिस्तांव खूंय. हेर चाड्डे, सुदीर फात मारून भोंवताय. आमगे काश्टी सुटपार ना. फाल्यां धाड तूं पिकोप.”

अचकीत सकल्लो आडो चडून मिलाग्र थंय पावलो. तो बायलेकडेन ज़ोत दिवन तंबाकू धुंवटी व्हरूंक येयल्लो वाड्यार. तेची पुराय अंवतिकाय जाल्ली. जोता फाटल्यान पांय ओडटना धोंपरामेरेन ते चिखलान भरिल्ले. आनी कूड, चेरो हांचेरूय चिखोल उसळिल्लो. मारिल्ल्या तांबड्या वाल्या काश्टेचें बोंतर जाल्लें. तेंकां उलयतात तें पळोवन तेणें म्हटलें, “केसो गुड्डुलेसांवां कोत्ताय उबे रावन शेट्टी? हिंगा माथ्यार शेतावावर आनी तूं मुनशां पुंजावन व्होरूं येयलाय? आमगे शेतां पाड घालून फायदो खावपाक? बोंगले बांद, बायलेक मोव तूप खावय. आमगे बायलो हिंगा कणकी चिरपुटां तुगे फ़ातराचें, डामराचें काम करून. वोस, चलों लाग.” तेगेलें उलोवप बेठेंच झगडूंक येयल्लेवरी तापट.

“तूं ओगीच कित्याक तकली तापोवन घेता मिलाग्र? तुका फोर्सान फुकट व्हरूंक येयलां रे हांव? तुमची मर्जी.”

“आदेसाक पन्नास. दिसाक शंबर रुपया. कोंताक येता जाल्यार चोय.”

“हेरांक दिसाक साठ दितां हांव.”

“आमी घांटयां न्हू शेट्टी. गोंयकार गावडे आमी. वावराक लागल्यार फातराचो चुरो.”

मदींच फिलिपान शेट्टीक दोळो मारलो. “जावं, जावं, येतात आमी. दिसवड्याचें

बरें आसा. हेर आमकां दितात तेंच न्ही.''

मिलाग्र वयले वटेन बचूंक गेलो. वयतना तो शेट्टीक गाळी संवतालो. आनी सोताचेंच उलयतालो ''मांयझंये हे सुटां-बुटांतले, लोकांक नाडूंक भोंवताय. धा आमच्या हातार जाल्यार शंबर हेंच्या मोड्यार - - - - .

शेता पलतडच्या सिल्वा भाटकाराल्या भाटांतल्या माडाआड सुर्या देंवलो आनी गावड्यांलीं जोतां शेतांत तासांत रावलीं. मेरो करतल्यांचीं खोरीं थारलीं. सारें वारयतल्यांचीं सुपां थारलीं. बैल धरून सगल्यांक पुरो जाल्लें. तेंचे पांय रेब्यान भरिल्ले. आंगार वोली माती उसळिल्ली आनी ती हुमेवांगडा भरसल्ली.

रुजारीन हातांतली जोताबडी उबी केली. नांगराची दोरी सोडली आनी बैलांचे फाटीर थापट मारून म्हटलें, ''शाण्यागुण्यानू, आतां वोगे वोसोन गोठ्यांत उबे रावाय. येतो मागी हांव तोण घालच्याक.''

शिबरो चार पावलां चलून मेरे मेरेन गेलो आनी तेणें फाटीं वळोन रुजारीक पळयलो. हो शिबरो सदांच राग घेवन आशिल्लोसो, तांबशा दोळ्यांचो, पळयतना मारूंक येवंक राविल्लोसो दिसतालो. तेतूंत शिंगांय अशीं उबीं मुखार येयल्लीं. नाकांतल्यान फूर्र, फूर्र आवाज काडीत चलतालो. रुजारीक दिसलें, आज हेका राग चडच येयला काय कितें! नवो नांगोर ओडटना हेदोळ तेचे कुले आंवुळिल्लेवरी जाताले. कसप, रोवप बेगीन जावंक जाय म्हण फाटीर चार बडयो चडच पडल्यो दिसता. दुसरो बुधो मात लांब पांयांचो सडसडीत आसलो. कामांत आळसाय नासली. झापझाप पावलां उखलतालो. बडी ओडची पड नासली. हे दोगूय बैल एका जोताचे आसुनूय तेंचें बरें पटनासलें. चरतनाय पयस पयसूच रावताले. गोठ्यांत घातिल्ले कडेनूय पयस-पयस गोठ्ठाले.

रुजारीन नांगर, जूं व्हरून बांदावयल्या जांबळी रुखासरी तेंकोवन दवरलें आनी खोरें खांदार मारून तो घरा वटेन येयलो. बायल रोजमारीय तकलेर रितो साऱ्या चोबो आनी हातांत पेजे बुडकुलो घेवन येयली. तेगेल्या पेजे बुडकुल्यांत दनपारसान पुंजायल्ले कोंगे आसले.

रोजमारी घरासरीं पावलें तेन्ना तेका सगलो वाडो वल्या वल्या शेळावान भरिल्लोसो दिसलो. काळोखूय बेगिनूच देंवन येयिल्लेवरी जाल्लो. वोलीं जड झाडांय भुंयेर बागोवन येयल्लेवरी दिसतालीं. ह्या थंड किरांव भोंवतणांत रोजमारीक आपल्या भुरग्यांचो हुसको लागिल्लेवरी जालो. तेणें सरसरीत चांट मारली. घोव रुजार पांयासरी खोरें उबें करून

कोणासरीं तरी उलोवंक गुल्ल जाल्लो. तें व्हाळावयलो सांकव बाळांटून घराकडेन पावतकेर व्हडल्या चेडवान आंतोनेतान वासरेंतल्यान पळयलें. तें धाकल्या भावाक हांडीर मारून धांवत धांवत येयलें. तेच्या फाटल्यान तिसरें चेडूं फातीम आसलें. दुसरें ग्लोर पोलियोन बडी जाल्लो पांय कवळीत सोंप्यामेरेन येवन तेंका पळयतालें. आंतोनेत मांयक चवन धांवन धांवन येयल्लें खरें, पूण मांय सामकार पावलें आनी भिवन ओगीच रावलें.

रोजमारीन चोबो आनी कोंग्या बुडकुलो आंगणांतूच दवरून चेड्याक आंगार घेवन चिंवांक धरलो तेन्ना तेची नदर आंगणाकडेर फुटून कयलां जावन पडिल्ल्या मातयेच्या धोणार गेली. पळोवन तेका खण्प जालें, दुख्ख भोगलें आनी तिडकूय मारली. तिडक आंतोनेताची. तेचेंच काम हें. तेंच सदां घरभर धुमशेणां कांडीत आसता. तेणेंच नाच करून वासरेवयल्यान तें सकल उडयल्लें आसतलें. रोजमारी आड्डलें, "आगो रांडला, आंतोनेत, तें धोण कोणें फोडलें सकला उडोवन? कितल्या तेंपाचें काय बोरें धोण आहलें मुगो!"

आंतोनेत ओग्गी. तें कितें सांगतलें? तेंच तर नाचतां नाचतां वचून धोणार पडिल्लें.

पांगळ्या ग्लोरान चिरक्या आवाजान ल्हवूच सांगलें, "मांय, आंतोनेत पडटो आसलें बाबुशाक घेवन थंय. मोडकीच पोडली."

रोजमारीक आंतोनेताक धरून चिरचें अशें दिसलें. पूण ते ओग्गी उठलें. मोम्यावयल्या भुरग्याक तेणें तशेंच भुंयेरूच दवरलें आनी तें फुटून पडिल्लीं कयलां विंचूंक लागलें. "रुजार चोयल्यार बोब मात्तेलो. तुका चेंचतो धरून. तुका चेडयेक इल्लें शाणेपोण ना. हातापायांक जोर मारोता. नाच कोत्ता दीसबोर."

तेणें कयलां व्हरून घराफाटल्यान उडयलीं. येवन रडटल्या भुरग्याक चिंवांक धरलें. इतलें म्हणसर रुजार येवन आंगणांत पावलो. तेणें म्हटलें, "मोडकेंतले कोंगे चरूं उडयतां. चरों लागतेकीर मास काडटेलों मागी." तेणें कोंगे आंगणांत वारयले.

तो वासरेंत येवन साका फटें घेवन बसलो. पयलीं वासरेर दोन पोरणीं कदेलां आशिल्लीं. एक एक करून दोनूय मोडलीं. घराकुशीक भितोडे व्हरून दवरचीं पडलीं. अजून तीं थंयच भिजत पडल्यांत. घरांत एक मेज आसा. सालांत रांदचेकुडी दारासरीं. धुंवरान काळें जाल्लें. त्या मेजासरीं एकूच कदेल आसा. साका फटें बसूंक घेवन रुजार उलयतालो. "पयलीं जाणटेले ह्यो व्हडल्यो कांबळी खांदार घेताले. दीसभर कांबळी वांगडाच. बसूंक, न्हिदूंक, कांबरूंक, चुंबळीक. पावसांत माथ्यार घेवंक कांबळूच पुरो जाताली. आतां गावड्या दादल्या कुल्यापोंदाक कांबळूय ना आनी कदेलूय ना."

रोजमारी चेड्यान दूद पितकेर तेका परत आंतोनेतासरीं दिवन उटलें. भितर सालांत हो पसारो पडिल्लो. पेजे कुंयांय फासपून पडिल्लीं. तें परत आंतोनेताचेर तापलें. "आगो, तुका घरांत सान्न भोंवडावंक जोर माल्लेलो? सुझ्य खुंयचें."

"बाबुश पेज लायतना, कुंयां मुठींत घेवन मोखता मुगे." तें इल्लें तापसाणेनूच उलयल्लें, पूण तेचेर केन्ना धुमके पडत म्हण सांगूं जायनासलें.

पांगळ्या ग्लोरानूय तेन्ना म्हटलें, "बाबुशाक घेवन नाचों जाय मांय. तो सोकोल रावो ना. मोस्तेपोणां कोत्ता."

"मागी तेकाय तितुलेंच नाचों मेवता न्हू. तेगे बाराबोरचीं चेडवां दिसवड्याक वावराक वयतात. हेच्यान गारा एक सान्न मारों जायना. एक मोडकी धुवों जायना." तिणें रांदचेकुडींत वचून उदक घेवंक उदका मडकेंत तांबयो घातलो. मडकेंत थेंबोभरूय उदक नासलें. कुशीन दवरिल्लो तांब्या बिंदलो, मातये कळसो रितो आसलो. आपणें आनी कितेंय उलयल्यार रुजार उठ्ठलो आनी आंतोनेताक फापरायतलो म्हण तें ओगीच रावलें. आपणेंच बिंदलो आनी कळसो उखललो आनी तें बांयकडेन गेलें.

आंगणांत वारायल्ले कोंगे आतां चरूंक लागिल्ले. रुजार तेंच्या तोंडावयली शिंपी धरून ती घुंवडावन कोंग्या मासां काडटालो. मासां काडून जातकेर तेणें तीं मायटेंत घालून बरीं धुयलीं. तीं रांदचेकुडींत दवरून तेणें बायलेक म्हटलें, 'हांव मातसो वचून येतां.'

रुजार सदांचेवरी सांजचो सोऱ्या गादयेवटेन वयतालो. रोजमारी पोल्लेर शिताबुडकुलो दवरून जाळ सारतालें. आंतोनेत मांयन काडून दिल्लो मिरयां मसालो हावा शिवा करून वांट्टालें. वांट्टना मिरयां मिरसांगेन तेचो हात हुलपतालो.

आंतोनेताक आतांच णव सरूंक येयल्लीं. पूण तें आंगलोटान इल्लें चडूच वाडिल्लेंशें, फाटीन, हड्ड्यान इल्लें रूंद थाली कशें. काळें सावळें, मोट्या आंगाचें. चलतना पावलाचो धब् धब् आवाज येतालो. जेवतना 'कितलें जेयता गो पोटाऱ्या' म्हण केन्ना फाटीर धुमको पडटालो. तांबसो व्हड, रूंद चेहरो. तेचेर सदांच उकते कशे दोन व्हड दोळे. व्हड व्हड दोळ्यांनी तें जेन्ना कोणाकय पळयतालें तेन्ना दिसतालें, हें एक हरणाचें पाडूक, हें एक गायेचें वासूर. इतले दोळे आरपार नितळ, निरागस, जल्मून निकतेच दोळे उकते केल्ल्या बाळकावरी. पूण कितें तरी चुकतालें, हातांतल्यान गळसणून पडटालें, खळ्ळ आवाज येतालो, फुट्टालें. मागीर मार खातालें. धड शाणें न्ही, पिशें अरवळ न्ही. तेची अपुरबाय करची काय धुमको घालचो कांयच कळनासलें.

तें आपलेपरीन आपलें भुरगेंपण भोगपाचो यत्न करतालें. पूण तें ताका भोगुंकूच मेळनासलें. कारण तेचें हुतहुतेंपणच न्ही, आनीकय कांय कारणां आसलीं. तें जल्मलें तेच्या दुसऱ्याच दिसाक माडा वांशे काडूंक गेल्लेकडेन पायल्या पांयार तासणी बसली. पावलार आंगूळभर खोल घायो पडिल्लो. तेजेन तो सारको तीन म्हयने घरांत पडून उरलो. तेच्या पंचवीस दिसानच शापाय भायर पडलो. तेगेल्या फोंडार माती घालूंक चेड्याक– रुजारीक सायकलीर बसोवन व्हयल्लो. आंतोनेत जल्मल्लें तेन्ना तेचेर नदर घालूंक जायना इतलें कुरूप, बुरशें दिसतालें. तकली, तोंड बारीक चिंवळी कशें. तेचेर काळशें पिठें थापिल्लें. तेतूंत आनी थार दियनासतना रात रात रडटालें. कोण एकलो मुखार येवन हात लायनासलो, आंगार घेयनासलो. शापायन पळोवन म्हणिल्लें "हें सरडूक मनशा पोटा केशें येयलें? सतराव्या वर्सार सोरोप चाबून मेल्लो मुगे व्हडलो पूत जल्म घेतो म्हण धरले हांयें. हें पोसप एकल्यान आनी घोळोन जोड घालप दुसऱ्या घारा."

म्हयन्या दोन म्हंयन्यान तें मातशें निवळ्ळें. आंगान भरलें. काळें पिठें इल्लें झडलें. दोळे लिकलिकूं लागले. पूण तें कसलें नशीब घेवन येयल्लें कोण जाणा, शेजारचें एकलें आंकवार फिलू सोडल्यार तेका कोण आंगार घेवन खेळयनासलो.

जाल्ल्या म्हयन्या भितर शापाय भायर पडलो. एक बैल मेलो. वियेतना म्हशीलें आंग भायर येयलें, वासूर मेलें आनी ती दूद दियना जाली. मडकेंत भरून दवरिल्ल्या सुरय तांदळाचो भुरेवन कुंडो जालो. रुजार म्हणटालो हातां घेयल्लें काम पाड पोडटा. कामाक बागवल्यार कमर उसवता. रोजमारी मडकी फुटल्यारूय आनी सूप वांकडें जावन तांदूळ शेणल्यारूय नशिबाक वाळटी लागल्या म्हणटालें. वर्सूच कसलें येयल्लें कोणाक खबर. दर वर्सा लागपी घरा फाटल्या फेर्नांदाक एक तोर धरलें ना.

रुजार उठलो आनी एक दीस जानू घाडयासरीं गेलो. घाडयान मुखार मणय दवरून कुदतकुदत स सात फावटीं तरी आंशे काडले आनी मगेर एकाच उतरान फायेस केलें.

"म्हारगत आलांवतीण उपरासल्या."

"खुंयची कोण गा?"

"खूब फाटली. सात पिळग्यां फाटलीच आसतली. पूण ती ह्या ना त्या रुपान खंयूय केन्नाय जल्म घेता आनी पुराय पिळगेक बादता."

"खूंय ती?"

"घरांत, वाड्यार, शेजरा खंयूय. तेची सावळी तेचो वारो पडल्यार पुरो. घट्टण!"

"आतां कित कोरचें? भिरांत मुरे."

"हे आंशे दितां ते व्हर. घरांत, दारार, पास्टार उडय. थोडे वस्त्राक बांदून कडसरेक खोवय. सगलो बादीकार पयसावतलो."

"तुजे कितुले? कितू दिवं?"

"एक कोंबो ना तर तेचें मोल. एक नाल्ल ना तर तेचें मोल. चोय चोय, बोल्सांतले काड."

रुजारीन मोटव्या कालसांवाच्या बोल्सांतल्यान एकवीस रुपया ताचे मुखार भुंयेरूच दवरले आनी तो ओगी चलूंक लागलो. वाटभर तकलेंत वायट वायट चिंतनां. घरांत एक चेडूं भुरगें जल्मलां. तेन्नासान कांयच धड ना. तो चिंतनां फापडूंक पळयतालो पूण तेका तीं सोडनासलीं. तो घाडी खरें खोटें कितें उलयलो... चिंतनांचेर एक दुबावाची घट मिठी पडत गेल्ली. तेणें घरा येवन आंशे भायर भितर उडयले. बायलेक इतलेंच म्हटलें, "आलवांतीण उपरासल्या खूंय!"

वर्साचें आंतोनेत सालांत पिंजके गोजडेर सुस्त न्हिदिल्लें. रुजारीन तेजेवटेन अशे काय विचित्र नदरेन पळयलें, रोजमारीय भियेल्लेवरी जालें.

आतां बरोच कळाव जाल्लो. गादयेर सोऱ्या घोंटाक गेल्लो रुजार अजून परतून येवंक नासलो. आंतोनेतालें मिरीं-मिरसांग वांटून सोंपून सोंपनासलें. रोजमारी फणफणटालें, "सोऱ्या गादयो गेल्यो. आतां बारां जाल्यात. बसूंक कदेलां मोवमोव. एक फावट बसले मुणटगेर उठों जायना. आदीं हे गावड्या दादुले भायर फातरेर बसोन कोपा घेताले. चाड्ड्या सुदिरां मुखार बसों भियेताले." मगेर आंतोनेताचेर धेंगसो घालीत तेणें तेगेल्या हातांतलो वातो काडून घेतलो. "केसो मोड्या वांटिता येद ओगोत."

आंतोनेत हात धुवन हुलपतल्या हाताचेर फू फू फूक मारीत रावलें. तेन्नाच काळखांतल्यान येवन शेजारचें फ्लोर भितर सरलें. "रोजमारी, वोगोत जालो गो शेतांतल्यान येवंक? तूं मिरीं वांटोता. आंतोनेताक वांट म्हणपा न्हू?"

तें घरांत भितर येयल्लें आंतोनेताक मानवलें ना. दनपरां तें तेजेकडेन मांय पायक खबर नासतना खाऱ्या दी म्हणटालें. आंतोनेतान ना म्हणटकीर 'पाड पडों तुजें' म्हण गाळी संवन गेल्लें.

रोजमारीक कोणूय शेजान्न येवन खबऱ्यांक बसल्यार बरें दिसतालें. घरांतलो वावर

करतां करतां तें उलयत रावतालें. पूण फ्लोराली गजाल वेगळी. तें येतालें कितें तरी मागूंक ना तर कसली तरी पाडी खबर घेवन. कसलीय वायट खबर आयकली काय तें धांवन धांवन येतालें. मागीर ती तोंडांत उदक हाडूनशें घोस्तान पसरावन सांगतालें. केन्ना उलोवंक बसतालें आनी वयतना न्हेसणांत कितें तरी लिपोवन व्हरतालें. तेका कोण पातये नासले.

रोजमारी तेचेसरीं बारीक पळयत रावलें. ऊंच गोरें, दादुल्या आंगाचें, पसरट चेऱ्याचें फ्लोर. पोल्या वयर हाडां इल्लीं मुखार सरिल्लीं. तेचेन चेरो चवकोनी लाकडी कसो दिसतालो. तेणें बावळ्यांमेरेन लांब हातांचें पोल्क घातिल्लें. आनी देंठले गाठीन तांबडें कापड न्हेशिल्लें.

रोजमारीन विचारलें, ''ह्या दिसांनी शेतांनी बी दिसना मुगो तूं? दिसवड्याकूय खंय ना. फाल्यां कुंडो खावन रावचें पोडटेलें.''

''ह्या वाड्यावयल्या कोण्णागे शेतांनी वोसपी न्हू हांव. आमगे शेत घोवागे भावाल्या मोड्यार पोडलें. तो आग्वादा वोसोन बोसलो आनी म्हाका शेतांनी पांय दोवोल्ल्यार कोयती खोरें घेवन मारों येवपा लागले हे. तुका सांगोतां रोजमारी, ह्या दोगांय भावांलीं मोडीं रोकडीं एकाच फोंडांत घालतोलो देव.''

''कित्या येयलोलें?''

''केन्ना चीट बोरोयनासलोलो, खबर घेयनासलोंलो. पुणून आयज चीट येयल्या आग्वादा योच म्हूण.''

''कित्या उगडास येयलो खूंय?''

''मोत्तोना हेका बायल जाय पडली मुगे. वोरोस जालें बारीक जोर खूंय. आतां चोडार पोडलां.

''कितेंय आसूं, वोसोन यो तूं. साक्रामेंतान जोडलेलो घोव.''

''कित्या म्हूण त्या ग्वार्दाक कोयतेपाळान चांचोवं जाय आसलो हेका?''

''तुकाय घोव आसतोना कुंपार जाय आसलो मुगो?'' फ्लोर ओगें रावलें.

''केन्ना कुमसार जालो मुगो? पातोक निवोळटा खूंय.''

फ्लोर दातांतल्यानशें उलयलें. ''जालोलें एक फावट.''

"वोस तूं. वोसोन यो एक फावट. फाल्यां मोडें तुज्याच होड्ड्यार पडपा आहा."

फ्लोर उमेद मेल्लेवरी "चोयतां, कित् जाता तें चोयतां." म्हणीत काळखांतल्यान वचूं गेलें.

काजू तेंपाक एक एक्सायजाचो ग्वार्द खाकी न्हेसून सोऱ्या भाटींनी भोंवतालो. फ्लोर आनी तेगेलो घोव पाश्कोल मार्टिनाले भाटयेर वावर करतालीं. एक दीस दनपारां तो ग्वार्द हेंचे भाटयेर येयलो. वताचो हुश्य करीत म्हणूंक लागलो, "पोटाक भूक लागल्या."

फ्लोरान म्हटलें, "कोळशांतलो पावभर सुक्को पिये भुकेक."

"पावभर काजू पियेल्यार आनीक भूक वाडटली मुगो फ्लोर." मागीर तुका आख्खो खावन उडयतलों." सगले हांसले. प्राश्कोल थंयच आसलो. तोवय हांसलो.

इश्टागत वाडली. ग्वार्द घराय येतालो. वांगडा बसून सोरो पिताले, जेयताले. मगेर कितें जालें नकळो. त्याच पावसांत एक दीस पाश्कोलान ग्वार्दाक कोयतेन चांचावन मारलो. पयलीं फाटसून पांयां तांतयेर घाये घायले. तो सकल पडटकेर मानेर फाटीर घाये घायले. मेज्जून सात घाये पडिल्ले म्हणटात. लोक उलयताले, फ्लोरालें आनी त्या ग्वार्दालें बरेपण आसलें. एके रातीं पाश्कोल आपले बायलेसरीं गेल्यार ग्वार्द तेच्या आंगार आसलो. पाश्कोलान तें सोंसलें. पूण एक दीस पिल्लोकडेन आसताना ग्वार्दान आनी फ्लोरान दोगांनीय तेचीं फकांडां केलीं. ग्वार्दा उपरांत तो फ्लोराकूय चांचोवपा आसलो. पूण तें धांवत वचून लिपून बसलें.

दोगांय घोव बायलेक धरून व्हयल्ले पुलिशेन. उपरांत फ्लोराक सोडलें. पाश्कोलाक जल्माची बंदखण जाली. आठ वर्सां जालीं हे खबरेक. आठ वर्सांनी फ्लोराक घोवाली चीट येयिल्ली पयलेच फावट.

रुजार गादयेवयल्यान पाव मारून येतना तेका वाटेर पेद्रू भेटलो. तोवूय बरोच पियेल्लो. तेगेल्या हातांत बॅटरे दिवो आसलो. तो बॅटरे दिवो एका व्हड सायला रुखाचेर मारून तो हिशोब काडटालो. "हेचे णव हाताचे तीस वांशे, एक फूट रुंदायेचीं वीस फोळीं, ते भायर खांबे, आडांबे जायतें येतालें. मुगे एक आख्ख्या घाराक पुरो चोय."

रुजारीन आयकोलें, "पेद्रू, आदीं घाराक घोटण घाल मागीर मदेराचें चींत. त्या सायला रुखाचें सांगोतां. फाल्यां भाकार येवन कातरोन व्हरतलो. भोंक तेकोवंक लुगार ना. घराचें सांगोतां. आसलो खोंपूट राख."

“तूं कीत जाणा रुजार? पेपर वाचिला? सेरकारान सांगिलां, आतां हीं भाटां, कोमुलदाद आमची म्हूण. हीं भाटां, बेंसां, शेतां शिरकोण्यो आमगे मुरे. आमीच भाकार मुरे आतां.”

“मेलो तूं. पाव माल्ल्यार भाकार सोड सालाझार लेगीत जावपा तूं. भाटां बेसां आमगे जातोलीं म्हूण केदनासान सांगताय. दोर इलेसांवा तेंच. लिबरेसांवांक तीस वर्सां जालीं मुरे, खूंय जाल्यांय?”

पेद्रूलो उलोवपाचो सूर एकदम बदललो, “मुगे घारा मदलो खांबो येसो आंकडो जाला. शेर्त ह्या पावसाक मोडोन आडें आंगार पडटोलें. घोर नेयान मदेरा काडटो जाल्यार उणे म्हुणटा ते पांच हाजार तोरी जाये.” पेद्रू आतां रडूंक लागिल्लो.

“गावड्यागे जोड सोऱ्या कोट्टेंत.”

“वावर कोन्न आंग येशें वोळोन येता. दुखोता. इल्लें सोऱ्या घेयल्यार बोरें दिसोता न्हू?”

“केसो खोबरी त्यो कोण जाणा. गादयो आनी बार्रां भोरपाचीं आमी.”

रुजार तसो पुराय थाऱ्यार आसलो. पेद्रूक मात बरीच चडिल्ली. दर उतराक तो रडकुरो कसो जातालो. “हांयें खोरें उखल्ल्यार बायल पिकास उखलिता मारूंक. रेस्पेद ना रे. आज पेटोयतां चोय तेंका.”

“तूं बेठो आज आदेलिनाकोडसान फांपावन घेतोलो. फाल्यां मागी आंग दुखोता म्हूण आनीक सोऱ्या घेतोलो.”

“वोगीच मात्ता रे तें मुका. घारां एक उतोर उलोवं दियना. हांयें चेडये मुटल्यार तेगे चेडयेच्या रोखडेंच. बायल म्हूण वोग रावपाचें.”

“चोल आं पेद्रू, ना तोर वाटेर पोडटो तूं.”

पेद्रून रुजारील्या खांदार हात घातलो आनी ते चलूंक लागले. “मुगे तिपोलभाव मुरे तूं रुजार. एकाच वोडाचीं मुळां पाळां मुरे. एका मुळार घाय घालोत तोर दुसऱ्या मुळा दुखों जाय मुरे मुज्या भावा!”

“दुखों जाय तोर.”

“आमी मुरे आतां कुयेटा वोसपा जायें. लाखांनी दुडू हाडों जायो, तेर्रेशी घारां काडूं

जायीं. आमगे बायलांक मागी इल्लो सुशेग मेवतोलो.''

''खोरें तुगेलें.''

''त्या बाबुश भाटकारा मोस्तेपोणां कोणा जायीं? आतां मुरे तो येयल्यार तेजे कुराड घालतो हांव.''

''तुगे पाय-शेपायन केन्ना घायल्या कुराड? आमी गावड्यांनी कुराडींनी बेश्टीं लाकडां फोडपाचीं भाकरागेलीं. चोल पावोलो तूं घारा.''

रुजार पेद्रूक घरासरीं पावोवन आपणाल्या घरासरीं वचूंक गेलो. फाटल्यान पेद्रू आनी तेगे बायलेमदीं घे केस्तांव सुरू जाल्लें. तो घरा येयल्यार रोजमारीय फुगून आसलें. तेणें कितेंय वांकडें उलयल्यार ते सट करून फुट्टासलें. तो ओगी गेलो आनी मेजासरच्या कदेलार बसलो, ''तो चोय पेद्रूल्या घारांत केसो बोवाळ. आमगे तेशें ना.''

''आनीक एक पाव घेवपा आसलो तेजेवोरी. मागी मेळटासलो बोवाळ घालपा.'' रुजार वोगोच रावलो.

''उदक काबार जालां घारांतुलें.''

रुजार उठलो. तेणें रांदचेकुडींतल्यान मातये कळसो आनी बिंदूल भायर घेयलें. तें घेवन दारासरीं पावतकीर रोजमारी सरसरीत मुखार येयलें. ''तूं वोसों नाका. पियेल्लेकोडे आहा. लोटोन बांयंत पोडशी.'' तें कळसो आनी बिंदूल घेवन बांयवटेन गेलें. रुजार बेगीबेगीन भितर गेलो. चिमणे दिवो घेवन येवन भायर दाखयत उबो रावलो, बरोच वेळ.

तीं जेवलीं. भुरगीं आदींच जेवन न्हिदिल्लीं. आंतोनेत लव्याचे मांदरेर उकतेंच पडिल्लें. रोजमारीक तेचे विशीं काकुटशी दिसली. तेणें तेच्या पुराय आंगार कांबरूण घातलें. ''सवन घेत आनी मार खायेत आसता पाडपडिल्लें!''

हांतरुणार पडटां पडटां रुजारीन म्हटलें, ''फाल्यां शेट्टीगेल्या कामाक वोसों जाय. तेगे ट्रक येतो सोकाळीं.''

रोजमारी कांय वेळ गणयत रावलें, ''शेतां बेठीं लेपडावन उडयल्यांत. धड कस ना, मेर ना, तरवो ना. दिसवड्याक या म्हुणटा तूं. फाल्यांचें कोण चोयता? आक्ताक हातार दुडू जाये...'' उलयतां उलयतां तेणें दोळे धांपले. रातभर सपनांत लोखंडाच्या वारावांचें कशे जाळें आनी सिमिटा चोबे तकलेर घेवन मान मोडिल्लींशीं मनशां.

मदीं चार दीस पावस उणो जाल्लो. पूण ते रातीं पावस घोग्यांनी आनी दडकादडकांनी झडूंक लागलो. रातभर थार दियनासतना पावस झडटालो. चुडटांच्यो पांवळ्यो एके धारेन सारक्यो गळटाल्यो. वयल्या गांवठी नळ्यांतल्यान मदींच थेंबे फासपून सकल पडटाले. उकत्या जनेलांतल्यान शेळाव भितर सरतालो. पयल्यानच्या व्हाळांतल्यान उदक घोगेत व्हांवता तो आवाज येतालो. रुजार मनांत म्हणटालो. भायर पावसा शिंवराबगर आनीक म्हणून संवसार नासतलो. हेतूंत शेट्टी बेतो घालता खूंय. व्हाळोन वयतो तेगे बेतो!

पूण सकाळपाराक पावस गेलो. बारीक कुसकुसतालें तें मळबूय आतां निवळूंक लागलें. रोजमारी उठून हांतरुणार बसलें. "रुजार, शेट्टीगे वावराक वयतोलो रे?"

"तेगे ट्रक येतो न्हू. असल्या पावसा शेळावाकच बेतो घालूं जाय तेंकां."

रोजमारी कांय वेळ हांतरुणार तशेंच बसून रावलें. चेड्यान निकतीच तेगे चींव सोडून तो सुस्त न्हिदिल्लो. आपल्या एकल्याच चेड्याक चयलो काय दुदान तेगे हड्डें भरून येतालें. वावंराक गेल्ले कडेन उगडासानच हड्डें तट्टटालें. दुदा चिळकी भायर सरोन पोल्क ओलें जातालें! मदल्या पांगळ्या ग्लोराचेर नदर वयतकर तें सामके निर्शेलें; स वर्सां जालीं अजून पांय धरनात. पावला पावलाक लकून पडटा. मांय पाय फाटल्यान कशें जातलें तेगेलें! तिसरें फातिम. तेका निकतेंच तिसरें सोपलां. पूण अजून बरें उलयना. आंगूय भरना. अशक्त पिडेचें कशें ओग बसून रावता. आंतोनेत न्हिदिल्लेकडेन तेका भोवच बुरशें कुरूपशें दिसलें. तेचे व्हड व्हड दोळे आतां धांपिल्ले आसले. तोंड उकतें पडिल्लें, काळशा भेबड्या ओंठांतल्यान मुखाल्ले भायर येयल्लेशे दांत दिसताले: रोजमारीच्यान तेका चड वेळ पळोवंक जालेंना. तें चितनांत पडलें. व्हडलें चेडूं हें रुजारीक दोळयांमुखार नाका. म्हाकाय अपुरबाय दिसता अशेंय ना. कसले भोगणार म्हणचे!

सकाळीं दर एकलो आपल्या घरा दारांतल्यान तोंड भायर काडून म्हणटालो, शेता बांदयो उदकान भरल्यात, नांगर घालुंकूय दिसचेंना. साऱ्या चोबो व्हरून वारयल्यार उदकार व्हांवन वयतलो. रोव, थाम भुंयेक घांस घेवंक तांकचें ना. दर एका घरांत चुलीर पेजे बुडकुलो खतखततालो. फाटल्यान राविल्ल्या भुरग्याक पेज भरोवंक, वांगडा दब्यांत भरून घेवन वचूंक.

रोजमारी दोगांलोय पेजे दबो भरतां-भरतां व्हडल्या चेडवाक आंतोनेताक समजायतालें, "घरांतल्यान भायर सरून वचों नाका. पावसांत, उदकांत नाचों नाका. भावंण्डांक घरांत घेवनूच राव. मगेर तेंकां पेजे दी." भायर भितर पावसाचो शेळाव, घरांत चवगां अबुद्द भुरगीं. कांय नेणा आसलोलीं. तेंकां सोडून वचचें तेगेल्या जिवार येयल्लें. पूण मेळटा तो

दिसवडो करूं जाय न्ही? घोग्या पावसाक मागीर कसलो वावर उद्देग मेळपा आसा?

तें दबो भरता थंयच आसा, दांतपाडें पेर्पेत कुडकुडत दारांत येयलें. सोंपो चडत म्हणूं लागलें, "ह्या पावसांत केसलो मोड्या बेतो घालता खूंय तो शेटी. बेतो कोसळून तकलेर पडून मरतलो तो. कोंकणो जावन केसलेंय मास खाता तो. कावळ्या दोळ्यांचो. बायलांगे न्हेसणां चोयता."

रोजमारीन तेचेसरीं रागानूच पळयलें. तें सकाळीं सकाळीं दारांत येयल्लें तेका बरें मानवलें ना. पेर्पेत सदां बारीक जोर येता, खांक मारता म्हण न्हिदून रावतालें. लोक म्हणटाले तेगेले खांकेंतल्यान रगत येता. तें भायर वचून बेगी बेगीन थुकता आनी तेचेर माती उडयता. तेका रासय काजार करून दिल्लें. तें पयलींसान बारीक आनी पिडेचें. वावर कांय जायनासलो, पूण तोंडान सुबेज. घोवान एक दीस बरें धाडायलें आनी व्हरून चिऱ्या खणींत उडयलें. तें मेलेंच म्हण घोव परत गेल्लो. तें रातभर खणींत पोटली जावन पडून रावलें. सकाळीं पांय ओडीत हात तेंकयत वयर येयलें. मगेर तें कशें तरी पायगेर पावलें. आतां तें बारीक जोरान हांतरुणांक लागलां, पूण सगले जशें तें मेल्यार मरों म्हणून ओगे रावल्यात. मांय-पाय मेल्यात. दोग भाव आनी तेंगेल्यो बायलो. जेवणखाण नीट घालिनात. तें शेजारी कोणूय जेवंक खावंक बसल्यार ओगें वचून थंय उबें रावता, वसवशें कशें चोयता.

रोजमारीन रागानूच तेका म्हटलें, "अवचिन्नाळें तूं, पाडेलें, पाड चिंतनांचें. कित्या मरना तूं बेगीन." मेल्ल्या, फोंडांत गेल्ल्या दोळ्यांत तें किण्ण काळेंशें हांसलें. "माशेन, दनपारां मुका इल्ली पेज घाल म्हण सांग आंतोनेताक."

"ना, साप्प ना. मुगे भुरग्यांली पेज जेयल्यार कमरार दांडो घालतलें हांव."

तें ल्हान भुरग्यावरी रडूंक लागलें. रडत रडत गेलें, "म्हाका दोतोरान सांगलां, निस्त्या कोडयेन सुरय शीत जेय म्हण. मासा कुडके, तांतीं खा म्हण. ना जाल्यार हांव मोत्तेलें खूंय बेगीन."

सकल रस्त्यार शेट्टील्या ट्रकाचो घरघर येयलो आनी वाडोभर कुले आनी उले आयकोंक येवंक लागले. बायलांनी आपल्या न्हेसणाचेर– विशतीद, साडयांचेर– कमराक तुवाले गुठलायले. दादल्यांनी मोटवें कालसांव, तेचेर कांय जाणांनी बुशशर्ट, कांय जाणांनी बेठें बानयान घातलें. खांदार तुवालो उडयलो. सगलीं म्हेळ वस्त्रां. वावराक वचून वचून तांबडीं जाल्लीं. झरिल्लीं.

रोजमारी आनी रुजार ताकतिकेन हातांत पेजे दबो घेवन भायर सरलीं. धाकलो न्हिदलेलो आसलो. तिगांय चेडवां दारांत येवन पळयतालीं. तीं रडूंक पाविल्लीं. सदांचे संवयेनच जशीं वोगी आसलीं. तेन्नाच ट्रकाचो हॉर्न व्हडाव्हडान वाजलो. तीं धांवतशीं वचूंक लागलीं. व्हाळांत रातभर झडिल्ल्या पावसाच्या उदकाचो नेट तसोच आसलो. उदक सांकवाक लागून व्हांवतालें. सकल्लीं शेतां धोंपरभर बुडून आसलीं. तीं सांकव बळांटून ट्रकासरीं येयलीं.

माती फातर भरच्या त्या टिप्पर ट्रकासरीं तिशेक जाण तरी एकठांय जाल्ले. दादले, तरणाटे, बायलो, आंकवार चेडवां. कांय भुरगींय आसलीं. आगुस्तालें चेडूं फक्कत तेरा वर्सांचें. पेद्रूल्या चेड्याक सिरिलाक निकतीच चवदां सरिल्लीं.

वयर चडिल्ले दादले बायलांक हात दिवन वयर घेताले. आपलीं न्हेसणां राखीत बायलो वयर चडटाल्यो. मारियान मांय ट्रकासरीं उबी रावन येदोळसान चेड्याक सादयताली. तिगेलें घर थंय लागींच वयले वटेन आसलें.

''आरे, या मुरे वावराक, घराकोडे बोसोन रावन कित् कोत्तोलो? जाणट्या पाय-मांयन कश्ट काडचे आनी तुयेन बोसोन खावपाचें?''

कांय वेळान चेडो साल्वादोर घरांतल्यान भायर सरोन येयलो. तो आंगान उकतो आसलो. पूण कमरेर विटकी पिनिल्लीशी जीन पॅण्ट तेणें घातिल्ली. तो ट्रकासरीं येयलो आनी ताणशेलो, ''मांय, कित्या बोब मात्ता गे? हांव येवचों ना. कित्याक? वावराडो जावन तेगे खडी तकलेर घेवंक?''

''येशें कित् कोत्ता तूं? वावर कोरनासतना पोट केशें भोत्तोलो?''

''हांव येसो वावर करपी न्ही. मांय, हांव एजंटा बगलेक वोसपा आहां, भायर होरतो तो म्हाका. सावदी लुगार आहात खूंय.''

''दुडू भरों नाकाय?''

''दुडू जायो तोरी! येसो भिकाड्डो वावर करून मेलीं मुगे तुमी. दीस रात वावर करून मोत्ताय, खूंय आहाय गे दुडू? पाय दुडवां खोबोर सांगल्यार मरो पाविल्लेभशेन परवंणी काडटा.''

पाय थंयच उबो आसलो. बारीक हाडां वयर सरिल्लोसो. हातान पेजे दबो. तो कांयच उलयलोना. ट्रकांत मुखार ड्रायवरा शेजरा एक तरणाटो बशिल्लो. बरो नितळ न्हेशिल्लो.

पांयांक बरे बूट. नाकार भांगरा काडयांचें ओक्ल. तेणें म्हटलें, ''यो मुरे वावराक. मांय पायक कसलीं वायट उतरां दिता?''

साल्वादोर तेचेर एकदम तापलो. ''तुका कोणे मदें पडों सांगलां चेडयेच्या? चोरागे मनीस तूं. चोरा कास्ताचो. लोकां लुटूं भोंवताय. शंबर खातात आनी धा दितात.'' तो तेच्या आंगार गेलो. ''मांय झंवऱ्या, असो भायर यो ट्रकांतल्यान, तुका खोंटायतां हांव.''

मांय आनी एक बायल धांवन गेली. तेका ओडून हाडलो आनी घरावटेन धुकलिलो.

ट्रक सुटचो वेळ जायमेरेन गोरेटी घोवाली वाट पळयतालें. ट्रकासरीं मगेर येता म्हण बेगीनच भायर सरिल्लो– तेगेलो घोव मतेस अजून पावंक नासलो. तेका दनपरां जेवंक शीत कोडी तेणें दब्यांत भरून घेतिल्ली. ट्रक सुटच्या वेळारूच तो येयलो. दोळे तांबडे जाल्ले आनी सोऱ्या घुंवळेन पांय वांकडे पडटाले. तेका पळोवन गोरेटीक सामकी तिडक मारली: पूण तेणें थंडपणान विचारलें, ''मतेस, वावरा येयना तूं? ट्रक सुटलो मुरे. सोकाळींच कितें येस्ताद तुजो?''

मतेस वांवभर उडलो. ''वावराक यो खूंय. ना येवचों ना. तुगे पायगे मानांय न्हूं हांव दिसवड्या येवच्याक. चेडी खुंयची, कितें सोजमोला तूं मुका? हो आख्खो ट्रक आत्तां विकतो घेवपा आहा हांव.''

''चोय मतेस, तुगे तापसाण मुकोडे नाका. बरे भशेन यो वावराक, ना तोर धरून फांपायतलें हांव. तुका पिओं जाय, बोसून गिळों जाय. वोग यो, ना तर फोडटं कानसूल.'' तें तेका धरूंक म्हण गेलें. तो लकपी पावलां सांबाळीत धांवलोसो करून व्हाळ बळांटून गेलो. ''पाड पडिल्लो मरों जाय आसलो व्हाळांत पडोन.'' तें परत येयलें तेन्ना तेच्या दोळ्यांत दुकां आसलीं.

वोल्या चिखलान लेपडायल्ल्या ट्रकांत तीस-पस्तीस कामदार सरभरशीं उबे आसले. एक दुसऱ्याक धरून आदार घेत. ट्रक सुरू जालो आनी एक फावट सगलीं एक दुसऱ्याचेर आपटलीं. मागीर एक दुसऱ्याक धरुनूच सावुरलीं.

पावलीन मदींच चुंबळ दवरून सकल बशिल्लें आनी तकलेक धरून परवंतालें. ताचो चेरोय तांबडो दिसतालो. रोजमारीन म्हऱ्यांत वचून विचारलें, ''कितें गो पावलीन बोरें ना?'' तें वोगी रावलें. रोजमारीन कपलाक हात लायल्यार तेका बरो जोर आसा. ''पावलीन जोर आहा मुगो तुका. किद्या मरों जाय म्हण येयलां?''

''भुरगीं आहा न्ही गो? नातर उपाशीं पोडटो तीं.''

पावलीन आदीं एक सादें-सुदें मोव कुडीचें चेडूं आसलें. आळशी, काम कळना म्हण सासुमांय तेका दोवल्या दांड्यान, सान्नी खुट्यान मारताली. चिरो तकलेर घेयल्यार तेची मान सामकीच कडकडटाली. शेतांत खोरें मारून एक धेंप उखलूंक जायनासलें. घोव म्हणटालो, “कसलें गाबणें बेबूक मुगे गळ्याक बांदलां. हेंचो संवसाराक आदार जावचोना. दुसरें कोणूय चोयतां हांव.”

घोव बरो पाडेली आसलो. सांजचो पाडून येतना सोलिल्ल्या नाल्लांच्यो सोबीत माळो बांदतालो आनी सायकलीक लावन हाडटालो. त्यो गणपतीले खानावळींत घालतालो आनी एके मुठीन पयशे हाडटालो. एक दीस तो पावसाचो चार पुरीस माडावेल्यान निसरून पडलो आनी आक्ताक मेलो. तिगां नेणार भुरगीं आनी बापूय मरून गेल्लो.

ह्या अदृश्टांत पावलीनान अजापाची घटसाण घेतली. झुडोन तें वावराक लागलें. दिसवडे जोडले. वक्तार लोकालीं दारां झरोवन रीण काडलें. तशें तें मोव आंगा कुडीचेंच. पूण आपणाक सदांच कामां मेळचीं म्हूण आंग मोडून काम करतालें. कुडीन जायना तरीय झुडोन वयतालें. आतां तेणें सोता आपल्या शेता बांदयांक मेरो धरल्यात. सोता जोत धरून कसून घातलां. चार पयशे खर्चाक मेळचे म्हण तें आज जिवाक बरें नासतनाय ट्रकार कामाक भायर सरलां. पयलीं तें कोणासरीं झगडूंक बीन वचनासलें. पूण आतां कोणेंय कितेंय बांकडें उलयल्यार सट्ट करून झगडूंक उबें रावता, न्ही त्यो गाळी संवता. पयर कोण ना सो पळोवन दामू केरकाराल्या दुरगार तें चडलें आनी सूपभर म्हसका सांगो काडून हाडल्यो. दामून दुसऱ्या दिसा वाटेर धरून विचारल्यार तेचे सरींच झगडूंक लागलें. म्हणूंक लागलें, “हांयें सांगो काडलेल्यो चोयल्लो तिस्तुमेंत हाड. तेगे मुसकट फोडटां.”

वाड्यावटेन येवपी हो रस्तो सामकोच अशीर आनी पुराय मातयेन भरिल्लो आसलो. हे वटेन ट्रक पिकप येवप ती फकत हंयच्या गावड्या कामदारांक भरून व्हंरूक. रस्त्यार कितलोसोच तेंप हो मोटो अरिश्ट सायला रूख हुमटून पडिल्लो. त्या रुखाच्या मालकी हक्का वेल्यान मोटो वाद उपराशिल्लो. दोन लाखांचो तरी म्हालवज. रान खातेंय कोणाक हात लावंक दियनासलें. दोन अडेच वर्सां तरी रूख तसोच रस्त्यार पडून आसलो. सगले येवपी ट्रक पिकप तेवटेनूच येवन उबे रावताले. पयरूच कोणें तरी त्या रुखाक उजो लावन दिल्लो. ताचो कोळसो जावन रस्त्यार पातळिल्लो. ट्रक तो कोळसो चर्र चर्र माडयत उज्यांतल्यान गेल्लेवरी पयल्यान गेलो आनी रस्त्याक लागलो.

* * *

मळब निवळिल्लें आनी चक्क वत पडिल्लें. रुजारील्या दारांतलो अटमारूख जो

सदांच काळोख कांबरून घेवन कसो उबो रावतालो, तो आज उकतो जावन उजवाडांत कुच्छित्रीपणान हांसतासो दिसतालो. घरांत कमर मोडून पडिल्लो जुजे केदोळसान बेठोच हालेटी मारिल्लेवरी करतालो. दांतपाडें पेर्पेत जिवाण्यान बिंवणांतल्यान तोंड काडून रावचें तशें दारांत बशिल्लें. इतलें नितळ वत पडिल्लें आसुनूय गांवार भिरांतीची, भुकेची, एकसुरेपणाची जशी काजळी पातळिल्ली. गांवांत आतां आशिल्ले फक्कत पिडेस्त, म्हातारे आनी सान-सान भुरगीं. भुरगींय जाय तशीं बोवाळनासलीं. सामकींच सान भुरगीं वाड्यावयल्या एकसुऱ्या किण्णपणान जशीं कांचवेल्लीं आनी इल्लीं व्हड भुरगीं घातिल्ल्या जबाबदाऱ्यांच्या वज्याखाला घुसमटिल्लीं आनी वोगच जाणटीं जाल्लीं. तेभायर एक आंतोनेत. तें चड सैमीक भुरगें जावये. म्हणच सगले अवतिकायेंत, धेंगशांत आनीं कांचांत तें आपलें भुरगेपण आपले परीन जियेतालें. सोताभोंवतणींच फेरे घेवन खेळ खेळटालें. गावड्यांल्या-कामेऱ्यांल्या भुरग्यांनी चड भुरगेपण करचें न्हय असो नेमूच घडिल्लो जावंये. पूण आंतोनेतान नेम केन्ना पाळ्ळोना. म्हणच त्या परिसरांत तें अवजाळी, आडांगी जाल्लें.

आज तर वत उदकार पडून चकचकतालें. वत आनीक उदक एक जाल्लें. आपल्या घराचे वासरे वयल्यान शेतांतलें वत उदक पळयलें आनी आंतोनेत भुल्लुसलें. त्या वतांत उदकांत खेळची तेका ताळणीच लागली. पूण बाबूश आशिल्लो. तेका धरूं जाय... तेणें तेकाच हांडीर मारलो आनी तें भायर सरलें. पांगळें फाटल्यान पांय ओडीत सोंप्यामेरेन येयलें, "बाय, हांव येवं?"

"नाका, तुको ज़ावपा ना. तूं पोडटलें."

दुसरें फातीम मुखार येयलें. "हांव येतां बाय."

"नाका गो. ग्लोर उबें रावल्यार तेका धरों नाका, एकलेंच आहा तें." फातीम रडूंक लागलें, पूण तेका मानिनासतना तें भावाक हांडीर घेवन चलूंक लागलें. ग्लोरान फाटल्यान व्हडान म्हटलें, "बाबुशाक उडयशी खंयूय. मांय सोवतोली."

आंतोनेत व्हाळासरीं गेलें. थंय भोंवपी कुल्ल्यां फाटल्यान तें धांवलें म्हणटकेर हाण्डीर बशिल्लो बाबूश खिदळून हांसतालो. व्हाळा पलतडीं एक जांबळी रूख, थंयच एक भिण्णी रूख आसलो. जांबळी रूख जांबळांनी भरिल्लो. पावसान सकल जांबळांचो खच पडिल्लो. बळाबळ तोल राखून सांकव बळाटून गेलें. सांकव बळाटून गेलें आनी फाटीं वळोन पळयतकेर तेका भिरांतच दिसली. कशें चलून येयलें हांव ह्या सांकवा वयल्यान. परत मुज्यान कशेंच वचूं जावचें ना ह्या अंतराळी सांकवावयल्यान!

मागीर तें जांबळी मुळाक, भिण्णी मुळाक गेलें. भिण्णी मुळांतल्यान तें येयलें तेन्ना उदक भरिल्लीं भिण्णां खावन तेगेलें तोंड तांबडें जाल्लें. रगत खायल्लेवरी. बाबुशालें तोंडूय जांबळां भिण्णां चोखून भरिल्लें. मागीर तें सकल रस्त्यार गेलें. तें रस्त्यार येवन उबें रावलें आनी सकल्लीं वतान, उदकान भरिल्लीं शेतां ताचे एके दिठयेंत येयलीं.

आशीकुशीक धपकायतलो कोण ना आनी मुखार चकचकीत दिमीभर उदक. तें वर्साच्या बाबुशाक घेवन आडो चडून सकल शेतांत देंवलें. उदकाक पांय लागलो आनी पांयांक भिंगरी भरिल्लेवरी जाली. ''बाबूश आमी उदकांत खेळुंया मुरे?''

बाबुशान यें यें यें अशे अबुद्द आवाज काडले. तें उदकार धब्ब धब्ब पावलां मारीत धांवलें, नाचलें. उदकाच्यो मोती तेणें वयर उडयल्यो. उदकाचे हारशे केले. ते वतान चकचकले. उदकांत कारडाचें एक भिरें आसलें तें तेच्या वांगडा धांवलें. शेताच्यो बांदयो वळांटून आनीक भितर गेलें. आनी अचकीत....

सांतान आनी मिनीन हे भाव झगडून वेगळे जातकीर तेणीं घरांमदीं एक वणत घातिल्ली. वणटीक माती शेतांतल्यान काडून हाडिल्ली. तो दादल्याक हड्डेंभर अगड फोंड पुरयनासतना तसोच आसलो. आतां शेतांतलें आनी फोंडांतलें उदक एक जाल्लें. फोंड कळनासलो. पुराय शेतान एकच तळ घेतिल्लो. एक तळें जाल्लें.

देहभान विसरून उदकांत नाचतल्या आंतोनेताक कांय कळ्ळें ना. तें भावासयत फोंडांत पडलें. उदकांत घुसमट्टना हातपांय धाडायतना थाव मेळ्ळोना. भाव हाण्डी वयल्यान, हातांतल्यान सुटलो......

पयसुल्ल्या झाडाच्यो दोळ्यांत नाचपी सावळ्यो, शेंड्या वयल्यान झोंपय घेत उदकांत देंविल्लें वत, मळबांतल्यान उदकांत पडिल्लो सूर्य, थंड थंड उदकाची ऊब. तें तर मोतयांच्या राशींतल्यानच चलतालें. उदक पिशें लागिल्लें तेका.... उदका उजवाडाचे ओडीन व्हयल्लें तें. उदकानूच गिळिल्लें तेका!

पडटकीर उदकात हातपांय धाडायतना आंतोनेताक मातयेची धड लागली. कुल्लेवरी तें कशेंबशें वयर येयलें. पूण भाव हाण्डीर, हातांत आसलो तो फोंडांतच उरिल्लो. उदकाचे राशींत पुरिल्लो. भाव हातांतल्यान सुटलो हे जाणविकायेन तें काचाबूल जालें. कांय वेळ थंयच हूं हूं करीत रावलें. तें रडलें. तेणें अबुद्दपणान उदकांत हात बुडोवन उदक चाळ्ळें.

आतां तें वयर सरून जिवाच्या आकांतान बोब मारतालें. धड उतरां नाशिल्ली बोब. शेता वाठारांत तर जितो जीव नासलो. वाड्यावयल्या म्हाताऱ्या कोताऱ्यांक पयस कोण तरी

विकळापता हें ल्हव ल्हव आयकूंक येतालें. पूण तेंका दिसलें, झाडार बसून अनवळखी शेवणें रडटा जावंये. मागीर तर तें तोंडांतल्या तोंडांत आबो, आबो करीत रडटालें आनी उडक्यो मारीत हात हेळटालें.

कांय वेळान पों पों असो सायकलीचो आवाज येयलो. नुस्तेकार बोस्त्यांव सदांचेवरी नुस्तें घेवन येयल्लो. तेका रस्त्या सकल्ले वटेन शेतांत चीं चीं रडिल्लोसो आवाज आयकोंक येयलो. पळयल्यार एक चेडूं भुरगें उडयो मारीत हात हालयत आफयता. तेका कितें म्हण कळळें ना, सोरोप चाबलो काय बैलान शींग मारलें. शेतांत एक मनीस ना, गोरूं ना, जोत ना. आनी हें भुरगें कित्याक पावलां थंय? तेणें बेगीबेगीन सायकल तेंकयली आनी शेतावटेन धांव मारली.

"कितें जालें गो?" म्हण विचारल्यार बाबूश.... बाबूश करीत फोंडावटेन हात दाखोवंक लागलें. गिळून धेंकर दिल्ले वरी फोंडांतलें उदक अजून हालतच आसलें. बोस्त्यांव कितें तें सजमलो. तेणें केन्ना सोंजावा फेस्ताक बांयंत उडी मारिल्ली. तेणें अदमास घेतलो. आंगावयल्या वस्त्रांसयत तो फोंडांत देंवलो. तेका थंय गळोभर उदक जालें. पांयान तळ सांसपीत बुडी घेवन हातान चाळीत तेणें बाबूशाक वयर काडलो. पूण तेका जीव नासलो. हुनसाण नासली. तेचेंय थंड उदक जाल्लें. बोस्त्यांव तेका तसोच खांदार मारून वाड्यार धांवलो. तेका सोप्यार व्हरून घातलो. म्हातारे कोतारे एकठांय जाले. तेणीं जायते उपाय केले. पांय धरून उलटे केलो. हून गोबरान शेकलें, भाजलें, पूण एक उपाय चललो ना.

आंतोनेत रडनासलें. काचाबूल जावन व्हड व्हड दोळे करून बेठेंच पळयतालें. मदींच कडकडटालें, भिरांतेन.

वाड्यार किण्ण रडटी शांतताय. जाणटेले चिंतताले, रुजारिलो एकलोच पूत, देवापांयांकडेन वचून आंगवणेन जाल्लो.

साल्वादोर जो सकाळीं वावराक येयना म्हण मांयसरीं झगडटालो तो बोवाळ आयकोन येयल्लो. पूण कुशी कुशिनूच उबो आसलो. तेका कोंयसांवांन सांगलें, "मोडगांवां वोसोन खूंय वावराक लागल्यांत चोय. खोबोर दी. चोड बोरो ना म्हुणून सांग."

साल्वादोर वोगो चलत रस्त्यार येयलो. थंयसान मात तेणें भिरकटी मारली. राय बाजारांत पाव मेरेन अडेच मैलांची वाट तेणें धांवुनूच पार केली. थंयसान मोटारसायकल करून तो मडगांवां आक्यां पावलो. तो जाणा आसलो जावंये.

कामाचें एक प्रचंड यंत्र. मनशामनशान जोडिल्लें; घडयल्लें. दर एक मनीस त्या यंत्राचो भाग पुरजो. तांतलो एक मनीस काडून घेयल्यारूय तें यंत्र गप्‌कन्न बंद पडटलें. शिमिटा चोबे मनीस यंत्राच्या त्या पट्ट्यावयल्यान वयर चडयताले आनी सकल देंवयताले. चोबो चोबो एक इमारत घडयतालो.

रोजमारी घरांत तर परवंताली ती येद्दे व्हडले शिमिटा मिक्सर चलयताली. तो भरून घुंवन जातकीच हॅण्डल ओडून भस्स करून शिमीट सकल उडयताली. एके दुर्बळ अस्तुरेचो कामाचो आटाप पळोवन तोंडांत बोट घालचेलें!

पूण यंत्र रावचें कशें? मोटारसायकलीच्या पायलटानूच वचून त्या पट्ट्यांत निसणीर सगल्यां सकल आशिल्ले बायलेक सांगलें, "रुजारीगे चेडो बुडलो. पूण चड बरो ना म्हण सांग म्हुटलां."

ते बायलेच्या हातांतल्यान चोबो पडटां पडटां उरलो. चोबो घेता दितासतनाच सगल्यांक कळ्ळें. यंत्राचो पटो ल्हव-ल्हव घुंवचो रावलो ....

* * *

पाय रुजारीन आंतोनेताक इतलें मारिल्लें, इतलें मारिल्लें तेची पोटली घरा मुखार झिलींत खंय तरी पडिल्ली. खोंटो मारून सकल उडोवन आनी कितलो वेळ तरी तो तेका खोंटायतच आसलो. मदींच बचक्यांत धरून उखलून पयस शेंवटितालो. तेची तकली फुटिल्ली, बरी मोडिल्ल्यो, तें रडय नासलें. बेठेंच मारासरशीं हूं हूं करतालें. कांय वेळान तेंवूय बंद जालें. तेका रुजार तसो मारतना कोण एकलो आडावंक मुखार येवंक ना. पुराय गांव जसो एका अजरंवर पातकाक ख्यास्त दिवंक उठिल्लेवरी रुजारीवटेन उबो. दबदब चिखलाची एक काळखा तळी. कोण तरी ते तळयेंत पुराय मुंगरला. हात मागता. पूण वातावरणच अशें विचित्र. घराक उजो लागला काय घराचेर वड मोडून पडला... सोंप्यार चेड्याची मेल्ली कूड. पाय धुवेक घालून मारता. शेजाऱ्यांसयत सगलेच आंतोनेताक गुन्यांवकारी धरताले आनी मरण ख्यास्त दिवंक पळयताले काय कितें! रुजारील्या अत्यंत दुख्खाचें रुपांतर खर रागांत, किंवाट्यांत जाल्लें काय कितें! रुजार एक फावट मोठ्ठ्यान आड्डलो "त्या कोंकण्या घाडयान् तेन्नाच सांगिल्लें मुका, घारांत आलवांतीण जोल्मोल्या म्हूण. तेन्नाच मारों जाय आसलें."

मेल्ले कुडीसरीं सगले एकठांय जावन विकळाप करताले पूण झिलींत पडिल्ल्या आंतोनेतासरीं कोण येयनासलो. कोणकोण फुतफुतताले– खरीच ती मनीसखायरी आलवांतीण त्या चेडवाच्या भेसांत.

व्हड रातीर काळखांतल्यान एक बायल येयली. तिणें आंतोनेताल्या कपलाक हात लायलो, हड्ड्यार हात सांसपिलो. तिका हूनसाण लागली. तियेन तेका उखल्लें आनी खांदार घालून आपल्या घरा व्हयलें. घोंट घोंट नीस पिवयलो. न्हिदोवन वयल्यान कांबरूण घातलें.

रोजमारी तकली धाडावन घेवन सालांत साश्टांग पडिल्ली. रुजार चेड्याले कुडीसरीं तकलेर हात मारून घेवन चिंततालो, म्हजो वंश काबार केलो, आतां म्हजो वंश मुखार सरचो ना, सगलें सोंपतलें, वंश मरतलो.

* * *

शेजान्न आगुस्तीन आंतोनेताक पायन मारून उडयल्लेकडेन येवन रातचें उखलून घेवन गेलें. पूण तेची अवतिकाय वायट आसली. मरता काय उरता असली गत. तेगेल्या आंगाची सूज पळोवन आगुस्तीन भिवन गेल्लें. तकलेक कोंक पडिल्ली. तेच्यो बरगड्यो धाडावल्ल्यो. तेंका कुसूय परतूंक जायनासली. तें रडनासलें, उलयनासलें; फक्कत दुखीन सोंशेतालें.

दुसऱ्या दिसा पुराय गांवान काळजार फातर दवरून रुजारील्या चेड्याचें मरण केलें. पायलटागेले मोटारसायकली वयल्यान येदेंशें धवें काश्यांव हाडलें आनी पाद्रीक आफोवन हाडून मरण व्हयलें. गांवांत फक्कत मरणाचे सूर आनी मरणाचो वास! आड मरणाच्या कांचांत गाविल्लें एक घर आनी एक गांव!

आगुस्तीन मरणाक गेलें ना. काश्यांव उखलच्या वेळार गेलें आनी बेगिनूच परत येयलें. थंयच्यो बोबो तेच्यान पळोवंक जाल्यो नात. तें वोगी येयलें आनी आंतोनेतासरीं बसलें. तेगेलीं आनीक तिगां भुरगीं आसलीं. तेंकांय रांदून वाडूंक जाय आसलें. एके वटेन दुगदुगो, आंतोनेताचेंय कितें बरें वायट जाल्यार! घोव आदीं म्हाका धाडायतलो. तुका चेडयेक कित्याक जाय आसलोलें काय म्हणटलो. आतांच तो रागार आसा. तेणें वस्त्रांत बरें हून शीत घेवन आंतोनेताचें आंग शेकलें. तकलेक कोंक पडिल्लेकडेन कांटेकुंवर मुड्डून लायली. इंगळयार धरून सूज येयल्लेकडेन चोळ्ळी. तेणें रोजार करून जेजूसरीं मागलें, "जेजू, हेका वाटाय. मुजेर बिरमत घालूं नाका. हांयें तुजे सांगणेर बऱ्याचेंच केलां."

दुसऱ्या दिसा तें ल्हवूच रोजमारीगेल्या घरांत रिगलें. रोजमारी मुड्डो कशें वणटीक तेकून बशिल्लें. कांय वेळ आगुस्तीन तशेंच मुखार बसलें. मगेर ल्हवूच म्हटलें, "हांयें उखलून व्हयलो तेका. तुगे व्हडलें मोरतो गो तें. सुजोन बेबो जालां."

रोजमारी बशिल्लेकडेनूच भुंयेर लंवडलें. तेणें मागीर पिशांतुरावरी व्हडान म्हटलें, "मोरों दी तेका. घाल फोंडांत. भावा वांगडाच मोरों जाय आसलोलें. कित्या वयर येयलोलें! आतां पाय मांयक खावपा आहा तें! खातोलेंच ते सोगल्यांक."

आगुस्तीन उठून वोगी घरा येयलें. "पिशें लागलां हेंकां. आतां तें सट् करून मेल्यार हांव कितें कोत्तलें? पोर गेलें उदकांत खेळपाक. हुंवारान गिळ्ळ्यार कित कोत्त तें! मड्या शेता फोंड मात्ताय आनी तशेच दवरताय. त्या दोगां भावांक आदीं पुरूंक जाय त्या फोंडांत."

घरा येयल्यार घोव आवरील सोरो पिवन येवन वासरेर बशिल्लो आनी तेका गाळी संवतालो, "बोडकान तें मोडें हाडून घरांत वोडयलां. वांगडाच काशांव सांगोन येवपाचें." आगुस्तीन दिसतकीर तो चडूच खुबळ्ळो. "चेडये, खूंय गेलोलें. किद्या हें पातोक आंगार घेवों जायें तुका? तुगे भुरग्यांक घालों जात मुगो तुकोडे? तूं जाणा, तेगे आंगार म्हारवा सावळ आहा खूंय. येशें व्हर आनी पायगे दारां उडोवन यो तेका." आवरील आंतोनेताक उखलूंक भितर वचूंक लागलो. आगुस्तिनान तेगे बावळ्याक घट धरून तेका आडायलो. "तुका लागोना तें मोसण्या. हांव चोयतलें. तूं वोग बोस थिंगा. म्हारू खूंय. ल्हान बाळक मुरे तें तुगे भुरग्यावरी. म्हारू तुमचेर जाणट्यांचेर बसोला."

रातीं न्हिदिल्लेकडेन आगुस्तीन चिंततालें, आठ दिसांनी मांय-पायलो राग निवळटलो. मागीर व्हरून पावयतलें हांव तेका. धमकावन सांगतलें, "हेंवूय भुरगें तुमगे रगताचेंच न्ही? हें मेल्यार दूख भोगची ना तुमकां? काय बरें देवा गुणांचें भुरगें. भुरग्या काम खेळपाचेंच न्हू? पावस कोणें पाडलो हुंवाराचो, फोंड कोणें मारलो बुडून मारचो? कोणा गुन्यांव? ह्या भुरग्याक येशें कोत्ताय तुमी...." भुरगें हेतूंतल्यान उठल्यार पुरो! तें तर मरून पडिल्लेवरी पडिल्लें.

चार दीस जाल्ले. सूज बरीच निवळिल्ली. पूण चार दिसांमदीं तें एक उतर उलयलें ना. सोताच्या हातान तें जेवय नासलें. मदींच भियेल्लेवरी आंग काडटालें. चोयतां चोयतां दोळ्यांच्यो धव्यो कांचे गोटयो जाताल्यो. आगुस्तीन मागीर तेका वोगी थापटितालें. कुलेरान, कोपान पेजे निवळ, गोंड्या आंबील लायतालें. घोव आवरील सगलें वोगी पळयत रावतालो. आंतोनेताविशीं तेणें उलोवपूच सोडिल्लें.

पांचव्या दिसा व्हडा रातीं हूं हूं सो रडिल्लो आवाज आयकूंक येयलो. आगुस्तीनाक जाग येयली. आंतोनेत रडटा काय कितें! मदीं तेचो धाकलो न्हिदिल्लो. न्हिदिल्लेकडच्यानच तेका थापटिलें. "रडूं नाका बाय, भोगणार तुजे. रडूं नाका. पायतलें तुका हांव रोखडेंच

मांय पायसरीं.''

आतां आन्तोनेत उठून बसलें आनी चडूच रडूंक लागलें. करतां करतां रडप वाडत गेलें. हुडक्यार हुडके दीत तें हामेऱ्यांनी रडटालें. मदींच 'बाबूश गे मांय...?' म्हण आड्डतालें.

रातीच्या काळखांत तेचें रडप काळखाचेर थंड किरांव उदक मारिल्लेवरी घुंवतालें. कांय शेजारी येवन दारांत उबे राविल्ले. आगुस्तीनालो घोवूय उठून येवन हांतरुणासरीं उबो आसलो. कोणाक कितें उलोवचें सुचनासलें. मदींच कोण तरी एकलो तकली घुंविल्लेवरी व्हडान उलयलो, ''भावाक बुडोवन मारलो मुगो, आतां रडटा किद्या? अवचिन्न खुंयचें. म्हारू बसलोलें!''

आवरील उतरां आयकोन सट् करून घुंवलो. काळखांतूच वचून तेणें उलोवपी मनशाली गोमटी धरली, ''चेडयेच्या, आमगे दारां येवन येसो उलोय नाका. भुरगें जीव सोडोन रडटा तें दिसना तुका? तुका लागोना तें. आमी आहाय. आगुस्तीना आहा कापाझदाद. तुगे बापोलभावान शेतां तो फोंड मारून दवरलो मुरे, तेका वोसोन विचार. घाल तेका त्या फोंडांत.''

आगुस्तीनान थापटीत, थातारत आंतोनेताक हांथरुणार घातलें. परत तें उठून बसलें आनी आपणाक घरा मांयसरीं पावय म्हण रडूंक लागलें. आगुस्तिनान तेका समजायलें. ''आतां थंय बाबूश ना. पाय रागार आहा. पायचो राग निवळूं दी. तुका ती येवन व्होरत तेन्ना वोसपाचें.''

तेच्या तिसऱ्या दिसाक तें रुजारीगेर गेल्यार तेगे व्हडलें माशेन मांडपासान येयल्लें आसलें. तें पयलीं दोन फावट येवन गेल्लें. तेणें आंतोनेताली खबर लेगीत घेवंक नासली. तें गेलें आनी सालांत तेंचे मुखार फतकल मारून बसलें. माशेन सांगतालें, ''आमगे थंय गांवांत शिवरामागेलीं दोगां भुरगीं हागों-ओंकों जायन एके रातयां मेलीं. दुसरें वरस येवचे फुडें तेगे बायलेक जुंवळे दोग चेडे जाले. देवाले मतीं आसल्यार येतो तुगे चेडो तुगे पोटांत. देवाक पाराथीय. मागणें माग.''

आगुस्तीनाक राग येयलो, ''मेल्ल्या आनी जातोल्याल्यो खोबरी सांगताय तुमी? जें जितें आहा आनी मोरूं तेंकलां तेची खबर करनाय. मांयगे मोगाक चेडूं कितें चेडो कितें पोटां पिकलोलींच न्ही तीं?''

मांय, माशेन कोण्ण कांय उलयलें ना. थंय एक गांठ पडिल्लेवरी जाली. कोण

सोडयतलो ही गांठ? आगुस्तीन तर परकें. तें उठलें आनी भायर येयलें. पावळेंतल्यान घरावटेन येतना गणयतालें. "एक माजरा पील पावसा भिजोता म्हण घरा हाडलोलें. तें णव वर्सां मुगे मांयगे घरा उरलें. समजों नाकात तेका हांव रस्त्यार हाडून उडयतों म्हूण....

दनपरां व्हडलें माशेन तेंगेर येयलें. येतना तें घराकडच्यान आंतोनेताल्यो दोन-तीन आंगल्यो पोतयेंत घालून घेवन येयल्लें. येयल्लेंच तेणें थंड मेल्ल्या आवाजांत आगुस्तीनाक म्हटलें, "हांव व्हरतां तेका. ना तर फाल्यां दिसोता मोडें येता रोडें, अेहें जातलें घोरच्यांक."

"घोरचीं म्हुटल्यार कोण, मांय आनी पाय मुगे? भुरगें तें, निकतेंच कोमेल्ल्या रोंपावरी."

"रुजारीक दोळ्यांमुखार नाका तें."

"तेगे आंग सुजोलां, दुखोता."

"व्हरतो हांव तेका. रायसान मगेर बसीन वचपाचें न्हूं?"

"रायमेरेन चलों जातलें तेकोडेन?"

"मरपार ना. मेल्यार मेलें."

आगुस्तिनाक शिट्ट जाल्लें. पूण हांव कोण तेका सांगतलें? तेका आडायतलें? हांयेन दवरून घेयलें आनी फाल्यां कितेंय चड उणें जाल्यार? तें वोगीच रावलें.

माशेन 'खूंय तें' म्हणीत भितर सरलें. तें सालांत एका कोनशाक शेंदरेर पडिल्लें, पायांकडेन एक म्हेळ गोजडी आसली. आंतोनेताक चोवन माशेनाचें काळीज भरून येयलें, दोळ्यांत दुकां येयलीं अशें कांयच जावंक ना. वेल्यान व्हडलो खुनाचो बीन गुन्यांव करून येवन लिपून बशिल्ल्या गुन्यांवकारावरी दिसलें तें तेका.

तशें व्हडलें माशेन आंतोनेताक बरें मानवतालें. मांडपा तेगेर गेल्यार तेचेखातीरूच पदेराकडल्यान कडक रोटी घेतालें. तें दीसभर माशेनाफाटल्यानूच भोंवत रावतालें. माशेनूय शेंबूड देंवन येयल्यार तेगे नाक पिळून शेंबूड काडून उडयतालें आनी हात आपणाल्या कापडाक पुसतालें. पूण आज माशेनाक पळोवन तेका रडूंक येयलें ना. व्हड व्हड भियेल्ल्या दोळ्यांनी तें तेका पळयत रावलें.

"आंतोनेत, चल या आमी मांडपा."

"हांव येयना माशेन. मांय मुका येवन व्होरतली."

“ती येवपार ना. ते दीस पायन धाडायलो मुगो तुका. आनी मार जावो तेगेलो?”

आंतोनेत वोगी रावलें. आगुस्तीना घोव आवरिलान तिरायतपणान बायलेक म्हटलें, “आगुस्तीन, तेगे माशेन तें, मांय सुवातेर. व्हरों दी तेका. आमी केलो तें पुरो. तुयें तेका मरणाचें वाटायलां. मरो दिवं नाका म्हूण सांग.”

माशेन तेका दुखऱ्या आंगाचें आसतना तशेंच घेवन गेलें. ल्हान भुरग्याली दूख ती. वाचा, विरोध नाशिल्ली. आगुस्तीन तेगेलें कोणूच नाशिल्लें. केन्ना केन्ना वोगीच मन उसवता; जीव लावन बसता. आंतोनेत वयतना तें दारांत रावन दोळ्यांत दुकां हाडून तेका पळयतालें. तेगेलीं तिगां भुरगीं म्हऱ्यांतच उबीं आसलीं तरीय आंतोनेता पासत जीव येदो येदो जातालो. तरीय बरें. हांयें केल्ले उपाव तेका बऱ्या पडले. बेगीन उठून उबें रावलें.

मुखार घरा सरीं येतकीर तेका वाटेरच रावोवन माशेन घरा गेलें. आंतोनेतान, ‘माशेन हांव येवं’ म्हटल्यार माशेनान, ‘नाका, तूं हिंगाच राव’ म्हटलें.

आंतोनेत आपल्या घरावटेन पळयतालें. उबें राविल्लेकडच्यान वासरेर दवरिल्ले चोबे, दोरयो, खोरीं दिश्टी पडटालीं. पूण मनीस कोणूच नासलो. तेका दिसलें, आत्तां कोणूय तरी धांवन येतलो आनी आपणाक हाताक धरून घेवन वयतलो. पूण कोणें तेका आफयलें ना. कांय वेळान धाकलें फातीम वासरेर येवन तेका पळोवंक लागलें. पांगळें ग्लोरय दारांतल्यान तकली भायर काडून पळयता तें दिसतालें. पूण फातीम तरी आपल्या म्हऱ्यांत कित्याक येयलें ना हेचें तेका अजाप जालें. तें रडनासतना सगलें पळयत रावलें.

माशेन परतें येतकीर तेणें विचारलें, “माशेन मांयन म्हाका यो म्हुटलें ना? मुगे आंग सुजोलां म्हण सांगपा न्हू.” माशेन वोगीच रावलें.

“ग्लोराक धरों नाका खूंय? पोडूटा मुगे तें.”

“एकल्याक धरलो ना तुवें पाडपडिल्ल्या. चल वोगोत जाता.”

तें माशेना वांगडा चलूंक लागलें. तेका खरीच पांगळ्या ग्लोराली याद येताली. चलूंक म्हण करता आनी परतें परतें पडटा. धरून व्हरतना सामक्कें खांकोळांत रिगता, घट मिठी मारता. मांय वावराक वयता. आतां कोण धरतलो तेका? खरें म्हटल्यार आंतोनेताक दिसतालें, ग्लोराक राखूंक म्हणून तरी आपणाक मांय पाय घरा व्हरतले. पूण आंगाची दूख सोंशीत तें माशेना फाटल्यान पांय ओडीत वयतालें. माशेन हाताकूय धरनासलें. “माशेन आंग दुखोत गे!” पूण माशेन म्हऱ्यांत येयलें ना.

कांय वेळ चलून वयतकेर माशेनान फाटीं वळोन सट् करून आंतोनेताक विचारलें,

“तुका रातचीं सोपनां पोडटात? घुंविल्लेवरी दिसोता?”

तेका कांयच कळ्ळें ना. तेणें बेठीच तकली हालयली, ‘ना’ म्हण.

“तुका सपनांत केंस सोडलोली तांबड्या कापडाची बायल दिस्टी पोडटा? कोंकण्यावरी कपलार व्हड तांबडो कुकूम लायलोली.”

“ना गे.”

“सोरोप, म्हारवां दिसतात?”

“ना गे.”

“सिमितेर, फोंड खणिल्लो, कोण रडिल्लें दिश्टी पोडटा?”

“ना, ना.”

ती चलूंक लागली. कांय वेळ वयतकीर आंतोनेतान म्हटलें, “माशेन, हांव केन्ना घरा परत येवपार ना. तुजेसरीच रावतोलें.” माशेनान तेचेसरीं पळयलें. खरेंच आतां माशेनाल्या काळजांत घळ्ळ जालें. तें सट् करून सकल बसलें. तेणें आंतोनेताक म्हऱ्यांत आफयलें, वेंगेत घेतलें आनी तेचें आंग सांसपिलें, “दुखोता गो चड?”

“ना माशेन, चड दुखोना.”

माशेन तेगे हात धरून चलूंक लागलें. “चोल सोडसोडीत. कांय जालो ना तुका. पायन माल्लें म्हूण कितें मोत्तायी? मुगे मांयन एक फावट मुगे हाता चपको तापिल्ले कयलार दामून धरिल्लो... कोंकण्या घाडयान कितें सांगलोलें? हेणीं कितें सजमोलोलें देव जाणा. वोंशाक आनी कोंब जाय खूंय. तुगे सावळेंत कोंब मोडटो खूंय. कितें कात कोणा खोबोर.”

“कितें माशेन?”

“कांय ना, चल तूं.”

रुजारीलो संवसार गिळून गेल्लो पावस झडून वचतसान गेल्ले पांच-स दीस लख्ख वत पडटालें. भुयेंतलो शेळाव तापून वयर सरतलेवरी मदींच कालोर जातालो. चलतां चलतां आंतोनेतालें आंग, हात-पांय सुटिल्लेवरी जाल्ले. तें जाणट्या माशेना वांगडा तेचेच चालीन पावलां मारतालें.

आंतोनेताक वट्ट पांच जाण माशेनां. तेगेली मांय धरून त्यो स जाणी भयणी. तेगे मांय पांचवी जाल्यार हें माग्दालीन माशेन सगल्यांत व्हडलें. चोंवकूय तें रोजमारी परस खूब जाणटें दिसतालें. कात कवळिल्ली आनी कूड सुकिल्ली. जिवीतभर फातर आनी वजीं व्हांवोवन तिगेले ताळवेवयले केंस पातळ जाल्ले आनी भांग उकतो पडिल्लो. उरिल्ले केंसय धवशे जाल्ले. तिणें म्हेळशे कापड देंठले गांठीन न्हेशिल्ले. आंगाक पोटामेरेन पडिल्लो बुलावज घातिल्लो. हो बुलावज तें भायर खंयूय सोयऱ्यागेर बीन वयतानाच घालतालें. हरशीं हड्डें देंठले कापडानच धांपिल्लें आसतालें. फाट उकतीच आसताली.

तेगे आनीक एक माशेन कोल्यान चाबून मेल्लें. फुगरें, कालवां दोळ्याचें पिशेंशेंच आसलेलें तें. तेका कुठ्ठाळे काजार करून दिल्लें. तेगे देंठले कापडाची खांदावयली गांठ सुटून परत-परत कापड सकल येतालें आनी हड्डें उकतें पडटालें. सासुमांय तेगे ती गांठ घट्ट बांदताली आनी मागीर फाटीर व्हडान धुमको घालताली. केन्ना गांठ सुतलेन बांदून दवरताली. घोव, मांव, घोवा भाव सगले तेका मार बडय करताले आनी घरांतल्यान धांवडावन घालताले.

घोवाघरच्यांनी धांवडावन घालतकीर तें परत परत मांय घरा येतालें. पूण पाय मोटो खट. रागीट. तेतूंत स चेडवां म्हण बेजारिल्लो. तोवय चेडवाक घरांत दवरून घेयनासलो. पोटभर वाडटालो आनी परत वाटेक लायतालो. तेगे घोवा पाय एक दीस ''तुमगे वाड्यार एक फूल फुलोलां म्हूण आयकोलां'' म्हण विचारीत सोयरिकेक येयलो आनी सोयरिकेन हें फूल घेवन गेलो. पूण चेडूं अरवळ म्हण कळटकेर दोनय घरांमदीं दुस्मानकाय पेटली. तेंचे मदीं ही पिसाय गाविल्ली.

एक दीस तें बापायन धांवडावन घालतकीर परत घोवाघरा वचूंक म्हणून गेल्लें. पूण अर्दवाटेर एका फातरार तशेंच बसून रावलें. काळोख जालो तरीय थंयच. अचकीत एक कोलो झाडांतल्यान येवन तेका हुंगूक लागलो. तेणें 'हय्य हय्य' करून धांवडायतकीर तो येवन तेका घांस मारून धांवन गेलो. तें रडत तशेंच घोवागेर येयलें आनी भायर वासरेर भुंयेरूच न्हिदलें. भायर पिरंगल्लोसो आवाज येतकीर सासुमांय चिमणे दिवो घेवन येयली. पूण तेका पळोवन तशीच वोगी भितर गेली.

दुसऱ्या दिसा पांय सुजून होऽऽ मोटो जालो. सासूमांयन पेज वाडली आनी पांयाक फाळो बांदलो. पूण आठ दिसांनी तें कोल्यावरी कुयो घालूंक लागलें. तोंडांतल्यान लाळ गळयत हांफेवंक लागलें. तशेंच चार दिसांनी तें मेलें.

आनीक एक दुसऱ्या नंबरचें माशेन फातोड्ड्या दिल्लें. काजार जाल्ल्या दोन

वर्सांनीच घोव एके रातीं हागूं ओकूं जावन मेलो. ती आतां मडगांवां भाडेल म्हणून वावर करता. पसरकारालो म्हाल हेवटेन तेवटेन करचो, गिरायकांनी घेतिल्लो म्हाल तेंच्या घरा व्हरून पावोवचो वावर करता. 'बायल हमाल' म्हटल्यार जाता. दीसभर भाडेल म्हण वावर करता आनी बेबद्या देराल्या भुरग्यांक, बायलेक पोसता. हो देर घोव मेल्लो तेन्ना सात वर्सांचो आसलो. तेणेंच तेका ल्हानाचो व्हड केलो. काजार केलें. पूण तो सोरोखायरो बेबदो जालो. बायल घोटाण कशी घरांतच चरत रावता. घोवान सोरो पिवन येवन बडयल्यार रबर कशें पडून रावता. आतां त्या माशेनाली कुडीची शक्त उणी जाल्या. तें निर्शेलां. तेंवय अदींमदीं सोरो पिवन येता. देराक, देरा बायलेक संवता. केन्ना मारताय बीन.

निमाणें दुमेतीन मात सुखा संतोसान आसा. तें आदींच गोरें. शिडशिडीत. सोबीत. एका चाडूड्या एंप्रेगादान तेचेकडेन काजार जातां म्हणिल्लें म्हणटात. पूण पायन आपूण जातीभायर चेडूं दियना म्हटलें खंय. तें लोटले सोताचें शेत आशिल्ल्याक एकल्याक दिल्लें. आदीं तो दिसवड्या कामाकय वयतालो. एक फावट बिल्डींग बांदच्या कामाक गेल्लेकडेन मुकादमान एके लमाणे बायलेक केंसा धरून मारली. ती बायल कामांतल्यान मदींच कुशीक सरून भुरग्याक दूद दिताली. थंय वचून मुकादमान दूद दितना तिचेर खोंट मारली. तें पळोवन आंतोनेताले माशेना घोव खुबलो. तेणें धांवन वचून मुकादमाचे गोमटेक धरलो, तेका आडवो घालून येथेश्ट बडयलो. उपरांत माशेनाल्या घोवान लमाणी, गावडे मेळून तीस चाळीस कामदारांचो आपलो पंगड घडयलो. तो सोता मुकादम जावन कामदारांक कामाक लावंक लागलो. असो झुडोन मुखार सरिल्लो तो त्या वाठारांतलो पयलो गावडो. तेणें आतां व्हड तेर्रेसीचें घर काडलां. दोन ट्रक आसात तेगेले. पूण त्या माशेनालें हेर भावंडां वांगडा आपलेपण इल्लें उणेंच. कोणय चुकून पावल्यार मात वयलेचाराक थुळेतालें. भयणींनी देंठलेकापड न्हेशिल्लें, भिकऱ्या जेवणाक गेल्लें तैका मानवनासलें. पयर भयणीलो चेडो मेल्लो तेन्ना रिक्षा करून येयल्लें. तायट व्हिस्तीद आनी पांयांक बरे मोचे घालून. चोयल्यार गावड्यागेलें म्हटल्यार कोणय पिशांत काडटासलो.

माशेनाल्या गांवां मांडपां पाव म्हणसर दनपार देंवन येयल्ली. सकाळीं आगुस्तीन तितीनान पेज वाडिल्ली. आंतोनेताक ह्या पांच दिसांनी पयलेच फावट खूब खूब मडकी पिवन उडोवची भूक लागिल्ली. फाटलें सगलें विसरून नव्या जल्मांत पाविल्लेवरी दिसतालें. घडून गेल्लें सगलें खूब पयस, खूब फाटीं यादी पयल्यानचें अशें दिस. एक बाबूश, एक पांगळें, एक मांय, वासरेर व्हड मातयेचें धोण, तेचीं कयलां, आंतेराचो रूख, मदीं खूब काळोख, पावसाचो धुंवर... हें सगलें बाबुशासयत उदकांत बुडलां काय खंय लिपलां?

वाड्यार भितर सरचे वाटेर भर पावसांतय आंगार एक पान नाशिल्लो एक

आकांताचो व्हड सांवरी रूख आसलो. तो मुळासान मेला काय जितो आसा कांयच कळनासलें. आंतोनेताक हो गांव खरगाळीपरस विसकळ वसाड कसो दिसलो. माती शेंकरट आनी झाडाकय जाय तशी जिवी पाचवीसाण नासली. गांवां फाटल्यान हांगाय दोंगर आशिल्लो. पूण दोंगरांतल्यान झाडां परस तळपांच चड दिश्टी पडटालीं.

सोंप्यार मावसो बशिल्लो. आंग उक्तेंच आसलें. मुंजीर तांबडी काश्टी मारिल्ली. तो मोट्या हाडाचो मनीस आतां खूब भागिल्लो. पोल्यावयली, भुजासरशी चामडी सकल लांबताली. माशेनापरस मावसो तेका चड जाण्टो दिसलो. तीं दारांत पावलीं तेन्ना तो हांकां पळोवन म्हणूंक लागलो, ‘‘पायन हाडां मोडून घातलीं मुगो? गावड्या चेडवालीं हाडां घट आसूं जायीं. तीन वोज्यांचो चिरो तकलेर दिल्यार उखलून ट्रकार उडोवंक जायो. गावड्यांगे दादले शेणामेणाचे, बायलो फातरा चिऱ्याच्यो.’’

माग्दालीन माशेन घोवाक जाप करिनासतना भितर रिगलें. तेणें म्हटलें, ‘‘आगो माग्दालीन, ही पिशा पोटोळी घारा कित्या हाडोली, कोमळे तोळ्यां बुडोवन येवपा न्हू?’’

माग्दालीनान आवाज व्हड केलो. ‘‘केसो खबरी तुगे फरांसीक, मात वोगो रावपा जायना?’’

‘‘तेका घेवन येयलां तूं माग्दालीन? आमगे कित उल्लां? तेहे तोकलेवयल्यान चोड पावसाळे गेले नात. पूण आख्खो जोल्म हेरांगे वोज्याक तकली मारून बेगीनच म्हातारीं जाल्यांय आमी. केहें जातलें फाल्यां? रूजार तेगे वोंश मोत्त म्हूण रोडटा. मारबोडय कोत्ता. आमगे वोंश चोयलो ना केसो गांवार धुमशेणां कांडटा तो.’’ माग्दालीन कांय उलयलें ना. तेका घोवाले तळमळे कळटाले. भायर भितर तायखुळो खा म्हणपी दळडीर. आमी म्हातारीं. चेडो दिवाळें काडून भोंवता.

आंतोनेत पयलीं जायते फावट मांडपां माशेना घरा येयल्लें. तेन्ना उमेदीन भायर भितर नाचतालें. पूण आज तें येद्देशें तोंड करून आंग कवळून घेवन वोग बशिल्लें. तकलेवयलें मळब उबून गेल्लेवरी.

माशेना घोव भितर येयलो. कदेलार बसनासताना आंतोनेतासरीं सकल साक घेवन बसलो. ‘‘राव तूं. राव तुगे माशेनासरीं. माशेन मोरतोकीरच घारा वोस. सदां जेजूसरीं मरण मागोता तें. तुका लागून तरी जिवीत मागता काय चोवया. माशेना वांगडा काजी तेंपाक काजी वोयचें. तोळ्यांत चोबो मारून निस्तें धरूंक कोळटोलें मुगो तुका? माशेन फिशाल तुगेलें. तेगे चोब्या आळयें, थिगूर पोडटातच. जाणा मुगो, मुगे एक भाव आसलोलो. मुजे पोरोस चार वोरसांनी ल्हान. निकतो दिमकुऱ्यांनी वोसों लागलेलो. घोर आमगे तेदना भितोर

दोंगरांत आसलोलें. ही व्होडली खोन्न कशी पोल्ली. तेतूंत रातदीस भोऱ्यांनी जोळोव आनी पेटलोले इंगळे. घरांतलीं वावरांतल्यान येवन मरोन पडिल्लेवरी न्हिदलोलीं. तेदना भाकारालीं शेतां. गावड्या मानेर वावराचें जूं. घोरांतलीं सोगलीं न्हिदलोकोडेन आसतोना तो भाव उठलो. रडत काळखांत मांयक सोदीत दिमकुऱ्यांनी वोचून पोल्लेंत रिगलो. खोन्न कशी इंगळयान भरिल्ली पोल्ली. किळांच्यो माल्ल्यो आसतो गो तेणेंन. कोण्णें आयकल्यो नात. पोल्लें लासून कोळसो जाल्लो तेगेलो. तुगे भावालें हें पोयलेंच न्हूं.''

आंतोनेताक घरच्या उगडासान एकदम रडूंक येवंक लागलें. हडूंड्यांतल्यान, ताळ्यांतल्यान हूं हूं आवाज काडीत तें रडूंक लागलें. ''माशेन, मुका घारा केदना पावोयतोली?''

माशेन कांय उलयलें ना. तेणें घोवासरीं मात रागान पळयलें. फरांसिकान बेगीबेगीन म्हुटलें, ''आंतोनेत, म्हाका पोल्लेंतल्यान इल्लो इंगळ्या हाडून दी गो. धुंवटी पेटोयतां.''

* * *

माशेनाच्या गांवांत, घरांत तिनसांजचो काळोख देंवन येवंक लागलो तशें आंतोनेत काळजांतल्यान इल्लें इल्लें जावंक लागलें. कोणाचो तरी उगडास, कसली तरी भिरांत आनी किण्ण एकसुरेपण... कोणें रातचें रानांतल्या घोलींनी सोडून येयल्लेवरी दिसतालें.

घरा सकल जांबळी मुळांत कोण तरी व्हडाव्हडान उलयतालो. तें उलोवप आनी तो कलकल आंगार येतालो. तेगे मावशेभाव मायकल सकल जांबळी मुळांत कोणासरीं तरी ताणून उलयतालो.

मावशेभावाचें आंतोनेताक अजापच दिसतालें. पयलीं ते येतालें तेन्ना केन्ना बरें करतालो. गोडा कुडको काडून दिल्लेवरी उलयतालो. तोरींग सोलून दितालो. आंबे पाडून दितालो. केन्ना वोगोच धरून धाडायतालो. ह्या शेंबड्या भोजराक कित्याक हाडलां काय म्हण माशेनाक संवतालो.

केदोळ जांबळीसरीं आशिल्लो तो शेजारच्या फिलिपासरीं उलयत मुखार आंगणांत पावलो. तो फिलिपाक सांगतालो, ''हांयेन मेनेजराल्या टेबलार मूठ मारोन विचाल्लें, ''लोन पास करता काय ना? आठ दिसांनी दुडू हातीं पोडों जाये. नवी ताल्ल मोटोरसायकोल घेतो हांव. भाडें मारोन वर्सा भितर तुगे दुडू तुका.''

तो दारांत पावतकीर पायन गाळींचो शिंवर केलो. ''चेडयेच्या, सुण्या कास्ता तूं, सोकाळीं घोरासान गेलेलो आतां येता. मांय घोरा नासलोली खोबोर ना तुका?''

"पाय, किद्याय किदें उलय नाका. मोटोरसायकल घेवपा आहा हांव. मुगे लोन पास जावपा आहा बँकेसान."

"केसो पोके खोबरी सांगता तूं. तुगे खोबरी शिताकूय पडपा न्हू आनी मिठाकूय पडपा न्हू. जायत्यो चोयल्यो तुगे राटावोळी."

"तुमचेवरी फातर व्हांवयचे आनी खळयो खणच्यो म्हणटा तूं? पांयार हून दांबोर पोडोन तुगे पांय बेबो जाल्लो विसल्लो तूं? तुमचेवरी शेण खावपा न्हू हांव."

"खळयो खणून आनी दांबार वारोवनूच पोसला तुका. तूं आतां कुडीन मातला. मुर्वत ना तुका मांय-पायची. तुगे जाणवायो नाकात. मुगे पंदरा होजार आदीं उडय. त्या टोनी सिकेरीच्या होड्ड्यार घायलोले."

"हांव कुयटा वेतां म्हूण तुमी सोगलीं भुंल्लुसलोलीं. आतां फारीकपण हांयेन एकल्यान करचेलें? गेले ते गेले."

मांय येदोळसान आयकताली. तिका चेड्याचो खूब राग येयलो. निमाण्या उतरांनी चडच तिडक मारली तिका. तरीय तिणें थंड उतरांनी म्हटलें, "केसो उलवप तुगे मायकल? सकाळसान घरा ना आनी वयल्यांन जाणवायो. दुडू गेले खूंय. केसो कास्तीग काडून दुडू एकठांय केल्लो जाणा तूं. तूं टोनी सिकेरासरीं गेलोलो?"

"तो बोमांय बोसोन आसा मांय. पुलिसेंत केस जालोकोडे आहा."

"दुडू दिवपार ना तो?"

"पुलिस धरोन हाडटं तेका. आमगे एकल्यागेलेच न्ही."

"देवा धोनया, आमगे दुडू केसो कास्तिगेचो!" आतां ती एकदम फुटूंक पावली. "तेका बोऱ्या पोडचो ना आमगे दुडू. रोगोत मारोन मत्तो तो, गाडयेपोंदा पडटलो. गरिबागे दुडू तो, रगत वारोवन जोडलोलो."

मायकलान भायर वचूंक म्हणून एक एजंट धरिल्लो. टोनी सिकेर म्हण. तेणें आदीं पंदरा हजार फारीक करूंक सांगलें. तेचेवरीच आनीक जायते जाण आसले. पंदरा वीस लोकांनी तरी पयशे घायल्ले तेका. उपरांत तो भेटूंक गेल्यार-मेळच ना जालो. हिंगा गेला थिंगा गेला म्हणीत स म्हयने गेले. उपरांत कांय जाणांनी पुलिसेंत केस केली. केस करतकीर तो मुंबय वचून दड मारून बसलो. आतां पुलिसूय कांय करिनात जाल्यात. आदीं तेगेल्या घरावटेन फावटी मारताले, आतां लोक पुलीस स्टेशनार फावटी मारतात. मायकल

अदीं मदीं भायर वचूंक म्हण काडिल्लो पासपोर्ट पेटयेंतल्यान काडून हातांत घेता. तो सांसपिल्लेवरी करता. मगेर टोनी सिकेरीक गाळी घालता किंवाट्यान. मांय-पायन खरेंच भोव कश्टान पयसो उबो केल्लो. काय बरें घरच्या पाड्यांचें जोत आसलें. एकसारके कुल्यान मातिल्ले, कळस कशी खुबस्तना. दोगय बैलांचो रंग एक सारको धवो. तांचो उबो रावचेलो, चाट मारचेलो झेतच पळोवन नुवेंच्या एकल्यान सात हजारांक जोत मोलावन व्हयलें. अख्ख्या जिवितांत मांयन एकच सरपळ करून घेंवन गळ्यांत घायल्ली. ती विकली. मांय आठ दीस गळोच सांसपिताली. जोत गेल्लें त्या दिसाक फरांसीक पाय रातभर भरमण पडिल्लेवरी सारक्को पिरंगतालो. मायकलान तेन्ना म्हणिल्लें, 'मांय, पाय, येशें कितें कोत्तात तुमी? हांव पयलेच फावट कुवेटसान येतकीर पयल्या धपक्याक धिरयेक उपकरतात तेहले बैल घेतलों. मांय, तुका आख्खी चार लिब्रां सोरपळी कोत्तलों. पूण मायकेल आतां भोवच निरशेल्लो. आदींच दिसवड्याचें स्रमाचें काम तेका नाका आशिल्लें. आतां तो नव्यो नव्यो मांडण्यो काडीत भोंवत आसता. सट् करून कोणाचेरूय तापता. सोरो पिता, झगडटा, बडायो मारता. केन्ना निरशेवन दीसभर न्हिदून आसता.

तो आतां घारांत गेल्यार सालांत कोनशाक आंतोनेत बशिल्लें. तो सगलें जाणा जाल्लो, मरणाक गेल्लो तेन्ना आंतोनेत मेलां काय जिवें आसा, खबर घेयनासतना तो खरगाळींसान येयल्लो. आतां आंतोनेत तशें बशिल्लें पळोवन तेका खरी तर काकूळट दिशिल्ली. तरीय तो तापुनूच आड्डलो, "मांय, तुवें पोसलो सुणो जेयच्याक घालिना देकून गांवार गेलो मुगे. उगडास ना तुका? हेका आनी कितें घालतो तूं!"

"तूं ना खांपो मावशेभाव?"

"मांय-पायक नाका जावन मारून उडयलोलें. तुका कित्या जाय आसलो गे?"

पाय तापलो, "तुका लागोना तें. तेगे माशेन चोवन घेत तेगेलें."

आंतोनेतासरीं पळयत मायकल कांय वेळ उबो रावलो. तेका दिसलें हो आपणाक मारतलो म्हण. तेणे रडटें तोंड करून म्हुटलें, "मायकल बाबा, मारों नाका मुका. मांय व्हरों येतोली मुका."

मायकल गेलो आनी आंतोनेता मुखार बसलो. तेणें कपलार आदीं एक चिरपूट मारलें. मगेर तेचे ताळयेर तबलें कशें वाजयत म्हटलें, "एक आसलोलें पिशें, तेचे दोळे तिरशे, पिशार बसलो म्हारू, म्हारवान खायलो चोरूं..... आंतोनेत, फाल्यां आमी कुळ्यो धरूंक या मुगो?"

आंतोनेत अरवळावरी पळयत रावलें. मागीर इल्लें खूक करून हांसलें. तेचे धवे दांत भायर दिसले. ते अवतिकायेंत धैरांव, काळोख, हुस्को भरिल्ल्या त्या घरांत तेगेलें तें हांसप भोवच विचित्र दिसलें. मांयन म्हटलें, ''केसो फोकोणां कोत्ता मायकोल?''

मागीर कांय वेळ तसोच थंडसाणेन गेलो. फरांसीक पायन ताळो खांकरलोसो करून म्हुटलें, ''ताळो सुकोला, तोंडा रूच ना. वोसोन इल्लो सोऱ्या घेवन येता मायकोल?''

मायकोल वोगी उठून भायर गेलो. पंदरा मिनटांत तो पावभर घेवन येयलो. येताना सोता इल्लो मारून येयल्लो. तेणें दोन कोपांत सोरो ओतलो. पायक इल्लो चड रकयलो. एक कोप तेणें पायक दिलें. दुसरें कोप आपणें घेवन टेबलासरीं कदेलार बसलो.

''पाय जाणा मुरे, मुका तो सोकाळीं परतो दिश्टी पोडलो. हांव सोकाळीं तांब्रयो घेवन दोंगरावाटेन वयतालों. भेडशीकोडेन येसो फोडे काडून हातभर उबो. गोमटेर चोपक्यायेदी तुळस. भियेना. हातां दाणो आसों जाय आसलो.''

''चे, चे, चे, येसो आनी चितूं नाका तूं. देवा गे मुरे तो. त्या वाठाराचो राखणदार. आतां कितू वर्सां जालीं भोंवता तो गांवांत. कोणाचे केन्ना वांकडें करों ना. तूं जावचे पयलीं एक दीस फेस्ता सोयरो केसो मुखावेल्या दारांतल्यान भितर सल्लो. पयलीं घरभर भोंवलो मागीर वयर आड्यार गेलो. आड्यावयल्यान पाश्टार. मागीर खंय नाच्च जालो. तुगे शेपायन भुंयेर आडवो पडून नोमोस्कार घायलो तेका. आमगे लोक पयलीं भितर रानांनी रावताले. तेन्ना थिंगा मूळ पुरीस तो. आमचे बाराबोर मागीर हिंगा येयलो. तेका आनी दुखोंव जाता? कोकण्या भाशेन आदी आमगे पुर्वोज वर्सा एक फावट तेका दूद आनी फूल-पत्री घालताले.'' सोऱ्या नेटार फरांसीक पायलो आवाज इल्लो इल्लो चडूंक लागिल्लो. ''फूल-पत्रेक गेल्ल्यांची खोबोर आहा मुरे तुका? कोण शेणलो, कोण ना, कोण मेलो कोण ना. मेजूंक चुकलो आनी मरण नासतना गांवाक मरणाचें सुतक. परबे दिसा पेजे.''

''पाय, केसो खोबरी उलयता तूं फाटल्या काळाच्यो? संवसार खूंय पावला मुरे.''

''फाटल्यो न्हूय तर आंताच्यो केसो खोबरी उलय म्हणटा? फाल्यां जोताक बैल खूंयसान हाड्टा काय म्हूण? परां पेजेक तांदूळ खुंयसान पोडटो काय म्हूण?''

मायकल बरोच घुंविल्लो. ''पाय त्योच त्योच खोबरी उलोवन म्हाका पिकार कोत्ता तूं. येशें केल्यार सोगळें खोंटावन वोयतो घर सोडोन.''

''कित्या? सोकाळीं उठोन खांदार खोरें उडोवन भाकरागेर खोऱ्या कामाक वोस. जोडटो दुडू. तूज बाराबरचे भुरगे वोसनाय? तो गिलेर्मीलो चेडो सेबी वोसना खोऱ्या

कामाक?"

"तेगे सांगों नाका. तेगे पाय मेला. तेसो कामाचोच तो यन्डो."

"तूं पायल्या मोरणाक रावता कितें? राव, राव, मोत्तोलो पाय. मागीर खा पोटलो. चड मद माल्ला तुका."

"केसो पोटलो सांगोता तूं पाय. तुगे झल्लो खोरें, मोडलो नांगोर आनी तुटलो खाडूं. तुगे तोकल्यार मारोन घे तें."

"मुगे आसलो विकोन खायलो ना तुयें? व्होरोन घायलो ना त्या टोनी सिकेरिल्या मोड्यार? वयल्यान शापोतां तुजीं चेडयेच्यालीं. येसो कोर्तुबान भोंकावयलें कालसांव विकून रस्त्यार पोडटो तूं."

मांय मदीं पोडली. "केसो बोवाळ रे तुमगेलो. इल्लें कोपा मात्ताय आनी न्हय जालोलीं मोस्तेपणां. आतां आनी उलयल्यार हूने उदक रोकोयतलें आंगार."

आतां दोगय मात्से वोगी जाले. सोऱ्या घुंवळ दामून घेयत.

अचकीत ओटमी मुळांतलो सांतान दारांत येवन उबो रावलो. ताचें आठ दिसांचें खाड सामकें पिकिल्लें. बोमले सकल्लें पोट देंवन काती घडी कास्टेर पडिल्ली. तो दारांत उब्यानच उलयलो, "बैल सामके भागल्याय, जोत ओडूंक लागल्यार हाडां बोरीचो कुंडो जाता. भोंकां वांकडी जावन फेण भायर सोरता. एकलो गोठेल्यार दुसरो जूंव उडयता. जावचें ना तें. मुगेलेंच जावचें ना तर तुगेलें खूंय? आतां खोऱ्या कुदळीकच हात घालचो."

फरांसीक पाय सट् करून तापलो. "तुयेंन उतोर दिल्लें मुरे चार दीस जोत दिता म्हण. उतराक फोटींग तूं. बैल भागल्यार दोंगरार व्हरोन वागाले दाडयेंत दी. ना तर व्हरून खाटकाक सुजीक वीक. भागल्यात खूंय, केदना बैला फुड्यांत मुठभर तण उडयलां? दोंगरांनी आतां तण करड किल्लोना. शेंकरे किल्लतात म्हण जाणा मुरे तूं? दोंगरांतल्या कांट्यानी बैलांक सोड्टात आनी सुशेगाद घारा बोसतात तुमी. केसो शेतगावडे तुमी? मुगे बोयलांक चोयल्ले मुरे तुयें? सोरपाल्या आंगा भाशेन, तोरतोरीत कांत. इगर्जेची घांट कशीं कुबस्तना."

"जावं. बोयलांनीच धोंपरां माल्ल्यार कितें कोत्तलो हांव?" तो रावनासतना चलूंक लागलो.

घरांत पुसट पुसटसो काळोख आनी धुंवर पातळिल्लो. आवाज मात कोणालोच ना.

मायकल कदेलार वोग्गी बशिल्लो. आंतोनेत भियेवन एका कोनशांत. चुलीवयली मडकी मात खतखतताली आनी माग्दालीन मांय जाळ सारत बशिल्ली. फरांसीक पायन खणखणीत आवाजान म्हटलें, "माग्दालीन, आमी शेत पुराय खोऱ्यान खणून घालुंया. मागी तरवो घालून थाम नाटचो."

माग्दालीनाक चडशें अजाप दिसलें ना. तेच्या घट हाडाची पारख तिका आसली. आनी तिचें सोताचें तर अशें आसलें, एक फावट कामाक लागली म्हणटकीर तिका कुडीची सुद्द उरनासली. तिची कूड, तिचे हातपांय, तिचो स्वास, तिची व्हांवती हूम, तिचो नित्सेव हातुंतल्यान एक शक्त तयार जाताली तिचे भितर. मायकल मात वोगी बशिल्लो, तेका खोऱ्या कुदळीच्यो खबरी म्हटल्यार पिशेपणा दिसतालीं. हेतून तेचें प्लेनात बसून कुवेटाक वचपाचें, ना तर मोटरसायकलीचो पायलट जावन वाऱ्यार हुबचें सपन विसकटून वयतलें म्हण भिरांत दिसताली.

माशेनान उकडें शीत आनी सुक्या बांगड्यांची कोडी केल्ली. कोडयेचो वास येतकीर आंतोनेताचे भुकेक ओतो येयल्लो. गेल्ल्या स दिसांत तेका अशी भूक लागूंक नासलें. तें माशेनान वाडिल्लें बकाबक जेयतालें. परतें घातल्यार नाका म्हण नासलें. तें पळोवन माशेन हुस्क्यांत पडिल्लेवरी जालें. हें हरशींय चड पोटारेंच. कशें घालतलें हांव हेच्या पोटाक?

जेवन जातकीर आंतोनेतान ल्हवूच म्हटलें, "माशेन, सकाळीं येताना मांयन म्हूजे पासत कांय म्हुटलें ना?"

माशेनान इल्ल्या रागानच म्हुटलें, "तुका खावग्याक आनी कितें म्हणटलें तें?"

हीं उतरां आंतोनेताक बरींच वायट दिसलीं. पाय पयर मारतना परत परत म्हणटालो, "भावाक खायरें. मर तूं मर. आनीक कोणाक खावंक जितें रावतलें?"

न्हिदूंक माशेनान एक सामकी पिनकरी लव्याची मांदरी हातळूंक दिली. तें मांदरेर पडलें आनी खिणांत थार न्हिदून गेलें. कालचो, फाल्यांचो संसार जसो एका खिणाक पुसून गेल्लो.

सकाळीं तेका इल्ली बेगीनच जाग येयली. माशेन तेच्या वांगडा न्हिदूंक नाशिल्लें. तें इल्लें कुशीकच मांदरी घालून न्हिदिल्लें पळोवन आंतोनेताक वायट दिसलें. मावशेभाव, मावशेलो घोव अशेच सालांत कुशीन कुशीन फाफसून घातिल्लेवरी न्हिदिल्ले. तेच्या घरांत खरगाळी सगले एके लायनीत सालांत न्हिदताले, लागोलाग एकूच हांतरूण घालून. सकाळीं पाराक तर मांयक सोदतशीं सगलीं इतलीं लागीं येवन पडूटालीं, सगल्यांची एक रास

ातिल्लेवरी दिसताली. लायनीत पयलो न्हिदिल्लो पाय एकलोच आपले सुवातेर उरतालो...
का आतां सकाळपाराक परत रडूंक येवूं लागलें. खरेंच आपणाक मांय पायन रातचें
ानांत हाडून सोडलां आनी आपूण एकलेंच काळखांत रुखापोनात बसलां!

माशेन उठून तिणें जाळ घालून पोल्लेर पेजे मडकी दवरिल्ली. भितर माशेन वावुरता
ां आयकून आंतोनेत उठलें. तेणें न्हिदिल्ली मांदरी नीट कवळून कोनशाक दवल्ली. मागीर
ां भितर गेलें. रातचीं पडिल्लीं उश्ट्या आयदनां, मडक्यो उखलून भायर फातरेर हाडून
वल्ल्यो. मागीर सडसडीत कोळसो, बिंदूल, राजू घेवन तें बांयचेर गेलें. बांयवयल्यान
दक हाडून घांसून घुसळावन तेणें आयदनां धुयलीं. आयदनां घांसताना, धुयताना
डिल्ल्याचो-आपटिल्ल्याचो इल्लोय आवाज येवंक ना. आयदनां भितर हाडून दवरून तेणें
ातांत सान्न घेयली. मुखाल्लो सोपो आंगण तेणें झाडून नितळ केलें. इतले भितर माशेना
ोव उठून खोकत भायर येयलो. मायकल उठलो. तेंकां तोंड धुवूंक उदक ना म्हण
दसतकीर तें कळसो घेवन परत बांयचेर गेलें. माशेन तेका बारीक तेळटालें. 'अशें कशें
नकसूद वावुरता? कोण रिगला हेचे भितर?' माशेनाक दुबावसो.

पयस पदेरालो पोंक पोंक आवाज येयलो. माशेनान बेगीबेगीन हेवटेच्यान तेवटेच्यान
ांय पयशे एकठांय केले आनी तें भायर येयलें. इतले भितर पदेर घरामुखारच येवन
ावलो. माशेनाक पळोवन सायकली वेल्यान दांग मारून सकल देंवलो. चोब्यावयलें वस्त्र
शीक करून पाव वयर सकल करूंक लागलो. माशेनान म्हत्यांत वचून पांच पाव मागले.
ांय पयशे उणे आशिल्ले, ते तिणें फाल्यां दितां म्हटलें. हाचेर पदेर सट् करून उसळळो.
'फाल्यां फाल्यां कितें, पयलींची कितू उदारी आसा जाणा मुगे?'' तेणे बोलसांतल्यान पटी
ाडली आनी पानां फिरोवन सांगलें, ''पयलींची आदींच बाईस रुपया उधारी आसा.''
ागीर तेणें मुखार आनीक एक आंकडो बरयलो. चोब्यातल्यान पाव काडून रागानशे
ाशेनाल्या हातीर उडयले. अशें करतना दोन सुटे पाव भुंयेर पडले. ते तिणें उखलून हातांत
तले. पूण पदेर लक्ष दियनासतना सायकलीर बसून पों-पों करीत गेलो. आंतोनेत दारांत
बें रावन पळयतालें. मायकल थंयच वोगी उबो आसलो. आंतोनेतान मायकलाक म्हटलें,
'मायकल बाबा, तुयेंन पदेराक कांयच म्हणो ना कित्या? माशेनाक उलोयलो मुरे तो. पाव
कल उडयले.'' मायकल वोगी भितर गेलो.

माशेनान केल्ली खुटी चाव आनी दोन पाव खावन मावसो दारांतलें खोरें खांदार
ारून शेतावटेन वचूंक लागलो. काल सांजभर तो परवंल्लेवरी करतालो. पूण आतां खोरें
ांदार मारून चलतनाचो तेचो झेत पळोवपासारको आसलो. कमरेची बाग आतां गेल्ली.
ावलांय आडखळनासलीं. तेणें फाटीं वळोन विचाल्लें, ''माग्दालीन, तूं येता मुगो खण्णेक?''

“हांव येवपार ना. मुका मारीन वांगडा दिसवड्या आफयलां. रातवाड्यार कोण दुरीग काडटा खूंय.”

मुखावयल्या रामफोळी पोनातल्यान फरांसीक आड्डलो, “शेतां कोंबेवंक रावल्यांय. पंदरा दीस गेल्यार कुसलो तळीं जातलीं आनी तूं दिसवड्या वोयता शेतां पाड घालून?”

“दनपरां नुस्त्या एक बाळो घेतो म्हुटल्यार पानदुडू ना. घारा चाये ना, साकरी ना. चार पयशे मेवल्यार जातो खर्चाक.”

फोरांसीक वोगी चलूंक लागलो. फाटल्यान माग्दालीन मांयन व्हडान म्हुटलें, “पेज दोवोल्ल्या पोल्ले वेल्यान काडोन. दोनपरां यो जेवंक बेगीन. आंतोनेत आसतो घाराकोडें.”

माग्दालीन मांयन चुंबळी फाडो खांदार उडयलो. भायर येवन तेणें मारीक उलो घातलो. इतले म्हणसर आंतोनेतय एक सामको पिनिल्लो म्हेळ जाल्लो फाडो हातांत घेवन माशेना फाटल्यान येवन उबें रावलें.

“आंतोनेत, तूं खूंय वयता?”

“हांव येतो माशेन तुजे बराबर वावराक.”

“केसो उलयता गो. तुकोडेन जातलो चिरो तकलेर घेवच्याक.”

“व्हय माशेन.”

“नाका आंतोनेत, तूं येयनाका. तुकोडे जावपा ना. हांव व्हरपार ना.”

“हांव येतोलेंच माशेन!”

इतले म्हणसर मारी सकल्लेवटच्यान येवन वाटेर पावलें. माशेन आनी माशेना फाटल्यान आंतोनेत चलूं लागलें. माशेनान मनांत म्हुटलें, जावं. दीसबर बेठे मुजबराबर रावतलें. दिसवड्या काय लावचें ना हांव तेका.

खरें म्हळयार पायन मारिल्ली दूख अजून पुराय वचूंक नासली. आगुस्तीन आण्टीन केल्ले उपाय बरेच बऱ्याक पडिल्ले. तेचेन तें बेगीनच उबें राविल्लें म्हटल्यार जाता. माशेनान फाटीं वळोन पळयलें. मोट्या लांब पोटाचें आंतोनेत तशें आंगाकुडीन व्हडशेंच आशिल्लें.

* * *

गौड, गोंड वा गावडा ह्या प्रोटो ऑस्ट्रलायड लोकांमदीं गांवकारी खूब आदीं भोव प्रभावीपणान चलताली. मेळून राना मारून, भूंय खणून समतळ करून बांदयो घातिल्लीं शेतां रासवळ जावन उरतालीं आनी तेची येणावळ ते रासवळ वांटून खाताले. तेंचे नेम जाल्ले. संबंद थारिल्ले. मूळ गांवकाराक सम वांटो मेळटालो. गांवच्या हेर सेवेकऱ्यांक पोटभोगती मेळटाली. मुखार ही बरीच प्रोटो ऑस्ट्रलायड गावडी जमात आर्यांच्या, द्रवीडांच्या मारझोडीक लागून रानांत पळून गेली आनी गांवकारी तेंचेपुरती मोडून पडली. तरीय रासवळपणान घरां शिंवप, रानांनी भोंवडी काडप आनी बुदवंताक मानून तेची बुध्द घेवप इतले पुरती तरी ती तिगून आशिल्ली. पूण आतां आतां तर ती पुराय मातये भरवण जावंक लागल्या अशें दिसतनाच मांडपां गावड्यांच्या गांवांत एक बरी घडणूक घडली. घडये ती खूब पोन्न्या गांवकारीची निमाणी कुरू –

विशेक वर्सां फाटीं मांडपांतल्या गावड्यांलोच कायतान म्हणिल्लो एक भाव एका भाटकाराल्या व्हड भाटांत सदां वावराक वयतालो. तेन्ना तो आंकवार. भाटांत माडाक, माडयांक आळीं धरप, राटीन उदक काडप, सारें सोप घालप असलीं कामां तो करतालो. कामाक फिशाल आनी बरो कश्टी. एक दीस सोज भाटकारान म्हुटलें, 'भाटाच्या एका कोनशाक तुका इल्ली सुवात दितां. थंय मातयेचें, तणा चुड्टांचें धाकटुलें घर काड. काजार जा आनी तितूं राव. भाटाची हरतरेन तुयें राखण करची.

तो आदीं गांवांतच गांवच्या आदारान काजार जालो आनी मागीर भायल्या भायर भाटकाराल्या आदारान खोंप कशें घर उबें केलें. तेणें घरच्यांक, गांवच्यांक सांगलें, "हांव व्हंकलेक घेवन भाटकाराच्या भाटांत रावंक वयतां."

गांव तापलो, "भाटकाराच्या हांयसाक तूं भुल्लुसला. व्हडलो मुणकार जावंक सोदता. पूण गावड्यान गांवकी, घरवड सोडून वचप समा न्ही. झाड सुटिल्लो माकोड जातलो तूं."

पूण तेणें आयकलें ना. तो बायलेक घेवन भाटकाराल्या भाटांत वचून रावलो. भाटकाराल्या भाटाची राखणय जाली आनी भाटांतलो वावरय जावंक लागलो. घोव बायल दोगांय घरांत भाटांत घोळटालीं.

कांय वर्सांनी व्हडलो सोज भाटकार मेलो. तेगेले तीग चेडे. दीस बदल्ले, मुणकार कायदो येता येता म्हण लागीं पावलो. मदीं कायतान बारीक जोराच्या दुयेंसान हांथरुणाक लागलो. तेच्यान बरोच तेप वावर जायना जालो. तेतुंतल्यान बरो जावन उठ्ठा म्हणसर तिगूय भाव भाट वांटून घेवची भास उलोवंक लागले. दोग भाव सरकारी एंप्रेगाद आसले.

तिसऱ्यान आगशे पणजे रस्त्यार दोन बशी घातिल्ल्यो. आतां भाटाचें मोल तेंचे नदरेन टेर्रेशीचीं घरां उबीं करूंक बरी सुवात इतलेंच उरिल्लें.

कायतानाक चोवगां भुरगीं. दोन चेडवां दोन चेडे. पूण त्या भावांनी तेका भाटांतल्यान ऊठ म्हटलें ना, वच म्हटलें ना. इल्लेंशें घर. येदोसो गरीब संसार. कांय गाडगे मडक्यो. थोडींच तांब्या पितळेचीं आयदना. म्हेळेल्लीं हांथरुणां, कांबरुणां, आंगार एक, दांडयेर एक अशीं कांय वस्त्रां.

पिलार फेस्ताक बायलेक भुरग्यांक घेवन गेल्लो तेन्ना कायतानाल्या घराक उजो लागलो. परत येवन पळेल्यार घरा सुवातेर गोबराची एक व्हडली रास. मदली एकच म्हालम्हेड उब्या उबीच कोळसो जावन उबी आनी हेर सगलें घर गोबोर जावन फासपल्लें. कायतान बायल भुरग्यांसयत बसून तकलेर हात मारून घेवन रडूंक लागलो.

भाटकाराल्या तीनय पुतांनी उलट तेकाच धपकायलें, ''पोल्लेन तसोच उजो, जळोव दवरून तूं गेलो आनी वाऱ्यान घर पेटलें. भोंवतणचे काय बरे आमगेले दोन कवाथे हुलपून गेले.'' त्या भावांनी परत ते सुवातेर म्हेड मारूंक दिली ना. सगळो गोबोर भरून उडयलो. मडक्यांची आनीं आयदनांची रास कुशीक घालून ती सुवात समतळ केली. आनी म्हटलें, ''तुजो उल्ला तो म्हालवज घेवन चलूंक लाग.''

बायल आदीं उठली. नाल्लाच्या लोजासरीं एक व्हड पाटलो पडिल्लो आसलो. पाड्यांक त्याच चोब्यांतल्यान ती नाल्ल एकठांय करताली. तेतूंत तिणें दोन तीन गरजेच्यो मडक्यो, आशिल्लीं तीं चारपांच तांब्याचीं, पितळेचीं आयदनां भल्लीं. हातांत तांब्याचो कळसो घेतलो आनी घोवाक म्हटलें, ''आमी या मांडपां गावड्यावाड्यार. आता तेंचोच आदार.''

गांवांत वचून गांवांकडेर वोगी वचून ते बसले. घोव, बायल आनी ल्हान ल्हान चवगां भुरगीं. कायतानाचें सगलें लासून गोबोर जाला म्हण आदींच लोकांक कळिल्लें. पूण कोण एकलो तेंकां पाचारूंक म्हऱ्यांत गेलो ना. ते मनात म्हणटाले, ''इतलीं वर्सां गांवाचो उगडास जालो ना. मुणकार म्हण भाटांत रावन भाटकार कसो जाल्लो आनी गावड्यांक किंकोत लेखतालो. आतां हिंगा हातबर सुवात मेळची ना कुले तेकोंवंक.''

गांव मानिना, मुखार करिना म्हणटकीर ते भोव खंती जाले. कायतानाक बायल भुरग्यांसयत वचून साळके तळ्यांत हुडी घेवन जीव दिवचो अशें दिसलें. दोन दीस भाटकारांनी दिल्ल्या कांय पयशांत तांदूळ मीठ हाडून उक्त्यार रांदन मांडून पेज शिजोवन जेयल्ले ते.

एप्रील सरूंक येयल्लो. उबाळाचे दीस. माथ्यार इल्ली जांबळीची सावळी. भुरग्यांची तोंडावयली भूक, बायलेचो हुस्को सारक्को कळटालो. आज रातचें परत उक्त्यार शिजोवन खावंक जाय! दोळ्यां मुखार भुकेचो, हुस्क्याचो काळोख. मनांत फुडाराचो काळोख!

सांज जावच्याक एकलो मुखार येयलो. ताच्या फाटल्यान भियेत भियेतशीं पयस कांय भुरगीं. "भिरें सोडून गेल्ले बळारीक परत भिऱ्यांत घेयनाय. कोंचोवन मारतात. पुणून वोस तूं, म्हाल गांवकारासरीं वोस. तुजो प्रस्न घाल. तोच बुदवंत न्ही गांवचो?"

कायतानान आपलो संवसार भरिल्लो पांटलो उखल्लो आनी घराब्याक घेवन बुदवंत गांवकाराल्या दारांत तो गेलो. तेणें आपली सगली काणी बुदवंताक सांगली. तो आपलीं दुख्खां सांगतालो आनी बायल दुकां गळयताली.

बुदवंत वालेरीन दियस गांवकार जाण्टो जाल्लो. चड लांब जाल्ल्यान कमरान इल्लो बागवल्लोयबीन. ताचे उक्त्या हड्ड्यावयले, मिशांचे आनी तकलेचे केंस एक सारकेच धवे जाल्ल्यान तो बेठोच रुपान दुडवान शिरवंत दिसतालो. तो पयलीं रेंदेर म्हण मानायाक लावन माड काडटालो आनी सोता भाटी लायतालो. तेगेलें घर हेरांल्यापरस इल्लें व्हड, पुराय नळ्यांचे आसलें. घरा सामकार आंगणांत तेणें चुडटांचो माटव घातिल्लो. घरावयर एक पणस ओणोवन येयल्लो. ताका लागून उबाळाचे दीस आसूनय थंय बरीच थंडसाण आशिल्ली. तो कांय एक उलयनासतना घरांत गेलो आनी तेणें द़ोन पड उकडे तांदूळ हाडले आनी सुपासयत ताचे मुखार दवल्ले. "थंय कुशीक तीन फातर लावन चूल मांडाय आनी आयचो गिरास शिजोवन खायाय. रातचे हिंगा माटवांतच न्हिदाय."

"व्हडल्या गांवकारा, ही सुपांतल्यान भीक बीन घालिना मू तूं मुका?"

बुदवंत सट् करून तापलो. "भिकेक पडला तर तूं. मुळावो मांडपाचो शेतगावडो केन्नासान भीक मागपाक लागलो? हेच घरवडीचो, हेच गांवकेंतलो गावडो मुरे तूं? आरे, गावडो मरसर धोंपरां मारून वावर कोत्तलो, पूण भिके पडचो ना."

"चुकलें तितीव."

"फाल्यां गांवाक उलो घालून कितें तें थारायतां."

दुसरे दीस दनपरां गांवकार गांवबुदवंत वालेरिनान गांवकेक उलो घातलो. दर एका घरांतलो एक दादलो येयल्लो. गांव़काराल्या आंगणांत माटवांत येवन बशिल्लो. कांय जाणांनी मोटवीं कालसावां घातिल्लीं तर कांय जाण कास्टेर आशिल्ले. तांबड्यो कास्टी. तांचें शेवट मुखावयल्यान सोडिल्लें. सगले आंगान मात उक्तेच आशिल्ले. जाकी येयल्लोच

माटवाभायरच उबो रावन तापलो, ''इतलो तेंप गांव मोरोन पडला म्हूण सोजमोल्लों हांव. कितुलो तेंप जालो गांवकारा, तुयें गांवकी आपोयल्ल्याक, तेंकां इदें कोपा दिल्ल्याक? आतां जो तो गांवचो बुदवंत. तुमगे घारां तुमी तुमकां जाये तेन्ना शिंवताय, तुमकां जाये तेन्ना तळ्यांत निस्त्याक चोबे घेवन देंवताय, ओटमां पाड्टाय. गांवकारा, मोरकोयकान्नीचे जात्रेक सागवाद केदना पावयलोली तुयेन? तेगे पोरसाद केदना वांटलेलो गांवाक? तेजेन गांवाक मर येयला दिसोना तुका?

''जाकी, तूं मोजेवरी जाण्टो, पोयलींचें चोयलेलो. म्हूण तुका दिसोता तें. पयलीं कितें उल्लां आतां? तो काळ गेलो ते देव गेले. गांवकार म्हुण्टा तो आतां भागलो वाग. आमगे पुर्वज सांगतालो, हो सोगलो गांव, शेतां भाटां गावड्यांगे आसलो म्हूण. गावड्यांक फाव जालीं रानां. आतां रानय ना आनी गांवय ना. कोमुलदादीचे सुवातेर पडल्यांत मुरे. फाल्यां सोरकारालो मनीस येवन धांवडावन घालीत तर गेले.''

''सोड खोबरी वालेरीन. आतां कायदो मुदार जाला. हीं आतां भाटां बेसां आमचीं. आमकां काइंक येयल्यार कुराडेन चांचायतले.''

''सोड खोबरी, तोंडाचीं बातां. गावड्यान कुराडेन चांचावची भाटकाराल्या बांदावयली सावळ, नातर फोडचे माडा वांसे. कायद्याचें सांगोतां. कायदो आमच्या फुड्यान पावसर तेचीं शिंगां मोडून पोड्टाय. आमच्या हातार फक्कत इलेसांवा तिबो.

मदींच नव्या रगताचो क्रुझ तापलो. ''केसो झोगडीं तुमगेलीं? तुमी म्हातरे फाटलें घेवनच मोरचेले. आमकां सांगात, गांवकी कित्याक लागून आफोयलोली?''

वालेरिनान थंडपणान म्हुटलें, ''संकश्ट येयलेबगर आतां गांवकी कोण आफयता? रानांत चुकिल्लें गोरूं परत गोठ्यांत येयलां. शिंगां मोडून रोडटा. आमगेलो आमगे मुळाचो एक खांदो. तेका भोंक तेकूंक इल्ली सुवात, रांदन मांडूक दोन पाख्यांची खोंप जाय.''

''कोणागे खोबोर सांगोता तूं?'' जाणा जावनय एकल्यान विचारलें.

''झापेरिनागे चेडो कायतान. तेगे आबो मोरतोकीर गांव सुटलो तेका.''

''आबो मोरतोकीर न्हू वालेरीन. आदींच भाकारागेर गायेमांस, दुकरा मांस खांवक संवकल्लो तो. गांव नाका जाल्लो तेका.''

''तें आतां कित्या जायें, आतां खायनाय तुमी मांस? कितेंय चोलता.''

''कोण खाताय, केदना चोयलां तुयें? नसतें बोगलांट गांवार घालुंनाका गांवकारा.''

थंय कांय वेळ कलकल जालो.

वालेरिनान तितलेच धिटायेन म्हटलें, ‘‘खाताय, चोरून लिपोन खाताय.’’

आतां सू जाल्लेवरी एकल्यान म्हळें, ‘‘सोड, मुद्याचें उलयात.’’

फरांसीक पायन व्हड आवाजान सांगलें. ‘‘कायतान विसेंतीगेलो बापुलभाव. तेगे घर पयलीं तेगे घरा तेंकून आसलोलें. तेणी आतां पाखें उबें करच्याक सुवात दिवची.’’

विशेंत हें येतलें अशें धरूनच बशिल्लो आसुंये. तो उठलो आनी हात हेळयत आड्डलो, ‘‘कोणालें घर? कोणाली सुवात? केन्नाच्यो खोबरी? हांयें कांय चोवंक ना. हेच्या आबोकय चोंवक ना आनी हेकाय वोळखोना. सुवाती, जोमनी, कोणाल्यो रे? आमगे पुर्वजांल्यो काय आमगे पायल्यो? सगळें कोमुलदादीचें ना तर भाकारालें मुरे. जो रावलो, जो कस्टलो तेचें जालें.’’

‘‘कांयच दिवच्याक सोदिना तर तूं?’’

‘‘ना, एक खोरें मारूंक दिवचों ना. एक म्हेड उबी करूंक दिवचों ना. मुगे सुवातेर येयल्यार कोयती घेवन उबो रावतलों.’’

आतां माटवाच्या कोनशांतल्यान एक आवाज येयलो. आवाजांत खूब गंभिरताय, आपलेपणशें आशिल्लें. ‘‘वालेरीन तितीव, केस्तांवां करून राबितो नाका. तूं थाराय. तूंच सांग, गांवान कितें कोरचें तें. तुगे उतराभायर आमी नात.’’

मगेर तीन चार अशेच ल्हव-ल्हवशे आवाज फुटले, ‘‘हय तुगे उंतरच खरें....’’

वालेरीन गांवकारान म्हुटलें, ‘‘गांवचे वयले वटेन इदी मेकळी सुवात आसा. कोमुलदादीची काय फोरेस्टाची खोबोर ना. थंय म्हेड मारची आनी गांवान मेळून खोंप उबी कोरची. बांय इदी पयस, पूण वयर वारें सावोळ चड.’’

‘‘कोणी आडावंक येयल्यार?’’

आख्ख्या गांवान उबे रावचें राखणेक. हांव जाल्यार सांगोतां आमदाराक, घोर लाशिल्ल्याचें घोर उबें केलांय म्हण. हांव सांगोतां, कोण कांय म्हणपार ना, कोण्णाक आमी भियेवचें न्हूं.’’

दुसऱ्या दिसाक सगल्यांनी मेळून सुवात नितळ, समतळ केली. अस्कड कातरून वाट केली. कायतानालो बापुलभावच हातांत पिकास घेवन येयल्लो. वीस पंचवीस जाण दादले.

कसलें वांकडेपण, कसलें कोडूपण झगडें नासलें. सगले हांसून-खेळून मस्कऱ्यो करीत वावर करताले. वालेरीन गांवकार बेठोच उबो आसलो सुवातेर.

उपरांत दोन दीस सगलें मेळून दोंगरानी पयस पयस गेले. तेणीं म्हेडी, आडी, वांशे, कण्णां वोजीं बांदून हाडलीं. चौथ्या दिसाक म्हेडी पुरून आडी चडयली आनी कण्णांनी ती ताठयली. ताठोवंक जाय जाल्लें सूंब गांवकारान सोताच्या दुडवांनी हाडलें. पांचव्या दिसाक गांवकारान सगल्यांक घरासान धा तणापेंडे आनी पांच चुड्टां हाडूंक सांगलीं. सांज जायसर तेणीं तणान चुडटान घर शिंवलें आनी म्हाल म्हेडीक आंब्या ताळो बांदलो. सव्या दिसा गांवच्या बायलांनी येवन तळभूंय शेणमातयेन सारयली. सातव्या दिसाक दर एकल्यान घरसान पड पड उकडे तांदूळ आनी एक एक मूठ मिरसांगो हाडल्यो आनी कायतानाले मडकेंत उडोवन मडक्यो भल्ल्यो. त्याच दिसा दनपरां कायतानाक आनी तेगेल्या बायल भुरग्यांक घरांत घालून गांव परत येयलो.

खूप खूप तेपान गांवचे हें रासवळ बळगें पळोवन गांवकाराक भोव बरें दिसलें. तेणें मनात म्हटलें, 'गांवकेचो पुर्वचाराचो धर्म तो!'

गांवच्या दिनवासान कायतानालें काळीज भरून येयलें. वीस वर्सां गांव परको जाल्लो म्हाका. एका काजराक एका मरणाक पावलों ना हांव. तरीय गांवान इतलें केलें म्हजे पासत. म्हज्या मुळार म्हाका सुवात मेळ्ळी. एक दीस तो वालेरीन गांवकारासरीं गेलो. ताणें म्हटलें, "तुमगे उपकारांच्या वोज्यान हांव तेंकला. तुमचे उपकार मुकोडेन जल्मभर विसरायेर घालूं नज. तुमचे पासत कितें करूं हांव?"

गांवकारान ताका थातारलें. "तूं कांय करूं नाका. केन्ना अशीच कोणाल्याय घराची म्हेड बागवल्यार ती उबी करूंक आदार कर."

* * *

आज सकाळीं उठिल्लेकडेरच फरांसीक आनी माग्दालीन – घोव बायलेचें झगडें लागिल्लें. चेडो मायकल अजून न्हिदिल्लोच आसलो. आंतोनेत मात उठून माशेनासरीं गणमणटालें. तेच्या झगड्ट्या तोंडाक एकसारकें पळयतालें मोन्यानच.

फरांसीक पायचें म्हणणें आसलें, सगले मेळून शेतांत वयचें आनी शेत खणून घालचें जाता तसो नेट लावन. पूण माग्दालीन मांय आपूण परती दुरगा वावराक वयता म्हण उठिल्ली. म्हणटाली, "शेतावावर चार दीस फाटी फुडें जालो म्हण पाड पडपार ना. फाल्यां घोऽ करून पावस सुरू जालो म्हणटकीर खंय इदो वावर मेळपार ना. खर्चाक पानदुडू

आसचो ना. तुगे कितें, येवन बोशी घेवन जेवों बसतो तूं.''

''तुगे पायगेच्यान हाडून घालोता तूं मुका. मेलो तुगे पाय, सात गांवां सात चेडवां, सातय गांव पाड.''

''खूंय पाड घायल्याय? बरो गांव वोसोयताय. दिमी मारून चिरे तकलेर घेवन वावर कोत्ताय.''

''हांयें केलो ना वावर. आतां येशें दिवाळें जालां म्हूण सांग. दिसाक पोन्नास माड पाडल्याय हायेन.. दिसा चार चार ट्रोक भल्ल्याय आनी उस्पिल्याय. आपणागेले कुंवाळे हेरांले उंडी फोळ.''

चेडो मायकल उठलो आनी मदीं पडलो, ''कित्या सोकाळीं सोकाळीं झोगड्टाय? शेताचें सोड. मुजेर पावलें. हांव मिशिना नांगोर हाडून कसोन घेतलों.''

''तूं मिशिना नांगरान कसोन घेता म्हणसर हेरांगे शेतां गुरवार जातोलीं. मिशिना नांगोर खूंय. भाडें खुंयसान दितलो? टोनीगे फोंडातल्यान हाडून?''

मायकल घुस्मटत वोगीच रावलो. माग्दालीन मांयन भेंडाक तुवालो गुठलायलो, हातीं चुंबळ घेतली आनी ती चलूं लागली. फाटल्यान आंतोनेत. फरांसीक पाय आतां चंवचाळिल्लेवरी गाळी संवक लागलो. तरीय आंगणाभायर पावतकीर माग्दालीन मांयन फाटीं वळोन म्हुटलें, ''पेज शिजों येयल्या. मात्सो उकसार जाळ फाटीं ओड.''

''पेजे बुडकुलो मारून घे तुगे तोकलेर.''

फरांसीक पाय उठलो. तेणे खांदावयलो म्हेळ तुवालो वेडी करून कंबराक घट बांदलो. दारांतलें खोरें खांदार उडोवन तो शेतावटेन गेलो. शेतांत देंवन धप् धप् खोरीं मारून मातयेचीं कवळां उठोवंक लागलो. थार दियनासलो. उसरपत घेयनासलो. वेळ खंयसान खंय पावला तेची सुद्द नासली. खर्शेतालो, घामेतालो कंबर आंवळून घेत परत उबो रावतालो. मदींच चेड्याक नाडटल्या टोनी सिकेरीचो तेका असो राग येतालो, तेचेर खोरें घातिल्लेवरी खोरें घालून व्हडलीं व्हडलीं कवळां काडटालो.

उसरां चेडो शेतांत पेजे बुडकुलो घेयन येयलो. येतना तेणें खोरें, कुदळ कितें हाडलां काय तें तेणें बारीक पळयलें. तेगेल्या हातांत धाकलें पोन्ने खोरें आसलें. तेका सू जालें. आनी तांकीन तो खणूंक लागलो. तरीय तेका दिसतालें, आपल्या हातांतलें व्हडलें खोरें चेड्यान मागून घेवं जाय आसलें, म्हाका तें ल्हव खोरें धर म्हणूंक जाय आसलें!

चेड्यान म्हऱ्यांत हाडून दिलोलो पेजे बुडकुलो वयर करून नीस पिताना तेगेल्या पोटांत निसावांगडा तोंडावयली, कपलावयली हुमय वयताली.

पाय आनी चेडो दोगय आतां एका तालांत खणटाले. एका फाटल्यान एक असो घुण्प घुण्प आवाज येतालो. फरांसीक पायक भितरल्यान संतोस भोगतालो. पूण व्हडलें खोरें मात तेगेल्या हातांत आसलें.

वेळ माथ्यार चडसर दोगय खणटाले. चार कुडवांचें तरी शेत तेणीं खणून घातिल्लें. अचकीत सकल्लेवटच्यान व्हाळांतल्यान जाळ घेवन कोणतरी दोगजाण रांपत येतात ते मायकलाक दिसले. खोरें उबें करून 'येता हां पाय' म्हणत तो रांपतल्यां वटेन वचूंक लागलो. फरांसीक पायन मोठ्यान विचाल्लें, ''आरे, खूंय वयता खोरें उडोवन?''

हातान बेठेंच शिनाल करून मायकल चलूंक लागलो. मागीर कितलो वेळ तरी तो नाच. फरांसीक पाय किवांट्यानसो खणटालो. मदींच मायकलाक, टोनीक गाळी घालतालो. अचकीत तो थाल्लो. खोऱ्या दांडो धरून उबो रावलो. तेगेलें काळीज आपले बायलेविशींच्या आपलेपणान भरून येयलें. 'म्हातरें जालां. दिसान वावराक वयता आनी रातचें रातभर आंगादुखीन परवंता. परत सकाळीं वावराक वचूंक उबें. कितलो म्हण नेट दितलें तें!'

बऱ्या वेळान मायकल येयलो. तेगेल्या हातांत सायला पानांत गुठलायल्ली बरीच व्हड पोटली आसली.

''कितें हाडलां रे?''

''निसत्याक पाय. पिट्टोळ, सांगटां. हायेंच वोडलोलें जाळ.''

फरांसीक पाय वोगोच रावलो. पोटोली मुखारच दवरून दोगय आतां खणूंक लागले. वेळ देंवच्याक एक दाट काळें कूप पुराय माथ्यार पावलें. वोगीच काळखी सावळीशी पातळळी. पायन म्हटलें, ''पावस झड्टो आतां. वोस तूं घरा. वोसोन निस्त्या सुटें करून दोवोर. मागी मांय येतकीर तिका कास्तीग नाका.''

मायकलान निस्त्या पोटली उखल्ली आनी तो खोरें ओडत घरा वटेन वचूंक लागलो. फरांसीक पाय तेचेर तापलो, ''आरे, खोरें ओडीत कितें व्होरता? शेतगावड्यान खोरें खांदार घेवन झेतान चलों जाय.'' तेणें परत एक फावट सांगलें, ''निस्त्या सुटें करून दवर. विसरों नाका.''

फरांसीक पाय दर खोऱ्याच्या घायासरीं सोतासरींच उलयतालो. ''निस्त्या तेपाक चोबूल भरून ताल्ले, बांगडे, करबट, सुंगटां हाड्टां हांव. माग्दालीनान फातरेर मिरयां

वांटप, हांयें निस्तें सुटें करप. निस्त्या मोडकी पोल्लेर खोतखोतताना काय बरो वास येतालो. आतां तसलो वास नाच्च.

सांजचें वावरांतल्यान परत येताना माग्दालीन मांयन रस्त्यावयल्यान शेतांत पळयलें, घोव वयर पळय नासतना सारक्को खणत आसलो. फाटल्यान खणून घातिल्ली लांबच्या लांब शीर दिश्टीक पडटाली. तेणें फाटल्यान चलत येतल्या आंतोनेताक म्हटलें, "चोयलां मुगो, तेगे रागा वोग. आतां मुखार गेल्यार मुजेर खोरें पोडटलें. आंतोनेत, फाल्यां आनी दिसवडो नाका."

तिणें येताना घोवाक म्हण एक सोऱ्या पाव न्हेसणात लिपोवन हाडिल्लो. येयल्लेंच पयलें तिणें घोवाक न्हावंक उदका बुडकुलो पोल्लेर दवरलो. मायकलान निस्तें सुटे करून दवरिल्लें. ती मिरयां काडून फातरेर वांटूक लागली. वांट्टना ती चेड्याचेर तापसाण काड्टाली, "म्हातरो पाय कंबर बागोवन खोणटा. तुका गांवार भोंवक जाय, आसलो पाड घालून."

मायकल तापलो, "हांव गेलों मुगे खोणूंक. खोणलें ना हांयेन? पूण पाय बाराबोर मुकोडे जायना!"

फरांसीक पाय शेतांतल्यान वयर सरून येताना जांबळी सरीं तेका मिंगेल मेळ्ळो. सांगूंक लागलो, "रोत्लाकरान माड घेयला खूंय बामणा भाटांत. फोडून वांशे काडून दियाय म्हूणटालो. तो, तो नोळे, मोदेर विकोता तो."

"आतां रट्ट्याक खूंय शक्त आसा माड फोडूंक? कुराड माल्ल्यार हात पादिता."

"माडाक शीर घेवंक तुजे इतलो फिशाल कोण चोयलो ना फरांसीक आबो."

"सोड, फाटलें कितें उल्लां. रोगत आटून पिठो जाला. हें चोय शेतांत हातरे येदो कुडको खणसर जीव तेंकला. जावचें ना मिंगेल." तो चलूंक लागलो. पूण मदींच थारून फाटीं वळोन तेणें मिंगेलीक म्हटलें, "मिंगेल, तुगे जोत दोन दीस दिवशी? दोन दिसांत जाता तितलें आटापून घेता आसलो. रेड्या जोत तुगेलें."

"आमगे जोत भाड्या पोडलां. भाव तिमोत घेवन चिंचोण्यां गेला. थंय कोणा भाकारागेलें रोवपा आहा खूंय."

फरांसीक पाय वोगी घराकडेन गेलो. बायलेन बुडकुल्यांतल्यान भायर हाडून दिल्लें हून उदक न्हावन मागीर तो अर्द पावा वयर सोरो पियेलो आनी वोगी न्हिदलो. कुजनांत माग्दालीन मांयन व्हडलो उजो केल्लो. तेची उब घरांत आशिल्ली. रांदून जातकीर ती

घोवाक उठोवंक गेल्यार तो थार न्हिदिल्लो. तेच्यान आंग हालोवंक जाय नासलें. हाताक धरून कशेतरी उठोवन तिणें तेका जेवंक बसयलो. जेयतानाय तो परवंतालो. माग्दालीन मांयन म्हटलें, ‘‘फाल्यां आनी दिसवड्या ओसपार ना हांव. आतां शेता कित जाता चोवचें.’’

फरांसीक पायन तेचेसरीं पळयलें आनी तो जेवन उठून हात धुवन येवन परत न्हिदलो. न्हिदिल्ले कडेन चिततालो, ‘कशें जातलें, दुडू तर जाये न्ही.’

सकाळीं उठून माग्दालीन मांय चुलीक जाळ करताली. रातीं भाकरेक तिंबोवंक घातिल्ले तांदूळ रगड्यार आंतोनेत वांट्टालें. फरांसीक पाय बायलेकडच्यान इल्ली फुटी चाव करून घेवन पियेलो. मागीर कोनशांतली कुराड हातांत घेवन तेणें बायलेक म्हटलें, ‘‘हांव माडा वांशे काडूंक वयतां मिंगेली वांगडा. आयज एकूच दीस. तुमी शेता कित जाता तें चोयात.’’ तो भायर येवन सोपणां देंवलो. बायल ‘‘आरे, तुकोडे जातो तें?’’ म्हणत भायर येयली. पूण तो केन्नाच सकल पाविल्लो आनी मिंगेलीक उलो घालतालो.

* * *

आंतोनेत आतां मना कुडीन घट जावंक सोदतालें. फातराक आपटिल्लें पांयांबोट रातभर दुखल्यार, उसउसल्यारय सांगनासलें. माशेन खंयूय वावराक, दिसवड्याक वचूंक तयार जालें म्हणटकीर सोताय तिचेफाटल्यान तिचेवरीच साक चुंबळ घेवन उबें रावतालें. एक फाडो तेणें सोदून काडिल्लो. तो आतां तें माशेनावरीच कंबराक गुठलावन घेतालें. तकलेर घेतिल्लो रेंवेंचो, खडयेचो चोबो चड जड जाल्यार दात ओट चाबून जशें एकेक पावल मुखार घालतालें. वावराक गेल्लेकडेन म्हणटाले ‘हें आनी येद्देशें चेडूं कित्याक हाडलां, कसलो वावर करतलें तें आनी कितलो दिसवडो दितले?’ सांजचे हेरांक दिसवडो दिवन जातकीर आंतोनेताक म्हण बेठेच धा वीस माशेनाल्या हातार उडयताले. एक दीस गवंड्याल्या मनशान तकलेर दिल्लो खडये चोबो तकलेर घेतकीर तें तेचे खाला चिड्डल्लेवरी जालें. मान कडकडटाली, पांय वांकडे पडटाले. बळान तेणें चार पावलां मारलीं. मुखार तें पड्टलेंच अशें दिसतालें. माशेनान पळयलें. तें धांवन वचून तेणें तेका धल्लें आनी चोबो उखलून आपणाले तकलेर घेतलो. पयलीं गवंड्याल्या मनशाक एक गाळ घालून तेणें आंतोनेताक म्हटलें, ‘‘वावराक येय नाका म्हुटल्यार येता तूं. मुका बिरमते घालूंक. फाल्यांसान येयच नाका तूं. हाडपारच ना तुका हांव.’’

आंतोनेतान रडिल्लेंशें तोंड करून म्हटलें, ‘‘वावराक येयना हांव माशेन. तुजे बाराबर म्हणून येतां न्ही?’’

माशेन काळजांत घळ् जावन तेचेसरीं कांय वेळ पळयत रावलें. मागीर आंतोनेताक गाळी घालीत तेणें म्हटलें, ''माशेनाकोडेन पोटलो आहा म्हूण मुजबाराबर येयलो मगो तूं. चोयलो मुगे पोटलो?

* * *

म्हैन्या उपरांत एकदीस माशेनाचें आनारीत म्हणिल्ले शेजान्नीकडेन झगडें जालें. झगड्याक कारण सादेंच. माशेनाचो वाळणेर आशिल्लो शिता बुडकुलो आनारिताच्या बुकल्यान लकयलो. बुडकुलो वाळणेवेल्यान पडून फुटलो. शीत, वाळणे नीस भुंयेर फासपलो. माशेन नांव घेनास्तना खेपतालें. पूण एक दुसरें उतर आनारिताक लागलें आनी तेणें जाप घातली. करतां करतां झगडें व्हडार पडलें. खेपून घेतां घेतां आनारितान सट् करून म्हटलें, ''भयणिगे चेडवा हाडोन दिसवड्या वावराक लायलां. आंगा पिठें गेलो नासल्या भुरग्याक दिसवड्या धाडोन मोजा मात्ता तूं.''

हाचेर माशेनान मोठो कलकल केलो. पूण बेजारिल्ल्या आनारिताल्या घोवान बायलेक ओडून व्हरून घराफाटल्यान आपटिलें म्हण केस्तांव सोपलें.

पूण माशेन भोव दुखावलें. त्या दिसा सांजचो सगलो वावर तेणें मोन्यानच केलो. रांदलें वाडलेंय मोन्यानच.

दुसऱ्या दिसाक ती शेताक वचूंक लागली तेन्ना आंतोनेतय फाटल्यान येतकीर तेणें तेचेर गाळयांचो शिंवर केलो. आपणा वांगडा वावराक बीन येयल्यार जीव काडटलें म्हूण लागलें. तरीय तें फाटल्यान फाटल्यान येवंक लागतकीर माशेनान खरवते झाडाची एक बडी मोडून घेतली आनी धरून चारपांच बडयो तेचेर मारल्यो. आंतोनेत थंयच बसून रडूंक लागलें. आंतोनेत दिसभर रडत एकलेंच घरा उरलें. खरगाळी घरच्यांची तेका परत परत याद येताली. पांगळें ग्लोर, मांय, फातीम दोळ्यांमुखार येतालीं. मागीर अचकीत भितरल्यान रागसो उदेतालो. राग येतालो मांयचो, पांगळ्या ग्लोराचो. पायचो मात मातय राग येयनासलो. ग्लोर पडना कित्याक, फातीम रडना कित्याक, मांय येवन आफयना कित्याक? हांव खूब खूब नाचतालें, मडक्यो फोडटालें, धुमशेणा कांडटालें, मार खातालें. च् च् बाबुशाक घेवन उदकांत हांव वचूंक फावनासलें... आतां कित्तें म्हण करचें ना हांव. नाचचें ना, बोवाळचें ना. फकत माशेना वांगडा वावराक वयतलें! मागीर तें एकदम निर्शेलें, माशेनय वावराक़ व्हरना म्हाका. हांवें बाबुशाक उदकांत व्हरूंकच नाका आसलेलें....

बऱ्या वेळान माशेन घरासरीं येयलें. हेका रडटा तें पळोवन कांय वेळ वोगी रावलें. मागीर तेणें म्हुटलें, ''इतलो वोगोत रड्टो आसलो काय कित गो? राव आतां वोगी. रोव

व्हरच्याक येयलां हांव. पेद्रुन एका दिसाक जोत दितां म्हुटलां. जाता तितलें रोवन घेवचें. उल्लोलें हांव हलकेन हलकोवन रोयतलें. पडींग दोवरचें ना इल्लो कुडको. जाता नज करून खणून घायलां.''

रोवा चोबो आनी हलकी घेवन माशेन मुखार वयतालें. फाटल्यान पेजे बुडकुलो तकलेर घेवन दर एक पावल राखत आंतोनेत चलतालें. आपलें पावल आडखळचें न्ही, तकलेवयलो बुडकुलो पडचो न्ही, फुटचो न्ही म्हण तें पुराय यत्न करतालें.

* * *

अचकीत आंतोनेत मोनेपण घेवन वोगी वोगी बसूंक लागलें. दोळ्यांत दुकां हाडिल्लेवरी करून वोगी खंय तरी बसून रावप.. फाटी ना फुडें, घर ना दार, मांय ना माशेन! खंयतरी वाट नाशिल्ल्या काळखांत शेणिल्ल्याची भिरांतशी. भितरल्यान एक कांच निर्शेणी, मुजो कोण ना, हांव कोणाचें न्ही. मनाचो मोव मोव कवळो पदर भावनेच्या वाऱ्यार विरविरता. दुखऱ्या मनावयल्यान कोणें मायेचो हात भोवंडायल्लेवरी रडचेशें दिसता! मगेर सगलें दामून घेत वरवर वोगें एकलें बसून रावप. वाडटी कूड आनी मनाचें अबुद्धपण हाचो मेळ बसून बसना. शेवटा हांव एकलें, मुका मुज्या काळजांतलो कोण ना ही अबुद्ध खंत. आतां आतां कुडीनय तें बरेंच भागल्लें. पोले पडले. हड्डें बसलें.

पळोवन माशेन भियेल्लेवरी जालें. माशेनान फुसलायल्यार, तापयल्यार, धुमको घातल्यारय तें कांय उलयनासलें. हेका आनी कितें जालां! तेतूंत आनारीत शेजान्नीलें उलोवप कानात घुंवतालें. एक दीस तें उठलें आनी खरगाळी भयणीगेर गेलें.

सकाळीं गेलें तें सांजचें उठाउठी परत येयलें. येवन तें सामकें भयणीक खेपतालें. खेपतच तें घोवाक सांगतालें, ''चेडी, मेलो चेडो परतो काडों सोदिता. म्हारवा सावळ आहा खूंय. वर्सभर दवरून घे खूंय.''

आंतोनेतान आयकलें. तेका इल्लें इल्लें कळ्ळें. मागीर तें घटशें जालें. थाऱ्यार येयलें. तेणें कांयवेळान 'माशेन' म्हण उलो मारलो. माशेन तेका मोगानशें पळयत रावलें.

फरांसीक पायन म्हुटलें, ''भुरगें मुगो तें. अबुद्द अन्नाडी. सावळ आनी हावळ भुरग्या लागोता? तूं गेलोलेंच कित्या काय म्हुण्टा खरगाळी?''

माग्दालीन माशेन वोगेंच रावलें घोवासरी पळयत.

* * *

टोनी सिकेरीन पंदरा अटरा हजार करून चौदा पंदरा जाणांक तरी नाडिल्ले. लागीं लागीं दोन अडेच लाखाची गांठ घेवन तो धांवन वचून लिपून बशिल्लो.

पांच जाण भयणींचो तो एकलोच भाव. मांय पायले आंगवणेन, वथरेणेन जाल्लो. पाय आदीं तारवार आसलो. आतां तो बरोच जाण्टो जाल्लो. मांयूय जाण्टी जाल्ली आनी धोपरां दुखीन त्राशिल्ली. पायक पेन्शन बीन कांय मेळनासली. बँकेंत कांय दुडू आसले. तेतुंतलेच थोडे थोडे काडून खर्च चलयताले. पोर्तुगेज तेपाक शापायन बांदिल्लें घर बरेंच व्हड आसलें. घराभोंवतणी खूब जाण्टे धा बारा माड आसले. व्हडल्या घराक चोयल्यार हेंचेकडेन बरोच पोटलो आसतलो अशें दिस. म्हण टोनीन जांचे पयशे खायल्ले ते बापायक धमकावन काडूंक सोदताले. सद्दां कोण ना कोण येवन पयशे मागूंक कांट्यार बसतालो आनी निमाणें धमक्यो दिवन, गाळी संवन वयतालो. पाय सामको बेजारून गेल्लो. टोनीक सामक्यों गाळी घालतालो. एक दीस तेणें बँकेंत आशिल्ले सोताचे सव्वीस हजार रुपया काडून हाडले आनी घरांत दवरले. आतां तो रिकामे पासबूक लोकांक दाखोवन आपणासरीं कांयच ना म्हण सांगतालो. लोक आयकनासले. भाट वीक, घर वीक म्हणटाले. एक दीस तेणें मुखावयल्यान दाराक एक व्हड कुलूप मारलें आनी तो फाटल्या दारांतल्यानच सगलो व्यवहार लिपून करूंक लागलो. सांजचो इल्लो काळोख जातकीर बेगीबेगीन तिठ्यार वचप आनी कितेंय निस्त्याकबीन घेवन येवप. इगर्जेंत वचचेंय तेणीं सोडिल्लें. देडेक म्हयनो हें अशें चल्लें. एक दीस कशें कोण जाणा बोरकार म्हणिल्ल्या एकल्याक कळ्ळें. तेणें मडगांवसान मेळटा तेंकां आनीक तीग जाणांक घेवन तो बापायसरीं गेलो. तेतूंत फरांसीक पायलो चेडो मायकल आसलो. ते सगले घरा फाटलेसान घरांत रिगले आनी बापाय मुखार वचून उबे रावले. सगले रागान फुरफुरताले आनी बावळे कवळटाले. जाण्टो दुयेंत अबरगत बापूय सामको भिवन गेलो. मांय हांतरुणार पडिल्लेकडेन जीव गेल्लेवरी परवंक लागली. चवगांनूय तेंकां खूब भेसडायलो. तेतूंत एडवीन म्हण एकलो तापट तकलेचो आसलो. ताच्याच घरांतलो पेत्रोला दबो उखलून हाडून घराक उजो घालतां म्हण सांगलें. "तुगेल्या चेड्यान आमकां फोंडांत घायलाच. आतां तुमगे घराक उजो घालून वर्सभर कादयेंत वचून बसतात." तेणें इल्लें पेत्रोल रकयलेंच घरांतले मुस्तायकेचेर. फस्कय वाजोन दाखयलें. बापूय सामको भियेवन गेलो. तेणें आपल्या काजरा देण्याची पोन्नी लाकडी आरमार उक्ती केली आनी एका रागानशे भितरले पयशे हाडून जेवणामेजार आपटिले. बोरकारान ते मेजले. वट्ट चोवीस हजार तीनशीं आशिल्ले. तेणें तिनशीं रुपया कुशीन साल्ले आनी उरिल्ले चोवगांनीय स-स हजार वांटून घेतले. ते पयशे घेवन येताना मांय रडतशी म्हणटाली, "फुलामीन, आमकां फाल्यां गिरास खूंयसान येतो रे? चेडो मरो रे तुजो. तेणें आमच्या नाका, आमीच तेच्या फोंडार माती ओडुंया!"

बोरकार तेंकां घेवन पयलीं पोलीस ठाण्यार गेलो. तेणीं टोनील्या बापायन आमकां स-स हजार फारीक केल्या म्हण सांगले. पोलिसान तेंचेकडच्यान तशें बरोवन घेतलें आनी टोनीले फायलींत दवरलें.

सांजचो पयशे घेवन मांडपा येतकीर मायकल आपणे टोनीगे पायकडच्यान पयशे कशे काडले तें फुशारकी मारून सांगतालो. "तेगे पायक असो वोडीर काडलो, दिता काय ना पयशे, ना तर तुगे घराक घालतां उजो. तुगे चेडो तो केसो गुंडा तें हांव चोयतलों, हातीं मेवल्यार असो धाडायतलों, मोरचे पयलीं उदक लेगीत मागचों ना. पाय कुळकुळ्ळो. काडून दिले स होजार. पुलिसेंत वोचून म्हुटलें, तुमकोडेन जायनासलें. मुगे काम हांयेन केलें. थोडे तरी मेवले."

सांज जावच्याक फरांसीक पायन मायकलाक म्हटलें, "मांयगे सोरपोळेचें सोड. जोत विकून उबो केल्लो पयसो. आतां परते बैल इकते घेवचे. पावसाळ्यांत शेण तरी इदें पोडटलें."

"ना पाय, हांव मोटरसायकल घेवच्याक सोदितां."

"आरे, स होजारांक मोटरसायकल मेवता?"

"उल्लो दुडू बॅंक रीण दितो मुका?"

"कितू पोडटाय मोटरसायकलीक?"

"उणे विसां वयरच पोडटले."

आयकोन फरांसीक पायली तकली घुंवली. आरे, इतुलें रीण काडोन फाल्यां फारीग जायना जाल्यार व्हरोन मांय-पायक इकतलो?"

"हांव भाडें मात्तलों पाय."

"भाडें मात्तलो काय घेवन मोजा मात्तलो, कोण जाणा. तें काय हांव नेणा. मुगे बैलां दुडू. हांव दुसरे बैल घेतोलों."

हेचेर मायकल तापलो. "तुगे बैल जाय कोणा आतां? हे मुखार शेतां कोण कसतलो, कोण रोयतलो? शेतां पडींगच आतां. गोठेय मोडून पोडटोले."

"मायकल, पोटण्याच्या, कोणा शेतां पडींग घालता तूं? कोणा गोठे मोडटा. असले देखीन रस्त्यार इजमोला पड्टो तूं. तुका मोटरसायकल जाये ती वोर्राद भोवंक, भाडें मारून

पोट भरूंक न्ही.''

हेचेर दोगांयलेंय मोठें झगडें पेटलें. एकलोय उलोवप फाटीं घेयनासलो. आंतोनेत म्हर्यांत आसलें. तें परत परत म्हणटालें, ''मायकल बाबा, झोगडीं नाकाय रे.'' तेणें अशें म्हुणटकीर मायकल तेका रागान पळयतालो. तेका दिसतालें, आतां आपल्या सोणकुटार एक पड्टलें. तरीय तें म्हणटालें, 'मायकल बाबा, झोगडीं नाकाय रे.'

मागीर मांय मदीं पडली. 'केसो मोड्या दुडवा झोगोडटाय?' म्हणत मायकलालें कालसांव सोदलें. कालसावां बोलसांतले पयशे काडून घेवन ती घरांतल्यान भायर सरून काळखांतल्यानच वचूंक गेली. दोगय पाय आनी चेडो तिचेसरीं पळयतच रावले. मागीर मायकलान ताप्पून म्हटलें, 'खुंय वयता गे?'

पूण तिणें जाप केली ना. हे सगले आपल्या भुजार आसात, हांवें केल्लेंच जातलें ह्या हावेसान ती चलूंक लागली. मायकलय मांयवयल्या इल्ल्या भावार्तानसो काळखांत देंवलो ना. फरांसीक पाय उठलो. घरान इल्ले सोऱ्या हाडिल्लें आसलें. तें इल्लें चडच रकोवन घेवन तो पियेलो. तो आतां सोतासरींच बडबडिल्लेवरी उलयतालो, ''आमगे पुर्वोज सांगतालो, पयलीं हिंगा काट्यांचीं रानां भल्लोलीं. रान कातरून आनी दोंगर फोडून खळयो भरून शेता बांदयो केल्ल्यो. मागी खायलीं तीं कोणी कोणी, सेरकारान, भाकारान. शेतगावडो केन्ना शेत पडींग पडूं दिना. आनी तू पोट्ण्याचो शेत पडींग पोट्टलें म्हुण्टा. तोंड फोट्टं तुगेलें.''

कांय वेळान माग्दालीन मांय परत येयली. कोणें कांय विचारचे पयलींच तिणें म्हुटलें, 'झगडून घेयात तुमी जावो तितले. दुडवां कितें जाता तें हांव चोयतां. हांयें दुडू वालेरीन गांवकारासरीं व्हरून दवल्ल्यात.''

''मुका दिवों पोट्टो ते मांय.''

''चोवचें. मुगे सोरपोळेचे सात होजार येयल्ले मुरे? होजार भर उणेच आहाय.''

मायकल आनीक कितें उलोवंक सोदतालो. तेन्ना आंतोनेतान म्हुटलें, ''मायकल, बाबा झोगडीं नाकाय रे!''

मायकलान एक फावट तिडकीन तेका पळयलें आनी मागीर ठाऽ करून एक थापट तोंडा बराबर दिलें. तें कासावीस जाल्लेवरी जालें. घुंवलेंशें जावन कुशीक गेलें आनी सकला पडिल्लेवरी बसलें. माशेनान धांवन वचून तेका धल्लें आनी मायकलाक धपकायलें, ''मुगे भयणीगे चेडवाक हात लावों नाका तूं. हे मुखार वोगी रावचें ना हांव. पाड पोडूं तुगे दुडू. घे तोकल्यार मारून.'' तें रडतशें आंतोनेताक सासपीत रावलें?

आंतोनेताक येवन तीन म्हयने जावन गेल्ले. पूण एक दीस तेका माशेनान बांगडा न्हिदोवन घेवंक नासलें. आज पयलेंच फावट तें माशेनाल्या खाकोळांत न्हिदलें.

बरे रातीर माशेनाक जाग येयल्यार आंतोनेताली तकली माशेनाच्या हड्ड्याक तेकिल्ली आसा, दूद पिवंक आशेल्ल्या भुरग्यावरी.

* * *

शेजारचो शावियेर मारान हो सुजून मोटो जाल्लो. रातची शावियराली बायल धांवन येवन घोवाक कोणेंतरी मारून सुजोवन उडयला म्हण सांगून माग्दालीन मांयक घेवन गेल्ली.

माग्दालीन मांय तेका कांय वखद-विर्सद करताना रागानशी उलयताली, "भुकेक इल्लो गू खायलो म्हण ह्या लोकांनी तेका इतुलो मारचो? केसो किरिस्तांव हे, इल्लो मोग मोयपास नासलोले."

......... आगस्टाचे दीस आसले. पावस घोग्यांनी रकतालो. पावसान संवसारातलीं सगलीं कामां जशीं थोपोवन धरिल्लीं. खंय म्हण दिसवड्या काम मेळनासलें. ओले कांबळींत गुठलावन घातिल्लेवरी मांडपांतलो गावड्यांवाडो सुस्त पडिल्लो. दोंगरांतल्यान देंवन येयिल्लीं बारीक मोटीं उदकाचीं झरांवां वाड्याचे मदीं मदीं व्हांवत वयतालीं. वाड्यावयलीं, वयल्या रानातलीं सगलीं झाडां झोपां कंवकवीत हरव्या पानां ताळ्यांनी मातिल्लीं. सबंद गांवार एक पावशी सावळी. पूण पावसान कितें आमचें पोट भरूंक येयलां? पावसा दिसांनी तर भुकेक जश्यो चड जिबो फुट्टात.

हेर गावड्या घराब्यांवरीच शावियेराल्या घराब्या कडेनय शेत-जमीन आसली. पूण शावियरालो बापूय सोऱ्याक लागिल्लो. एक नंबरचो पिंगा. सिल्व भाटकाराली दोन खांडयेची शेतजमीन तेचेकडेन रेनान आशिल्ली. पूण बापायन सेगीत तीन वर्सां शेत रोयलें ना आनी भाटकाराक रेन पावयलें ना. एक दीस भाटकारान येवन सोता शेतांत जोत घातलें आनी रोयलें. जमीन हातची गेली.

शावियेराक आनीक दोग भाव आसले. थोडी कोमुनिदादीची जमीन उरिल्ली. ती तिगूय भावांनी वांटून घेतली. पूण तांतलो एकलो ती जमीन दोगांय भावांक वांटून दिवन सोता मावोड्या कुठ्ठाळे रावंक गेलो. गेलो तो परतो केन्ना येवंक ना. जमीन सामकीच उणी आसली. तेचेर तीन म्हयन्याचें पोटय जायनासलें. सदांसर्वकाळ दिसवड्या कामाक वचून पोट भरचें पडटालें.

पावसाळ्याच्या दिसांनी तशी सगल्याच गावड्यांची उपासमार जाताली. पूण शावियेराली अवतिकाय मात भोवच वायट जाताली. चवगां भुरगीं आनी सगल्यो मडक्यो हांडयो रित्यो पडिल्ल्यो. घरांत मूठभर तांदूळ ना. आटोवभर भात ना.

भुरगीं भूक लागतकीर तिरमिरत रड्टालीं. बायल केन्ना दुकां गळयताली तर केन्ना घोवाक खेपताली. पोट भरूंक नज जाल्यार पोरां कित्या काडूं जाये आसलीं काय म्हणटाली. रात जातां जातां भुरगीं भुकेन चडच रडटालीं आनी अच्छेव करतालीं.

शावियेर तसो बरो पाडेलीबीन नासलो. तो तकलेर दिल्लीं वोजीं व्हांवोवपी, खणपी कामदार आसलो. पूण बायले भुरग्यांल्या भुकेचेर तेणें एक माण्णी काडली. रात जातकीर तो साकापोती आनी खाडूं घेवन गांवां भायर वयतालो. पयस बांदांनी, भाटाकडांनी कोणाल्याय माडार चडून आडसरां, आडनाल्ल काडून हाडटालो आनी रातचें भुरग्यांक फोडून खावंक घालतालो. नाल्ला उदक, मुळपो, कातली खावन भुरगीं न्हिदतालीं. केन्ना केन्ना घोग्यांनी पावस रकता आनी हो माडार चड्टा अशें जातालें. घरांत घुसताना भियेवन थरथरत भिजिल्लें खेतें कशें आंगावयल्यान उदक गळयत घरांत घुसतालो. अशें म्हयनोभर चल्लें. एक दीस पयस एका बांदार माडार चडिल्लेकडेन आसतना लागींच कोणालो आवाज आयकोंक येयलो. तेंच्या हातांत बॅटरे दिवोय आशिल्लो. शावियेर निकतोच माडार चडिल्लो आनी तेणें चार पांच आड नाल्ल सकल उडयल्ले. मनशाली सुलूस लागतकीर तो वयर वोग्गी पाखो कसो माडाक वेंग मारून रावलो.

ते गुदीन वाड्यावेले चवग किरिस्तांव दिवे घेवन दोंगराच्या मुळसांत फातरकुल्ल्यो धरूंक गेल्ले. त्या बांदाचो, माडांचो मालक तांतल्या एकल्यालो कोणतरी लागतालो. तांणी सकल पडिल्ले जिते नाल्ल, आडसरां पळयलीं आनी वयर दिवो मारलो. वयर आशिल्ल्या शावियेराक तांणी धपकावन सकल देंवयलो. तो भिवन थरथरत सकल देंवतना लागीं लागीं अद्र्या माडावयल्यान सकल निसरून पडलो. तरीय तांणी ताका धरून भोव बडयलो. हातांतल्या दांड्यांनी मारलो, सकल पडिल्ले नाल्ल तेचेर मोखून मारले.

कुटत पांय ओडत तो घरा पावलो तेन्ना भुरगीं रडतच आसलीं. तें रडप वाड्यावयले हेरय आयकताले. सगल्यांक तेंची भूक कळटाली. पूण वाड्यावयल्या हेर लोकांचीय अवतिकाय थोडीभोव तशीच आसली. थोडे जाण आनीक पंदरा दीस तर, कांय जाण म्हयनो तड मारूंक ताकतासले इतलेच.

माग्दालीन मांय तेका शेकय, लेपय करताना किंवाट्यान कितें कितें उलयताली.

* * *

फरांसीक आनी माग्दालीनान खणून, हलकोवन हेरांलें जोत घेवन आपलें पुराय दोन अडेच खांडयेचें शेत रोयिल्लें. थाम ब़रो कवकवीत धोंपरभर वयर सरिल्लो. तो काळसो हरवो थाम पळोवन माग्दालीन मांय भुल्लुशिल्ली. आत्र्यापयऱ्यान ती आंतोनेताक घेवन वयताली. नण्णी काडटाली, मेरेकडो नितळ करताली, उदक पळयताली. आंतोनेताकय शेतां काम शिकयताली. एक दीस थामा वयल्यान हात भोंवडायत तिणें सांगलें, 'हो थाम आतां किल्लला आनी रोपेला, फाल्यां असमेतलो, पोटरेतलो. मागीर कणशेतलो आनी पिकतलो.''

''असमेतलो म्हुटल्यार कितें माशेन?''

''असमेतलो म्हुटल्यार मुगो थाम जुवाऩ जाता. कमरेसरीं एक मुदी धरता, मागी पोटरेता– पोटांत कणस धरता. मागी कणशेता आनी पिकोता.''

आंतोनेत माशेनावांगडा म्हण शेतांत येतालें. पूण शेतांत खाणवांत, फोंडांत उदक दिसलें म्हणटकीर तें थर्थ भियेतालें. शेतांनी उदक पांयांक लागतकीर तें कच् करून आंग काडटालें. एक दीस तेणें शेतांत येता थंय आसा माशेनाक सट् करून म्हुटलें, ''माशेन, या आमी बेगीन घारा.'' माशेनान म्हुटलें, ''शेतांत काय बोरें दिसोता आनी तुका उबगण येता पाडपोडिल्ल्या?''

''ना माशेन, म्हाका उदकाची भिरांत दिसोता.''

माशेन कांय वेळ तेचेसरीं चोयतच रावलें. कांय वेळान तेणें म्हुटलें, ''माशेन, मांय गे पोटांत बाबूश परत येतोलो?''

''कोण जाणा, ती मोरकोयकान्न जाणा ना तर जेजू जाणा.''

''मोरकयकान्न म्हूण कोण माशेन?''

''आमगे पुर्वोजांगेलो देव. पयलीं जात्रेक वयताले आमी. आंगवोण पावयताले, मागणें मागताले, आतां जबर कोण वोसना.''

''कित्या माशेन?''

''पोयलींचें कितें उरलां? सोगळें मुदार जालां. पयलीं कुकडां मांस लेगीत खायनासले हे गावडे. आतां कोसलेंय मांस चोलोता. पयलींचें देव देवस्पण कोणा जाय?''

''माशेन, खोरेंच बाबूश परत येतोलो?''

"तूं मांग मुगो देवाकोडेन."

"माशेन मुजेर म्हारू बसोला?"

माशेन गोंदळिल्लेवरी जालें. मागीर तेणें हात होळोवन व्हडान म्हटलें, "तुजेर बसलो ना म्हारू, तुगे मांय–पायचेर बसोला."

* * *

मदीं चार पाच म्हयने गेले. एक दीस लोटलेसान धाकल्या दुमेतीन माशेनालो रकाद येयलो, आंतोनेताक घेवन यो म्हूण माशेनाक सांगिल्लें. रकाद घेवन येवपी, सकल्ल्या घरचो जुवांव. तो पावसा दिसांनी थंय कोणालीं गोरवां राखूंक आसतालो. जुवांव सांगतालों, "तिगेलीं तिगांय भुरगीं सकाळीं उठून इस्कोलाक वयताय. खूबच धांदोळ जाता. आंतोनेत येयल्यार घरांतलोच वावर करून घरांतच उरतलें अशें दुमेतीनान म्हणटालें."

जुवांव मोटी खोशयेची खबर घेवन येयिल्लेवरी दारांत उबो रावन व्हडा व्हडान ही खोबोर सांगतालो. पूण घरांतलीं सगलीं मोनी जाल्लीं. कोण एक उतर उलयनासलो.

सांजच्या उसरां माशेनान आंतोनेताक विचारलें, 'वयता गो तूं?'

"ना, हांव वयचें ना माशेन."

"कित्या? हांगा कित खावों रावता? ह्या पावसांत फाटीं देड़ दीस उपाशीं आसलो मुगो. आंगावयलीं सगलीं पिंदोन गेल्यांय. म्हातऱ्या माशेना कोडेन केसो पोटलो आहा म्हूण रावोता?"

"ना. केशेंच वोयचें ना हांव माशेन."

"तुगे त्यो कांय नाकाय जाणवायो. फाल्यां हांव घेवन वयतां तुका आनी येता पावोवन. केसो टेर्रेसीचें घर मुगो तेगेलें. निस्त्याकय दिसा पोनास साठ रुपयांचें घेता तेगे घोव. घरचे सावळेंत घरांतच रावतोलें. हिंगा भाशेन दिसवड्या वयचें ना."

फरांसीक पायन म्हुटलें, "आमगे आतां कितें उरलां? आमी गावडे चड जाण्टे जावन मोत्ताय अशें न्हू. चिऱ्यांचीं आनी चिंतनाचीं वोजीं तकलेर घेवन आदीं मोत्ताय. भितुरल्यान हाडांचो चुरो जालोकडेन आहा. जुवानपोण सोंपलें म्हुणटकीर सोमतीच सिमितेर. वच तूं, वच आंतोनेत. पोटा फोण तरी भत्तलो."

आंतोनेत आतां भुंयेर पांय आपटीत रडूंक लागलें.

मायकल येदोळसान आयकतालो. तो आतां तिडकलो, “मांय तें खूंय वोसपार ना. तुयें तेका येशें गांवार धांवडावपाक हाडलोलें?”

“गांवार खूंय रे, तेंय माशेनूच न्ही.”

“तेदोना खूंय गेलो तें माशेन? तेदनाच कित्या व्हयलो ना? तेदना तेका तोवनास अवचिन्न म्हुणटाले. आतां तेका पागार दियनासतना आयती वावराडी जायी. खूंय वोसपार ना ते मांय.” तो आड्डलो.

मांय आनी पाय जाणा आसले, मायकलाचो हो फुक्याचो आब आनी ताबदारकी. पूण तेंकां तेणें तितलेंच म्हणिल्लें पुरो जालें. तेंकांय आंतोनेताक धाडचें मनासान नाका आसलें.

* * *

मीर्ग लागचे पयलींच्या आड पावसान आंतोनेत बाबुशाक घेवन उदका फोंडांत पडिल्लें. आतां पावस सोंपिल्लो. सकाळीं दंव शेनेतालो. तेचेर नितळ कंवळें वोत पडटालें. त्या वोतान माशेनालें शेत पिकून कणसां दाण्या भारान बागवल्लें. त्या खरगाळी फोंडांतलें उदकय आतां सुकूंक येयल्लें. पिट्टोळ, काड्डुकां मरूंक लागिल्लीं. एक बुरशें यक्षीणिलें तोंड, चिखोल, शेळो आनी तडफडून मरपी काड्डां.

ह्या वर्साक पीक म्हणून इतली अमाप जाल्ली, शेतांत धान उबें आशिल्लेकडेन फक्कत कणसां आनी भातच दिसतालें. धाना वजें तकलेर घेतल्यार कणसाच्या भारान मान बसताली. मळूंक मोडो मारल्यार भात भांगर कशें झड्टालें आनी राशी पडटाल्यो.

लुवणे, मळणेक मायकलान खरेंच मन लावन काम केलें. फरांसीक पाय विळो घेवन फक्कत लुंवत रावतालो. मांय आनी पूत तें धान हातरेर वोजीं बांदून खळार हाडून घालताले. मागीर सांजचे सगले मेळून तें धान फळ्यार धाडोवन मळटाले. फरांसीक पाय भांगर घोळयल्लेवरी घोळयत तें नितळ करतालो. फरांसीक पाय, मायकल मळणेर चड व्हडान उलयल्यार, झगडूंक लागल्यार माग्दालीन मांय म्हणटाली, “मळणेर वायट उतरां घेवची न्ही, केस्तावां कोरचीं न्ही. पिकेक अवचिन्ह बादिता.”

आंतोनेताक मात तेणें लुवणे मळणे कामाक लायलें ना. तें शेतांत येता म्हटल्यारय नाका, सामकें नाका म्हण सांगलें. तेंच्या मत्तान तें ह्या कामाक सामकें ल्हान. तरीय आंतोनेत भात, तण तकलेर व्हांवयतना सामक्कें माशेना फाटल्यान येतालें, वयतालें. “आगो, पोल्लेक मात्सो उजो चोय गो.” म्हुटल्यार ना, हें सामक्कें माशेना फाटल्यान. ह्या चार म्हयन्यांत तें पयलेच फावट खेळ्ळें. तेणें खळावयलें भात हातांत धरून हुबयलें. तें

तणांत लोळ्ळें. तणागुडव्याक गोल गोल फेरयो मारल्यो, हांसलें, नाचलें.

वाऱ्यार हुबोवन हाडिल्ल्या भाताची व्हडली रास सालांत एका कोनशाक घातिल्ली. आंतोनेत राशीसरीं बसून भात पोशांत घेवन परत परत वयर राशीच्या माथ्यार उडयतालें. भात परत माथ्यावयल्यान सर्करून सकल देंवतालें. तेका मजा दिसताली. माशेन थंयच आसलें. सगल्यांक आयकोवंशें माशेनान म्हुटलें, "आंतोनेतालो पायगूण बरो म्हणपाचो. इतू व्होड भाता रास केदना पडलेली?"

* * *

वालेरीन गांवकाराल्या घराब्यासरीं गादोडें म्हणिल्लें शेत आसलें. तेगेले आज्जे, बापोलये करून तें शेत चार वाट्यांनी वाटून गेल्लें. एकेक वांट्याक देडेक खांडयेचें शेत पडिल्लें. शेत एकदम बरें मांसाळ, पिकाळ. वयलो थर काळसो आनी पोंदा हळदुवी मुंडळे माती. कसून घालतकीर मुंडळे माती इल्ली इल्ली वयर येताली आनी तासां हळदुव्या रंगान सोबयल्लेवरी दिसतालीं. ह्या वाठारांत तें शेत पिकेक सगल्यांत बरें अशी नामना आशिल्ली.

मांडपांतलो हो पुराय गावड्यांवाडो कोमुनदादीचे सुवातेर वसयल्लो. रानांतल्यान इल्ले इल्ले भायर सरत पेणें करत ते हे दोंगरादेगेचे सुवातेर थिरावल्ले. पूण तेंचीं सगलीं शेतां मात पयलीं भाटकारालीं आनी आतां कूळकायद्यान तेंचीं जावन गेल्लीं. विशेक वर्सां पयलीं मेरेन ते भाताच्यो मुडयो तकलेर मारून भाटकारागेर पावयताले. केन्ना भाटकारच कुडव, साक घेवन खळार येताले आनी मेरेर बसून भात मापून घेताले आनी खळ रितें करून वयताले. खूब पयलीं हांगा येवंक बारीक पांयवाट आसली. शेताचें हें रेंद व्हरूंक भाटकारान पयलीं बैलगाडे घातले, तेन्नासान हो रस्तो जालो.

गादोडे शेता भाटकारालो एकलोच चेडो सांतान दिनीज कूळकायदो येतकीर, कुळांनी रेन दिवचें बंद करतकीर विशेक वर्सां फाटीं उठून मुंबय गेल्लो. हांगा आशिल्लें पोन्नें घर ल्हव ल्हव कोसळूंक लागिल्लें. भाटा कुडकोय उस्तवारेबगर पडून आसलो. ताच्या घरदाराची अवतिकाय पळोवन कुळांक खरें म्हुटल्यार सू जातालें. दिसतालें, आतां हो मुंबयसान परतो येवचो ना. शेताची आस धरचो ना. कूळकायदो येयल्लो तरीय लोकांक भावार्थ नासलो. लोक कित्याकितें उलयताले. कोण केन्ना खंयसान येवन उबो जायत म्हण सदांच भिरांत. गांवा वटेन कोण धवाडो दिसल्यारूय दुबाव. जायत्या कुळांचीं आनी भाटकारांचीं केस्तावां कोर्टांत गेल्लीं.

मदींच एक खबर येयली, सांतान दिनीज गांवांत येयला आनी भाटांत नवें घर काडटा, भाटाक दुरीगय घालूंक लागला. वालेरीन गांवकार आनी तेचो घराबो हुस्क्यांत

पडिल्लो.

एक दीस भाटकार सांतान दिनीज आनी तेगेलो चेडो मोटर सायकलीर बसून गादोडें शेतांत येयले. सांतान दिनीज भुरगेपणात पाय वांगडा जायते फावट हांगा येयल्लो. पीक जातकीर पंदरावीस साक भात बैलगाड्यार घालून ते व्हरताले. आज तो आपल्या चेड्याक घेवन येयल्लो.

तो शेता कडेर वचून उबो रावलो आनी तेच्या आंगार सर्रकरून कांटो फुल्लो. खूब खूब पोन्ने यादीन फेर घेतलो. तो चेड्याक घेवन सकल मेरेर देंवलो. मेरांनी भोंवत वयले वटेन आशिल्ल्या बांदार गेलो. बांदार एक व्हड चिंचेरूख, दोन तीन जांबळी रूख आसले. भुरगेपणाक पाय वांगडा मनीस घेवन चिंचो काडून व्हरताले. चिंचांचो गुळो करून पावसाळ्या खातीर बुडकुल्यांत घालून दवरताले. चोब्यांनी जांबळां काडून व्हरताले, ही मोटीं सुपारेयेदीं जांबळां. मागीर तीं कुसोवंक घालून पाय सोताच जांबळांचो सोरो काडटालो. फाटल्या यादीन सांतान दिनीज व्याकूळ जाल्लो. भिजिल्ल्या ताळ्यानसो चेड्याक कितें कितें सांगतालो.

चेड्यान विचारलें, "डॅडी, सांगल्यार आमकां ही शेतां परतीं मेवचीं नात?"

"ना चार्ल्स, हिस्टरी आमच्यांनी परत घुंवडांवक जावची ना. आमकां रियालिटी मानून घेवंक जाय."

"आमकां कांयच रायट्स नात?"

"आसात, शंबरांत दोन पयशे, चार पयशे. अर्थ ना तेतूंत."

"हे इनजस्टीस न्हू डॅडी?"

"आमी तेंचेर शंबरांनी वर्सां इनजस्टीस केला अशें सरकार म्हुण्टा. गरीब सदांच खरे, होनेस्ट आसतात असो एक समज जावन आहा. पूण तें खरें न्ही. गरीब सोताच्या विकनेसान गरीब उरता, गिरेस्त सोताच्या पोवरान– वील पॉवर, मेंटल पॉवरान गिरेस्त जाता. हांव तेन्ना शेतां भाटां गेलीं म्हण रडत हिंगाच रावलोलों तर गरीबूच जावन उरतासलों."

दोगय बांदार उबे आसले. पयलीं ह्या बांदार खूब झाडां आसलीं. आतां बांद रितो पडिल्लो आनी धुवन वचून बारीक जाल्लो. ते जांबळी रूख, चिचे रूख खांदे मारून मारून तेंचीं आतां उक्ती खोडां कशीं उबीं आशिल्लीं.

सकाळचीं धा वरां जाल्लीं. चकचकीत वोत पडिल्लें. गांवांवाटेन एका माडार कोणतरी चडिल्लो. तो माडावयल्यान आड्डलो, ''कोण रे, कोण जायो, कितें चोयतात थंय?''

सांतान दिनीजानय त्याच आवाजांत तेका जाप दिली. ''हांव भाटकार, ह्या गादोडे शेताचो भाटकार.''

''कितें जावो?''

''मुगे बांदावयलीं झाडां कोणें कातरून व्हयलीं?''

''कित्या पोलीस केस कोत्ता?''

''व्हय.''

तो माडावेलो मनीस वोगीच रावलो. मागीर सरसरीत माडावयल्यान देंवलो आनी पाडिल्ले नाल्ल घेवन धांवतसो गांवांत गेलो. सांतान दिनीज चेड्याक घेवन मेरामेरांनी चलत मोटरसायकली वटेन येवंक लागलो. रोखडेच सात आठ जाण हातांत दांडे घेवन धांवत येयले आनी भाटकारा सामकार मांडूनशे उबे रावले.

सगलेच अनवळखी. एकल्याकय तो वळखलो ना. तेणें विचारलें, ''कोण तुमी?''

''तूं कोण तें आदीं सांग.'' एकल्यान त्याच रागान विचारलें.

''हांव, हांव भाटकार ह्या शेताचो. हीं शेतां मुजीं!''

एकलो आड्डलो, ''आमी वळखनात तुका. आमचीं शेतां हीं आमकां सोरकारान दिलोलीं. तूं आमचेर पोलीस केस कोरूं सोदिता? आमकां कोर्टांत व्होरून रडोवंक सोदिता? खूंय आसलो तूं इतू वोर्सां?''

भाटकारान त्याच आवाजान म्हुटलें, ''तुमचीं शेतां कोशीं? हांव आयजूय ह्या शेताचो भाटकार जावन आसां आनी तुमी मुंडकार शेताचे. दोकुमेंत चोयात वचून.'' सांतान दिनीजाक हो वाद वाडोवचोच नासलो. ह्या शेताचीय आस नासली. पूण ते जे तरेन हातांत दांडे घेवन येवन जशे मारूंक तयार जाल्ले तें पळोवन तो दुखावल्लो आनी मागीर रागान झिडपल्लो, ''अजूनय हांव तुमकां कोर्टांत व्हरून हाताच्या बोटार नाचोवंक ताकतां.''

''भाटकारा दुडवां माज तुका. आमकां सोरकारान दिरेत दिला. आमी चार पिळग्यो शेत कोसलां, वोसोयलां, राखून दोवोल्लां. कोर्टांत वयचे पोयलींच तुका ह्याच शेतांत फोंड

काडून पुरतले.''

सांतान दिनीज मुखार गेलो आनी तेणें त्या उलयतल्या मनशाचेर एक थापट लावन दिलें. खिणभर दिसलें आतां हातांत दांडे आशिल्ले सगले भाटकाराचेर झुडोन वयतले. तेका पेट्टले. पूण सगले थीर. वालेरीन गांवकार सगल्यांत फाटल्यान वोगी उबो आसलो. तो आतां ताकतिकेन मुखार येयलो आनी सगल्यांक आडोवनसो भाटकाराच्या सामको मुखार उबो रावलो, ''भाकारा, तूं तुगे शेत व्हरों येयला?''

''मुगे दिरेत सांगो येयलां.''

''दिरेत आसल्यार तुवें तुगे शेत गुठलावन घेवन बोमाय व्हरपाचें. भाकारा, शेत म्हुटल्यार बांकांतले दुडू न्ही कळंतर खावंक. तेतूंत घोळों जायें, मरों जायें, हूम गळों जायी. तुवें केन्ना काश्टी मारल्या, शेण भरलां, माती किरयल्या?''

सांतान दिनीज भाटकार म्हण आपली एक बाजू घेवन आसलो. तेका आपली बाजू तितलीच खरी दिसताली. धेंक गाजोवपी आनी गिरेस्तकाय वाडोवपी लोक तकलेन फिशाल आसतात, तेंचेर देवाचें बेसांव आसता अशें तो धरून आसलो. तेणें म्हुटलें, ''आमी मालक ह्या शेताचे, मालक सदां मेरेर बरोता. शेतांत देंवना. आमच्या पुर्वोजांनी भोव फिशालकायेन ही गिरेस्तकाय जोडिल्ली.''

''फिशालकायेन न्ही, अन्नाडी, भावार्ती लोकांक नाडून जोडिल्ली. फटीचीं मापां आनी मेजप मेजून खळावयलें भात लोटून व्हरताले गाड्यांत घालून. आतां दीस मुदार जाल्यात. अडचल्ल्यांक आनीक अडचून कातले वोळ्याक गाय घेवचे दीस गेले आतां.''

भाटकार एक व्यक्ती म्हण आपली हार मानून घेवंक तयार नासलो. तेणें म्हटलें, ''दीस मुदार जाल्यात म्हण मुजें शेत तुमकां इजमोलाक दिवन उडयलें म्हणून सोमज.''

वालेरीन गांवकार केन्ना न्ही तो तापलो. पूण एकेवटेन फाटल्या लोकांक वोगी करत तेणें म्हुटलें, ''तुमकां घायलो भीक आमगे पुर्वोजान. भीक मेळना जातकीर तूं उठोन बोमाय गेलोलो. भाकारा, तूं जाणा जा, पयलीं काळाक हीं शेतां शेतां नासलीं, हिंगा दोंगुल्ल्यो, तिंठे आनी खळयो आसल्यो. रानां भरिल्लीं हिंगा. गावड्यांनी तेंचें रगत वारोवन शेतां घडयलीं, गांवकी बांदली. पूण तेंका तुमी सगल्यांनी मेळून मारून बड़ोवन रानांनी धांवडायले आमचीं शेतां काडून घेवन. आतां काळ आरतो परतो जाला, घुंवला. ह्या शेतांत ह्या मुखार पांय दवंरूक दिवचे नात आमी.''

सांतान दिनीजाक तेचें बरेंचशें पटलें आनी तो इल्लो चलबिचल जालो. तरीय तेणें

भाटकाराल्या झेतान म्हटलें, "आतां तुका इल्लो इल्लो वळखलों हांव गांवकारा. तूं भुरगेपणांत तुगे आबो वांगडा तकलेर भाता मुडयो घेवन भाटकारागेर येतालो. भाटकारान लाकडां फोड म्हटल्यार लाकडां फोडटालो. माडार चोड म्हुटल्यार माडार चोडटालो. आतां तुका दांत फुटिल्ले चोवन मुका बोरें दिसलें, खूब बोरें दिसलें. पूण गांवकारा, तुका एक सांगोतां. तुमी काळ घुंविल्ल्यान शेतां जोडलीं. पूण आमचेंय कांय वायट जालोंना. आमी आमच्या शिकपाच्या, हुशारकायेच्या बळग्यार संवसार जोडलो. बोमाय मुज्या हाता सकल उणे शंबर लोक वावुरतात. बोमाय दोन घरां आसात मुगेलीं. हिंगा गांवांत आतां तिसरें बांदितां. तुमच्या शेताचें मुका पडोन गेलोलें ना. हांव हिंगा येयलेलों तो भुरगेपणाच्या उगडासान आनी मोगाच्या मोयपासान. हांव मुगे पाय बाराबर भुरगेपणांत ह्या बांदांनी भोंवलेलों. बांदावयले चिंचेच्यो चिंचो, जांबळां खायलोलीं. दिनवासी कसो उगडास धरून आसा हांव. पूण तुमी मुका दांड्यांनी मारूंक येयले. चिंतनाच उणी तुमकां. शिकप नाशिल्ल्यांचीं रानटी चिंतनां तीं."

भाटकार चेड्याक घेवन सडसडीत मोटारसायकली सरीं गेलो आनी तेणें ती स्टार्ट मारली. गावड्यांक एकदम जाग येयल्लेवरी जाली. तीग चोवग जाण एकदम तेचेसरीं धांवले. तेणीं म्हुटलें, "राव भाटकारा, असो राग धरून वोसों नाका."

पूण मोटरसायकल खूब मुखार पाविल्ली.

* * *

आंतोनेत माशेनागेर मांडपांत येवन देड वर्स जावंक येयल्लें. खरगाळी आंतोनेताली मांय परत गुरवार आसा म्हण माशेनाक कळिल्लें आनी तें एक फावट भयणीक पळोवंक वचूनय येयल्लें.

आंतोनेताक मांयले दोन गुरवचार तरी याद आसात. व्हडलें पोट, तिगेले कुथनत बस ऊठ करप, निमण्या दिसा दांत ओंठ चाबून हुयेल्यो मारप, मागीर भुरग्यालें रडप, भितरली धांवपळ. पाय वोगी वासरेर बसून आसतालो. भुरग्यालें रडप आयकतकच सट् करून उठून उबो रावतालो. मांय परत गुरवार आसा म्हण तेका माशेनाल्या उलोवपा वेल्यान कळिल्लें. पूण तेका कांयच दिसनासलें. मांयलें व्हडलें पोटय दोळयांमुखार येयनासलें. मांयचें घामेल्लें तोंडय झळक नासलें. ना म्हटल्यार पांगळें ग्लोर केन्ना दारांतल्यान लकून पड्टा अशें दिसतालें आनी केन्ना तें मदींच आंग काडटालें.

एक दीस पाय येयलो. येतना तकलेर एक व्हडलें चिबूड, हातांतले पोतयेंत बिस्किटां, घेवन येयल्लो. उमेदीन दिसतालो. येयल्लेंच तेणें व्हडान दारांतल्यानच सांगलें,

“चेडो जाला. देड वर्सान परतो येयलो तो. आंतोनेत खूंय? तेगे भाव येयलो म्हूण सांग.”

आंतोनेत भितरलेवटेन दारासरीं आशिल्लें. तें ल्हव ल्हव भायर येयलें. पायन हातांतली पोती तेचेसरीं दिली. तें वोगीच घेवन भितर गेलें. कांयच उलयलें ना. पाय खुशालभरीत माशेनाकडेन, तेगे घोवाकडेन इतल्यो खबरी सांगतालो, आंतोनेत वोगीच आसा, हांसना उलयना हें तेका कळच नासलें. मदीं तेणें माशेनाक सांगलें, “हांव फाल्यां आंतोनेताक घेवन वयतां. तूं मागी बातिज्मा यो.”

आंतोनेताक खप्प जालें. माशेनय वोगी रावलें. सांजमेरेन तेणें दोनतीन फावट तरी अशें सांगलें. माशेन सांजचें रांदनीसरीं बशिल्ले कडेन लाकडां धाडावनशें उलयतालें, “तेगे चेडूं व्हरों ना तर मारों, आमच्यानी आडावं जाता? आमी कोण? आंतोनेत, तुगे कितें आहा तें आंगश्यो व्हिस्तीद भरोन घे पोतयेंत.”

“हांव वोसना माशेन पाय वांगडा.”

“कित्या गो?” आंतोनेत सट् करून तापलें, “हांव वोसना म्हुटलें न्हू? माका धाडल्यार चोय तूं....”

माशेन आतां वोगीच रावलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पाय वचपाक उठलो, पूण आंतोनेत वोग्गी कोनशांत लिपूनशें. पायन म्हुटलें, “आंतोनेत, या मुगो. मांयन घेवन यो म्हुटलां. आतां तुवें घाराच रावपाचें हे मुखार.”

“हांव येयना पाय.”

“कित्या गो?”

“पाय, ग्लोर आतां चलोता?”

“चलोता. आतां इदें सुदोल्लां. यो तूं, या आमी.”

“हांव येयना पाय. हिंगा रावोतां.”

पाय्क शिट्ट जाल्लेवरी जालें. तो भितर गेलो आनी तेणें तेगेल्या हाताक धरलें. “यो, या आमी.”

आंतोनेतान पायकडच्यान हात सोडोवन घेतलो आनी तेणें रानावटेन धांव मारली. रानाकडेर तें मात्शें थारलें आनी व्हडाव्हडान रडत तेणें म्हुटलें, “हांव वोसोना माशेन, माका धाडों नाका.” मागीर तें रानात घुसून लिपून बसलें.

माशेनागे घोवान पायक म्हुटलें, “मागी चोवया, मागी धाडटां तेका माग्दालीनाबाराबोर. बातिज्मा वयतो न्हू तें.” माशेनान मात हाडटां म्हटलें ना नायय म्हुटलें ना. पाय आंगणांतल्यान भायर सरताना म्हुणटालो, “तेदना माल्लो धरोन आहा दिसोता. तेदना माल्लो रोगोत मुगे तकलेक...” तो परत फिरलो आनी तेणें व्हडान म्हुटलें, “माग्दालीन बायो, तेका घेवन यो तूं फाल्यां परां. तेगे मांयक जावो खूंय तें.”

माग्दालीन माशेन कांय उलयलें ना. उसरां वेळ चड्टकीर आंतोनेत घरा येयलें आनी वारांदांत माशेना घोवा मुखार वोगी बसलें. माशेन तेका सामकें किंवाट्यानशें संवत आसलें. “मोस्ती माल्ल्या तुका रांडलाक. मांय पाय नाका जाल्याय. माशेनाल्या फोंडार माती सारूंक हिंगा रावोता? फाल्यां तुका काजार कोण कोत्तलो? न्हवरो कोण सोदतलो?” तें मदींच चेड्याक खेपतालें, घोवाचेरय धेंगसो घालतालें. आंतोनेताक मात तेगेल्या उलोवपाचें कांयच दिसनासलें. मुखार बशिल्लेकडेन माशेनालो घोव सांगतालो. “जाणा मुगो आंतोनेत, मुगे काश्टी केन्ना सुटलो ना, देकून इगर्जेंत वोचूंक मेवलें ना मुका. इगर्जेत भितर सरों जायें तोर कालसांव घालों जायें. आमी कालसांव घायल्यार पाद्रीगे लोब सुटपाचो. देकून केन्ना पाद्रीगे शेरमांव आयकलो ना. आदीं मुजे वांगडा माड फोडच्याक कार्मू म्हण एकलो आसलो. तो माड फोडटां, फोडटां काय बरो शेरमांव सांगतालो जाणा, तातीं फुट्टकीर खूंय पाय मोत्ता आनी पाखां फुट्टकीर खूंय मांय मोत्ता. तुगे हात तुगे पोट. गाय चोरता गाये पोटाक वासूर चोरता वासरा पोटाक.”

आंतोनेताक व्हडलेंशें कांय कळ्ळें ना. पूण तेणें हांसलेंशें करून माशेना घोवाक पळयलें.

* * *

माशेनाल्या घरा फाटल्यान देंवतेर आगुस्तीन अंकलालें घर आसलें. आज सांजचें त्या घरांतल्यान आगुस्तिनाल्या बायलेलें दुलसिनालें व्हडा व्हडान रडप आयकोंक येतालें. तिगेलें रडप हें सदांचेंच आसलें, पूण आयज चड पेरीग दिसतालें. ती चडच व्हडान रडटाली.

आज परत दुलसिनाल्या सवतील्या भुरग्यांनी तेका चड मारिल्लें आसतलें. आगुस्तिनालें दुलसिना वांगडा हें दुसरें काजार आसलें. दोगांय पयलीं काजार जाल्लीं आनी पयल्या काजरापासून जाल्लीं भुरगींय तेंकां आसलीं. आगुस्तिनाक दोग चेडे आनी एक चेडूं तर दुलसिनाक दोगां चेडवां. पैकीं एक चेडूं दुलसीन आपले मांयकडेनच दवरून येयल्लें.

दुलसिनालो पयलो घोव माती काडच्या शेवाळ्याचें खोरें तकलेर बसून आक्ताक मेल्लो. पूण लुकसान भरपाय म्हण तेका एक पयसोय मेळूंक नासल्लो. कारण सरकारी

मालकेचें तें शेवाळें चलयतल्यान आयतारा हाडून तो चोरयेन पयशे घेवन एकल्यागेली माती काडटालो. मुखार कोर्ट केशीबीन खूब जाल्यो. त्या चलयतल्याक कोर्टान जेलांत घातलो खरो पूण लुकसान भरपाय दिवंक सागंली ना.

मागीर तें भुरग्यांक घेवन आगुस्तिना वांगडा दुसरें काजार जालें. आगुस्तिनालीं तिगांय भुरगीं मात तेन्ना बरींच व्हड आसलीं. आगुस्तिनाली बायल मात मरूंक नासली. भुरगीं चार स वर्सांची आसतना तिका मुंबयच्या एका एजंटान सोता पयशे भरून कुवेटांत व्हयल्ली. ती बरीच गोरी, उंच आनी तांबशा पोल्यांची, घाऱ्या दोळ्यांची आसली. तिचे सामकार आगुस्तीन सामको किरकोळ, मोटवो, तोंडार काळीं मावां पडिल्लोसो, मेल्ल्या दोळ्यांचोसो. बायलेन कुवेटा वचून सुरवेक बरेच दुडू धाडले. एक फावट तीं गोंयां येवनय गेलीं. तिगेल्या दुडवांच्या जोरार आगुस्तिनान, तेगेल्या भुरग्यांनी बरीच मजा केली. बरें बरें न्हेसले, हॉटेलांनी वचून खायलें, तियात्रां, पिक्चरां चोयलीं. सुरवेक भुरगीं एकदोन बुकांय शिकलीं शाळेंत वचून. तीन-चार वर्सांनी पयशे येवचे ल्हव-ल्हव उणे जाले आनी मागीर सामकेच बंद जाले. चिटी बरयल्यारय जाप ना. दीस दीस आगुस्तीन तिगेले चिटयेची वाट पळयत रावतालो. पूण चीट येयली ना. उपरांत कळ्ळें, ती एका मुंबयकारावांगडा कुवेटांतच काजार जाली म्हण. ती मुंबय येयल्या म्हण कळटकीर एक फावट आगुस्तीन मुंबय गेल्लो. थंय आशिल्ल्या एका गोंयकाराक घेवन सोदत सोदत तो तिगेल्या घराय गेल्लो. पूण ती साप्प भायर येयली ना. तो खूब रडलो. भुरग्यांली याद करून दिली. पूण ना. परस्पर तिणें धा हजार रुपया आगुस्तिनाल्या हातांत दिले. मागीर खबर ना.

मदीं तो खूब सोरो पियेवंक लागलो. पिवन वाटेर पड्टालो. भुरग्यांकय पळय नासलो. दोन वर्सां अशींच गेलीं हाल उपाद्र्यांत. उपरांत तो दुलसिना वांगडा कापडा लग्न जालो. एक दीस सांजच्या तिनसांज कात्रेर तो दुलसिनाक एकल्याकच घेवन गांवांभायर जांबळी पोंदा गेलो. थंय एक मदीं शेणा थापो दवरलो. दोगांनीय शेणांत आपलो पांयां ओंगठो बुडोवन घेतलो आनी देवाकडेन मागलें. मागीर कापडाक शेणा तिबो लावन दुलसिनाक तेणें नवें कापड दिलें. घरा येवन तीं वांगडा न्हिदलीं. तींच तेंची कापडा लग्नाची रीत आसली.

भुरगेपणांतच मांयल्या दुडवान मौज केल्लीं आगुस्तिनालीं तिगांय भुरगीं मोटीं चांडाळ जाल्लीं. उपरांत मांयचो दुडू येवचो बंद जातकीर तेंची विदर्णाच जाली. तेजेन निर्शेल्लीं तीं झगडाळ मारकुटींय जालीं. कितेंय चड उणे जाल्यार सवत मांयकच धरून मारताली. आगुस्तिन तर पयलीं बायलेच्या धपक्यान मनान, कुडीन इतलो दुबळो जाल्लो, भुरग्यांक कांय उलोवंकय शकनासलो. तो भुरग्यांकच भिवंक लागिल्लो. व्हडलो चेडो आतां सोळा

वर्सांचो आसलो. मांयवरीच गोरो, खर दोळ्यांचो. नाकाचो शेंडो तांबडो आनी तेका रागय सट् करून येतालो. तेणें आज कसलो तरी रितो दबो काडून सवतमांयले तकलेर काडून मारिल्लो. तो तिका बुरश्यो बुरश्यो गाळी संवतालो.

दुलसिनालें तेचे वांगडा आशिल्लें चेंडू फिलू आठ वर्सांचें आसलें. भावंडां मांयंक गाळी संवूंक, मारूंक लागल्यार तें वोगी भिवन खंयतरी कोनशाक वचून बसतालें. पूण तें आज घरांतल्यान भायर सरून आंतोनेता सरीं येयलें. सामक्या रडकुऱ्या तोंडान तेणें म्हटलें, ''आंतोनेत, तेणीं मांयक माल्ली मुगो? तूं येता?''

आयकून आंतोनेत पोराक भोवच वायट दिसलें. पूण तें कितें करतलें? केन्ना व्हडल्या पिटराकडेन उलोवंक गेल्यार तो मारकुऱ्या बैलावरी पळयतालो. तशें तें तेका भियनासलें. आतां लेगीत वचून तेका बोचके काडून नाखटां लावचीं, रगत काडचें अशें तेका दिसतालें. पूण तेका सट् करून मायकलबाबाची याद येयली. तो घरांतच आसलो. दुलसिनालें रडप मोन्यानच आयकतालो. तशें ह्या गावड्यांल्या गांवात सद्दा कोणा ना कोणाल्या घरांत झगडप, मारबडय करप, रडप, चलतालेंच. कोण कितेंच गंभिरतायेन घेनासलो. दुसरें म्हटल्यार आज हाणामारीचें झगडें झगडिल्ले फाल्यां गळ्यांत गळो घालतना दिसताले.

पूण आयचें हें आंतोनेताल्या काळजाक लागिल्लें. मायकलाकय हें इल्लें आगळें दिसतालें जावंये. आंतोनेत तेचेसरीं गेलें आनी म्हटलें, ''मायकलबाबा, फिलूगे मांयंक मारतात मुरे ते. तूं विचार वोसोन आनी तापोय तेंकां.''

मायकलान फाफुडलेंशें करून म्हटलें, ''मरों तीं. आमकां कित्या जायीं तेगें केस्तांवां?''

''येहें कित्या म्हुण्टा तूं? तें चोय फिलू रोड्टा तें.''

''तुका सांगलें न्हू, हांव मदीं पडचों ना म्हूण.''

आंतोनेताक शिट्ट जालें, ''केसो दादुलो रे तूं? माशेनाकोडे, आबोकोडे बोरो झोगोड्टा. पिटरा भियेता?''

मायकलान सट् करून तेका पळयलें. तेन्ना तेका कुशीन उबें रावन रडपी फिलूय दिसलें. तो ल्हव ल्हव घराचीं सोपणां देंवन आंगणांत येयलो. तशींच ल्हव घट पावलां घालीत आगुस्तिनाल्या दारांत येवन उबो रावलो. बारीक भागिल्लें दुलसीन भितर सालांत तकलेर हात घेवन बशिल्लें आनी रड्टालें. पिटर तिका संवतच आसलो. दुसरो साल्वादोरय थंय उबो आसलो आनी तिका हेडायतालो.

मायकलान तापूनच विचारलें, ''पिटर, मांयक कित्या मारलें तुवें? केसो मस्तेपणां तुगेलीं?''

पिटरान तेका मांडूनशें पळोवन म्हटलें, ''तूं कित्या येयला, तुका कितें लागोता, तुगे कोण ती?''

''चेडयेच्या, वोयल्यान शापोतां सांगोता?'' मायकल तेचे आंगार झुडोन गेलो आनी तेची गोमटी आंवळून तोंडार ठा ठा चार थापटां शेडायलीं. दुलसीन धांवन येयलें आनी तेका सोडोवन घेतलो.

पिटर वोग्गी एक उतर उलोयलो ना. दुसरो साल्वादोरय वोगी कुशीन उबो आसलो, आपणाचेरय पडत हे भिरांतेनसो. मायकलान धपकायलें, ''हे मुखार मांयक माल्ल्यार चोय. हाडां मोडून घालतलों. पायूक विचात्तां, केसो देंख काय म्हूण ही.''

आंतोनेत भायल्यानच सगलें पळयतालें. तेका दिसतालें, मायकल बाबान बेस बरें केलें हें.

घरा येवन मायकल दोळ्यांत रगत घेवनसो वोगीच आसलो. आंतोनेत तेका मोगान भावार्तानिशें पळयतालें. ताणें सट् करून विचाल्लें, ''मायकल बाबा, तूं मोटरसायकल घेतो म्हुण्टा न्हूं? केदोना घेता?''

मायकल कांयच उलयलो ना.

* * *

गांवा फाटले दोंगुल्ले वयले काजू फोरेस्ट खात्याकडच्यान हरी सावळ म्हणिल्ल्यान पावणेर घेतिल्ले. शंबरेक लागाव रूख आसले. धायेक साक काजू, चाळीसेक कोळशे सोरो पडूं येतालो. ते भायर हरी भायल्यानय काजू बोंडां, रोस हाड्टालो.

दोंगुल्लेचे सकल्लेवटेन सोऱ्या भाटी लायिल्ली. दोन व्हडलीं भाटयेचीं मातये भाणां, सोरो देवंक प्लास्टिकचें पींप. फोगां कुसोवचें कोंड आनी रोस काडूंक लाकडाचें धोण आनी दबे. थंय आंतोनेताल्या माशेनालो घोव फरांसीक पाय वावराक वयतालो. कोंडांत कुसोवंक घातिल्लीं फोगां पांयान मस्तून रोस काडचो वावर तो करतालो.

पयल्या दिसापासूनच फरांसीक पाय आंतोनेताक आपणा वांगडा वावराक व्हरतालो. आंतोनेतालें काम आसलें रुखा मुळांतल्यान पडिल्लीं फोगां पुंजावन हाडप. तेका निकतींच बारा सोंपून तेरा लागिल्लीं. आदींच इल्ली पसरट रूंद कूड आतां इल्ली इल्ली फुलूंक

लागिल्ली. तोंडावयल्या सावळ्या रंगाकय लिकलीकसाण येवंक लागिल्ली. ताचें चलपय पुराय भार भुंयेर घालून धण्प धण्प पावलां उडयताशें. शेजारची कोयसांव शेमांय केन्नाय म्हणटाली, ''आंतोनेत चलोंक लागल्यार घुमट वाजयिल्लेवरी जाता.''

हरी सावळान भाटये शेजाराकच एक कड्डाची खोंप बांदिल्ली. तेतूंत तो रावतालो. तेचेकडेन एक पोन्नी कळमेल्ली भुरकुटी बंदूक आशिल्ली. ती तो केन्ना खोपीच्या आड्याक हुमकळावन दवरतालो. केन्ना खांदाक मारून काजुच्या रेनातल्यान भोंवून येतालो. खरें म्हटल्यार ते बंदुकेन हालींसराक केन्ना एक मुळिसांव पळोवंक नासलें. इल्ल्येय दारवेचो वास तेका नासलो. काजी चोरूंक येतल्या लोकांक भिवोवंक तेणें ती बंदूक वांगडा दवरिल्ली. भुरगींबीन केन्ना रेनात घुसल्यांत म्हण कळ्ळयार तो धांवन धांवन वयतालो आनी तेचेर बंदूक जोखतालो. मागीर भुरगीं धांव मारतालीं. हरी सावळ विचीत्र मनीस आसलो. कालवां मासां कशे दोळे, उक्तें पडिल्लें तेलकट कपल. सुटिल्ल्या पोटावेल्यान मोटवें कालसांव देंवन कमरेसकल पावतालें.

तो आंतोनेताक मात एकदम बरें करतालो! तें काजुनी चोबो घेवन फोगां पुंजोवंक वयतकीर होवय खांदाक तुबक लावन फाटल्यान वयतालो. मदींच तेच्या पोल्याचे गुच्चे घेतालो. खांदार, हड्ड्यार हात दवरतालो.

आंतोनेताक कांयच कळनासलें. हो कित्याक गोड उलयता, कित्याक पोल्याक चिमटे घेता, खांदार कित्याक हात दवरता? तें पुराय नेणारच आसलें. खरें म्हटल्यार दादल्या बायलेच्या कुडींच्या व्यवहाराविशीं तेका कांयच म्हायती नासली. एक दीस आशीकुशीन कोण नाशे पळोवन, तेणें खांदावयली बंदूक ल्हवूच सकल दवल्ली. आंतोनेताक घट धरून लागीं लागीं उखलूनच व्हरून एका काजी रुखाक तेकोवन उबें केले. तेचें आंगलें पुराय वयर करून आपलें उक्तें 'आंग' घांसूक लागलो तेचेवांगडा. मदींच तेका सकल आड घालूंकय पळयतालो. पूण तें ताठ उबें आसलें.

आदीं तें एकदम भांबावन गेलें. मागीर मात आंतोनेताक ल्हव ल्हव भितरल्यान सगलें जाणवलें. तेची बायलशक्त जागी जाली. तेणें पुराय तांकीन आपल्या हाताच्यो मुठी घट करून तेच्या हड्ड्यार तेंकयल्यो आनी तेका धुकलून दिलो. तो तोल सुटून कुशीन कडसलो. इतल्यान आंतोनेतान थंयसान धांव मारली. तें बद्द भाटयेर येयलें. खर्शेत खर्शेत येवन उबें रावलें. फरांसीक पाय कोंडातलीं कुशिल्लीं फोगां माडोवंक गुल्ल आसलो.

ते इतलें भियेल्लें, बेठेंच बेबुळिल्लेवरी, वाचा गेल्लेवरी काजू रानावटेन बोट दाखोवन कितें तरी सांगतालें. थंयच्या कामदारांनी विचारलें, ''आगो कित जालां, सोरोप

फाटी लागलो, काय वागान दावकूल माल्लें?''

फरांसीक पाय कोंडांतल्यान वयर सरून तेचेसरीं येयलो. तेगेले दोनय पांय पावलासरीं सोलिल्ले बेबे कशे धवे जाल्ले. कवळिल्ले कातींतल्यान हूम देंवताली, तेणें विचारलें, ''आगो कितें जालें?''

आंतोनेताक अर्थच लागनासलो. उतरांच मेळनासलीं. इतल्यांत दोनय पोशांत काजू बिबे घेवन हरी सावळ येयलो. मोटे तापसाणेन उलोवंक लागलो, ''चोरान, ह्या राणग्यान काजू बिबे हे झिलींत लिपोवन दवरिल्ले. आनीक आसा थंय रास.''

''तेणेंच दवरलेले म्हूण तुका कोशें गोमलें होरी?'' फरांसीक पायन विचाल्लें.

''हायें, दोळ्यांनी चोयलां बिबे लिपयतना. धरून फुलयलीं दोन.''

''पूण आंतोनेत तेहें भुरगें न्हू.''

''केसो भुरगें मागीर? सांजेचें कोण नाशें पळोवन भरून व्हरतासलें. वोगी हांव भोंवना आर्म घेवन.''

''केन्ना एक बिबो व्हयलो ना तेणें.''

''कोण जाणा कितले बिबे पावल्यात म्हण.''

फरांसीक पायन विचारलें, ''आंतोनेत, तुवें बिबे लिपयल्ले?''

आंतोनेताली मत मेल्ली. वाचाच गेल्ली. तें आं.. आं.. करीत वोगीच रावलें. खरें तर तें आनीकय कितें सांगूक सोदतालें. पूण उतरां मेळनासलीं. फरांसीक पाय फाटी फिरलो आनी चलूंक लागलो घरावाटेन.

आंतोनेत थंयसान ल्हव ल्हव कुशीक सरलें आनी सकल्लेवटेच्या एका आंब्यारुखा पोंदा येवन बसलें. सामकें घुम्म मोनें. तोंडावयली शिरानशीर काळी पडिल्ली. दोळ्यांतल्यान जसो जीव हुडून गेल्लो. रडूंकय येनासलें.

फरांसीक पाय घरा येयलो आनी आपणाक जीवाक बरें ना म्हण वोगी न्हिदलो. तेणें आंतोनेतान 'बिबे लिपयल्ली' खबर माग्दालिनाक सांगली ना. खरें तर तो भावार्थी जाण्टेलोय गोंदळात पडिल्लो, सांजचो सुर्या पडटकीर उजवाड काळखाचे कातरेंत सापडिल्लेवरी.

दनपरां आशीकुशीन सगलेकडेन थंडाय पातळ्ळी आनी रुखामुळांक आंतोनेताक भंयसो दिसूंक लागलो. तें उठलें आनी घरा येयलें. वोगी येवन वासरेर बसलें. माशेनान

जेवंक आफयतकीर वोगी भितर वचून जेवन येयलें. रात जायसर तें वोगीच बसून आसलें. माशेनान मदीं एक फावट धेंगसो घातलो. "आगो कितें जालां तुका? म्हारू बशिल्लेवरी वोगी आहा तें."

पूण तें कांय उलयलें ना. फरांसीक पाय तर सांजभर परवंतसो आसलो. माशेन जाणा जाल्लें, आंतोनेत अशेंच केन्ना केन्ना उलयनासतना घुम्म मोनें बसून रावता. तेच्या ह्या मोनेपणाची भिरांतय दिसता. कोण हेरच सांजचे सावळेंत आंग कवळून घेवन बशिल्लेवरी दिसता!

दुसऱ्या दिसाक सकाळीं उठून पळयल्यार आंतोनेत हांतरुणार ना. सद्दां माशेन आदीं उठटालें आनी मागीर आंतोनेताक धेंगसो घालून उठोवचें पड्टालें. पूण आज उठून खंय गेलें हें?

माशेनान आदीं इल्लो चुलीकडचो वावर केलो. तरीय आंतोनेताची सुलूस लागली ना म्हणटकीर ती भायर येयली. तांबयो चोयल्यार तोवय जाग्यारच आसा. मागीर तेणें आंगणांत उबे रावन ताका कितलोवेळ तरी व्हडाव्हडान सादयलें. तरीय आवाज ना. ती मागीर एकदम बांयकडेन धांवली. बांयत बागोवन बागोवन तिणें पळयलें. इतले म्हणसर आंतोनेत ना, ती खबर पुराय वाड्यार पातळ्ळी.

ती बांयत पळोवन परत येतकीर फरांसीक पायन ल्हवूच सांगलें, "काल होरीन बिबे लिपोवन दवल्ले म्हण तेका मारिल्लें.

"खूंय कित्या लिपोवन दोवोल्लेले तर तेणीं?"

"तें जाणा आनी होरी जाणा."

आतां तें घोवाचेरच तापलें. "तूं आतां सांगोता मुका? तुवें होरीचें मोडें घालपा न्ही तेन्नाच. तेका चोर म्हुण्टा, तेका मारता, तेणें एक बिबो केन्ना घरांत हाडलो ना." तें आतां चडच भियेलें. चेडो मायकल मोटरसायकलीचें भाडें मारून रातचो उसरां घरा येयल्लो. तो न्हिदलोलो आसलो. तेका उठोवन वांगडा घेवन तें पुराय वाठार भोंवन येयलें. वांगडा आनीक वाड्यावयलोय लोक. काजू रान, पुराय दोंगुल्लीं, कमळेतळें सगलें तें भोंवतालें. मदींच माशेन माग्दालीन व्हडाव्हडान रडटालें. कितेंय विचारतलो म्हटल्यार हरी सावळय भाटयेर नासलो. तें परतें परतें हरीक खेपतालें.

इतले म्हणसर दनपार जावंक येयल्ली. माग्दालीन सोप्यार बसून व्हडा व्हडान रडटालें. तेका कितें म्हण सुचनासलें. भोंवतणचो लोक तर येदें तोंड करून उबो आसलो.

कांय वेळान वालेरीन गांवकार थंय येयलो. तेणें याद केलीशी करून म्हटलें, ‘‘सक्काळीं नोसकाक हांव तांबयो घेवन वयलेवटेन वयतना कोण एक भुरगेंशें वयतालें खंयतरी. कोण तें हांव वोळखलों ना.’’

माग्दालीनान होळोम काडलो, ‘‘खूंय गेलें रे देवा मुगे पोर?’’ मायकल मुखार येयलो, ‘‘आतां गांवा भायरच सोदूं जायो मांय. मोटरसायकल घेवन या आमी. जाल्यार खरगाळी माशेनागेर या....’’

सकाळीं बेगीनच जाग येतकीर आंतोनेताक रडूंकच येवंक लागलें. सदळ जाल्ल्या मनार मांयची खरपणान याद येवंक लागली. गेल्ल्या तीन-चार वर्सांत मांयली तशी केन्ना केन्ना याद येताली. पूण अशी इतली काळीज आंवळून ताळणी केन्ना लागूंक नासली. तें सकाळपाराक उठून ल्हवूच भायर येयलें आनी तशेंच धांवंक लागलें. धांवतच तें मांडपासान मडगांव पावलें. हातांत पयशे नासतनाच रायवटेन वयचे बशींत बसलें. बशींत कंडक्टर परते परते पयशे मागतालो आनी तें येदें तोंड करून तेचेसरीं पळयतालें. राय पावतकीर तें उठून देंवक येयलें. तेन्ना कंडक्टरान तेका धरून बोरेंच हालयलें आनी परते पयशे मागले. तेणें पयशे नात म्हणटकीर एक गाळ सवन तेका सकल धुकलूनच दिलें. बशींतल्यान सकल देंवलें आनी तें परत खरगाळीचे वाटेन धांवंक लागलें.

तशी ही गांवची वाट आंतोनेताक नवी नाशिल्ली. भुरगेपणांत हे वाटेन तें कितलें फावट तरी येयल्लें आनी गेल्लें. तें रानांत शेणिल्ल्या गोरवान वासान वाट काडची तशें एकलेंच येयल्लें.

तें येयलें आनी घरा वारांदात येवन वोगी बसलें. तेन्ना भायर कोणच नासलो. मांय, भांवडां भितर आसली. कांय वेळान मांय भायर येयल्यार आंतोनेत भायर म्हारू कशें एकलेंच बसलां. तेचे सगले पांय धुल्लान भरल्यात. आंगावयले हुमेन भिजून चिकचिकता. दोळ्यांत पोल्यार व्हांविल्लीं दुकां तशींच सुकल्यांत. केसांचेंय भूत जालां. मांय ताका पळोवन एकदम कांचवेली. मागीर व्हडान बोवाळ घालीत विचारूंक लागली, ‘‘आगो, आंतोनेत केदोना येयलें तूं? कित जालें? एकलेंच येयलें? येस्ताद येसो केसो तुगेलो?’’

आंतोनेत कांयच उलयना तें पळोवन ती होळोम काडून रडूंक लागली. तिगेलें रडप आयकोन शेजारचीं धांवन येयलीं. पळयल्यार आंतोनेत येवन वोगी बसला आनी कांयच उलयना. शेजाऱ्यांनीय जायतें विचारलें पूण हां ना हूं ना. ना म्हटल्यार पांगळें ग्लोर भायर येवन दाराक धरून नीट उबें राविल्लें पळोवन तेचे दोळे, मात्से हाशान फुलिल्लेवरी जाल्ले.

कांय वेळान पाय येयलो. तेणेंय कितें कितें विचारलें, जाप ना. फाटीं आपूण हाडूंक

गेल्लों तेन्ना तें येवंक ना. धांवत दोंगरा वटेन गेल्लें म्हण पायक इल्लो राग आशिल्लोच. तेणें सट् करून म्हटलें, "आतां आनी कोसली सावळ घेवन येयलां कोण जाणां?"

आतां मात मांय रोजमारी घोवाचेर तापलें, "केसो केदना खोबरी उलयता तूं? आतां तुगे मोरोण घेवन येयलां तें. तुका फोंडां घालूंक."

पाय कांयच उलयलो ना. अचकीत आंतोनेताल्या कानार मांयेचीं, वोळखीचीं अशीं उतरां पडलीं. आगुस्तीन, जेणें पायन मरसर मारिल्लें, तेन्ना काळखांतल्यान उखलून व्हयल्लें तें आंगणात येवन कोणाक तरी कितें विचारतालें. आंतोनेतान तेचेवटेन पळयलें आनी तेका हरणाचे दिठयेनशें पळयतच रावलें. आगुस्तिनाक दिसलें, आंतोनेताक म्हणचें, "कितें जाले बाय तुगेलें? तूं मुजेबराबर येता? माका सांगोता सोगलें?" पूण तें मुखार येयलें ना आनी तेणें कितें विचारलें ना.

आंतोनेताकय दिसतालें, म्हाका आगुस्तिन माशेनान उखलून व्हरचें. हांयेंन तेका सगलें सांगचें. पूण दोगांयमदीं भोव मोग माया आसूनय कसलें हें पयसुल्लेंपण पातळिल्लें!

इतल्यांत सकल्लेवटेन मोटरसायकलीची घरघर आयकोंक येयली. घरामुखार सकल मोटरसायकल रावोवन मांय आनी पूत दोगय धांवतच येयलीं. पळयल्यार आंतोनेत वारांदात वोगी बसला आनी भोंवतणी गांवचो लोक उबो आसा. तेका पळोवन माग्दालीन माशेनाक इतलो राग येयलो तें गाळी संवतच ताच्या म्हऱ्यांत गेलें. "चेडयेच्या, थंय आमी आख्खो गांव सोदताय आनी तूं हिंगा येवन बसला? सांगनासतना धांवन येयला पोटण्याच्या." तेणें एकदम ताचे केंस धरून हालयले आनी फाटीर धुमको घातलो.

मांयन विचारलें, "कितें जाल्लें गो माना? कित्या धांवन येयल्लें तें?

"काजू वावरा गेल्लोकोडेन कितें चुकलें म्हूण पात्रांवान एक थापट माल्लो खूंय. पूण हेणें मुका सांगपा न्हू? तेहेंच धांवन येता म्हुटल्यार कितें? तुका सांगोतां हांव, तेका आनी व्होरचें ना वांगडा."

"रावतोलें. रावतोलें तें आतां हिंगाच."

आतां सगलें जाग्यार पडिल्लेवरी वाड्यावयलो लोक फाफसलो. माशेन, मायकलबाब येतकीर आंतोनेतालो चेहरोय निवळिल्लेवरी जाल्लो आनी दोळ्यांतली भिरांत गेल्ली. मांयन जेवंक यो म्हणटकीर तें माशेना वांगडा बसून जेवलें.

जेवन माशेन आनी मायकल बेगीनच वचूंक उठली. माशेनान म्हटलें, "फरांसीक

आनी गांवचो लोक थंय हुस्क्यान बोसला. वयताय आमी. तेगे व्हिस्तीद, वस्त्रां धाडून दितां फाल्यांपरवां.''

ती वचूंक उठली आनी आंतोनेतय उठून तेंच्या फाटसून वचूंक लागलें, मांयन वचूंक नाका म्हणून धपकायलें. माशेनानय 'चोय, तूं मुजे वांगडा येय नाका' म्हण सांगलें. पांगळे ग्लोर 'बाय बाय' करीत निमाण्या सोपणा मेरेन येयलें. तरीय आंतोनेतान मोटारसायकलीसरीं धांव मारली. मोटर सायकलीर बसूंक गेल्यार माशेनान धुकलून दिलें. तेणें मोटरसायकल फाटल्यान घट धरली. मायकलान मोटरसायकल स्टार्ट मारून धा-बारा फूट तरी मोटरसायकल मुखार व्हयली. तें घट धरून वांगडा फरफटत गेलें आनी रडत आड्डलें, ''माशेन, हांव येतां. म्हाका व्होर.'' मायकलान ती रावयली आनी म्हटलें, ''मांय घे तेका मदीं बसोवन.'' आंतोनेत माशेनाक तेक्कून मदीं बसलें. मायकलान मोटरसायकल नेटान धांवडायली. मोटरसायकल धांवंक लागली. झाडां पेडां फाटीं वचूंक लागलीं आनी आंतोनेताल्या कानांत वारें भरूंक लागलें तशें आंतोनेत ल्हवपीक भुल्लुसून गेलें. ताचे भितर भुरगेपण परत रिगलें. तेणें मदींच म्हुटलें, ''मोटर सायकल फास धांवोता न्ही माशेन? बरें दिसोता!''

मडगांव पावतकीर कामरासरी मायकलान तेंकां दोगांकय सकल देंवयलीं आनी, ''हिंगाच रावात हां, इदें काम आहा बेगीनच येतां.'' म्हण मोटरसायकल घेवन खंयतरी गेलो.

माशेनाक आतां आंतोनेत उल्लाशीत दिसलें. तिणें ल्हवूच विचारलें. ''कित्या म्हूण पळोन गेलो गो तूं?'' तें वोग्गी!

''सांग मुगो पळोन वोसपासारकें कितें जालोलें?''

आंतोनेतान चिरक्या पूण स्पशट उतरांनी सांगलें, ''माशेन, होरीन मुगे माका ओडून व्हयलें, काजू तेकोन दोवोल्लें. मुगे व्हिस्तीद वयर करून, तेगे कालसांव देवोंवन घांसपा लागलो घट धरून.''

''मागी?''

''मुका आड घालपा कोत्तालो. हांव धुकलून धांवन ग्रेयलें. मागी हांयें काजू लिपोयले म्हणपा लागलो. मुका माल्लें.''

''आनी कांय केलें ना मुगो? रोगोत बा येयलोलें?''

तें बेठेंच 'ना...ना' करीत रावलें.

माग्दालीन माशेनाक आयकोन तकलेंत सण्ण जाल्लें. तें रागान फुटूंक पाविल्लें तरीय [illegible] वोगीच रावलें. राग, भिरांतेचे काळें सावळे, एक नेणार आंकवारपणाक धको बशिल्ल्याची [illegible]ंत! तरीय तें घरा पावसर वोगीच रावलें. वाटेर तेणें मायकलाकय कांय सांगलें ना. [illegible]राकडेन येयल्लेंच तेणें हातांत एक मोटो दांडो घेतलो. तें फाटले दोंगुल्लेवटेन चलूंक [illegible]ागलें. मायकलान ''आगे खूंय वयता?'' म्हटल्यार तिणें जरबेच्या उतरांनी म्हुटलें, ''खूंय [illegible]ा. येतां बेगीनच.''

वारांदात बशिल्ल्या फरांसीक पायक इल्लो दुबाव येयल्लो. पूण तो वोगीच रावलो.

माशेन येयल्लेंच दोंगुल्लेर हरीले भाटयेर येवन उबें रावलें. दांडो भुंयेर रोवन [illegible]डद्दार तिणें तापून आड्डून विचारलें, ''आरे, तो चेडयेकास्ताचो होरी खूंय? तेचें मडें [illegible]ालूंक येयलां म्हण सांग.''

तेन्ना तिणें चोयलें हरी वयले खोपींतल्यान भायर सरून काजुंनी वयता. आदीं तो [illegible]लतसोच गेलो आनी मागीर धांवत वचून काजुंनी लिपलो. ''आतां लिपता कित्याक [illegible]ांयझंवऱ्या? असो यो, तुगे कंबर मोडून घालितां.'' तें आतां मुखार येयलें. थंय भाटयेचीं [illegible]डलीं पुरूसभर उंच दोन मातये भाणां आसलीं. तेणें दांडो उखलून भाणार ढा ढा करून [illegible]ाल्लो. भाणां फुटून तेतूंत भरिल्लो सगलो रोस व्हांवन गेलो. वाफेची नळी निखळून वचून [illegible]शीक पडली. तेगे थंय आशिल्लो पींपबर सोरोय रकोवन उडयलो. थंय आशिल्ले दोगय [illegible]ामदार 'आगे, आगे कितें करता?' म्हण मुखार येयले. तिणें तेंका दांडो दाखोवन म्हटलें, "आंतोनेताल्या माशेनान भाणां फोडलीं म्हूण सांग तुगे लुच्या पात्रांवांक. आनी ह्या गांवांत [illegible]ावल्यार गांव मारून धांवडांवंक येतलो म्हूण सांग.'' तें सडसडीत देंवती देंवन घरावटेन [illegible]ायलें.

* * *

वाड्यार मायकला बराबरचे स सात तरी भुरगे आसले. सगले चवथी, पांचवी [illegible]ावनच शाळा सोडिल्ले. रावणफोंडावटेन एके मराठी शाळेंत ते वयताले. इंग्लेजीची वळख [illegible]ावचे पयलींच शाळा सुटिल्ली. ते खंयूय मराठींत सय करतात तें पळोवन हेर अजापताले, [illegible]ांसताले. मागीर एकएकल्यान इंग्लीश सय शिकून घेतल्यो. ह्या सात जाणांतले दोगच [illegible]ाडेली जाल्ले. ते केन्ना खोऱ्या कामाक, रस्त्या कामाकय वयताले. मायकल पायलट [illegible]ाल्लो. हेर बार्रांत, गॅरेजींत कामाक वयताले. सांतान पेट्रोलपंपाचेर काम करतालो. [illegible]ास्टीच न्ही मोटवें कालसांव लेगीत सुटिल्लें. सगले लांब कालसावां घालून झेतान भायर [illegible]रताले. पाडेली जाल्लो शावियेर लेगीत फक्कत वावराक वयताना मोटवें कालसांव

घालतालो. हरशीं लांब कालसावांत शर्ट इन करून भोंवतालो. वाड्यार आतां काश्टी मारतले फरांसीक पाय धरून तिगूच दादले आसले. देठले कापोड न्हेसतल्यो बायलोय उण्यो जाल्ल्यो. मांय देठले कापोड न्हेसोता म्हणून सांतान तिका संवतालो.

मायकल गेल्लीं तीन वर्सां मोटर सायकली भाडें मारतालो. नायेली, सिकेटी, रावणफोंड, मडगांव, धर्मापूर मेरेन तो भाडें घेवन वयतालो. केन्ना सकाळीं बेगीन वयतालो आनी रातचोच परततालो. सेगीत तीन वर्सां फरांसीक पायलो गोटो रितो आसलो. तो जोता बैलांच्या नांवान वथरेतालो. तेणें गोटो मोडलो ना. रितो गोटो दर वर्साक शिंवत रावलो. शेत खणून, किरोवन, प्रसंगार कोणालें जोत भाड्याक, उपकाराक घेवन वसयतालो. पूण मायकलान ह्या वर्साक ल्हानशेंच, मोटवेच दोन गांवठी बैलां पाडे हाडिल्ले. फरांसीक पायक ते पाडे बरे मानवल्ले. तांबडे, मोटव्या शिंगांचे, वांटकुळ्या पोटाचे, लिकलिकीत काती लवांचे नेण्टे पाडे. रातदीस तो तेंची उस्तवारी करत रावतालो. निसा धोण माथ्यार मारून व्हरून तांचे फुड्यांत दवरतालो. गांवभरच्यान तण खावड हाडून घालतालो. खरें तर फाटीं टोनी सिकेरील्या पायन स हजार दिल्ले तेन्नाच जोत घेवपाचें. पूण ते पयशे मायकलान झगडून मोटरसायकल घेवंक घातले. पुण उतरा परमाणे तेणे आता जोत घेतिल्ले.

मायकल आपलो पायलटाचो वावर बेस बरो करतालो. पूण मुदलांतलो तापट सभाव तसोच आसलो. चड करून नायेली स्टेंडार हेर पायलटां वांगडा कितेंय चड उणें जाल्यार सट् करून झगडूंक उठ्टालो. आयचें प्रकरण तर चडच पेरीग आसलें. रातचो येतना तो तकलीच फोडून घेवन येयल्लो. नायेली स्टेंडार एक भाडें येयल्लें. तेका पळोवन मायकलान बेगीबेगीन आपणासरीं आफयले आनी मोटरसायकल मुखार काडून तेच्या म्हऱ्यांतच रावयली. आपलें भाडें मारलें म्हण दुसऱ्या एका पायलटान मायकलाक गाळी संवल्यो. म्हटलें, 'ह्या गावड्यांगे भोंकावयली काश्टी गेली आनी आतां चडच मोसतेपणां माल्लां तेंकां....' मायकलान आयकलें पूण तो त्या वगतार वोगीच रावलो. मार वेगान मोटरसायकल चलोवन तो सिकेटी भाडें पावोवन येयलो. येताना तर वाऱ्यार हुबतालो. येयल्लोच तेणें गाळी संविल्ल्या मार्टीन कुरैयाल्या शर्टाकच धरलें, ''चेडयेच्या मार्टिना, कोणाक गावडो म्हण संवतालो तूं?'' तेणें आदीं दोन तेच्या तोंडार फुलयलीं.

मोटी झटापट जाली. एक दुसऱ्याक धुकल्ले, थापटां मारून घेतलीं बुरश्यो बुरश्यो गाळी संवल्यो. कोण सोडोवंक गेल्यारय आयक नासले. शेवटाक मायकल धुकलिल्ले कडेन थंयच्या सोप्यार पडलो. बसकेक तकली आपटून कोंक पडली आनी रगत येयलें. मायकल खोमसार गळपी रगत तशेंच घेवन मोटरसायकलीन घरा येयलो.

मांय गाळी संवत चुरचुरत उपाव करताली. लेप कवळ काडटाली. फरांसीक पाय

सरांटून गाळी संवतालो. तो मायकलाक गाळी संवता काय मारिल्ल्याक संवता कांयच कळनासलें. मायकल मात वोगी आसलो. आंतेनेत फकत रडटालें. मायकलाल्या तोंडाकडेन पळयतालें आनी रडटालें.

आठ दिसां फाटीं तें 'मायकलबाबा वोगी रावरे' म्हण अशेंच रडिल्लें. माग्दालीन मांय गांवच्या कांय बायलांवांगडा नायेली रातवाड्यार एका किरिस्तांव बामणागेर काजराच्या भिकऱ्या जेवणाक गेल्ली. सांजचो मायकल इल्लो बेगीनच येयल्लो. मांय घरांत ना, खंय गेली काय म्हण विचारतकीर आंतोनेतान भियेत भियेत सांगलें, ती भिकऱ्या जेवणाक गेल्या म्हण. आयकोन मायकल इतलो तापलो, तेणें मांयक सरांटून गाळी संवल्यो. उपरांत रागानसो तो तिगेली वाट पळयत रावलो. ती येतकीर दारांतच तेणें तिगेल्या हातांतलें वांगडा हाडिल्लें खाण जेवण काडून आंगणा भायर मोखून मारलें. एक वस्त्र दिल्लें तेंवूय काडून उंडोवन दिलें, आनी गाळी संवत महटलें, "इजमोला पडल्या गे तूं? भीक मागों हेरांल्या दारांत वयता?"

"केसो इजमोल म्हुण्टा तूं? आमये पुर्वोजांलें चलोन येयलो मुरे तें. पयलीं पसून चाड्ड्या, बामणागेर भिकऱ्या जेवणाक वयतालीं आमी."

"तें कांय हांव नकळ. हे फुडें भिकऱ्या जेवणाक गेल्यार पोट्ट तुजेर. पुर्वोजाल्यो खोबरी सांगोता? आतां संवसार खूंय पावला?"

तेन्ना आंतोनेत भियेल्लें. अबुध्द भुरगें कशें मायकलाक धरून, 'मायकल बाबा वोग राव' म्हणटालें. दर फावट अशेंच जातालें. तीं झगडूंक लागलीं म्हणटकीर तें वोगीच मदीं पड्टालें थंडपणान आनी मागीर धेंगसो ना तर थापट खातालें.

* * *

ओंवळीकडच्या लादनी खुर्साकडच्यान, पयस खंयतरी कोंकण्यावाड्यार घुमट, शेमेळ, कासाळ वाजयल्लो आवाज येतालो. मागीर कांय वेळान फुगोट्योय फुटल्यो. फरांसीक पायन मनात म्हटलें, आज तुळशी लगीन. दर वर्साक तुळशी लग्नाचें वाजप आयकोंक येतकीर तेचें काळीज वाऱ्यार हुबिल्लेवरी जातालें भुरगेपणापासून तेणें एक अशेंच मोनें तुळशीलग्न पळयल्लें, अणभविल्लें, ताचें गूढ तेगेल्या मना-काळजाक तेकिल्लें–

गावड्या वाड्याच्या अस्तंतेवटेन एक व्हड ओंवळी रूख आसा. थंय खूब पयलीं कोंकण्यालीं घरां आशिल्लीं म्हणटात. आतां थंयची घटनांय धुंवन गेल्लीं. पूण थंय लागींच एक तीन पेडांची चिऱ्यां तुळस मात शाबूत आसली. फरांसीक पाय्च्या भुरगेपणाक ताचेर

एक ताजें कवकवीत तुळशी रोपय वाडिल्लें दिसतालें. लोक म्हणटाले, सद्दां तिनसांजचो थंय एक दिवो पेट्टा. एक देवी कशी बायल सांजची तुळशीक प्रदक्षिणा घालता! तुळशी लग्ना दिसा मात गांवकार गावडे तुळशीमुखार दोन उशीकांडे उबे करताले. तुळशींत जिन्याबडी पुरताले. ताचेर मदीं मदीं फुलपत्री गुंथिल्ली चिंचेची आनी आंवाळ्याची माळ घालताले, सगलें मोन्यांनी करताले. ना वाजंत्रा ना गायना. पूण लोक म्हणटाले, त्या दिसा रातबर भूंयेभीतर वाजंत्रां वाजिल्ल्याचो आवाज घुंवता.

लोक आदीं सांगताले, त्या कोंकण्यांगेर केन्ना एक देवी जल्मल्ली. ती सद्दां सकाळीं गोरवां घेवन दोंगरार वयताली आनी थंय मेकळे कुडीन मेकळ्या वोतांत वोत शेकूंक बसताली. तिका वोता पिशेंच लागिल्लें. एक दीस ती दोंगरावयल्यान सकल देंवन येयलीच ती आंगार वोता कोंब फुटिल्लेवरी खोशी खोशी जावन. येयल्लेंच तेणें पाचवें कापड न्हेसलें, हातभर कांकणां घातलीं. कपलाक कुकूम लायलो आनी घराघरांनी वचून सांगलें, ''उजवाडांतल्यान देंवन येवन देव म्हज्या पोटांत रिगला.''

तिचे शंखावरी वयर येयल्लें पोट पळोवन बायलांनी म्हटलें, 'पापणी तूं गुरवार जाला!'

''ना गे आवो, देवच मुज्या पोटांत रिगला. उजवाडार बसून येयल्लो हांवें पळयला.''

लोक उलोवंक लागले, दोंगरावयल्या राखण्याकडच्यान तें गुरवार जालां म्हण.

दोंगरार वचून चयल्यार राखणो आपल्या साठय गायांक घेवन दुसऱ्याच दोंगरार वचूंक गेला. कोण एकलो सांगतालो, तेगेल्यो साठय गायो आनी तो उजवाडाच्या झगझगारच बसून गेले म्हण.

मागीर बापायन दोंगरा चड्टेर ओंवळी रुखापोंदा व्हरून देवीली गोमटी मारली. हेर कोंकण्यांनी फोंड खणून तिका थंयच पुरली.

तिसऱ्या दिसाक पळयल्यार तिगेली तकली मानेसरच्यान वयर येवन फोंडार उबी आसा. आदींच तिगेले घसघसीत केंस पुराय भांगराचे जाल्यात. दोळ्यां बावल्योय हालतात. कोंकण्यांनी ती तकली परत पुरली आनी तेचेर व्हड तळप दवरलें. एका वसवशा कोंकण्यान तेगेले कांय भांगरा केंस ओडून घेतलेच.

तेच रातीं त्या भांगरा केसांचे पास जाले आनी दर एक कोंकण्याले गोमटेक आंवुळ्ळे.

त्या राखण्याल्यो साठय गायो एक दीस भर उजवाडांत शेणल्यो. तो त्यो सोदत परतो

ह्या दोंगरार येयलो. फोंडार भांगरा केंस पळोवन तो ज्यूस्त वोळखलो. तेणें थंय तीन पेडांची तुळस बांदली.

गावड्यांगे लोक तेन्ना म्हणटाले, देवी रातची भोंवता. तुळशी सामकार दिवो लायता. गावडे कितलींशींच वर्सां दिवजां, वाजंत्रां नासतना तुळशी लग्न करताले.

मागीर कोणेंतरी एक खुरीस हाडून तुळशीर उबो केलो. तेन्नासान तुळशी लग्न उरलें. पूण आतां लादीन जाता तुळशी लग्ना दिसा खुरीस फुलांनी सोबोवन.

* * *

माग्दालीन माशेनाल्या स भयणींमदली एक भयण मेल्ली आनी पांच जाण आशिल्ल्यो. तेंकां भाव नाशिल्लो म्हण पाय्न पोसको घेतिल्लो पायले मावसभयणीलोच चेडो. मावसभयणीक चार चेडे आशिल्ले. एक दीस ती मदल्या सिमांव म्हणिल्ल्या चेड्याक घेवन येयली. आपूण दारांतच उबी रावन तेणें चेड्याक मावसेभावाल्या खांदार घातलो. एक काडी घेवन तिणें ती मदल्यान मोडली. एक कुडको घरा भितर आनी दुसरो वाऱ्यार उडोवन ती फाटीं पळयनासतना चलूंक लागली. पाय्न फाटल्यान विचारलें, ''चेडो माका पावलो मुगो?''

मावसभयणीन फाटीं पळयनासतना 'हय' म्हटलें. पाय्न तशेंच तीन फावट उतर घेतलें.

पाय्न मरचे पयलीं एकेक माड आनी शेताची एकेक कुणगी चेडवांक दिल्ली. चेडवांनी येवन आपणाक जाय तेन्ना माड पाडून व्हरचो आनी शेत मात पोसक्यान पिकोवन वर्साक सात कुडव उकडे तांदूळ दर एके भयणीक दिवचे अशें उतर जाल्लें.

घरा भोंवतणी मेज्जून णव माड आशिल्ले. शेत तशें बरेंच आशिल्लें. पूण आतां शेतां भाटांचेर पोट भरचे दीस गेल्ले. शेतांत वर्सभर घोळून मरूनय पोट भरना म्हण चोंयवटचो लोक शेतां पडींग घालून गांव शारांनी नाना तरेच्या वावराक वयतालो. पोसको मात शेतच धरून बशिल्लो. तेणें फाटीं एक म्हस घेतिल्ली. ती वियेतकीर दरफावटीं तेचें वासूर मरतालें. वासूर मरतकीर ती दुदय दियेना जाताली. दूद सुकतालें आनी होंटयेक हात घातल्यार पांये झाडटाली. मर्दी एक बैल दोंगरांत पांय मोडून पडलो.

माग्दालीन माशेन केन्ना गेल्यार गेलें, कितें हाडल्यार हाडलें अशें करूनच आसलें. गेल्ल्या वर्साक तर वचूंकच नासलें.

पूण फरांसीक पाय केन्ना थोमणे मारतालो. ''पाय मोटें भोपशें दवरून गेला चेडवांक. हाडचें वोसोन.''

माया म्हयन्यांत माग्दालीन खऱ्यांनीच रासय गेलें कुळाराक. घरासरीं वचून भायल्यानच पळयल्यार सगली दैना जाल्ली. एके वटेन घराचें पाखें बागवल्लेवरी जाल्लें आनी नळे सकल येयल्ले. पावसांत भिजून वण्टीक धेंप गेल्लें.

घराचें हें कितें जालें रे म्हण विचारल्यार पोसक्या भावान म्हटलें, ''नळे बरेच फुटिल्ले चुडटां, बोंडे पडून. नवे घालूंक जाय आसले. उल्लेच.'' घरांत एक हांतरूण, कांबरूण धड नासलें. भुरग्यांल्या आंगार धड वस्त्र नासलें. तिगांय भुरगीं पोटाचो कचको वाडिल्लीं, हड्डें बशिल्लीं कशीं पिडेस्त दिसतालीं. बायलेल्या आंगावयलें कापोडय म्हेळ, सतराकडेन पिंजिल्लें कशें आसलें. माग्दालीन तेंची गरिबी बारीक तेळटालें. दोन वर्सां फाटीं येयल्लें तेन्ना हें इतलें नासलें. आतां सगल्याचीच वाण आसली. भात तांदूळय चड दिसनासले.

सिमांवा बायलेन सुरय शीत आनी सुक्या सुंगटां रोस केल्लो. जेवलें मात तें घोस्तान बरें पोटबर.

जेवन जातकीर माग्दालीनान विचारलें, ''आदलें कांयच उल्लें ना मुरे. हें येशें केशें? कापोड, वस्त्राचीं बोतरां जाल्यांत.''

''आदीं तरी कितें आशिल्लें बाय?''

''खावन जेवन आसलोलीं न्हूं?''

आतां दीस मुदार जाल्यात. शेतां फुटलो पयशां नाकात. शेतार जाता कितें?''

''खूंय तोरी वावराकबीन वोसों जाय न्हूं?''

''पाय म्हुण्टालो, आमी शेतभाट आसलोले. हेरांगेर वावराक वयचें न्ही.'

''पाय मेलो न्हूं आतां. तेगे झेत तेचे वांगडा गेलो.''

''तेगे उतर तें आमी राखलें. आतां भायर वावराक वयची संवयच ना आमकां. चोयतां हेन फुडें.''

माग्दालीन वोगीच रावलें. भावान मुखार सांगलें, ''तुमगे तांदूळ त्या मडक्यांनी भरून दवल्ल्यात. ह्या पाड्याचे नाल्ल माडाकच आहाय. ते पाडून व्होराय.''

माग्दालीनान चोयलें, सालांत एके हारीन पांच मातये मडक्यो दवरिल्ल्यो. तेतूंत तेंगे भयणीले तांदूळ आसले. तेणें विचारलें, ''कोणें व्हयल्याय?''

“फिलूबाय एक दीस येवन मोडकी उपसून तांदूळ घेवन गेलें. तेगे माडय पाडून व्हयलो नेणें. तेजे झडलोले नाल्लय दिले हांवें. चार भाणांतले तांदूळ तशेच आहाय.”

“तांदूळ व्हरना जाल्यार कित कोत्ता तूं? मुगे गेल्ल्या वर्साचे तांदूळ कित केले?”

“सांजावां फेस्त म्हुटल्यार वाट चोयतां हांव. आगोस्टा उपरांत आमी ते उजार कोत्ताय. तुमचे असवडीं माड मात पाडिना आमी. नाल्ल झोडल्यारच हाट्टाय घरांत.”

तें वचूंक उठलें. “येता हांव मुगे भावा सिमयांवां.”

“तुगे तांदूळ नाल्ल तूं व्हरना बाय?”

“ना. तुका जाये तेन्ना तूं उपसून आदनांत घाल.”

येताना माग्दालिनान साठ रुपया चेचयेंत घालून हाडिल्ले. तेतुंतले येताना धा रुपया बशीक मोडिल्ले. वयताना धा रुपया जाय आसले. उरिल्ले चाळीस रुपया तेणें काडले आनी भावाल्या हातार दवरले आनी तें चलूंक लागलें. मागीर फाटीं वळोन तेणें म्हटलें. “मुगे मडकी आनी भरो नाका तूं. माड दर पाड्यार वकतार पाडों जाये. म्हुण्टकीर मुखावेलो पाडो बरो धरता.” तें सडसडीत चलूंक लागलें.

तें रित्या हातान येयल्लें पळोवन फरांसीक पाय बेठोच गणयतालो. “खूंय गेल्लें खूंय ना. कितें हाडलें कांय ना. सोगल्यो पोक्यो खोबरी हेंगेल्यो.”

माग्दालीन आयकोन वोगीच रावलें.

* * *

आंतोनेतान वावराक गेल्लेकडच्यान खंयच्यानतरी एक फुटको व्हाज उखलून हाडिल्लो. तो सालांत मोडक्या मेजार दवरून तें तातूंत फुलां सोबयतालें. सद्दां वावराक ना तर शेतांत वयचे पयलीं वाडोभर भोंवन कसलीं कसलीं फुलां घेवन येतालें आनी व्हाजान मांडटालें. वावराक गेल्लेकडेन कोणाल्याय झाडाचें फूल खुट्टालें आनी संवन घेतालें.

सकल्लेवटच्या किलमेंतिनालो भाव दुबयसान चार दीस फाटींच येयल्लो. आज भयणीक मेळूंक येयल्लो. हातांत व्हडलें बेग, बरें नवें ताल्ल पेन्ट, खोमीस, दोळ्यांक वोक्ल. जाड जाड बूट माडयत तो सकल्या रस्त्यार पायलटाक सोडून चलत वयलेवटेन येयलो. कोणें कोणें पळयलें. दारांत आंगणात येवन उमळशिकेन पळयत रावले. तो येयलो आनी

वाड्यार जसो परमळ पातळ्ळो, तेणें आंगार मारिल्ल्या चेराचो, वांगडा हाडिल्ल्या सामानाची आनी तेच्या दुबयकारपणाचो परमळ. अजून ह्या गावड्या वाड्यार कुवेटकार, दुबयकार ही नवीदादच आसली. अजून एक्कय दादलो भायर पावंक नासलो. कोणकोण येवन घरांत ओळंबून वयतालो. तेंका किलमेंतीन चिंगमां, चाकलेटी दितालें.

आंतोनेताक मनान मोटी उमळशीक लागिल्ली. तो खंय दिसता काय म्हण भायर येवन खंय खंय उबें रावन पळयतालें. किलमेंतीन आंटीगेर वयचोच धीर जायनासलो. वोगीच भिरांत, दुगदूग, उमळशीक. तो तिसऱ्या दिसाक वचूंक गेलो आनी आंतोनेत ल्हवच 'तितीन' म्हण तेगेल्या घरांत रिगलें. घर खरेंच परमळान भरिल्लें. पूण थंय किलमेंतीन आनी तेगेल्या घोवालें झगडें लागिल्लें. घोव म्हण्टालो, ''आमी गोरीब, घरांत लायट ना आनी करंटार वाजपी येदोसो रेडयो हाडला. वाजोवंक काय रडूंक. हेगे चाकलेटी, चेर, साबांव जाय कोणाक? वयताना चारशीं-पांयशीं हातार उडयल्यार खोरे आहलोले. हांयें दोन दिसांक रीण काडून तीनशीं मोडले. मोडगांवां वचून बोकड्या मांस नुस्तें हाडलें, बियर, सोरो हाडलो.''

''मागी मागोन घेवों जाय आसलोले हात मुखार काडोन!''

''मागों जाये? तेका सोजमोना भयण गोरीब म्हणून?''

''इतू व्यापार हाडलो ना?''

''उज्या व्होन्न घाल तो व्यापार. चेर कापडार मारून वावरा वोस सदां.'' किलमेंतीनाक घोवालें खरेशें दिसतालें. पूण कितें उलयतली?

आंतोनेत थंय बेठेंच गणमणटालें. घरभर भोंवतालें. सालांत वण्टीक एक फळें मारिल्लें आसलें. ताचेर प्लेस्टिका पोतये पोंदाकशे काय बरे वासा साबांव आसले. तेचो घरबर चेराचो कसो परमळ पातळिल्लो. आंतोनेतान सट्‌करून म्हुटलें, ''मुका एक न्हावपा साबांव दिता आन्टी?''

''बरें पोर, केन्ना पावोता'', म्हणत किलमेंतीन एक साबांव काडून तेका दिलो. तो घेयलो आनी आंतोनेतान 'येतां गे आण्टी' म्हटलें आनी धांव मारली.

किलमेंतीन आण्टी फाटल्यान ''आगो एक चाकलेट-दितां. राव गो म्हण्टालीं''. पूण तें रावलें ना.

तें आंगणातल्यान धांवन धांवन येवन घरांत घुशिल्लें माशेनान पळयलें. एक हात

न्हेसणार साबांव लिपयल्लेसरीं आसलो. माशेनाक बेठोच दुबाव. “आगो खूंय गेलो गो तूं?”

भितरल्यान आंतोनेताली कांय जाप ना.

त्या दिसा सांजचें बरें हाणीभर उदक तापयलें. घरा फाटल्यान जंय चुडटां लावन इल्लो अडसर केल्लो थंय वचून तें न्हावलें. हाडिल्लो साबांव आंगाक केसांक दोन-तीन फावट घांसून घांसून तें न्हावलें. साबण तसोच पावळेच्या चुड्टांत घालून लिपोवन दवरलो.

घरांत येतकीर पुराय सांजभर घरभर परमळ भरिल्लो आसलो. “आंतोनेत, बरो वास मुगो?”

“मुक खोबोर ना माशेन.”

“तुगे आंगार फुलां फुलोल्यां कित गो?”

“ना माशेन.”

तशेंच आट दिसांनी आंतोनेताक पयलें न्हाण येयलें. तेरा सोंपून चोवदा लागुंकूच. वावराक माशेना वांगडा वचूंक म्हण तें चोबो चुबंळ एकठांय करतालें. तेका जाणवलें. तें भिरांतेनशें धप्प करून वासरेरच बसलें.

“कित जालें गो?” म्हणत माशेन म्हऱ्यांत येयलें. पूण तें न्हेशिल्लें राखत वोग्गी रडूंक पाविल्लेंशें. माशेनाक कळ्ळें.

तेणें बेगी बेगीन घरांतले चुलीरच उदक तापोवंक दवरलें. सालांतल्या एका कोनशाक शेण सारायलें. मगेर तेका न्हाणोवन हाडून सारयल्ल्या कोनशाक बसयलें आनीं सांगलें, “आतां तीन दीस रांदचे कुडींत येवचें ना. कित्याक आफुडचें ना.” त्या दिसा तीं दोगांय वावराक गेलीं नात.

तीन दिसांनी तेका न्हाणोवन माशेनान रांदचे कुडींत हाडलें आनी खावंक जेवंक घातलें. मागीर सालांत हाडून बसयलें. घरांतले दादले भायर गेल्ले आसले. माशेनान दोवल्याचो दांडो काडलो आनी तेचें एक तोंक उज्यार तापयलें. तें हाडून तेणें अचकीत आंतोनेताले उक्ते फाटीर मानेसकल लायलो. आंतोनेत ‘मांय’ करून किळचलें. मगेर माशेन तेचेसरीं बसलें. हातांतलो दोवल्या दांडो परत परत फाटीर ल्हव ल्हव मारीत तेणें सांगलें, “संवसार तुजो दुस्मान. कोण्णाक म्हण आपलो म्हुणचो न्ही. दादुल्या म्हऱ्यांत वयचें न्हूं. आफडून घेवचें न्ही. आंगशी वस्त्रां काडचीं न्ही. आंगाक आंग लागल्यार गुरवार

जातलें, पोट वाडटलें. मागी पाय घरांत घेवचो ना. मांय लागीं कोरची ना. काजार कोण जावचो ना. न्हवरो आहा मांयक सांग, काजार जाता पायक सांग. पाय म्हेड मारतलो, पाद्री बेसांव घालतलो.''

माशेनालें सोंपतकीर आंतोनेत भिजिल्ल्या दोळ्यान माशेनाल्या दोळ्यांत पळयतालें.

* * *

मोडां, पावसांच्या हिसबान मेजून एक काळ लोटून गेलो. कश्ट, उपास, तापत्रय! घट, वातड जावन सोताक जिविताचे धारेन तिगोवन दवरची फक्कत रानटी धडपड. ताकाच तांणी जिवीत म्हटलें आनी तेंच सूख भोगलें.

आंतोनेताक आतां सतरावें वर्स लागिल्लें. मावशीभाव मायकलाकय सव्वीस सरूंक येयिल्लें. मायकलाचें काजार पयलीं करचे काय आंतोनेताक काजार करून घरांतल्यान पयलीं भायर काडचें ह्या चिंतनात माग्दालीन पडिल्लें. फाल्यां मायकलाचें काजार जालें आनी तेका बायल बरी मेळ्ळी बरें आसा, ना तर आंतोनेतालें आनी तेगेलें वाजल्यार कोण काड्टलो? आंतोनेत आदींच गरम तकलेचें. राग तेगे नाका शेंड्यारच आहा. माका थोडें उलयता तें? भियेता तें फकत मायकलाक.

फरांसीक पाय तर घरसंसारांत आसूनय नाशिल्लेवरी वावुरतालो. तेणें गेल्लीं दोन वर्सां तरी भायर वावराक वयचें सोडिल्लें. बैल, गोठो, शेत हातुंतूच गुंथून आशिल्लो. बैलांची केदी तोखणाय. मनशाल्यो खबरी सांगिल्लेवरी बैलांल्यो खबरी सांगतालो. ''सोकाळीं बैलांक दोंगरार व्हरून सोडलें आनी म्हुटलें, मुगे पांय दुखोतात. मुज्यान तुमचे वांगडा चलों जायना. हिंगा दोंगुल्लेर बरे चरात आनी सामक्कें तिनीक गोठ्यांत येयात. हांव जेवन मात्सो आड पडोन तुमकां कानी घालों येतां. तिनीक वचून चोयल्यार बैल जिस्त गोठ्यांत..... पावसाळ्यांत खंयूय मेरांनी वयतालो, वोजेंबर तण लुंवतालो आनी वोजें बांदून कुतनत धोंपरां मारून तकलेर घेतालो. गेल्ल्या पावसाळ्यांत आठ दीस बरो ना जालो तर तेणें आंतोनेताल्या हातांत विळो दिवन तण लुंवक धांवडायलें, ''मुगे बैलांक उपाशी घालून तूं जेयता पाडपडिल्ल्या?''

आंतोनेत तशें कामाक वाग आसलें. तकलेर जड जड वोजें घेवन मुसळा कांडी कशें ताठ चलतालें. खोरें कुदळ घेवन खणूंक लागल्यार स् स् करीत थार दियनासतना खणत रावतालें. भरिल्ली दोड हांडीर घेवन बांय कडच्यान धांवन धांवनशें येतालें. पावलाचो धप्प धप्प आवाज येतालो. तेका एक संवय आसली, वाड्यावयल्या कोणाल्याय घरांत ते घरच्या सारके वावुरतालें. दर घरांत आपलेपणाचो वास घेतशें भोंवतालें, कोणय दुयेंत आसल्यार

थंयच पडून रावतालें. माशेन संवतालें. पूण फरांसीक पाय मात तोखणायेन पळयतालो. केन्ना म्हण्टालो, ''देव खुर्सार आसा काय रुपण्यार आसा कोणें चोयला. पूण आंतोनेत, हांतरुणार पडलोलो मनीस देव आनी तेका चोयतलोय मनीस देव.''

फाटल्या कांय दिसांनी तें किस्तोद तितिवाल्या घरांत सारकें गुथूंन पडिल्लें. तेगेली बायल रोजमारी दुयेंत पडत सावन घराची अवतिकायच जाल्ली. पदरांत दोगां चार आनी स वर्सांचीं ल्हान भुरगीं आनी बायल हांतरुणाक लागिल्ली. किस्तोदिलो आपली बायल रोजमारीचेर भोवच मोग आसलो. जिवच लावन बशिल्लो तो तेचेर. किस्तोदीले मांय पाय भुरगेपणांतच मेल्ले. ल्हान पिरायेचेरच अठरा वर्सांचो आसतनाच तो रोजमारी वांगडा काजार जाल्लो. तेन्ना रोजमारीय पंदरा वर्सांचें. दोगांलेंय इतलें बेस बरें जुळटालें. दोगांय दायांक बांदून घातिल्लेवरी एक दुसऱ्या भोंवतणी गणमणत रावतालीं. दोगांय खंयूय वांगडाचं वावराक वयतालीं. रोजमारी एकलें केन्ना खंय गेलें ना. गोरें मोटवेंच नाजूक आंगलोटाचें रोजमारी. उलोवपय बारीक गोड. उतरां भिजिल्लींशीं. तें आतां दुयेंसान भागून पातळ कातींतल्यान हाडां वयर सरिल्लीं. दोळ्यां भोंवतड, ओंट काळे पडिल्ले. सारक्को जोर येतालो. किस्तोद तेका गांवगांवच्या दोतोरासरीं घेवन भोंवतालो. तेतूंत आनी घरांत आशिल्लें नाशिल्लें काबार जाल्लें. मडकेचीं पोंदां बरगोंवची गरिबी बादिल्ली. किस्तोद पांय धरून कोणाकडच्यानय रीण बुड्डितालो आनी कोणेंय सांगिल्लो उपाय करतालो, सांगिल्लेकडेन घेवन वयतालो. हातांत फूल धरिल्लेवरी तेका राखतालो. पूण घरांत आगळोच रूंव फुटिल्लोसो वास घुंवतालो.

खंयूय वयचें जाल्यार रोजमारी मेल्ल्या आवाजानशें आंतोनेताक उलो मारतालें. फाटल्यान भुरग्यांक राख म्हण दोळ्यांत उदक हाडून विनयतालें.

आंतोनेत भुरग्यांक राखतालें. तेंकां पेज शीत करून वाडटालें. तेचे वांगडा तेंवय खेळटालें. खंयूय दिसवड्या वावराक गेल्यार येयल्लेंच तेंचेसरीं धांवन वयतालें. माशेन रातचें मात तेका तेंगेर रावंक दियनासलें. रातचो वाड्यावयलो आनीक कोणय भुरग्यांवांगडा न्हिदूंक येतालो.

एक फावट तीं घोव बायल खंय तरी गेल्लीं दोन दीस उरलीं. घरांत पळयल्यार तांदळाचो दाणो ना. आंतोनेतान मागीर माशेनाक खबर नासताना पडभर उकडे तांदूळ तेंगेसरच्यान व्हयले आनी भुरग्यांक दोन वेळाक पेज करून घातली.

शेवटाक रोजमारीक बांबोळे मेडिकलांत घातलें. जायत्यो टेस्टी करतकीर कळ्ळें, तेका तकलेचे कवटे भितर टी. बी. आसा म्हण. थंयसान मागीर तेका ताळगांवच्या

टी. बी. हॉस्पिटलांत धाडलें.

बांबोळेसान ताळगांव व्हरोन हॉस्पिटलांत घालसर त्या दिसा सांजचीं चार जाल्लीं. कसलीं कसलीं वखदां घेवन आनी बशी भाड्या हातांतलो सगलो पयसो सोंपिल्लो. एक रुपयो किस्तोदील्या बोल्सांत उरूंक नासलो. थंय पांच धा मागतलो म्हुटल्यार जितो जीव वोळखीचो नासलो. रातचो थंय रावतलो म्हटल्यार हॉस्पिटलांत वा थंय भायर कोणाक दवरून घेनासले. किस्तोदीन चोंयवटेन पळयलें. वार्डा भितर भायर सगल्यांल्या तोंडार हुस्को, निर्शेणी, दुख्ख आनी कंगाल दरिद्रपणाचो काळोख पातळिल्लो. तो एक फावट भितर गेलो. ''रोजमारी, न्हिदे तूं आतां वोगी. कांय चिंतूं नाका. तेणीं दिल्लें बरें वायट जेवण खावपाक नाका म्हणों नाका. येतां हांव आनी दोन दिसांनी.'' रोजमारीक एकलें सोडून येवंक जीव तुट्टालो. कासावीस जावन पडपा पाविल्लो.

रोजमारीन गळ्यांत जीव हाडून सांगलें, ''भुरग्यांक राख रे बरो करून.''

''तूं आदीं बरें जा रोजमारी. तूं ना तर मोत्तले आमी.''

तो चार वाजून धा मिन्टांनी सुटिल्लो. चलत ताळगांवसान, भाटलेंसान पणजी, मडगांव म्हाल रस्त्यार येयलो आनी कालापूर वाटेन चलूंक लागलो. आंगार पोन्ने, म्हेळ कपडे, खाड वाडिल्लें, केंस हुमेन भिजून फासपल्ले. पोटाक भूक तर लागिल्लीच. दनपरां एक सुको पाव खावन वयल्यान चाव पियेल्ली. ते दोन रुपया काडून दिवंकच जिवार येयल्लें.

पयशे नासतना बशीर चडूंक धीर नासलो. हात दाखयल्यार गाडी, मोटरसायकल कोणाली राव नासली. वर सवायवर तसोच चलून तो बांबोळे देंवतेर पावलो. थंय एकलो स्कूटरवालो मेळ्ळो. तेणें तेका आगशीमेरेन हाडून सोडलो. परत थंयसान चलत पूल बळांटून कुठ्ठाळी येयलो. मदीं मदीं इल्लें उदक मागून पियेतालो आनी चलूंक लागतालो. कुठ्ठाळी-वास्को जंक्शनासरीं पावंक साडे स जाल्लीं. थंय एकलो वास्कोवटेन येयल्लो मोटरसायकलवालो मेळ्ळो. तेणें तेका वेर्ण्या इगर्जेसरीं हाडून सोडलो.

आतां बरोच काळोख जाल्लो. मनशाची वळख देख मेळनासली. तेतूंत किस्तोद तर थकून भागून अबरगतच दिसतालो. रस्तो मोटारींनी, मोटरसायकलींनी जसो व्हांवतालो. पूण कोण एकलो रावनासलो. कांय वेळान तेणें हात दाखोवचेंच सोडून दिलें. तो नेटान चलत नुवें, मडगांव, नायेली करीत रातच्या साडेणवांक मांडपां येवन पावलो.

तेन्ना आंतोनेत आनी शेजारची आलेसा बायल मारी घरांत आशिल्लीं भुरग्यांवांगडा.

किस्तोद येयल्लोच सोताच घेवन तांबयोभर उदक घटा घटा पियेलो. मागीर देवाच्या पांयजेला मुखार दिमी मारून तकली सामकी भुंयेक तेंकोवन तेणें मागलें, “जेजू, मारिया मांय, मुजे रोजमारीक वाटायात. तेका ह्या घरांत बरेभाशेन परतें हाडात. मुजी काकुयट करात. आमी वांगडा मेळून रोजार कोत्तेलीं.” आतां तो रडूंक लागलो. हुंडके दीत रडूंक लागलो. तो रड्टा तें पळोवन दोगांय भुरगीं म्हऱ्यांत गेलीं. तेंका खाकोळांत घेवन तो चडच रडूं लागलो. आंतोनेत काचाबूल जावन तेंका पळयतालें.

मारी आतां म्हऱ्यांत गेलें. “किस्तोद, कित्या रोडटा तूं? कित जालें?”

“रोजमारी चोड बरें ना गो! तेका हास्पिटलांत घातलां!”

“बरें जातलें तें. भिये नाका तूं. कांय एक जावचें ना तेका.” काय वेळान किस्तोदीन विचारलें; “भुरगीं जेयलीं? आसा कितें रांदलोलें मोडकेंत?”

तेंकां दोगांकय खण्प जालें. शिता मडकी तर धुवन उमथी मारिल्ली. कोडीय नासली. पूण आंतोनेत उठलें. ‘राव हां’ म्हण तें भायर गेलें. काळखांतल्यानच चलत घरा येवन तेणें माशेनाक म्हटलें, “माशेन, शीत, कोडी आहा मोडकेंत?”

“आमी जेयलीं, तुगे जेवण आहा न्ही गो.”

तें कांय एक उलयनासतना रांदचे कुडींत गेलें. ताट घेवन मडकेंत आशिल्लें सगलें शीत तेणें ताटांत रकोवन घेतलें. वयल्यान सोगली कोडी घातली आनी तें घेवन तें किस्तोदीगेर येयलें. तशें तें ताट भरून घेवन येताना सुपूर समाधानान भरिल्लें. भितरल्यान परत परत हांसो फुट्टालो.

एक ताट काडून किस्तोदीक ताटबर शीत-कडी वाडून तें रोखडेंच परतें येयलें. येयलें आनी रांदचे कुडींतले मडकेंतलें दोन ग्लास उदक तें पियेलें आनी वोगी माशेना शेजराक येवन तें न्हिदलें. मावशीभाव मायकल आज घरा नासलो. नायेलीच्या एकल्याक व्हडले गोंयां मोटारसायकलीचेर घेवन गेल्लो. उपरांत रातचो आगशे रावतलो म्हण सांगून गेल्लो. फरांसीक पाय आपले सुवातेर असो पसरून न्हिदिल्लो. तो केन्ना परत म्हण उठचो ना अशें दिसतालें. मेजार रोकेलाचो दिवो पेट्टालो. तेच्या उजवाडापरस धुंवरच चड पातळटालो. त्या उजवाडांत माशेन ल्हवच उठलें. घोवालो हांतरुणा भायर पडिल्लो हात तेणें नीट केलो आनी तेका एके कुशीर परतिलो आनी आंगार चादर घातली. तें चिमणे दिवो तसोच दवरून येवन न्हिदलें.

आंतोनेताच्यान भूक म्हणटा ती सोसूंक केन्ना जाली ना. राक्षीण कशी सदांच फाटीक

लागिल्ली. आजय तें भुकेन सोंशेतालें. रित्या आंतडेतल्यान जशी फूंक भायर सरताली आनी ताळ्यांतल्यान सूं सूं आवाज येतालो. माशेनान विचारलें, "आंतोनेत, तूं जेयलें?"

"हय माशेन."

"आंतोनेत तूं खरेंच जेयलें?" तें वोगीच रावलें.

"सकाळमेरेन मोरतो तूं. ऊठ. मोडकी दोवोरच्या फोळ्यार बरें पिकलो आंतेर आहा. मायकलाक ओद्दें दिवचें म्हूण दवल्लोलें. खा तूं. एक खायल्यार पोट भत्तो तुगेलें."

"मायकल बाबाक नाका माशेन?"

"खा तूं. दवरी नाका आनीक. फोड्टकीर रोखडें पिड्डेर जाता तें."

आंतोनेत उठलें. चिमणे दिवो घेवन रांदचे कुडींत गेलें. आंतेराच्या वासारच तेणें फळ्यार हात घालून तें काडलें. बरें बारीक नाल्ला येदें पिकिल्लें तांबडें, पाचवें आंतेर.

भायर फरांसीक पाय न्हिदेंतच उलयल्लेवरी उलयतालो. "माग्दालीन, आमी मोरच्या पोयलींच आंतोनेताचें थाऱ्यार उडोवंक जायें. हांव जाणा तूं इतले बेगीन मोरचें ना. हांव मोरतकीर तुका कास्तीगच चड जातोली. मुगे मोरणार रडों नाका तूं. फोंडार माती घालून घरा येवन सुंगटां घालून मसंगी रोस करून जेय... केलां तें पुरो."

माग्दालिनान ना आयकलेंशें केलें. तरीय ह्या दिसांनी तेकाय आंतोनेतालो हुस्कोच लागिल्लेवरी जाल्लो. तें तेच्याच चिंतनात आसतालें. तेका फोर्सान व्हरून पाय मांयकडेन सोडून येवचें काय खंयूय भुरगो, दादुलो पळोवन हांयेंच काजार करून दिवचें.....!

* * *

आंतोनेत पयलींच इल्लें मोट्या हाडाचें आनी मांसाळ आंगाचें. सतरा वर्सांचेरच तें काजराक तेकिल्लेवरी दिसतालें. माशेन तेचे सरीं पळयतालें आनी मनांतच सुस्कारो सोडूनशें म्हणटालें, 'आतां वर्सभरांत काजार केलें ना तर हेगे काजरा पिराय हुपून वयतली काय कितें! मागीर बायल मेल्लो एकादरो म्हातरो सोदचो पडटलो.' तें भियेल्लेवरी जालें.

एक दीस तें उठलें आनी खरगाळी तेगे मांय-पायगेर गेलें. तें गेलें आनी वासरेर बसलें, परकें सोयरें कशें. माशेन येयलां म्हण भुरग्यांनीय बोवाळ घातलो ना. तीं अनवळखी मनशाक कशी पळयत रावलीं.

खरें म्हळ्यार गेल्लीं स सात वर्सां ही वाटच तुटिल्लेवरी जाल्ली. रोजमारीक आनी

तेगेल्या घोवाक दिसतालें, आंतोनेताक माशेनान पयस केलें आनी आतां तें तेका दाम्मून दिसवड्याच्या कामाक लावन तेगेली जोड खाता. आदीं तेंकाच तें नाका जाल्लें म्हण सांगिनात. भुरगीं तर आतां व्हडले भयणीक विसरूनच गेल्लेवरी जाल्लीं. खूब खूब फाटीं कोण एकलें मोटेल्या पोटाचेंशे चेडूं हिंगा वावुरतालें खरें!

माग्दालीन माशेनान बारीक चोंयवटेन पळयलें. घराक आदले परस चड दळदीरपण बादिल्लेवरी दिसतालें. घराचें पाखें मदींच बाग घेवन पडूंक येयल्लेवरी जाल्लें. दारांत एक घसघशीत तोरींग आसली. आतां ती सुकून मरूंक येयल्लेवरी जाल्ली. चेड्या फाटल्यान आनीक एक चेडूं जाल्लें. आतां तें तीन वर्साचें आसलें. बारीक बरगल्लें शेमडें कशें. तेका कमरेसरीं चवन कशें रूंव जाल्लें. तातुंतल्यान रगशेल्ली रशी व्हांवताली. पांगळें ग्लोर एक हात बारीक बडी जाल्ल्या पांयांचे धिमयेर दवरून लखिल्लेवरी चलतालें. पूण तें दिसतालें भोव सोबीत. गोरें आनी कांतयल्ले बावलेवरी मुखामळ. सगलीं पांच भुरगीं. आंतोनेताक सोडल्यार चार. पयलो मरून दुसरो जाल्लो चेडो आतां स वर्साचो जाल्लो. तेका पळयलें आनी तेगेल्या काळजांत किरयल्लेवरी जालें. खिणभर दिसलें, हेचे पयलीं आनी कोण मरूंकच ना, उपरांत आनी कोण जल्मुंकूच ना. हो तर तो आदलोच. फुकट आंतोनेताचेर बगलांट घातलें ह्या लोकांनी. खणींतल्यान खणून काडिल्लोसो मोटवो बिलंदर लोक हो! हेंकां पातेवंक फावना!

तशेंच कांय वेळान बांयचेर गेल्ले रोजमारी येयलें. तेगेल्या हाता दंडार उमळिल्लीं कांय वस्त्रां आशिल्लीं. कमरेर मातये कोलसो. मातये कोळशाक एकेवटेन बारीक चीळ पडिल्ली आनी उदकाची शिळकी लागिल्ली. 'केदना येयलोलें' म्हणत तें भितर गेलें आनी तेणें कोळसो भितरले हाणयेंत रितो केलो. मागीर उमळिल्लीं वस्त्रां भायर व्हरून मोन्यांनीच सुकोवंक उडोवंक लागलें. आपलेपणाचें एक उतर उलो ना. माग्दालिनाक कशेंशेंच जालें. तेणें येदोळ पिटराक मुखार ओडून घेवन हातांत बिस्किटे पुडो दिवन म्हन्यांत घेवन बशिल्लें तें तशेंच बसून रावलें. तें आंतोनेताविशीं तरी कितेंय विचारतलें अशें दिसतालें. तेंवय विचारलें ना म्हणटकीर रागान दाव धरून बशिल्लेवरी बसून रावलें. "हागून काडिल्लें न्ही, पोटा पिकिल्लें चेडूं तें तुगेलें!"

कांय वेळ तें आंगणातच गणमणलेंशें करून मागीर भयणी मुखार येवन बसलें. "कुनयाद केसो आसा? भायर भोंवता उबो?"

"आसा. तोच चोयता न्हूं गोटो, गोरवां."

"मायकल बोरें भाडें मात्ता?"

"तेगे भाडें आनी तेगे जोड तेगे पेत्रोलाकच पावोना."

"भायर वोसपाक बीन चोवंक जाय तेणें."

"पासपोर्ट केलो आहा न्ही गो. एजंट वीस पंचवीस होजार मागताय. खुंयसान हाडचे? आदीं एक फावट एकल्यागे मोड्यार घायलोले. भुरग्यांक इस्कोलाक बीन घायलो ना गो?"

"फातीमाक घायलोलें. तीन वर्सां गेलें तें. एक फावट जोर येवन पंदरा दीस घरा उल्लें. मागी गेलें ना. पिटराक ह्या वर्साच घायलोकोडें आहा. चेडवान शिकोन मागी भेंडा तुवालोच बांदचो मुगो वावरा वचोंक?"

माग्दालीनान ल्हव ल्हव भितरल्यान शक्त एकठांय केली आनी म्हळें, "आंतोनेत आहा काय मेलें म्हण कांय विचारी ना मुगो तूं. तेका आतां अठरा लागों येयल्यांय. आतां काजार करों जायें. मांय पायनच करपा न्हू तें? तेगे खाज तेणेंच खाजोवं जाय न्ही."

"मांय पाय आनी खुंयचे तेका. माशेनच जायें म्हुण्टा न्हू तें?"

"भुरगें तें. तेगे कितें चूक? वाल चोडयता त्या माटवार चोडटा. आदीं तुमीच धांवडायलो तेका."

"रूजार राग धोरोन आहा तेचेर. फाटीं एक फावट धांवन येयलो तें. येवन वयतकीर पिटर चड दुयेंत जालो."

माग्दालीन सट् करून तापलें, "केसो खबरी उलयता गो तुमी. तेगे सावळेन तेगे माशेन बोरें मेलें ना मुगो. होड्ड्या कोडेन घेवन न्हिदोता तेका हांव. येसं चिंतनानच हो येस्ताद तुमगेलो. कोणा मोग मोयपास ना. एक दीस सूख सुशेग ना."

रोजमारी वोगी रावलें. इतल्यांत रूजार येयलो. तेगे हातांत विळो आसलो. रोजमारीन विचारलें, "रूजार, तूं वायंगण लुंवचे वावराक गेलो न्ही? जालो दिसवडो? सोडलो तुका इतूल बेगीन?"

रुजार तापलो, "केसो दिसवडो मोड्याचो. येदो बोटभर तो थाम. बागोवन लुवंक कमर दुखोता, बसून लुवंक गेल्यार धिमयो दुकोतात. मुक्रोडेन जायना वोतांत रावंक. दिसवडो खूंय. हांव मरों जाय म्हण रावोत तूं."

तो भितर सरतना घम्म करून सोऱ्या वास नाकांत रिगलो. माग्दालीनाक तो कांय

वेळ पळयत रावलो मांडूनसो. मागीर म्हटलें, ''तूं आनी केदोन येयलोलें, केसो काम घेवन येयलां? बरें कांय हाडपी न्हू तूं.''

तेगे ह्या उतरांनी माग्दालिनाक भोवच राग येयलो. ''तुगे एक चेडूं आसा म्हण उगडास आसा मुरे तुका? तेगे खोबोर घेवन येयलोलें.''

''केसो खोबोर?''

''तेगे मरणा खोबोर न्हू. मरपा आसल्यार तेदनाच मरता आसलें. तें आतां काजारा जालां. मांय पायनच मुखार सरों जाय न्हूं?''

''आतां उगडास येयलो मांय पायचो? तेदना कोण नाका आसलोले. माशानाकच वेंगोवन बसलोलें. धांवन वयतालें माशेना बगलेक. तेणेंच चोवन घेवचें सोगळें.''

''तेदना जुदेव केसो तेका मारून उडोवंक गेलो तूं. म्हारवा सावोळ म्हुण्टालो. हांयें राखून घेयलें तेची ख्यास्त कितें?''

''कोणा सांगोत तूं राखून घेयलो खोबरी? णव वर्सांचे आसतोना तेका दिसवड्या व्हरता तूं. हुनो दांबर रस्त्यार वारयतना जाय त्या जाणांनी चोयलो तेका. खायलो ना इतूल वर्सां तेगे दिसवडो? तुयेंच कोरचे तेचें सोगळें.''

''केसो दिसवोड्या खोबरी सांगता तूं? केदना येता तें मुजेवांगडा. ना तर कोण पोसतलो तेका? केसो जोडीचेर?''

''तेणें पोसलां तुमकां. तुगे चेडो लोफोर केहो मोटरसायकलीचेर गांव भोंवता. आंतोनेताले जोडीचेर चल्लां तुमचें.''

''तुयेंच तेका हाडों जाय आसलें. तेगे जोड खावंक. तेगे सावळेंत तुमी सोगलीं मोत्तासलीं तेदना तें सांगोना. जोड खूंय. तुयें हाडोन तेका लावों जाय आसलें चेडयेपणाक. चड जोड मेळटासली.''

''तुगे पायन तेगे स जाण चेडवांक काजरा आदीं चेडयेपणाकच लायलोलीं कितें गो? म्हूण तेका चड मिजास आसली. गावडो जावन व्हडल्या मिशांक पीळ घालतालो. तोकलेक तांबडो तुवालो बांदतालो.''

''पाय गे खोबरी नाकाय. तुगे चेडवा काजरा कित कोरचें तें आदीं सांग.''

''हांव कोरपार ना. मुकोडे जायना.''

"मागी तेका हांव बांयचेर उबें कोत्तां आनी धुकलून दितां बांयत."

"दिये. आठ वर्सां वावराक धाडोन दिसवडो खायलो पोटभर. आतां मानेर कोयतो घालून मारून उडय तेका."

आतां माग्दालिनाक भोवच राग येयलो. तें उठून भायर आंगणात येयलें. तें किंवाट्यान उलयलें "खाजी काडलें आनी गांवार घायलें तुमी चेडवाक. वयतां आनी सांगोता तेका तुगे मांय-पाय मेले म्हूण. तेन्ना मारून उडोयलो तुयें. आतां जोडीक रोडटा? फोटिंग तूं, मालकिरयाद. रगताक वळखना जाल्लो. आगो रोजमारी तूं वोग कित्या गो? तुवें चेडू घोवाकडच्यान काडलो काय गांवार कुंपार करून काडलोलें?" तें फाट फिरोवन चलूंक लागलें. दनपार माथ्यार पाविल्ली. भायर वोताचो रखरख आसलो. तें इल्लें पयस पावतकीर रोजमारी भायर येयलें. तोरंगीसरीं रावन तेणें उलो मारून म्हटलें, "बायगो, जेयन तोरी वोस मुगो. वोगोत जाला."

तेचीं तीं थंड उतरां माग्दालिनान आयकलीं ना आयकलीं अशें केलें आनी तें चलूंक लागलें. तेका दिसतालें, भयणीन धांवन येवन आपणाक आडायल्यार, हाताक धरून परतें व्हयल्यार आपूण वयता आसलें. इल्लें जेवतासलें. परत एक फावट तींच उतरां येयलीं. पूण भयण कांय धांवन येयली ना व्हरूंक.

तें तशेंच चलूंक लागलें. तेका दिसलें आपणें इल्ली चडच तापसाण काडली. अजूनय शिरो थरथरतात. जाण्टेपण येयला खरें! तान लागिल्ली, पोटाक भूक लागिल्ली तरीय तें रखरखत्या वोतांतल्यान चलत खरगाळीसान राय येयलें. रायसान बस धरून लोटले धाकली भयण दुमेतिनागेर पावलें. टेर्रेसीचें व्हडलें सपाटशें घर. पूण कसली नितळसाण, सोबीतकाय नासली. पयलींच घरांत वयताना केन्ना काडिल्लो चुनो आतां काळसो पडिल्लो. कंत्राटी कामाचे चोबे, खोरीं, पिकास जळीं-मळीं पडिल्ले. घरा मुखार एक पोन्नो ट्रक उबो आसलो. माग्दालीन गेलें आनी रांदचे कुडींत दुमेतिना मुखारच वचून उबें रावलें.

"व्होडलें बाय केदना येयलें? बोरें आहा मुगो?"

"आसा बोरें."

"सामकें भागलां मुगो तूं. पुरो जाल्लेवरी दिसोता. जेयल्लें तूं?"

माग्दालीन वोगी रावलें. "मोडकें शीत आसतोलें. वाडटा हांव." माग्दालीन मोन्यानच मान्यांत वचून हात-पांय धुवून येयलें. उकड्याचें शीत आनी ताल्ल्यां कोडी वाडिल्ली. ती तें वोगी जेयलें. तें जेयतना दुमेतीन सारकें तेका दुबावान चोयतालें. 'हेचें कितेंयतरी वायट

घडलां.’ जेवन उठटकीर तेणें विचारलें, “व्हडलें बाय, केसो सिंतिदान आहा तूं? कितें जालें?”

तेणें खरगाळी घडिल्ली सगली खबर दोळ्यांत दुकां हाडून दुमेतिनाक सांगली. निमणें म्हुटलें, “तेगे काजार केशेंय तरी करूं जायें न्हूं? ना तर लोक फाल्यां माशेनाकच हांसतोले.”

दुमेतीन बरोच वेळ वोगीच रावलें. मागीर तेणें म्हटलें, “तेन्नाच तेका म्हजेसरीं हाडून दवर म्हूण तुका सांगलोलें. घरांतल्याच वावरा लायतासलें आनी तेगे नांवार इल्ले दुडूय घालतासलें. तूंच मिठी मारोन रावलें न्हूं? हेरकोडें वावराक कित्याक धाडों जाय आसलें? हांव नासलोलें?”

“तेंच रांडूल खूंय वोसों मागनासलें न्हूं? माल्ल्यार, धांवडायल्यारय होसनासलें.”

मागीर बरोच वेळ दुमेतीन घोवाल्या धंद्यांतल्या लुकसानाविशीं, भुरग्यांच्या शिकपाच्या, दुयेंसाच्या खर्चाविशीं उलयत रावलें. माग्दालिन फक्कत अदमास घेतालें. निमाणें तर तेणें म्हटलें, “व्हडलें बाय, तूं कित्या म्हण आंगार घेता तें? आंतोनेताक हाड आनी तेंगे दारांत सोडून वच. जल्मा घायलोले मांय-पाय न्हूं ते?”

माग्दालीनाक तेचीं हीं उतरां सामकीं मानवलीं नात. तें खरबरीत कितेंय उलोवंक सोदतालें, पूण मायकलान मोटरसायकल घेतासतना तेचेकडच्यान चार हजार घेयल्ले ते अजून फारीक जावंक नासले. ती पांग आसली.

सांज जावंक येयल्ली. तरीय तें ‘हांव वयतां’ म्हण उठलें. दुमेतिनान ‘आतां वचूं नाका’ म्हण कितलें सांगलें, पूण तेणें आयकलें ना. तें दुखावल्लें, रागावल्लें कशें वोग्गी चलूंक लागलें. निमणें दुमेतिनान रावंक नज जावन थंडपणान म्हटलें, “काजरा थाल्ल्यार मागी सांग मुका. चोवया मार्गी.”

तेका मांडपां येवन पावसर रातचीं आठ जाल्लीं. आंतोनेत वाटेवेल्या ओंवळीं पोंदा येवन काळखांत तेगेली वाट पळयत आसलें. तें खंय कित्याक गेलां हेची तेका कांयच सुलूस नासली. पूण तें सांजमेरेन परतें येतलें हाची तेका खातरी आसली. तें रातचें रावना. गेल्लीं आठ वर्सां तें चोयता, एक रात तें खंय राविल्लें ना.

काळखांतल्यान पुरो जाल्लीशीं पावलां उडयत माशेन येता तें तेणें पळयलें आनी तें सान भुरग्यावरी धांवन धांवन तिचेसरीं गेलें, “खंय आशिल्लें गो तूं इतली रात? खंय गेल्लें?”

माशेन वोगीच चलूंक लागलें. आंतोनेताक दुबावसो. खंयूय गेल्यार तें रित्या हातान केन्नाच येयनासलें. सुरी गोड, खाजूर नातर फांती बिस्कुटां कितेंय तरी घेवन येताली. एका हातांत नुस्तें तर आसतालेंच. पूण तेचे दोनय हात आज रिते आसले. घरासरीं पावतकीर तेणें परतें विचारलें, ‘‘खूंय गेल्लें गो, कित जालें?’’

माशेन आतां ताळो फोडूनशें किंवाट्यान उलयलें, ‘‘काजरेलां न्हू तूं, तुका काजराक न्हवरो सोदूंक गेल्लें, तुका न्हिदोंक चेडयेक. मुज्या हड्ड्यार येवन बशिल्लें तूं मांय-पाय मेले म्हूण. तुजी जोड हांयें खायली खूंय. मुका पातकाक घायलें तुयें. तुगे मांय-पांय खोरेंच मेले आंतोनेत.’’

आतां आंतोनेताक इल्लें इल्लें म्हण्टां सगलें कळ्ळें. ‘‘माशेन, तूं खरगाळी गेल्लें पायकोडे?’’

तें वोगीच रावलें.

‘‘कित्या मरों गेलो तूं तेंगेर? तकली धाडांवंक? इजमोला पडोंक? कोणें सांगलो तुका मुका काजार कर म्हूण? काजार कर म्हूण तुजे मुखार उताणे पडलो हांव? लोज ना तुका. भिकेक भोंवता पाडपडलोलें.’’ ... आंतोनेत माशेनाक रागान जाय फाय उलयत रावलें.

माशेन कांयच उलयलें ना. निमाणें तिणें म्हटलें, ‘‘आंतोनेत, तूं फाल्यांसान खुंयच वावराक वोसपार ना. गेल्यार तुगे पांय मोडून दवरतोलें, येसो मार मात्तोलें ...’’

तीं रातचीं इल्लें कितेंय खावन उदक पिवन न्हिदलीं. फरांसीक पाय भरमणेतसो उलयतालो. ‘‘एक शिंगां मोडिल्लो रेडो फाटीक लागिल्लो मुज्या. हाडां मोडसर मोखून मोखून मात्तालो. माग्दालीन, तुयें मेजल्यांय मुगे मोडिल्लीं हाडां. तो कुड्डो रेडो कोणाच्याय फाटीक लागता आंतोनेत.......’’

सकाळीं माशेन इल्लें चडच वोगोत न्हिदिल्लें. आंतोनेताक सकल्ले वाटेवयल्यान ट्रकाचो घरघर आनी मागी ल्हवशी कुंकार आयकोंक येयली. तें सडसडीत उठलें. तेणें तोंडांत उदका घोंट घेवन हातांत चुंबळ घेतली. तें धांवन धांवन सकल्लेवटेन वचूंक लागलें. ट्रकासरीं चौग दादले आनी दोग बायलो पाविल्ल्यो. त्यो आंतोनेताली वाट पळयताल्यो. ती आज पांजरखोणी चिऱ्या खणीर चिरे भरपाक वचपा सुटिल्लीं. माशेन उठून वासरेर बसोन फक्कत अदमास घेतालें.

* * *

किस्तोदी बायल जिका टी. बी. चें दुयेंस जावन ताळगांवां हॉस्पिटलांत घातिल्ली ती तीन म्हयन्यांतच मेली. ती मेली तेन्ना आंतोनेतान तेंगेल्या भुरग्यांले, किस्तोदीगेलें खूब खूब केलें. पंदरा दीस तें थंय पडून आसलें. सोताचे पयशे लेगीत तेणें मोडले. एक दिस तेगेलो धाकलो बरो ना जावन रडूंक लागतकीर तें ताका रातभर हड्ड्यार घेवन न्हिदिल्लें. मागीर मात तेणें किस्तोदीगेर वयचें साप्प बंद केलें.

एक दीस किस्तोद दारांत येयलो. भागिल्लो, बरगल्लो रडूंक पाविल्लेवरी दारांत येवन उबो रावलो. "आंतोनेत, कित्या येयना गो, कित्या रागार? केन्ना यो मुगो. भुरग्यांचें चोय, माया लागल्या."

"हांव येवचें ना."

"कित्या गो, कित जालें?"

तेणें सामकेंच तुटोवनशें म्हुटलें, "हांव येयना म्हुटलें न्हूं."

किस्तोद वोगी गेलो. पावला पावलार हुंडके दीत सो.

आंतोनेतान तेका तुटोवन उडोवंक तशीच गजाल घडिल्ली. एक दीस लेपोल्दीन शेमांय घरा येयली. माशेनाकडच्यान विडी घेवन तिणें पेटयली. आंतोनेत थंयच आशिल्लें. विडी वोड्टां वोड्टां शेमांयन म्हुटलें, "आंतोनेताल्याय मतींत आहा दिसोता. सदां थंयच आसोता न्हूं गो? भुरग्यांकय बोरें कोत्ता."

"केसो खंयचें उलयता तूं लेपोल्दीन बाय?"

"किस्तोद तेहो भुरगोच तो. भुरगींय ल्हान आहाय. आंतोनेता काजार कर तूं तेकोडे. गांवचो लोकय तेंच उलयतात."

माशेन वोगीच रावलें, मोनेळ पडिल्लेवरी. पूण आंतोनेत तिरमिरून उलयलें, "भुरग्यां काकुयट दिसोन वयतालें हांव. तीन म्हयने जाले, तेगे भुरगीं आहा काय मेलीं तें कोण एक गांवचो चोयनासलो. आनी आतां येशें उलयताय. हांव तेकोडे काजार जावपार ना. मुगे खोबोर तुका नाका शेमांय. पाड चिंतनां तुमगे लोकांचीं."

आंतोनेत उठलें आनी दोंगरावटेन वचूंक गेलें.

* * *

माग्दालीन माशेनान आंतोनेताल्या काजराचो ध्यासच घेतिल्लो. तेगेल्या मांय-पाय

आनी धाकल्या माशेनान न्हयकारून तेगेली जोड खायली म्हणतसान तें भोवच दुखावल्लें. तेका आतां ती एक ब्याद कशी दिसताली. एक फावट तेका घरांतल्यान भायर घातल्यार पुरो जाल्लें. तें आतां खंय वावराक वयता, कितें जोडून हाड्टा तें कांयच विचारीनासलें. तेगेल्या पानदुडवाक हात लायनासलें. तेणें कितेंय उलयल्यार सट् करून तेचेर किसळटालें. तेका पळोवन दांत चाबतालें.

आंतोनेतय जशें हट्टाक पेटिल्लें. तेंय कॅर करीनासलें. माशेनाक सांगीनासतनाच खंयूय वावराक वयतालें. वाडो भोंवत रावतालें. कोणालेय वासरेर वचून बसतालें आनी पोल्यार हात तेकोवन खबरी करतालें. केन्ना वाटेन वयतल्याक बेठेंच झगड्याक धरतालें आनी तेचें मडें घालतालें. माशेनाक आयकोवशें खेपत घराकडेन येतालें, ''हेगे मोस्ती मुजेर काडों सोदिता पोटण्याचो. मुका शिळवोणी घालिता, तांबडे कापोड न्हेस म्हुणटा...''

माशेनान मदींच ''कोण गो?'' म्हूण विचारल्यार तें माशेनाचेर तापतालें, ''तूं न्हवरो सोदीत भोंवता न्हूं मुका? गांवभर सांगत सुटोलां न्हूं मुका न्हवरो चोयात म्हूण. आतां न्हवरे मुजे फाटल्यान येताय.''

''मागी, मिठी मारून हाडपाचो एक.''

''मुका नाका तुगे काजार आनी न्हवरो. फाल्यां पाद्रीसरीं वयतां आनी कोंवेंता घाल म्हूण सांगोतां, माद्री जावच्याक.''

''पेपरा कुडक्यार ओंगठो लावंक कोवता मुगो?''

''मुगे आंगा फुलोतसान तुगे आंगार सरडूक नाचों लागलां न्हूं?''

माशेन एक सुस्कारो सोडून वोगीच रावलें.

एक दीस तेणें आंतोनेताक म्हन्यांत आफयलें आनी सांगलें, ''तो जुजे गे चेडो निकलांव तेगे मांय-पाय तेका काजार कोत्ता म्हण आयकलां.''

''तो गो निकलू? तकले केंस हुंदरान खावन खाप पडलेलो? तेगे कास्टे पोत लांबोता मुगो कालसांवांतल्यान मोटव्या.''

''केसो उलोयता तूं पाड पडलोलें, वायटे तोंडाचें. काय बरो भुरगो मुगो तो. पाख्यावरी माडार चड्टा, काय बरो पाडेली जाला. खोऱ्या वावराक लागल्यार फातराचो पिठो जाता.'' मागीर माशेन आनी इल्लें तेच्या म्हन्यांत गेलें. तेगे फाटीर हात दवरून तेणें म्हटलें, ''ह्याच गांवांत तुगे काजार जाल्यार मुगे दोळयांमुखार रावतोलें. मुगे खाशे चेडूं म्हूण

लेखलां तुका. जाण्टेपणाक तूंच पावतो आमकां. मायकलागे कांय सांगूं नज.''

माशेनाल्या उलोवण्यान आंतोनेत एकदम सर्गदन जालें. तें तेगेल्या खाकोळांत रिगलें आनी रडूंक लागलें. माशेनालोय ताळो भरून येयलो आनी तेच्यान उलोवं नज जालें. सालाच्या एका कोनशाक फरांशीक पाय न्हिदिल्लो. तो न्हिदिल्लेकडच्यान बारीक पळयतालो. तो आतां उलयलो, ''आंतोनेत गो, तुगे माशेन सोता वाट चुकलें. पुणून तेणें दाखोयलेली वाट कोण्ण चुकलो ना. एक फावट जाणां, ओटंबीकडचो आंद्रू मायणांत बुडलो. केंसच दिश्टी पोड्टाले. तुगे माशेनान तेका केंसा धोरून ओडून काडलो. ओड्टां ओड्टां हें पावलें कमरा मेरेन... तेदना तेगे रोगोत खोतखोततालें. मुका बोटार नाचोयतालें... तूं जाणां, मायकला पयलीं दोगां चेडवां जावन मेली तेगेलीं. दर फावट आपणाक तेगे फोंडार व्हरून घाल म्हूण रोड्टालें. आवतेंच तूं मेवलें हातांत....''

दुसऱ्याच दिसा माग्दालीन माशेन जुजेगेर गेलें आंतोनेताली सोयरीक घेवन. वयताना माशेन चिंततालें, आदीं गावडे, चेडवां घरा सोयरीकेक वयताले. खंयूय एक बरें चेडूं आसा म्हण कळल्यार 'हिंगा एक फूल परमोळटा म्हण आयकला' म्हणत चेडवा बापायल्या पांयांसरी वचून बसताले. पूण आतां दीस मुदार जाल्याय. पयलीं बायलो घोवाले गाळयेक परत्यो गाळ दिताल्यो. थापटाक परतें थापट दिताल्यो. आतां थापट खावन वोग रावतात. आदीं गावड्या बायल केन्ना रडलेली चोयली ना. पूण आतां घोवाले तापसाणेर, मारार रड्टात. केसो जोर माल्ला हेंकां? बामणा, चाड्ड्यांगे बायलांवरी दुदाबावली जावंक लागल्याय. हेंचे तकलेर चिरे, फातरच फावो.

तें जुजेगेर पावलें तेन्ना जुजे आनी तेगेली बायल कोलारीन आंगणा भायर जळवा लाकूड फोडटालीं. एक लांब घट लाकडा खोड आसलें. हातांत कुराड घेवन एका पोंतार बायल उबी आसली तर दुसऱ्या पोंतार घोव. जुजेन पयलीं कुराड माल्ली म्हणटकीर तेच शिरेर कोलारीन 'उस्स' करीत दुसरी कुराड मारतालें. मागीर लाकडा कापटी जुस्त फुटून कुशीक पडटाली. माग्दालीन तो एक खेळ कसो कांय वेळ मजेन पळयत रावलें. थंयसर सांजचें आडवेळाचें इल्लें वोतय आशिल्लें. कोलारीन आतां आतां देठले साडी न्हय करून सादी साडीच न्हेसूंक लागिल्लें. तेगेलें आंगावयलें पोल्क, कमरासरी साडी हुमेन चिप्प भिजिल्ली. चेरो फुलून तांबडो जाल्लो आनी हूम गळटाली. तरीय तें नेटान ज्यूस्त गुंजार कुराड मारतालें. मागी हूं करून घोवाक कुराड मारूंक सांगतालें. माग्दालीन येयलां म्हण शिंतीद येतकीर दोगांयनीय कुराडी दवरल्यो. तशे वाड्यावयले लोक माग्दालीनाक बरे मानताले. तेगेल्या उतराक मान आसलो. जुजे उसरपत घेत सो लाकडा खोडारच बसलो. कोलारीन कुराडे दांडो धरून उबेंच आसलें.

“कित्या म्हूण येयलोली व्हनये?”

“निकलांवा काजार कोत्ता गो?”

“चोवया बोरें चेडूं मेवल्यार. कोणा पासत विचात्ता?”

“आमगे आंतोनेत जालां न्ही गो काजराचें.”

जुजेन मदींच म्हुटलें, “तेगे मांय-पाय आहात न्हूं गे? तीं येवपा न्हूं? पायनच म्हेड मारपाची फाल्यां.”

“हांयेनच पोसले न्हूं रे? आतां सोगलें हांयेंच करपाचें. घालतो तेका हांव भांगरा दोन वस्ती.”

“अेहें कशें जातलें? मांय-पाय जावोच. काजार म्हुणटाय त्यो जायत्यो राटावोळी. फाल्यां इगर्जेंत रेस्पेराक तूंच घेवन वयतली?”

माग्दालीन वोगीच रावलें. कोलारीनान ल्हवूच म्हुटलें, “पाय-मांय चोयनाय तेका. दोळ्यां मुखार नाका. तेगे आंगावयल्यान पडून तेगे भाव बुडलो खूंय. हरशींय केन्ना केन्ना आंगार सावळ आशिल्लेबशेन कोत्ता तें. तेहें बोरें चेडूं पुणून.....”

“मांय-पाय जावोच न्हू गो?” जुजेन परतें म्हटलें.

माग्दालिनाक कळळें तीं कितें उलोवंक सोदतात तें. आनीक मुखार तेणीं कितें उलोवचें न्ही म्हूण तें वोगीच रावलें. मागी हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरी उलयत तें कांय वेळ बसलें आनी मागी तें उठून येयलें.

तें उठून येतकीर तीं घोव बायलां परतीं कामाक लागलीं. उस्स उस्स करून खोडार कुराडी मारतात तो आवाज घरासरीं पावसर येतालो.

* * *

गुडयेर पाड्ड्यावटेन गावड्यालीं दोन-तीन घरां आसलीं. पूण ते अशे विचित्र लोक, हेरां वांगडा तुटूनशे रावताले. किरिस्तांवपणय धड मानिनासले. केन्ना इगर्जेंत गेल्लेय कोणें चोयले नात तेंकां. कोणय मेल्यार तेंकां गुपचूप दोंगरांत व्हरून पुरताले. एक फावट बांयत पडून मेल्ल्याक तेणीं दोंगरांत व्हरून पुरलो. मागीर तेंचेर पोलिस केस जातां जातां उरली. तेन्ना मागीर तें थंयचे इगर्जेंत मेजासरी, पाद्री सरीं गेले आनी ते इगर्जेचें किरिस्तांवपण मागलें. आमी किरिस्तांव म्हणय पटयलें. तरीय आतां मरणा पुरतोच इगर्जे वांगडा तेंचो

संबंध आसा. ह्या लोकांक इगर्जे विशीं तसो भावार्त उणोच.

ते मूळ तिसवाडी पाळयेंतले. तेन्ना तेंचो पुराय घराबो एका बामण भाटकारागेर वर्सबराचो शेताभाटाचो वावर करतालो. दिसबर तेंगेर वावर करप. दनपारच्या जेवणाची पंगत तेंगेरच. पोर्तुगिजांचो तेंप आसलो. भाटकाराचेर खूब चेपण पडिल्ल्यान एक दीस बामण भाटकार आपल्या घरच्यांक गुपचूप इगर्जेत घेवन वचून किरिस्तांव जावन येयलो.

दुसऱ्या दिसा कामदार गावड्यांनी पंगत बशिल्लेकडेन आसताना भाटकारान येवन सांगलें, ''हांवें किरिस्तांव धर्म आपणायला. ही जेवणावळ किरिस्तांवाली. तुमकां मुजेवांगडा किरिस्तांव जावंक खोशी आसल्यार तुमी हे पंगतीत जेवचें ना तर उठून वचूंक तुमकां मेकळीक आसा. गावड्यांच्या सगल्या दादल्या, बायलांनी म्हाल गांवकार बुदवंत खेमुसरीं पळयलें. खेमून पानार हात घालून एक लांब भुरको माल्लो. ते सरशीं सगले गावडे भुरको मारून जेवंक लागले. खिणांत सगले बाटून किरिस्तांव जाले.

पूण तेंकां केन्ना कोणें इगर्जेंत व्हरून बातीस्म दिवंक नासलो. ना धड हिन्दू ना धड किरिस्तांव. मदींच हुमकळटाले. खुर्साक पांय पडटाले आनी मूळ कुळदेवाच्या जात्रेकय वयताले, वर्सा एक फावट देवाक मेळून येताले.

अशीं कितलींशींच वर्सां गेली. एक दीस भायल्यान मसूरकर महाराज म्हण एकलो येयलो. तेणें हेंचें हें हुमकळप पळयलें. तेंका तेणें हिन्दूपणाची दीक्षा दिवन परत हिन्दू करून घेतले.

दीक्षा दिवन एक दीस मसूरकर महाराज परतो गेलो. पूण पाळयेचो गांवकार ह्या नव्यान हिन्दू जाल्ल्या गावड्यांक देवळाकडचो मान दिवंक कशेच तयार जाले नात. तेंकां देवळा भितरच घेयना जाले. एक दीस ते फोर्सान भितर सरूं गेल्यार मोटी हाणामारी जाली. तकल्यो फुटल्यो. हाडां मोडलीं, रगत शेणलें.

खेमू गांवकारान एक दीस आपणा वांगडा आनीक तीन गावड्यांच्या घराब्याक घेवन पाळये सोडलें. गांव सोडटाना तेणें भुंयेर हात मारून स्राप दिलो. ह्या गांवान आमचो धर्म आनी आमचो देव काडून घेवन आमकां परंतरात हुमकळयाक उडयलां. बरें जावचें ना तुमचें.

पाळयेचो लोक आनी पाळये सोडून गेल्ले गावडे हालींमेरेन मानताले, त्या गांवकार गावड्यालो स्राप गांवांक बादला म्हण.

गांव सोडून येयल्या घराब्यापैकीं दोन घराबे नुयें-बेळोय हांगा रावले. एक घराबो

आरलें रावलो, चौथो गुडयेवटेन पाड्ड्यां पावलो. आतां त्या एका घराचीं तीन घरां जाल्यांत.

एक दीस माग्दालीन माशेनाक कोणेंतरी सांगलें, थंयच्या एका घरांत एक सिरील म्हण काजराचो चेडो आसा म्हण. आंतोनेताक सांगनासतना तें पाड्ड्या गेलें आनी खबर काडून तेंच्या दारांतच वचून उबें रावलें. एक बायल वासरेर शेण सारयताली. सुलूस लागतकीर शेण काडटले बायलेन वयर पळयलें, 'कोण ही अनवळखी बायल!' चिंततनाच सट् करून तिगेलो हात वयर गेलो आनी केंसाक बरेंच शेण लागलें. "कितें गे खंयसून येयल्या?"

"हांव मांडपांतलें. फरांसिका बायल माग्दालीन."

"कितें जावो, कित्या म्हण येयलेली?"

"काजरा भुरगो आहलोल्या घरांत कोण कित्या येता नेणा तूं?"

"तुगे चेडूं आहा काजराचें?"

"मुगे भोयणीगे चेडूं. मुजे वागंडाच आहा."

"मिनीन, येसो भायर यो रे मात्सो."

एक दादुलो काळसोच, कमरेर वेंतभर चेड्डी घातिल्लो. उक्त्या आंगानच भायर येयलो, काडिल्लें ओलें शेण माडयत.

"मिनीन आमगे सिरिलाक सोयरीक घेवन येयल्या मांडपांसान. तिगे भयणीगे चेडूं खूंय." तेणें बेगीबेगीन वचून एक कदेल हाडून दिलें आंगणातच. मागीर शेणांत उबो रावनच सांगलें, "गोरो बामोण केहो दिसता आमगे सिरील. जायतीं बुकां शिकोला. स वर्सां मायज इस्कोलां गेला."

"आमगे आंतोनेत जाणा, एकलेंच देडये चिरो उकलून माथ्यार घेता. गोठ्यार चडून कड्डा पेंड्यांनी गोठो शिंवता. केसलोय वावर कांय न्हू तेका."

"कितें शिकलो आहा, बुकांबीन?"

"तेहें जबर ना."

"चोवया येताय आमी, उलोवंया."

“चेडो खूंय आहा?”

“कार्निवाल लागीं पावोला न्हू. विन्सीन एक खेळ काडिला. तेका एक खेळां पार्त
दिला. आमगे सिरील तियात्राक काय बरो नाचोता जाणा तूं!”

“आतां केसो वावर बीन कोत्ता तो?”

तेहे जबर वावराक लायलो ना आमी तेका. भायरबीन वचों चिंतिता तो. खोऱ्याचो,
नाड पाडचेलो येसो वावर करपी न्हूं तो.”

“केदना येता तुमी चोवपाक चेडवाक?”

“चोवया, येताय. सिरिला सांगताय आमी.”

“मांडपां कोमळे तळ्या वयलेवटेन फरांसीक म्हुटल्यार कोणय सांगतलो.”

तें वचूंक उठलें. सिरीला मांय हात शेणांत लेपडावन तशीच बशिल्ली. माग्दालीन
उठ्टकीर तेणें म्हटलें, “इदें चायेतरी घेवन वोस मुगे.”

“आतां नाका. तूं शेण काडटा न्हूं गे.” तें सडसडीत चलूंक लागलें.

* * *

दोनच दिसांनी माग्दालिनाल्या दारांत येवन एक मोटरसायकल थारली. तेचेवयल्यान
तीग जाण देंवले. दोग जाण बारीक काळशे इल्ले पिरायेन व्हड. सिरील गोरो आशिल्लो खरो
पूण तेच्या व्हड दोळ्यांत कसलेंच तेज नासलें. तकलेवयल्या करड केंसाकय रया नाशिल्ली.
माग्दालीन तोच सिरिल म्हण वोळखलें. तेणें तेंका बेगीबेगीन बसूंक दिलें. दोगजाण
बेजासरीं कदेलार बसले. एकलो मोटव्या स्टुलार बसलो. फरांसीक पायूय येवन एका
कोनशाक उबो आसलो.

“फरांसीक, ते आमगे आंतोनेताक चोवंक येयल्यात.”

“न्हवरो भुरगो खुंयचो गो?”

“तो गोरेलो, कदेलार बसला तो.”

“तेगे हात भुरगेपणापसून वावर केलोले केहे दिसनात मुगो.”

तेतुंतल्या एकल्यान म्हुटलें, “शिकलो भुरगो तो. फाल्यां शिर्वीसबीन कोत्तलो.”

आंतोनेत भितर चाव करतालें. माशेनान तेका नेवो व्हिस्तीद हाडून दिलो. पावडर हाडून दिलो. पूण तें नवो व्हिस्तीद न्हेसलें ना. केस वळोवन तोंडाक इल्लो पावडर लायलो आनी तशेंच कोपात फुटी चाव हाडून तेणें तेंकां दिली. तें कुशीन वोग उबें रावलें.

सिरिलान विचारलें, ''इस्कोला गेलो तूं?''

''ना. वचों ना.''

''तुका आसनाद करूं कोवता?''

''ना. कोवना.''

तेतुंतलो एकलो उलयलो, ''हांव सिरिलागे माम. आनी हो दुसरो पेद्रू तेगे बापूलभाव. जाणां मुगो, फाल्यां काजार जातकीर सिरिल तुका पासपोर्ट काडून भायर धाडूं सोदिता, कुयटाक.''

''कित्या म्हण?''

''थंय शिर्वीसेक.''

''केसो शिर्वीस.''

''घारा वावर करचेली बीन.''

''तेका आसनाद कित्या जावो, घांसपा वावराक?''

''पासपोर्ट करच्याक. फाल्यां कुयटासान दुडू, ड्राफ्ट धाडच्याक.''

''माशेन, वास येता मुगे सोऱ्याचो.''

''आंतोनेत .......''

''तुका येयना माशेन?''

''आंतोनेत वोग राव सांगोतां.''

मामान सांगलें, ''येदोळ येतना पेद्रून इल्लो काजू घेयल्लो वाटेर. आमगे सिरील केन्ना घेयना.''

''कोण जाणां कोणे घेयलो म्हूण.'' आंतोनेत पांय धाडावन भितर गेलें. मागीर तेवय उठले. पेद्रून तणतणत म्हुटलें, ''सोरो पियेल्यार कितें जाता, लादनीक, काजराक पियेनात?''

माग्दालीन मांय बाबा पुता करून थातरूंक पळयताली. पूण ते थारले नात. वयतना मामान म्हुटलें, "चड सुबेज दिसोतात."

माग्दालीन आतां भितर गेलें आनी तेणें आंतोनेताक चार सणसणीत धुमके घातले, "चेडये, केसो मोस्तेपणा हीं? कोणा खुस्तार नाचोता? चिन्या खणींत व्हरून पुरतो तुका."

फरांसीक पायूय उलयलो. "मांय पायच वायट देखीचे तेगेले. बीं तेहें भात. खण तेही माती. फाल्यां धांवडावन घाल तेका माग्दालीन. वोसूंनी मांय-पायच्या होड्ड्यार बसूंक. नदीं पडिल्लो आदीं मरता खूंय."

आतां आंतोनेत किंवाट्यान आड्डलें, "खोटे पयसो तो, दळडिरो बायले खुस्तार मोजा मारूंक सोदिता. काजरा पोयलीं बायलेगे जोडी हुस्को. घारा वावरा धाडटं खूंय. सोता जोडून पोट भरच्याक पिडा मात्ता!"

"आगो, वक्तार मात्शें वोगी रावों नज आसलें तुकोडेन. नांव घाण कोत्तलें ते. आनी खूंय वचपा तोंड उरपार ना."

"हांव काजारच जावपा ना माशेन."

"पूण आमगे तकलेर वोजें पडलो आहा."

"हांव वावर करून पोट भोत्तलें."

"तुगे जोड हांव खातां म्हण बोब मात्ताय न्ही गो." आंतोनेत वोगीच रावलें.

सांजचो उसरां मायकल येयलो. खड्क करून मोटरसायकल स्टेंडार काडून घरांत येयलो. मागीर हातपांय धुवन येवन मेजासरीं वोगी बसलो कांयवेळ. आंतोनेताक दिसतालें माशेनान मायकलबाबाक सगलें सांगचें. तो कितें म्हण्टा तें चोवचें. शेर्त तो म्हजो गुन्यांव करचो ना!' पूण तेका कोणेंच क़ांय सांगलें ना. माशेन केन्ना तेगे काजराविशीं मायकलाकोडेन उलयना.

कांय वेळान मायकलान वांगडा हाडिल्लो माडये पाव उक्तो केलो. आदीं इल्लो मायक घालून दिलो आनी उरिल्लो सोता घेवन बसलो. सोऱ्याचो घोंट मारतां-मारतां तो उलयतालो. "फोंडा माती फोंडाक. मेळिल्लें भाडें पेत्रोलाकच पावना. तेतूंत आनी हांव फुडें फुडें कोत्ताय पायलट. खंयूय गेल्यार गावड्या भोंकार खोंटच. गावड्यान मोटरसायकल धवों जायना, गावड्यान मोगान पडों जायना, गावड्यान तकलेर चेपें घालों जायना. शिमीट कालय आनी डांबर वारय. मांय, मुका कितुलीं वर्सां गे?"

“सव्वीस काबार जालीं न्हूं रे चिंचोण्या फेस्ताक.”

“इतू तेप गावडो आंकवार राविल्लो चोयला तुयें?”

“दादुलो तूं. तुवें चोवपा न्हूं एक व्हंकल.”

“इतुलीं वर्सां रिणां फारीक केलीं हांयेन. भायर वोसूंक टोनील्या हड्ड्यार घातिल्ल्या दुडवांचें रीण, मोटरसायकलीचें रीण.”

“आनी एक रीण उरलां म्हूण जाणां मुरे तूं?”

“खुंयचें मांय?”

“आंतोनेताल्या काजराचें.”

मायकल वोगीच रावलो. तेचें मोनेपण पळोवन आंतोनेत सामकें घुसमटलें. तेंकां दिसलें, मायकलबाबान खूब गाळयो घालच्यो. काजराचें उस्तून काडून बोवाळ घालचो. माशेनाक सांगचें, “तूं मदीं पडूं नाका मांय. हांव जायतो भोंवतां गांवांनी. हांव चोयतो तेका न्हवरो. पूण कोण कांय उलयलो ना. आंतोनेत हुमकळयांत पडिल्लेवरी जालें. उज्यांत हुलपावन घेवन मरचें अशें तेका दिसलें.

* * *

अचकीत एक दीस खरगाळीसान मांय आनी पाय मांडपां येयलीं. मांय बरी नाशिल्लेवरी परवंताली आनी म्हणटाली, “बरें ना गो हांव. एक म्हण पिडा. सदूदां उठ दोतोर. सगळी जोड दोतोराल्या होड्ड्यार.”

आंतोनेतान मनांत म्हुटलें, “बरी गुबगुबीत चानी कोशी जाल्या. गाबळां देंवल्यांत. बेठीच रोडटा. इतले बेगीन मोरची ना तूं!”

वांगडा ती चेड्याक– आंतोनेताल्या भावाक घेवन येयल्ली. पूण आंतोनेत तेच्या म्हऱ्यांत गेलें ना. तेचेसरी एक उतर उलयलें ना. साताठ वर्सांचो तो भुरगो आंतोनेतासरीं अनवळखी कसो पयसुल्यान पळयत रावलो. आंतोनेतान एक फावट तेचेसरीं बारीक पळयलें, “हांयेनच बुडोवन मारिल्लो हो परतो वयर सरून येयला! हो तर जिवोच आसा. पूण मुजवयलें बगलांट मात तेहेंच आसा. तेन्ना हांव बुडून मेल्लें काय तूं बुडून मेल्लो......!” आंतोनेतालें मन एक फावट किंवाट्यान निर्शेणेन भरून येयलें. केस्तडां बुड्डून घेवचें अशें दिसलें तेका. “मांय-पाय आनी हो बेगीनच हिंगासान गेल्यार पुरो!”

मांय-पायन एक सोयरीक हाडिल्ली. मांय माशेनाक सांगताली, ''राय कोल्या दोंगरेर एक भुरगो आहा. मडगांवां कामरांत वावर कोत्ता. बोरी सोरकारी शिर्वीस.'' मांयन मदींच खाकुडलेंशें केलें. बसकण परतिली. चिरक्या आवाजांत तिणें म्हुटलें, ''पयली बायल काजार जाल्ल्या देड वर्सांतच उदक काडटना बांयत पडून मेली. दोशी कडलो काजरा खर्च करता म्हुटला. भांगराच्यो वस्तीय तोच घालतलो.''

आंतोनेताक शिट् जालें. तेणें म्हुटलें, ''तेगे बायल बांयत पडून मेली काय तिका जिती मारून बांयत धुकल्ली मांय?''

''येशे कितें उलोयता तूं आंतोनेत नाका आसलोलें? कोणें सांगलां तुका?''

आंतोनेत मांयचेर तापलें, ''मुका न्हवरो सोदाय म्हूण कोणें सांगलो तुमकां. मुगे माशेन, मुगे मावशेभाव चोयतले. मुगे तितीव मुगे काजरा म्हेड मात्तलो. जाणा तूं, हांयें जोडलो दुडू माशेनान हांडी भरून दवल्ला. मुगे काजराक पणजेसान मुज्ग हाडून डान्स दवरतो तें. मुका भांगरा पाव किला सरपळी करूंक आतांच शेटीक सांगला तेणें. तुमकां कांय लागोना.'' तें उठलें आनी भायर गेलें. दोंगरावटेन् चलूंक लागलें.

सगलीं थंड वोग्गी. इतलो रागीट पाय-रूजारय वोग रावलो. कुमसार जावंक येयल्ल्यान उतरां चोरचीं तशें तें वोगीच रावलें. गुन्यांवकारीपणाचो वोग इतलो आसलो, एक उतर उलोवचो धीर नासलो तेंकां. फरांसीक पाय मदींच उलयलो, ''झाड रोयतल्याचें न्हूं रूजार, तें शिंपतल्याचें. शिंपतो ना तर बीं पोकें. तेतूं आनी माशेनान चड मातयलां तेका. वोसाय तुमी आतां.''

माशेन तापलें, ''वोस खूंय म्हुण्टा, कितूल्या तेंपान येयल्यांय. जेवन वयत तीं.'' पूण तीं रावलीं नात. रोखडींच वचूंक गेलीं. इल्ली चाव पिवन वचात म्हुटल्यारय रावलीं नात.

सांजचें उसरां आंतोनेत घारा येयलें आनी कांबरूण घेवन वोगी न्हिदलें. तें मदींच थंडेची हुडहुडी भरिल्लेवरी करतालें आनी पिरंगत म्हुणटालें, ''मुका काजार नाका माशेन. हांव काजार जावचें ना. अशेंच मोत्तलें, आंगार उजो घालून घेवन मोत्तलें.'' माशेन वोग्गी आयकतालें.

फरांसीक पायन मदींच म्हुटलें, ''माग्दालीन, तेगे कुडीर हाडून थंड उदकाचें एक बिंदूल रकय. थंडीय वयतोली आनी उजोय पालवतोलो.''

* * *

बैला जोत आशिल्लें. ल्हानलोच गोठो आशिल्लो. मार उमेदीन चेड्या सरीं झगडून फरांसीक पायन चार-पांच वर्सां फाटीं जोत घेतिल्लें. पूण आतां तो थकिल्लो, तेकिल्लो. केन्ना बैलांक गोठ्यांतल्यान सोड्टालो आनी आपूण खंयतरी फातरार झाडा पोंदा वोगी बसून रावतालो. बैल मागीर कोणायल्याय शेतांत, भाटांत देंवल्यार माग्दालीन मांयक गाळयो खांवच्यो पडटाल्यो. बैलय आतां इल्ले जाण्टे जाल्ले आनी बरेच भागिल्ले. विकतलो म्हुटल्यार जोताक कोण व्हरचो नासलो. मांसाक मारूंक तर फरांसीक पाय दिवचोच नासलो. मोयरबीन अशे वास काडीत गांवांत भोंवताले. तेंका चोयल्यार तेच्या दोळ्यांत उजो पेट्टालो. केन्ना गाळीय घालतालो.

ह्या दिसांनी बैलांचोय बरोच वावर आंतोनेताचेरच येवन पडिल्लो. सकाळीं दनपरां केन्ना वेळ मेळटा तशें तें गोठ्यासरीं वचून बैलांक सोडून दोंगरावटेन आमडून घालतालें. गोठ्यांतलें शेण काडून गायरींत उडयतालें. खंयूय वावराक गेल्यार, वचचे पयलीं, वावरांतल्यान येतकीर अश्यो दोन तीन फावटी तरी गोठ्यावटेन जाताल्यो.

गोठ्या मुखार एक आंबो आशिल्लो. शेंकरा आंबो म्हण. तन्नो आसतनाच आंबो असो आंगान तांबडो. पिकतकीर आनीक तांबडो जातालो. चोचीसरीं घुंवतसो बारीक जातालो आनी चोंच बरीच लांब दिसताली. ताचेन तो सारक्को कोंब्या शेंकऱ्यावरी दिसतालो. ह्या वर्सा तेका खूब आंबे लागिल्ले. आंतोनेत गोठ्यासरीं येयल्यार साताठ तरी पिके आंबे तेका पडिल्ले मेळटाले. केन्ना तें दोनय हातांत दोन आंबे घेवन वांगडाच घांस मारून खातालें. तेची आंबट गोड आगळीच रूच तेका भोव मानवताली. तें ते आंबे पळोवनच पिशें जातालें.

एक दीस तें गोठ्यासरीं येयल्यार कोणतरी आंब्यारुखा पोंदा आंबे पुंजायता. तेच्या हातांत दोरी धरिल्लो धिरये बैल वोगी थंय उबो आसा. हो हत्ती कसो ऊंच आंगान मातिल्लो धिरये बैल. मोटवीं सुळकीं शिंगां. खुबस्तन, मान ऊंच उबी भरिल्ली. त्या बैलाचें बळिश्ट, सोबीत रूप पळोवन आंतोनेत पिसावलें. सुलूस लागतकीर आंबे पुंजायतलो उठलो. तेच्या दोनय हातांत चार पांच आंबे आसले. आन्तेनेतान मनात म्हटलें, "हो तर कोणतरी वळखीचो. नांव-गांव खबर ना पूण चोयला हेका हांयेन." आतां धिरये बैलाक आनी तेका वांगडाच घेवन चिंत्तकीर तेका सट् करून उगडास येयलो. हो सावरी कडचो, त्या व्हडल्या नोळयां घरांतलो. नांव नकळ पूण चोयला हेका जायते फावट हेच्या बैला वांगडा.

थंय सावरीसरीं शेताकडेर उक्त्यार एक व्हडलें नळयां घर आसलें. तेचेमुखार तसोच व्हडलो गोठो. तेतूंत जायतीं गोरवां, म्हसरां. गोठ्या मुखार एक व्हडली स पुरूस ऊंच लांबचे लांब तणावळय सदांच उबी आशिल्ली दिसताली. थंय बळिश्ट धडधाकट कुडीचे

चार पांच दादले वावुरतना दिसताले आनीक कांय बायलोय. बायलो मात अश्योच बारीक, भागिल्ल्यो, केंस हुबिल्ल्योश्यो.

पयलीं पसून आख्ख्या मांडपां तेंच्याच घरा धिरये बैल आसलो. पयलीं ते बैल घेवन मडगांवां, कुठ्ठाळे, वास्कोमेरेन धिरयो खेळूंक वयताले. पूण हालींच सरकारान तेंचेर बंदी घातिल्ली. तरीय तेणीं बैल तसोच राखिल्लो. तेका घेवन झेतान भोंवताले. पूण गांवापासून तुटून वेगळेच कशे. गावडेच पूण झेत मोट्या गिरेस्तालो.

आंतोनेत मनांत चिंतताले, "धवशा गव्या वरी पळय कशें हड्डें फुलोलां हेचें. हेका चोवचें काय हेच्या बैलाक! नांव कितें हेचें... आंकवार काय काजारी काय हो? केन्ना हेवटेन येयनासलो बैलांक घेवन. आज कसो पावलो?" इतल्यांत तेणें, "ये आंतोनेत, आंबो घेः" म्हण एक आंबो तेचेवटेन उडयलो. तो सकल पांयासरीं पडलो. दुसरो उडयल्लो आंबो मात तेणें जिखलो.

"तुका मुगे नांव केशें कोळ्ळें?"

"तुगे माशेन आमगे थंय येता न्ही गो. तें सांगोता मुगे भोयणीगे चेडूं फिशाल म्हूण. खरेंच बरें फिशाल दिसोता तूं हां. फिशाल आनी सोबीत आंगाचें."

आंतोनेत हांसलें. "धिरयो बंद पडल्यो. कित्या पोशिला तेका? खूंय खेळूंक?"

"हांव खेळितां न्ही गो. आदीं धिरयो शिकोयतालों तेका, आतां धिरयो खेळितां."

"कोण जिखोता?"

"हांव न्हू गो. येशी माने वेंग घातल्यार हालपा जायना ते कोडेन. दाखोवची धिरी खेळोन?"

आंतोनेताक भिरांत दिसली. तेणें 'नाका, नाका' म्हटलें. इतले लागींसान तेची बळिश्ट कूड तेचेर लकून येयिल्लेवरी जाली. तें भितरल्यान भिजिल्लेवरी जालें. श्वासांतय गरम वाफ सुटूंक लागली. तें 'शेण काडटां हांव' म्हण बेगीबेगीन गोट्यांत गेलें. दोनय हात शेणांत लेपडावन घेतलें.

गोट्यांतल्यान शेण काडून गायरींत उडयता तें कांय वेळ तो पळयत रावलो. "बरें दिसोता तूं. शेण लेपडावन घेवन शेणांत नाचोता, तरीय बरें दिसोता. येतो हांव. धिरी खेळूं येतोलों. धिरी घेवन दाखयतलों." तो बैलाची दोरी धरून वचूंक गेलो.

आंतोनेत गोट्या दारांत उबें रावन पळयतालें. दोगय एकाच मस्त्या धिरिश्ट

चालीनशे चलताले. “येशें कितें उलयलो तो? केसो धिरी घेतो म्हुण्टालो? घेयत लेगीत तो धिरी! नांव कितें तेचें! काजारी काय आंकवार काय!”

तो दीस पुराय अस्वस्थ घुंवळेंतसो गेलो... बरो दिसोता, बरो मातोला. बरो नाच काड्टो तो चेडवांकोडेन. धिरयेच्यो खोबरी सांगोता....! परतें परतें आंग तापतालें आनी श्वास फुलतालो.

दुसऱ्या दिसा तें त्याच वेळार गोठ्यासरी वचूंक गणमणूंक लागलें. तेणें आंबे सोदले. पिटकोळे फुलांचे घोंस तोडले. इतल्यांत तो येयलो. आंतोनेतालो श्वास परतो फुललो. आवाज थरथरलो, “तूं त्या बैलाक बेठो घेवन कित्या भोंवता?”

“मुगे फ्रेंड मुगो तो!”

“तेका हांव मुगे गोठ्यांत बांदितां!”

“कित्या गो? बरो मानवलो तुका?”

“मुगे तितिवागे जोताक बांदूं उपकरतलो.”

“जोता, घाण्या, गाड्याक बांदपा न्हूं तो. बेठो भोंवचेलो आनी धिरी खेळचेलो.”

“तेगे फ्रेंडाबाशेन?” तो हांसलो.

“तेगे शिंगा पोंताक तांबड्यो तोपऱ्यो घालपा आसल्यो तुयें.”

“घालपा जायो.”

“हांव शिंवोन हाडटां फाल्यां.”

“फाल्यां आनी यो म्हुण्टा?”

“येय नाका. वोस आनी खुंयसानय.”

“येतो हांव. चेडवान आपयल्यार आनी येयनाय म्हूण आहा?”

“तुगे बैला भिरांत दिसोता मुका. कुशीन काड तेका.”

“मोगाळ तो.”

“धिरये बैलांक आनी मोग केसो मोड्याचो?”

“फाल्यां तोपरी शिंवोन हाडच तूं.”

खंयसान तरी तांबडें लुगट फैदासून आंतोनेतान दोन तोपऱ्यो शिंवून हाडिल्ल्यो. पूण दुसऱ्या दिसा तो येयलो तो एकलोच.

"आरे, तुगे बैल खूंय? बैलाबगर तूं सामकोच बाबत लखडू दिसोता."

"ना घट आहा हांव. दाखयतो तुका हांव कितुलो घट म्हण."

"येहें म्हण्टा तूं?" खरें म्हटल्यार तेगेली घसघशीत तामशी कूड भितरल्यान हालिल्लीच.

तेगेल्या हातांतली तोपरी चोंवंक म्हण तो म्हऱ्यांत गेलो. तोपरी चोयतां चोयतां तो तेका तेंकलोच. तेचे कुडीच्या वासान आंतोनेत पिसावलें. भुंये वयल्यान तेगेले पांय चुकले. कुडीची तर तापिल्ली कायल जावंक लागिल्ली. तेणें म्हटलें, "दोंगरार चारां, चुन्ना, काण्णां कितुलीं पिकल्यांत मुरे आनी आमी हिंगा कितें करतांव. या दोंगरारच या."

कांय एक उलयनासताना तो तेच्या वांगडा गेलो. तीं दोंगरांतल्या रानांत रिगलीं आनी तेणें आंतोनेताले कंबरे भोंवतणीं हात घातलो. आंतोनेतान तेगेलो बावळो घट दामून कसो धल्लो आनी तें तेका जशें ओडतच रानांत खूब भितर घेवन गेलें. दोगांय सामकीं मोनी. जशीं मोड येवचे पयलींची गर्भीण शांतताय!

सगलें कांट्यांचें रान आनी कांट्यांच्यो घोली. एके घोली आडसराक तीं गेलीं आनी थारलीं. मुखावयल्यान काण्णांची व्हडली घोल आनी फाटल्यान कांट्यांची कणक. थंय धिरी घेतिल्लेवरी मोटो कामसांवार घडलो. कोण हार घेवंक तयार नासलो, फाटी सरूंक तयार नासलो. आदीम रानटी मनशांचो कामखेव! दोन जुवान पेट्ट्या कुडींबगर आनीक म्हण संवसाराचें अस्तित्व नाशिल्लें. आंतोनेत कणकीच्या कांट्यांत पडिल्लें. तेची उक्ती फाट, कंबर कांटे तोपून पुराय रगतान भरिल्ली. पूण तेका सुद्द नाशिल्ली. कांटे तोपून फाटी कंबरेंतल्यान निशेवपी रगत आनी तेचें आंकवार रगत, तेतूंतच तेंचीं धुमशेणां, एक रक्तखेव! उक्ते कुडीर सकाळचें थेट वोत. दोन पेट्ट्यो कुडी! पोनची भूंय कांडून कुंडो जाताली. एक दुसऱ्याचे कुडींत खोलखोल आनीक खोल रिगचेली एक खेवी धडपड. तेणें तर आंतोनेताले कुडीचो गर्भतळच गांठिल्लो. आंतोनेत तर तेका खिणा खिणा खोल ओडतच आसलें.... खरें तर आंतोनेतालो वोग इतलो खर आसलो तो खंयच्याय खिणाक अवसानखत जावन पडटलो अशें दिसतालें. वास पेट्ट्या रगताचो, कुडी परमळाचो, गर्भतळाचो. आवाज हून श्वासाचो, शिरंतरांतल्यान व्हावपी रगताचो, फुलत्या काळजांचो..... फक्कत मोडां जिरोवप एक दुसऱ्यान......

आंतोनेत उठलें आनी तेणें आपलीं वस्त्रां नीट केलीं. कितें जालें कोण जाणां तेणें बशिल्ल्या धिरये बैलकाराचे तकलेर धप्प, धप्प करून मुठयो घातल्यो आनी तें वोगी चलूंक लागलें.

तेणें फाटल्यान सुकिल्लो आंवडो घोटत म्हटलें, ''कित्याक मुठी घातल्यो तुवेंन मुका? हांव येतलों. फाल्यां परतों येतलों.''

''आनीक येयल्यार शेणाथापो मारतलें तुज्या तोंडार.''

* * *

आंतोनेत कोलमरडा वावराक गेल्लें तेन्ना तेणें चोयल्लें, मायकल कोणाकतरी चेडवाक मोटरसायकलीर बसोवन घेवन फास गेल्लो तो. माशेन वांगडा आसलें. पूण तेगे फाट आसली. तेका दिसलो ना तो. आंतोनेत चिंत्तालें, चेडवान भाड्यान मोटरसायकल केल्या अशें दिसना, चोय कशें तेक्कून बसलां. मायकलाल्या कानाकडे तोंड व्हरून कितेंतरी फुतफुतता तें.

तेच्या आठ दिसांनीच शेजारच्या पावलीनान आंतोनेताक सांगलें, मायकल सिकेटीच्या एका चाड्ड्यागेल्या चेडवाच्या मोगांत पडला. दोगांय मोटरसायकलीर मार भोंवतात. आंतोनेतान 'तुका कोण सांगतालो गे?' म्हटल्यार पावलीनान म्हटलें, गांवांत सगलेच उलयतात.

आंतोनेतान मनांत म्हटलें, ''सगल्या गांवाक खोबोर आसा. खोबोर ना ती मुका, मुगे माशेनाक आनी तितिवाक. पूण चाड्ड्यांगे चेडूं खूंय, केहें जातलें? तितीव आपली जात म्हण्टलो आनी ते आपली जात म्हण्टले!''

एक दीस सांजचे उसरां मायकलाच्या मोटरसायकलीचो आवाज येतकीर आंतोनेत धांवत धांवत सकल गेलें आनी तेणें तेका वाटेरच आडायलो. ''कितें गो कितें जालां? कित्या मोरच्या पावलां?''

''मायकलबाबा, तूं मोगान पडोला चाड्ड्यागे चेडवाल्या?''

''हय पडोलां, तुका कित्या जावो ती खोबोर?''

''केदना काजार जाताय?''

''मोसण्या म्हयन्याक.''

''येशें कितें उलयता तूं? बेगीन जा तूं काजार मायकल बाबा.''

''तूं एक मोदीं पोडलोलें आहा न्ही भोजर.''

''मुगे खोबोर सोड. तूं काजार जातकीर हांव रातचें वोसोन ओटमी रुखार न्हिदतोलें. तुमगे वास रातचो मुज्यान सोंसों जावचो ना न्हू रे?'' तें खूब हांसलें. आतां मायकल पांय नीट भुंयेर तेकोवन मोटरसायकलीर बसलो. तेणें दुखेस्त जावन काळजांतलें सांगचें तशें सांगलें, ''जाणा आंतोनेत, तें चाड्ड्यांगेलें. आमी गाये मांस, दुकरा मांस खायनाय म्हण तेंचेपरस जातीन व्हड मानतांव. पूण ते आमी पाडेली, खणपी, हांडपी वावराडे म्हण उणाक लेखताय आमकां. आमचीं पाडीं मातयेचीं, शेणाचीं घरां. तेंचीय चूक न्ही. फाल्यां काजार जावन हांव चाड्ड्यागे चेडवाक खूंय हाडून दवत्तलों? तेका मुगो, मेरी नांव तेचें, तेगे मांय-पाय मुकोडे मोग कोत्ता म्हूण मारताय, बडोयताय. कुडान बंद करून दवरताय. वोगोत मेवल्यार केशेंय येता तें मुकोडेन, धांवोन. एक दीस मुगो तेका सुण्या बांदचे साखळेन माल्लें पायन.''

''जाच तूं काजार तेकोडेन मायकलबाबा.''

''खूंय दवरतलों तेका? गावड्यावाड्यार खोपींतू?''

''रूम करून खंयूय सेपराद राव तूं बाबा.''

''मागी मांय-पाय?''

''तेंगे चितों नाका तूं आतां. हांव चोयतां तें.''

''मुगे तोकली इरार जाल्या आंतोनेत. काजार जावच्याक आमगे चीट खुंयचो पादरी काड्टलो? खुंयचें इगर्जेंत काजार जातलीं आमी? गावड्यांक कोण लेखतात?''

''तूं गोंयांभायर वोसोन कारवारबीन काजार जावन यो मायकलबाबा. वयताय जायते जाण. चाड्ड्यां, सुदिरांगेले लोक.''

''बोरें फिशाल तूं आंतोनेत. मुगे मावशेभयण न्हूं?''

''वावरा गेलोकडेन कितुल्या लोकांल्यो कितुल्यो खोबरी. जण एकल्याक कास्तीग आहाच. ती रातवाड्यावेली पाखलीण भाटकान्न तेगे चेडो पिसो जाला. तेका आतां घरांत कुडांत बंद करून दवरताय.''

''माका आनी पिशा खोबरी सांगूं नाका. मेरीन माका पिसो केला तितलोच पुरो.''

दोगांय आतां खूब हासलीं.

तेच्या आठ दिसांनीच मायकल नाच्च जालो. रातचीं धा जालीं, इकरा जालीं, साडे इकरा जालीं, मायकल घरां येवंक ना. माशेन आनी तितीव हुस्क्यान फुगार जावन वाट पळयतालीं. निमणे रातचीं बारा वाजूंक माशेन घरांतल्यान भायर सरलें. "आंतोनेत, आमी या, नायेली बाजरा वोसोन चोवन येवया."

"नाका माशेन. हांव जाणां खूंय गेला तो."

"मागी इतुलो वोगोत सांगपा न्हू पाडपडिल्ल्या." आंतोनेत हांसलें. "आगो, खूंय गेला तो?"

"काजार जावच्याक बेळगांवा गेला तो."

"कितें?"

"हय माशेन."

"कोणा वांगडा गो?"

"सिकेटीच्या एका चाड्ड्यागे चेडूं. मेरी म्हूण."

"चाड्ड्यांगेलें? मागी आमकां सांगपा न्हू?"

"कांय जावपा नासलें तुमकां सांगोन. मेरीगे मांय-पाय राजी नासले. तेका कुडीन बंद करून दोवरताले."

"कित्या जाय आसलें तेका तें? गावड्यागे चेडवां कितें सोगळीं मेलोलीं? आगो, ते सिकेटीचे किरिस्तांव आमकां बडोवन दवरचे नात."

"तेंगे मोग माशेन!"

इतलो वेळ आयकतालो तो फरांसीक पाय एकदम तापलो. "केसो मोड्या मोग? न्हिदपाकच जाय जाल्यार सांगपा न्हू? आमी कोणय जातींचे चोवन कोत्तासले काजार. चाड्ड्यागे चेडवा वांगडा काजार जावपा गेला? फाल्यां हेगे मोटरसायकल बंद पोडल्यार तें वयतो खूंय दिसवड्याक? चार दुडू हाड्ट खूंय? काय तेशीं उपाशीं मोत्तलीं?"

मांय हुस्क्यान वोगी भितर बसून आसली. मदींच तोंडांतच कितें तरी बडबडटाली. परवंताली. त्या दिसा घरांत कोण जेवलो ना आनी रातभर न्हिदलोय ना. सकाळपाराक

फरांसीक पाय उलयतालो. “माग्दालीन, तो आतां चाड्ड्यागे जांवय. तो आतां गावड्यां वाड्यार गावड्यां घोरा येवपार ना. मोटरसायकल कुशीक मारून मोटर घेतलो. बोंगल्यात रावतलो. मुगे, तुगे फोंडार मूठभर माती पडपार ना.”

माग्दालीन माशेनालें रातभर दामून धरिल्लें दुख्ख एकदम फुटून येयलें आनी तें रडूंक लागलें. आंतोनेतान समजायलें, “सोगळें बरें जातलें माशेन. मायकल बाब आमगेलो. झोगड्टा, उलयता पूण मनान बरो. तुमचे पासोत सांगतालो तो मुका.”

सकाळींच एका दिसा दोन मोटरसायकली घरासकल येवन थारल्यो. तेचेवयल्यान पांच जाण तरनाटे देंवले आनी फरांसीक पायल्या दारांत येवन उबे रावले.

ते रागान आड्डले, “तुमगे चेडो तो काश्टे गावडो मायकल खूंय?”

“मुका खोबोर ना.”

“चेडयेच्या, जड्डया, खोबोर ना म्हुण्टा? घराक उजो घालतले. सांग खूंय आहा तो?”

“कित्या जावो तो?”

“तेणें गावड्यान किस्तोदीगे चेडवाक पळोन व्हयलां. मेवल्यार गोमटी मात्तो तेगेली. हाडां मोडून दवरतलों.”

“आमकां खोबोर ना तो खूंय आहा तो.”

“खोबोर ना म्हुण्टा? घरांत लिपून बसला आसतलो.” दोग-तीग जाण एकदम घरांत घुसले. तेणीं धुमशेणां कांडीत पुराय घर सोदलें. घरांतल्यो वस्ती फापसूवन उडयल्यो, मडक्यो फोडल्यो, चोबे, शेणपे खोटावन उडयले.

माशेन खपखप्यान बसून आसलें. आंतोनेत वोगी पळयतालें. तेणें म्हटलें, “जालें तुमचें फोडोन मोडोन? आतां भायर सरात वोगी. आमकां रांदूं जायें.”

“आमकां मायकल खूंय आहा तो कळूं जायो आदीं.”

“तो गावडो. गावड्याक केही जातलीं कापास्ताद चाड्ड्यागे चेडवाक उबारून व्हरचेली? तुमच्या चेडवानच तेका खंयूय व्हरून दवल्ला आसतोलो लिपोवन.”

गावड्यां वाड्यावयल्यो विशेक बायलो, कांय दादले थंय पयस उबे आसले. बायलो मुखार आनी दादले फाटीं फाटीं.

ते धुमशेणां कांडीतच आसले. तांतल्या एकल्यान बोल्सांतल्यान लायटर काडलो आनी तो चक्क करून पेटोवन म्हुटलें, ''तुजीं शापोतां नाकात चेडये. मायकल मेवलो ना जाल्यार आमी घराक उजो घालतले.''

आंतोनेतान मुखार वचून सट् करून तेच्या हातार हात माल्लो. लायटर पालोवन सकल पडलो. ''पोटणाच्या, चेडयेच्या, घराक उजो घालता? घाल चोया. तुजो गावड्यांवाड्यारच फोण खोणटोलें. तुजें मोडें कुसयतलें. घराक उजो घालूंक येयल्यात चेडयेचे.'' तें सुद्द विसरून दावखुलां मारूंक येयल्ली वागीण कशी तेचेसरी झगड्टालें. तेच्या आंगार झुडोन वयतालें. तेच्या आवाजान सगलो वाडो खुबळून गेल्लो. ''तुमच्या चेडवांक आदीं राखात नीट. तेणेंच फुसलायला आमच्या बाबाक.''

आतां कुशीन उब्यो आशिल्ल्यो बायलो चोम्यानच मुखार येयल्यो. दादले मात हड्डें बशिल्ल्येवरी कुशीनच उबे रावले. बायलांनी एकच कलकल केलो आनी तेंकां कंवडाळें घातलें. ''घराक उजो घालतात खूंय. आदीं तुमच्या आणाक धरून खोटायतलीं. ''

''उजो घालची खोबोर उलोवशात तर तुमचीं मोडीं पोडटोलीं.''

बायलो हड्डें मुखार काडून मुठी आंवळून तेंच्या आंगार गेल्यो. ते आतां इल्ले भियेले. थंयसान सकल मोटर सायकलीसरीं गेले. थंय गेले आनी रस्त्यावेले खडी, फातर घेवन तेणीं घराचेर शेंवटिले. कांय मिनिटां थार दियनासतना तेणीं घराचेर कितलेशेच फातर शेंवटिले. घराचे वयले गांवठी नळे फुटून तेचीं कयलां सकल देंवलीं. पांवळेर आंगणांत फातरांचो शिंवर जालो. सोताक राखत उब्यो आशिल्ल्यो बायलो आनी दादलेय आतां सकल येवंक सरिल्ले. इतल्यांत तेणीं मोटरसायकली सुरू केल्यो आनी ते धांवन गेले.

हे घडणुकेन माग्दालीन मांय आनी फरांसीक पायलें कंबरच मोडिल्लेवरी जालें. फाटी कण्यांतलो जीवच गेलो. तेणीं हांतरूणाच धरलें. तेंकां दिसतालें, एकलोच पूत हातचो गेलो. तो गांवांर पडलो. ह्या संवसारांतल्यान, संकश्टांतल्यान आनीक म्हण भायर पडूं नज. ते कांय आतां मायकलाक जितो सोडचे नात.

पूण अशें जालें ना. मायकलान आठच दिसांनी बेळगांवच्यान येवन दवर्ले बिराड केलें. आदींच तेच्या एका फिलीप म्हणिल्ल्या इश्टान रूम चोवन दवरिल्लो. तीं बेळगांवसान येतना कांय आयदनां, दोन हांतरूण कांबरुणां घेवन येयल्लीं. येयल्लेच ते रुमार रावंक गेले. फिलीपान तर एक प्लेस्टिके बाल्दी, एक केरोसिना स्टोव, एक सान्न, एक शेनरी आदींच रुमार हाडून दवरिल्ली.

ते दवर्ले रावता म्हण पायकडच्या लोकांक खबर लागली. आनी तशेच मोटरसायकलीर बसून चवगजाण येयले. मायकलाक धाडावच्या बेतानच. तेंकां चोवन मेरी रुमाचें दार धरून घट उबें रावलें. तेणें सांगलें, "हांव मुजे खोश्येन, मुज्या फुडारपणान एका बऱ्या किरिस्तांवाकोडेन काजार जालां. तो गावडो पूण इगर्जेंत आमी सगळीं मेळून एकठांयच जेजुसरीं दिमी मारतांव. मायकलाच्या आंगाक तुमी हात लायल्यार हांव वोचोन पायगेल्याच बांयत उडी घेवन मोत्तलें. ना तर भितर पेत्रोला दबो आहा. तो आंगार रखोवन घेवन उजो घालून घेतोलें. तूं मुजो मोगाचो जेस् अंकल, तुका हांयें केल्लें चूक कित्या दिसोता? जेजून आमकां सांगलो ना, मोग आसा थंय सवसकाय आसा, आपूण सोता आसा म्हूण. माणपा तुमी केले ते बरें केले ना. बरो किरिस्तांव हेराचें घर मोडिना. वोचाय तुमी. पायक सांगाय हांवच एक दीस येतां म्हण तेकोडेन. मांय-पायचें बेसांव घेवंक."

ते वोगी वचूंक गेले.

* * *

मदींच केन्ना तरी रातचीं मायकल आनी मेरी मोटरसायकलीर मांडपां येतालीं. कांय वेळ खबरीं करून वयतालीं. आंतोनेताक मेरी भोव मानवतालें. गोरे, लांब, पातळांगीच तें. तेतूंत आनी तेगेलो आवाज गोड किणकिणो. पोले मात्शे लांबट, पडिल्लेशे. पूण दोळ्यांतलें हांशें मात सासणाचें. हें हांशेंच तेची शिरवंतकाय. जशें तेचें तें हांशें काडून घेतल्यार तें मरून पड्टलें. तसो मायकलय बरो दिसतालो. गावड्यालो मुदलांतलो नितळ गोरो रंग तेका लाबिल्लो.

तीं येतकीर माशेनाली एकच रड आसताली, आंतोनेताल्या काजराची. माशेनान सांगतकीर मेरीय मायकलाक म्हणटालें, "चोय रे खंयूय बरो भुरगो आसल्यार खोबर काड रे."

मायकल तोंड लांबोवन वोगीच रावतालो. केन्ना म्हण्टालो, "मुजेंच सारकें ना मांय. हेरांगे बऱ्या चेडवाकोडेन काजार जाला हांव. पूण कांयच थाऱ्यार ना."

एक दीस मेरीन माग्दालीन मांय एकलीच आसतना ल्हवच सांगलें, "मुगे आसा इलें भांगोर. येतना घेवन येयलोलें. दोन मुदयो, गळ्या सोरपोळी, चार कांकणां. आंतोनेतागे काजराक वगतार उपकारतलीं. मुगे नांवार पोस्टांत थोडे दुडू आसलोले. पूण बूक मांयगेरच उल्लो. चोवया केशें जाता तें. पूण भिये नाका तूं."

खरें म्हटल्यार माग्दालीन मांय तेगेलें भांगर घेवचीच नासली, पूण तेच्या ह्या

उतरांनीच तिणें घटसाण घेतली.

आतां ती मेळ मेळिल्ल्याक सांगत सुटिल्ली, आंतोनेताक खंयूय एक बरो न्हवरो चोयात म्हण. तीवय खंय खंय वयताली आनी येवन हुश्श करीत धोंपरां धरून घेवन बसताली. "येसो दुकळ! मुदार जाल्याय दीस. पयलीं हिंगा फूल पोरमोळ्ळ्यार कुट्टाळे वास पावतालो आनी चेडवां सोदीत दारां येताले. आतां चेडवांगे मनशांनी पांय झरोवं जाये. पाड्ड्यां हांयें काय बरो न्हवरो चोयलोलो. ह्या चुतडान धांवडायलो तेका ओपमान करून."

"काजार जावच्या फुडें तो बायलेक अरबासरीं धाडूंक सोदतालो माशेन."

"केसो उलयता तूं नाका आसलोलें. येसो देखीन काजार जातकीर चार दिसांत घोवा घरसान धांवन येतलें तूं."

"खूंय धांवन येतलें हांव माशेन?"

माशेन घुस्पल्लेवरी जालें. तेका दिसलें, काजार जातकीर हेगेली फाटली वाट तुट्टली. आतांच हेका बऱ्याकडेन चोवन दिवपा जाय.

एक दीस पिन्तू भाटकाराल्या भाटांतल्यान पयल्यान वयताना अचकीत ही व्हडली नाल्लापेंड मुखारच पडली आनी नाल्ल उसळ्ळे. माग्दालीन माशेनान वयर पळयलें, पाडेली नाल्ल पाड्टालो. "कितें रे चोवन पेंड मारपा न्हूं? तकलेर पडलोली जाल्यार?"

"कोण गो, माग्दालीन बाय, खूंय वयता?"

"कोण किस्तू रे? मिनेज भाकारागेर घरांत केसो वावर आहा खूंय. चोयतां दिसवडो पोड्टा जाल्यार."

"मेवतलो, बरो मनीस तो. बायल तर अदी बोरी."

"किस्तू, मुगे भयणीगे चेडूं चोयलां तेका तुयें. काजार कोत्तां तेका. बरो भुरगो आसल्यार सांग."

"आगो, आगो, मात्शें कुशीन सोर..." किस्तून दुसरी पेंड घप्प करून सकल उडयली. "कितें म्हुण्टालें तूं माग्दालीन बाय?"

"मुगे भयणीगे चेडूं... काजराचें आहा."

किस्तून माडावयल्यान सांगलें, "दिकरपाळचो दुमिंग म्हण एकलो भुरगो आहा. पंदरा दीस जाले भायल्यान येयल्यार. येयल्लोच बेगीन काजार जावंक सोदिता."

"कित्या?"

"रोखडोच परतो वोसपा आहा दिसोता."

"बरीं मनशां?"

"वोसोन चोय तूं. कुयटा आहा न्ही गो? दुडू आहल्यार सोगळें बरेंच."

किस्तू माड पाडून जातकीर तो बेणूंक लागिल्लो. माग्दालीन मांय वचूंक सुटली.

दुसऱ्याच दिसा तें दिकरपाळये वचून येयलें. लांबच लांब एक घर. मातये वण्टी, गांवठी नळयां पाखें आनी चुडटाच्यो पांवळयो. वण्टींक बांदतसान इल्लें शेण सारोंवंक नासलें. इल्लो चुनो लावंक नासलो. तांबडे मातयेच्यो त्यो वण्टी तश्योच उक्त्यो आसल्यो. घरांत आनीक दोग दुमिंगाले बापोलये रावताले. एकेवटेन एकलो. दुसरेवटेन दुसरो.

भायल्यान पोन्ने गरीब दिसपी घरांत दुमिंगावटेन मात इल्लो चकचक आसलो. मेजार नवोच फोमचो कपडो घातिल्लो. थंयचीं चार कदेलांय नवींच दिसतालीं. मेजार एक घड्याळ, टेपरेकोर्डर्, एक व्हड बॅटरे दिवो, कांय काचेचे ग्लास आसले. एका कोनशाक एकाचेर एक अश्यो दोन सुटकेशी दवरिल्ल्यो. पूण दुमिंग चोयल्यार मोटवो, काळसोच, किरकोळ.

दुमिंगालो पाय मेल्लो. तेगेलो आनीक एक व्हडलो भाव मावोड्याच रावतालो. सासुपाय मरतकीर मेवणो सामकोच ल्हान म्हण सासुमांयन तेका थंय शेतबीन करूंक दवरून घेतिल्लो. तो मागीर थंयच उरलो. तेंगेली एकच भयण माकाझान काजार करून दिल्ली. आतां घरांत मांय आनी दुमींग दोगांच रावतालीं.

मांयन सांगलें, "काजार जातकीर रोखडोच कुयटाक वयतलो तो परतो. तेगे पात्रांवालें थंय दुमिंगा बगर पान हालना. चांटेपावलाक तेका उलो घालता खूंय. प्लेना तिकेट धाडटां म्हुटल्या खूंय रोखडीच."

माग्दालीन मांय कितेंय जावं, चेड्याक चेडूं पळोवंक यो म्हण सांगून दीस थारावन येयली. परती येतना ती चित्ताली, 'हे फावट हांव आंतोनेतालें कांय एक आयकोचें ना. काळो जालो म्हण कितें जालें? कुयटा आहा, दुडू जायतो हाडला आसतोलो. आनी एक फावट मारून येतकीर टेर्रेसी घर काडटलो, गाडी मोटार घेतलो, भांगरां घडयतलो. माशेन इल्लें भुल्लुशिल्लेंच. गावड्यागे चेडवाक आनी खूंय फावता कुयटाक आसलोलो?

दुमिंगाक चोवन आंतोनेताक खण्प जाल्लें आनी तें सामकेंच निर्शेल्लें. तें घसघशीत

लांब रूंद आंगलोटाचें तर तो मोटवो काळो. पूण तें कांय उलयलें ना. ओंट शिंवन वोग्गी रावलें. माशेनान तेंचे हुजीरच विचारलें, "जातलो मुगो?"

आंतोनेतान हय केलें ना नाय केलें ना. तें वोगीच रावलें. माशेनान चितलें, इतलें सडकून उलोवपी हें वोगी आसा म्हण्टकीर हेका मानवलो आसतलो.

ते चोवन वयतकीर माशेनान तेका ल्हवच विचारलें, "कांयच म्हुटलें ना मुगो तुवें? जातलें मुगो काजार? मानवलो मुगो?"

"तुका बरो मानवलो आसतलो न्ही माशेन?"

"येशें कित्या उलयता तूं?"

"कुयटा आहा मुगे. बरें न्हू, घोवा दुडवां कुस्तार बायलांक हिंगा मोजा करूंक मेवता. होटेलां, पिक्चरां. येयल्लो तेन्ना थोडे दीस पांशेस काडल्यार पुरो."

"सदां आंकडेंच उलयता तूं आंतोनेत."

"कोर तूं ही सोयरीक माशेन. मुका कुयटा आसलोलोच जायो."

"बरें आहा तर. तुगे मतींत आसल्यारच करपा न्हूं?"

"माशेन, तो धिरयेकार काय बरो दिसोता न्हूं?"

"कोण गो?"

"तो धिरये बैल घेवन भोंवता तो. बैलावरीच मातला."

"तो सांतान गो? सावरीकोडच्या पावलू गे चेडो."

"सांतान नांव तेगेलें?"

"तो काजारी मुगो, बायल भोजर. वंयेक लावंक कांटये शिटें कोहें."

आंतोनेत खळखळून हांसलें.

"आगो हांसोता कित्याक? तोकलेन सारकें ना कितें?"

"माशेन, त्या दिकरपाळये दुमिंगा सोयरीक कोरच तूं. तो धिरये बैलकार कुयेटकारा लागोता? माशेन, मागीर तुका हांव चेर, भायले साबांव, तिखी, कालापुरां हाडून दितोलें. मागीर तुयें तुगे कापडार चेर मारून घेवन भोंवचें."

"मुका नाका तुगे घोवालो. तूंच मारून घे भायर भितोर."

* * *

माग्दालीन माशेन काजराक उठिल्लें खरें पूण हातांत पानदुड्डू नासलो. काजरा उलोवपाक न्हवऱ्यागेरच तीं गेल्लीं. तें सोता, फरांसीक पाय आनी शेजारचो आगुस्तीन. तिगांच. फरांसीक पाय तांबडी कास्टीच मारतालो सदां. पूण त्या दिसा तेणें तेका मायकलालें मोटवें कालसांव चडयल्लें. सोता तांबडें देंठले कापोड, हातबर पोल्क न्हेसलें. फरांसीक पाय चलत वयतना वाटभर पिरंगल्लेवरी करतालो आनी म्हणटालो, "कोणाली बांय, कोणालो राजू! कोण उदाक काडटा, कोणालो माड शिंपता! माग्दालीन, कितेंय आंकडें जाल्यार तुकाच मार पोड्टोलो."

"ओगी राव तूं. थंय गेल्यार वोगी बोस. कांय उलोवपार ना."

"मुका कित्या हाडला तोर?"

"काजरा म्हेड मात्तलो पाय म्हूण दाखोवपाक."

काजराचें उलोवपाक न्हवऱ्याकडचे तेगेले दोन बापोलये आनी मांयच आसली. माग्दालीन मांयन स्पश्टच सांगलें, "मुकोडेन चोड खर्चाचें जावपार ना. हाता दोन कांकणां आनी गोळ्या सोरपळी इतलेंच घालतो हांव. इगर्जेक रेस्पेर जातकीर व्हंकलेक घेवन न्हवरो तेगे घरा येतलो. मागी तुमी दान्स दवरात ना तर लादीन कोरात."

न्हवऱ्यान दुमिंगान मोटे ताबदारकेनच म्हटलें, "तुमचें कांय नाका मुका. मुकोडेन जायतें आहा. हांव व्हंकलेक वीस पोवनांचो जोग कोत्तलों. हॉलांत दान्स दवत्तलों. बियरीच्यो वीस काशी पावच्यो नात."

आयकोन फरांसीक पाय संभ्रमात पडलो. तेणें ल्हवूच माग्दालीनाक म्हटलें, "चोय हां माग्दालीन."

मागदालीनान तेचें काना मनार घेतलें ना. दुमिंगाले मांयन म्हुटलें, "मुगे पूत हेरांक त्रास दिवपी न्हूं. हेरांलें कांय घेवपी खावपी न्हू. व्हड मनाचो. तेगेलेच कितुले जाण खावन पिवन वयताय."

तेगेले दोगय बापोलये वोग्गी बशिल्ले. हांचे वांगडा गेल्लो आगुस्तीन फक्कत हय, हय, ना, ना, करतालो. काजराचो दीस थारोवन आनी नायेलीचेच इगर्जेंत काजार करचें अशें उलोवन तीं परत येयलीं.

येताना फरांसीक पायन म्हुटलेंच "उडक्यो मारता मुगो तो माग्दालीन. बरें दिसोना मुका. दुबावला हांव."

"कुयटा आहा तो. भायर आसलेल्यांलो झेत चोंवंक ना तुयें. म्हैन्याक वीस तीस होजार पागार आसता मुरे तेंकां. बऱ्या नशिबाचें आमगे आंतोनेत. तूं मनीसच दुबावाचो."

फरांसीक पाय वोगीच रावलो. पुराय मिलिटरी कॅंपाक भोंवतडो घालून चलतच तीं मांडपां पावलीं.

* * *

दुसऱ्याच दिसा दुमींग तेगेल्या गांवचे इगर्जेचें सेदांव-जल्मपत्रिका आनी चीट घेवन येयलो. तेणें म्हटलें. "नायेलेचे इगर्जेंत काजार जातो जाल्यार हें जायें पड्टोलें. दोनयकडच्या लोकांनी वचोन फादराक चीट वाचूं सांगो जायी."

तेका बसोंक सालांत कदेल दिलें आंतोनेतान. तो बसलो. माशेन खंय भायर गेल्लें. आंतोनेत भितर गेलें आनी तेणें तीन-चार पितळेचीं. स्टिलाचीं आयदनां एकदमच फळ्यावयल्यान सकल उडयलीं. घडघड आवाज जालो. दुमिंगान कच् करून आंग काडलें. फरांसीक पायन म्हटलें, "व्हंकलेकोडेन उलयना रे तूं?"

"भिरांत दिसोता तेची. येताना वाटेर एक दादुलो सांग. रस्त्यार दांबर घालतना एकल्या गाडीकाराच्या आंगार हुनो दांबर घायलो खूंय तेणें. तेकोडेन काजार जायनाका म्हुण्टालो."

फरांसीक पाय हांसलो. "फट तें दुमींग. सामकें फट. पूण आमी गावड्यांगे दादल्यांनी बायलेगे मार खावपाक तोयार आसपा जायें. आंतोनेतागे मार तुका इल्लो चोडच पोडटोलो." माग्दालीन मांय दारांत पाविल्ली. तिणें जुस्त आयकोलें.

"केसो खोबरी सांगोता तूं न्हवऱ्याक? तो धांवोन वचों जाय म्हण सांगोता?"

"बेठींच फकाणां कोत्ता तो मुगेलीं माशेन."

फरांसीक पायन परतें म्हुटलें. "खूंय वयतो तो आंतोनेता सारकिल्ले भांगरा व्हकलेक सोडून. गेल्यार गेलो. आंतोनेता लागून न्हवऱ्यांची लायन लागोल्या. हेदोळ दांबरा खोबरी सांगलो तो...."

माग्दालीन मांय मदींच तापली. "केसो खोबरी उलयता तूं? मात्सो वोग रावं नज?"

दुमिंगान आतां ल्हवच फरांसीक पायक विचारलें, "ओदोळ आयदनांचो आवाज येयलो तो..."

"मुजभाशेन तुगे व्हंकल इल्ली फकाणेरच. वोगो राव. काजार जातकीर सोगळीं फकाणां निवळटाय. मुगे बायल इतली फकाणेर आसलोली, मुका कास्टी सोडून कालसांव न्हेस म्हुणटाली. हांये म्हुटलें, तुगे देठले कापोड तूं पोयलीं सोड."

माशेन इगर्जें वचूंक तयार जाताली. आंतोनेत येवन सामकेंच दुमिंगा म्हन्यांत बसलें. सामक्या संवकळीच्या मनशासरीं उलोवचें तशें उलोवंक लागलें. "दुमिंग, तुमगेर शेतां आहाय?"

"आहाय. हांव कुयटा, भाव मावोड्यां, पडिंगच आहाय तीं."

"तुमगेर बैल आहाय?"

"आसलोले पयलीं. एकलो मेलो, दुसरो विकलो."

"तुमगेर गोठो आहा?"

"आसलोलो. भाव मावोड्या वयतकीर मोडोन पडलो."

"केसो गावडे रे तुमी? गोरवां, गोठो, नासलोले. जावं मुका आनी शेणा हात घालों नाका. तूं मुका कुयटासान दुडू धाड्टो मुरे? बांकेत मुगे नांवार?"

"वोय... वोय तर ...."

"वोंगठो माल्ल्यार बांकेसान दुडू दिताय?"

"दितो तर?"

"हांव आतां कुयटकारागे व्होंकल. मोजा मुजी. खूंय वावरा हांव वचपार ना. बांकेंतल्यान दुडू हाड्टोलें, सुशेगाद खातोलें. सोरो बा पियेना मुरे तूं दुमिंग?"

"शा, शा, ना."

"माशेन, मुगे न्हवऱ्याक इदी चाव करून हाड गे."

"तूं करून दी मुगो." माशेनान भितरल्यानच म्हटलें.

"मुगे चाव तेका काजरा उपरांत. सामकी कार्रेगाद."

दुमिंग इल्लो हांसलो. तेणें ल्हवच विचारलें, "तुयें कोणा आंगार केन्ना हुनो दांबर घायलोलें?"

"कोण सांग तुका?"

"येताना वाटेर एक दादुलो सांग."

व्होय तर. तो मुका हॉटेलांत बिरयाणी खावंक या म्हुणटालो. मागी रखयलो बाल्दीभर हुनो दांबर आंगार. सुजलो बेबो जालोलो."

फरांसीक पायन मदींच व्हडान म्हटलें, "फट सांगोता तें दुमिंग. मोगाळ तें. किस्तोदीगे दोगां भुरग्यांक मांय मोरतकीर तेणें कितुलें बरें केलां जाणा. आतां तें किस्तोदीकोडेन काजार जायना म्हण तेणें बगलांट घातिलां. पयर येयल्लो रडत, आंतोनेतासरीं काजार जाता म्हण्टालो."

"जावं, जावं, हांव तें धरपार ना."

तीं इगर्जेंत पाद्रीसरीं वचूंक भायर सरलीं तेन्ना फरांसीक पायन माग्दालीनाक ल्हव म्हटलेंच, "माग्दालीन, मुका दुबाव येता. कितेंतरी आंकडें आहा. चोय नीट."

माग्दालीन मांयन दोळे वटारून तेचेसरीं पळयलें.

* * *

नायेले इगर्जेंत दुमिंग आनी माग्दालीन मांय दोगांच गेल्लीं पाद्रीसरीं. पाद्रीन पयलींच तेंकां सांगलें, "तुमी बरे किरिस्तांव म्हण आदीं मुका पारखूंक जाय." तेणें दुमिंगाक विचारलें, "तूं केदना जेजूसरीं कुमसार जालोलो?" दुमिंग वोगीच रावलो.

"तुयेन केन्ना पातकां केलीं ना हेची गारान्टी तूं मुका दिवंक ताकता?" दुमिंग परतो वोगी.

"मतींत दवर, जेजूसरीं पातकाची भोगसणी मागल्यार पातकां निवळतात आनी मोरतकीर सोर्गाचीं दारां उक्तीं जातात." उपरांत तेणें माग्दालीन मांयक विचारलें, "माग्दालीन, तूं आयतारा इगर्जेंत वयता?" माग्दालीन मांय वोगीच रावली.

"देवाचो पूत जेजू तो आमचो राखणदार. तेचेसरीं भावार्थ दवरून रोजार केल्यार कसल्याय संकश्टांतल्यान आमी वाटावतांव. दर आयताराक मिसाचें आयकल्यार तुमचें मन हारशावरी निवळ जाता. निश्कळंक जाता." मागीर तेणें दोगांकय दिमी मोडून बरो

किरिस्तांव जातलो म्हण सोपूत घेवंक सांगलें.

पाद्रीन मुखावयल्या तीन आयतारांक तेंच्या काजराची चीट इगर्जेंत वाचली.

माग्दालीन माशेन काजराक उठिल्लें पूण हात मात रिते. दिसतालें, ''दारांत काजरा माटोव घालचो. भिकऱ्यां जेवण वाडचें, भिकऱ्यांक कापडां वांटचीं आनी वांगडा जेवण बांदून दिवचें. लग्नादिसाक आख्ख्या गांवाक आफोवन जेवण घालचें. बरीं सान्नां करून, व्हडले इस्वण हाडून पोस्तां तळचीं, बोकड्या मटण रांदचें. बियरीच्यो काशी फोडून लोकांक बियरी दिवच्यो. लादनी करच्यो, फोग मारचो. जाल्यार दान्सय...'' पूण कांयच जावपाचें नासलें. तें निर्शेतालें, अवसानखत जातालें आनी मागीर एकलेंच रडूंक बसतालें. तेका घोवाली तिडक मारताली, 'व्हडल्यो जाणवायो सांगोता बशिल्लेकोडेन. पूण हेच्यान भायर वचून शंबर रुपया उबे करूंक जावचे नात.' फाटीं तें आंतोनेताल्या काजराचें घेवन तेगेल्या मांयपायंसरीं, धाकलें माशेन दुमेतिनासरीं गेल्लें. पूण तेंचें उलोवणें आयकोन रडत घरा येयल्लें. तेंचेसरी आनीक वयचें, तेंकां काजराक आफोवचें अशें दिसच नासलें. 'आंतोनेताली जोड हांयेन खायली खूंय. खूंय आसा जोड? हाडलो पावशेर, खायलो पावशेर अशी गत.' फाटीं मदीं मदीं तें आंतोनेतान हाडिल्लो दिसवडो तिडकीनसो एका मातये बुडकुल्यांत दवरतालें. तेणें बुडकुल्यांत हात घालून काडून ते पयशे मेजले– फकत देड हजार जाले. भायर जंय जंय बऱ्यो वळखी आसल्यो थंय वयतालें आनी पांये पडून वावर करून चुकोवचे, परते करचे बोलीर शंबर-दोनशीं घेवन येतालें. कांय कडच्यान तांदूळ- नाल्लय हाडले तेणें. कोणय तेका तिडयतालो, ''तूं आतां म्हातरें जालें मुगो आनी केसो वावर करून चुकयतलें दुडू?'' पूण तेगेल्या फाटल्या खरेपणाक, बरेपणाक पातयेवन लोक दितालें.

एक दीस सांजचो चेडो मायकल मेरीक घेवन येयलो. मोटरसायकल लायली आनी वोगी भितर येवन बसलो. वांगडा हाडिल्लो सोऱ्या पाव मात तेणें ल्हवच पायसरीं सरकिलो. आतां अशेंच जाल्लें, आंतोनेतालें काजराचें थारतसान तेणें मोनेळ घेतिल्लो. काजराचें उलयल्यार बेठोच चाचरतालो. माग्दालीन मांयूय जाणा आसली, तेच्या मोटरसायकलीच्या भाड्यांत तेचेंच नीट जायना. तेतूंत आनी हेरांगेलें. बऱ्या घराचें चेडूं हाडला काजार जावन!

आंतोनेत तशें तेचे सासणाचे थुळेवणेंतच आसलें. तेणें मेरीक तिडयत म्हटलें, ''तुगे ओंटां सुजल्याय मुगो मेरी?''

मेरीन ल्हवूच म्हटलें, ''तुगेलींय सुजतोलीं. राव.''

''सुजपाक मुगे ओंटां तुजबशेन फुलाचीं न्हूं. तीं शिमिटाचीं.''

माग्दालीन मांय हड्डें बशिल्लेवरी वितरागान कितें कितें उलयताली. ''हेरांगे बिरमत बेठी तोकल्यार घेतली हांयेन. मुकोडेन जावचें ना रे मायकल. हांव मोत्तलें.''

फरांसीक पायक येन्नादर चेड्यान हाडिल्ल्या सोऱ्या पावाची घुंवळ बरीच चडिल्ली. तेणें म्हटलें, ''येदो दाणगो चेडो आसतना रोड्टा कित्याक? उडय म्हण सांग धा वीस होजार भोयणीगे काजराक.''

''हांव खूंयसान हाड्टोलों पाय? जोड पेत्रोलाकच पावना.''

''रीण काड.''

''मोटरसायकलीचें रीणच अजून पावोना.''

''हेरांगे भुरगे खुंयचे खूंय पावोले. मांय पायक चोयताय. शेतांत मिशिना नांगोर घालताय. टेर्रेसी घरां काड्टाय. तूं घेवन बसोला भाड्या घोडो.''

मायकलाक सट् जालें. तेचो मूळ सोबाव फुटून येयलो, ''तुयें कित्या काडलो ना टेर्रेशी घर पाय? कित्या ह्या मोडक्या खोपींत पडोन आहा? तुगे ही खोंप नाका, शेत नाका म्हूण भाड्या घरांत रावों गेलां हांव. चेड्याक केहलोय पोटलो दिल्यार चड उलयतासलो तूं.''

''भाड्या घरांत रावों गेला तो आमच्या पासत न्हूं. ह्या फुला बायेक घेवन गेला तूं. मुजो पोटलो जाय तुका? फाल्यां मुगेलीं हाडां व्होरून वीक.''

मेरीन मदींच म्हुटलें, ''मायकल, कित्या चड उलयता तूं? मांय-पायकोडेन उलोवपा कोवना तुका?''

त्या दिसा माग्दालीन मांयन रांदूंकच नासलें. तीं तशींच बेगीनच वचूंक गेलीं.

मेरील्या नांवार नायेलीं पोस्टांत साडेतीन हजार रुपया आसले. मदीं धाकले भयणीक सांगून तेणें पोस्टाचो पासबुक पायक कळनासतना हाडून घेतिल्लो. तांतले तेणें तीन हजार काडले आनी तें नायेलीसान एकलेंच चलत मांडपां गेलें. ते पयशे माग्दालीन मांयच्या हातार दवरून तेणें म्हटलें, ''इतलेच दुडू मांय... भांगर आहा इल्लें मुगेलें जाय जाल्यार चोय मागी.''

माग्दालीन मांयन बेगीबेगीन 'भांगर नाका' म्हटलें. मेरीच्या कर्तुबान तिचें काळीज भरून येयलें. तिणें मेरीक मायेन वेंगेंत घेवन म्हटलें, ''कोणा व्हडालेंच चेडूं तूं. देखय बरी मेळल्या तुका. बरें जावं तुजें.''

आंतोनेत पळोवन अस्वस्थ जाल्लें. "हें सगलें काजरा फेस्त जाय मेरेन. मागीर मुजो कोण उरचो ना. हांव पोसूक ह्या घरचें. काजरा उपरांत मुका फाटली वाट बंद जातली! कुळर नासलोलें कर्मकट्टें हांव!"

माग्दालीन मांयच्यान आंतोनेताल्या मांय पायक काजराक आफयलेबगर रावंक नज जालें. तेणें निमण्या वेळार आंतोनेताक म्हटलें, "आगो, तुगे मांय-पायक काजराक आफ़ोवं जाय मुगो."

तें माशेनाचेर तापलें, "तूं काजार कोत्ता मुगो. तुका जाय जाल्यार आफय ना तर राव. मुका सांगों नाका." खरें म्हणल्यार तेका भयण– थोटें ग्लोर धेडी म्हण येवची अशें दिसतालें. पूण तें उलयलें ना.

माग्दालीन मांय उठाउठीं खरगाळी गेली. भायलेभायर आंगणांतल्यानच तेणें काजराविशीं मांय-पायक सांगलें. तेणें म्हटलें, "हांव तुमकां आफोवच्याक येयल्लें ना. तुमगे चेडवा काजार म्हूण सांगों येयलां. तुमकां दिसल्यार येयात. सतरायेर नायेले इगर्जेंत रेस्पेर."

हे फावट माग्दालीन मांयक तेंगेली गरिबी चडच होलमली. रुजार तर सोऱ्यान सामको कट्टर जाल्लो. भुरगीं उमळून पिळून काडिल्ले वरी भागिल्लीं. आंगार पिनकीं वस्त्रां.

काजरा दिसा रेस्पेरावेळार इगर्जेंतच मांय आनी पाय येयल्ले. तीं नोटींची एक कवळीशी माग्दालीन मांयक इगर्जेंतच दिवंक सोदतालीं. पूण तिणें तेवटेन दुर्लक्ष केलें आनी ती बळयांच कुशीक सरली. उपरांत ते पयशे तीं आंतोनेताल्या हातीं दिवंक सोदतालीं. पूण आंतोनेतय हात फाफुडलेशे करून कुशीक सरून न्हवऱ्या म्हऱ्यांत वचून उबें रावलें.

काजराचे सगले विधी जावन तीं इगर्जेंतल्यान भायर सरताना आंतोनेतान चोयलें, तीं थंय पयस आशिल्ल्या एका शिमिटाच्या बांकाचेर वोग्गी बशिल्लीं. गरीब, रडूंक पाविल्लेवरी दिसतालीं. तीं भायर येवन मोटारीसरीं वचूंक वयताना परती ती मुखार येयली. आंतोनेत मात्शें थाल्लें. तेणें विचारलें, "मांय, ग्लोर केहें आहा?"

"आहा, एक पांय ओडीत चलोता."

पायन दोळ्यांत दुकां गळयत म्हटलें, "आमचेर तूं रागार ना मुगो धुये?"

तेणें पयलेच फावट पायक पुराय बारीक पळयलें, "सुजिल्लेशे, रगत मेल्ले धवशे पोले. इल्लीय जीवसाण नाशिल्ले दोळे, तेतूंत देंवन येयल्लीं दुकां तेका विचित्र दिसलीं. तेणें

थंडपणान 'ना पाय' म्हुटलें आनी तें मोटारींत वचून बसलें. मागी दुमिंगय येवन म्हच्यांत बसलो. दुमिंगान वस्त्रार बरोच चेर मारून घेतिल्लो. तो तेका सोंसना जालो. तेतूंत आनी तेगेल्या सुटांतल्यान व्हांवपी हुमेचो वांस तेतूंत भरसल्लो. तेका ओकूं येयिल्लेवरी जातालें. तेणें भायर तोंड घालून इल्लो वारो घेतलो.

मोटार सुटच्या वेळार लेगीत तें फातरा दोळ्यानशें मुखार पळयतालें. दोळयां पापण्यो थरथर लेगीत नासल्यो. एक मन म्हण्टालें, माशेना लागून तरी रड गो पापणी! पूण ना! हांव निमाणें केन्ना रडिल्लें? पायन मारून हाड मोडून आंगणा भायर घातिल्लें तेचे उपरांत हांव केन्ना रडलेंच ना! रडप विसरिल्ल्यान मुजो फातर जाला!

तें इगर्जेंतल्यान सरळ दिकरपाळये घोवा घरा येयलें. लांबचें लांब अशें तीन दारांचें घर. पावसान धुवून कश्यो तांबडे मातयेच्यो वण्टी उक्त्यो पडिल्ल्यो. वयल्या गांवठी नळ्यांच्या भारान पाखीं बागोवन येयल्लीं. हेर दोन बापोल्यांच्या दारांत, आंगणांत शेतकामाचो, हेर कितलोसोच पसारो फासपून पडिल्लो. त्या मानान दुमिंगाल्या घरांत इल्ली बरी मांडणी, नितळसाण दिसताली. उक्त्या वण्टींक तसोच चुनो मारून निळो कसो डिस्टेंपर काडिल्लो. आंगणांत काजराक म्हण माटोव घातिल्लो. थंय कांय कदेलांय मांडून दवरिल्लीं. रातचो डान्स जावपा आसलो. घरा फाटलेवटच्यान चूल मांडून बायलो काजरा रांदप रांदताल्यो.

तेच्या घरा कुशीक पयल्यान आनीक एक घर आसलें. तेंचो भाटा कुडको हेंच्या घरामेरेन येवन लागतालो ज़ावंये. वा पूर्वापार कसलें झगडें चलतालें जावंये. तेणीं आपलीं गोरवां सामक्कीं हेंच्या घरा कुशीक हाडून बांदिल्लीं. काजरा माटोव घातिल्लो तेका लागूनच चार खुंटे मारून तेका एक आडांबो बांदिल्लो. तेका कानी घालून चार-पांच गोरवां बांदिल्लीं. तेंचो शेणा मुताचो वास घरांत पावतालो. दुमिंगालो एकलो बापोलयो त्या घराक फाट करून दुस्मानासरीं उलयल्लेवरी उलयतालो, "काजरा दिसा गोरवां दारांत हाडून बांदल्यांय. आयज जायें म्हणून शेणमूत काडिनासतना दवोल्लां. दान्स जावपा आहा म्हण कोवोना? येसो केसो वायस्टपणां? जेजू आहा संवसारांत. चोवन घेतलो."

तेवटेच्यान आवाज येयलो ना. आंतोनेत भायर आंगणात येयलें. तेणें अदमास घेतलो, आज काजार न्ही जाल्यार हो बापोलयो घडये गाळयांचो शिंवर करतासलो. तेवटचो लोकय हातांत दांडे घेवन धांवन येतासले. आंतोनेतान थंडपणान विचारलें, "कोणागे गोरवां हीं तितीव?"

"त्या शेजारच्या दुस्मानागेलीं."

"गावड्यांगे न्हूं तें?"

“न्ही. सुदीर तें.”

“केसो वावर कोत्ता तें?”

“आमचे भाशेन शेताचोच. पूण आतां दोगय शिर्वीसेक लागल्याय.”

आंतोनेत मुखार गेलें. तेणें वोगी चारय गोरवांल्या गळ्यांतल्यो कानयो काडल्यो. तेंका ‘हय हय’ करून आमडून तेंच्या घरावटेन घातलें. सांज जाल्ली. इल्लो इल्लो काळोख पडूंक लागिल्लो. त्या घरांतल्यान एकलो भायर येयलो. तेणें तापूनच म्हटलें, “कोणें सोडून घातलीं हीं गोरवां?”

“हांयें, आंतोनेतान. हांव दुमिंगागे व्होंकोल!”

“कित्या धांवडायलीं गोरवां?”

“तुगे गोरवांक कितें हिंगा तुयेंन दान्साक धाडलोलीं?”

तो मनीस घरांत गेलो. मागीर घरांत कांय वेळ भासाभास जाल्लोसो आवाज आयकोंक येयलो. मागीर सगलें शांत जालें. दुमिंग, घरचीं आनी काजराक येयल्ले थंय आंतोनेतासरीं एकठांय जाल्ले. पूण कोण कांय उलयनासतना फासपले. घरांत वचून काजरा दान्साचीं वस्त्रां न्हेसूंक गुल्ल जाले.

रात जावच्याक सोयरे, गांवचे करून साठ सत्तर लोक एकठांय जालो. एका टेबलाचेर जायते ग्लास, सोऱ्याच्यो, बियरीच्यो बाटल्यो मांडून दवरिल्ल्यो. सकला सोडाची पेट आसली. दुसऱ्या एका टेबलार दुमिंगालो व्हडलो टेप रिकॉर्डर वाजतालो. तेतूंत ज्यूस्त दान्सावेळावेलें म्युझीक चलतालें. त्या म्युझिकाचेर कांय दादले बायलो नाचताल्यो. मोटवें, लांब कालसांव घातिल्ले दादले, व्हिस्तीद, साडयो न्हेशिल्ल्यो बायलो. दादले इल्लें सोऱ्याचें घेताले आनी नाचूंक वयताले. कोणाक पावल नीट घालूंक कळनासलें. आंग मोडूंक कळनासलें तरीय चेडवांक, साडयांतल्या बायलांक घेवन दादले नाचताले. घरा कुशीक एक बायल एक व्हिस्कीची बाटली घेवन आसली. कांय बायलो मदींच घराकुशीक वयताल्यो आनी इल्ली व्हिस्की घेवन येताल्यो.

तांचेमदीं दुमिंग आनी व्हंकले न्हेसप न्हेशिल्लें आंतोनेत नाचतालें. आंतोनेत अशें पयलेच फावट दान्साक उबें राविल्लें आनी बेठेंच दुमिंगा वांगडा हेरांबरोबर घुंवतालें. दुमिंगाक तशी म्युझिका वांगडा पावलां घालपाक कळटालीं. पूण तो कुडीन असो मोटवो आनी आडवो, तो नाचता काय हालता तेंवूय कळनासलें. तेणें आंतोनेताले कमरे भोंवतणीं

जशें चिमटी काडूनशें धरिल्लें, सोऱ्या घुंवळी इल्ली चडिल्ली. तेका लागून तो मोनेल्लेवरी, झेमेल्लेवरी जाल्लो. आंतोनेत उबगलें. तेका सोडून वोगी येवन कदेलार बसलें. दुमिंगान वचून आनीक इल्लो सोरो घेयलो. आतां तो दुसरेच एके बायलेक घेवन नाचूंक लागलो.

दुमिंगालो व्हडलो भाव काजराक येयल्लो. वोगी वोगी कुशीनच रावतालो. माटवांत एकलोच कदेलार बशिल्लो. कोणेंय हाडून दिल्लो सोऱ्या ग्लास हातांत घेतालो, घटाघट पितालो आनी ग्लास परत करतालो. अशें करून तेका बरोच चडिल्लो. मदींच रागान घुस्मटिल्लेवरी आपणां भितरच उलयतालो. कांय वेळान मांय येयली. तिणें म्हटलें. "विशेंत, बेठो पियेत रावलाय तूं. जेवणा बोशी तरी घे मुरे."

विशेंत कदेलांतल्यान उडी मारिल्लेवरी उठलो. तो मांयचेर आड्डलो, "मांय, जड्डे, तुगे चेड्यागेलो इदो सोरोच पियेलो मुगे? तेणें शिंवलो कालसांव घायलो ना मुगे? इतुले मोडटा हो दान्साक, सोऱ्याक, भावागे हातार केदोना पांच धा दवल्ल्यायी? मुगे सासू पायन मोरचे पोयलीं हेका भायर वोसोंक पांच होजार दिलोले. खूंय गेले? खोबोर केल्या तेणीं? मुगे हिंगा पोट भोरना जावन हांव मावोड्या वचोन पडोलां. तुमगे हिंगा फोल्गां. पाय आसतना तूं एक दीस खूंय वावराक गेली ना. चेडी. सदां बोरी ना म्हूण रोड्टाली. न्हिदोन रावताली. तुगे हो धाकलो चेडो तोवनासपणां करीत गांवार भोंवतालो. केन्ना जोत बांदिलां खूंय तेणें? केन्ना हातांत खोरें घेयलां खूंय?"

उलयतां उलयतां तेचो आवाज चडत गेलो. घोगरो लुबडो जायत गेलो. तो तोल सावरूं पळयतासतना दिसतालें, आतां हो तोंडार पडटलो. लोक नाचचो रावन तेका तटास पळयताले. दुमिंगय भावावटेन पळयतालो. पूण तेच्या दोळ्यांत राग, मोग कांय नासलें. पिवन मन मेल्ल्या मनशावरी तेचे धंवशे दोळे सामके रिते पडिल्ले. इतल्यांत विशेंतीची बायल खंयसान तरी धांवत येयली. तेका हाताक धरून ओडत घरांत घेवन गेली. एके वटेन ती तेका गाळी घालताली, दुसरे वटेन खांदाक मारूनशी तेका भितर ओडत व्हरताली. तो भितर गेलो आनी शेंदरेर आडवो जालो आनी जेयनासतनाच न्हिदलो.

आतां माटवांत नाचतल्यांच्या पावलांक कसलीच उमेद नासली. कांय वेळ ते जीव गेल्लेवरी नाचले आनी मागीर मांड सोडून गेले. बश्यो घेवन मोन्यांनीच जेवंक लागले. घोवाल्या भावालें तें कर्तुब पळोवन, तेचें उलोवप आयकोन आंतोनेत शेळेवन गेल्लें. परतें परतें तेचेरच चिंततालें. एका बेबद्यालें तें उलोवप म्हण सोडून दिवचेंय दिसनासलें.

पळयल्यार दुमिंग हातांत बशी घेवन जेवंक लागिल्लो. आंतोनेत मात चिंतत वोगीच कदेलार बशिल्लें आसलें. कांय वेळान जाव जेवणाची बशी घेवन येयली. तेणें थंडपणान

म्हटलें, 'हांव मांस खायना.' मागीर तेंच उठलें. दुसरी एक बशी घेवन दोन सान्नां, इल्लें शीत आनी नुस्त्या कडी घेवन जेयलें. मागीर व्हंकलेचीं वस्त्रां देंवोवन आदींच भितरले कुडींत कोणें घालून दवरिल्ल्या हांतरुणाचेर तें न्हिदलें.

आतां पुराय लोक फासपल्लो. घरांत फक्कत शेंदरेर पडिल्लो विशेंत, जाव आनी तेगेलीं दोगां भुरगीं तितलींच उरिल्लीं. कांय वेळान दुमिंग तेगेल्या हांतरुणार येयलो. एकाच वेळार सोऱ्याचो, जेविल्ल्या जेवणाचो धेंकर दिल्लोसो वास कुडींत पातळ्ळो. सकाळीं धरून आंगार गरम सूट घालून परती परती हूम येवन ती सुकिल्लो वासय तेतूंत भरसल्लो. आंतोनेतालें मन विटलें. ते रातीक तेणें दुमिंगाक कुडीक हात लेगीत लावंक दिलो ना. 'आपणाक बरें ना' म्हण फाट करून न्हिदलें. दुमिंग एक भिजूड निर्शेल्लो दादलो कसो तळमळत रावलो. कुवेटकारालो दुडवांचो झेतूय तेका पावलो ना!

* * *

डिसेंबराक काजार जाल्लें. हो मार्सा म्हयनो लागिल्लो. काजराक तीन म्हयने जाल्ले तरीय दुमिंग परतो कुवेटांत वचपाची खबर करीनासलो. तेवटेनसानय कांय येयनासलें. बॅंकेतल्यान दुडू हाडटालो आनी जाय तसो खर्चितालो. तेतूंत आनी नाडां वांगडा इश्टागत. सांज जातकीर हे इश्ट बेठेच घरासरी पासयो मारताले.

सुर्वेक आंतोनेताक तो कुरूप, बुरसो, आळशी म्हण कळटालें तरीय आपशींच सैमीकपणान तेंचो घोवा बायलेचो कुडीसंबंदय नेमान घडटालो. इतलो की आंतोनेताक तेची संवयच जाल्ली. तो म्हऱ्यांत येवन गेले बगर तेका न्हीद पडनासली. तो मोड जावन येतालो वा तेतूंत थोडें रशिकपण आशिल्लें अशेंय ना. तें मन मारून तेणें मानून घेतिल्लें. सुरवे सुरवेक धिरये बैलकार मर्दी उबो रावतालो. तेची खंतय नासली. वयल्यान ती एक आयुश्याची जोड कशी दिसताली.

हाचे भायर मात तें शादूर आसलें. दुमिंग आपल्या धंद्याक आपल्या पोटापाण्याक लागचो अशें दिसतालें. तें परतें परतें तेच्या कुयटा वचचेविशीं विचारतालें. तो फकत 'वयतलों वयतलों' म्हणटालो.

मागीर तेका काजरा दिसा घोवाल्या भावान विशेंतीन सोऱ्या घुंवळेंत उलयल्लीं उतरां याद येतालीं. ''खरेंच ही मांय-पूत आळशीं बुरशींच काय कितें? हो परतो कुयटा गेल्यारच कितेंय बरें जायत! ना तर आशिल्लें काबार करून बसतलो आनी फाल्यां रडचें पडटलें! हेका कुयेटच फावो! हाका बेगीन धावंडावंक जाय!

सासूमांयय अरवळ अबरगतच आसली. रांदूंक लागल्यार हो पसारो मांडून दवरताली. मिरयां वांट्टना सगले फातरेक लेपडावन बसताली. कितें उलयल्यार सण्ण करून राग येतालो. मागीर तेंच झरयत बसताली. 'काळीशी बारीक बायल. तकलेर सामक्के उणे केंस. तेचो इल्लो बुचडो ती फाटल्यान बांदताली. आंतोनेत कितेंय फकाणांनी उलोवंक गेल्यार तिका तें कळच नासलें. ती रागानच घेताली आनी गणयत रावताली. आंतोनेताक दिसतालें, माशेना सामकार ही एक कावळीण. केन्ना माशेनाल्या उगडासान तें एकलेंच रड्टालें. ल्हान भुरग्यावरी 'माशेन माशेन' म्हण्टालें.

एकदीस परतें आंतोनेतान दुमिंगाक विचारलें, "दुमिंग, तुगे कित जालें कुयटा वोचपाचें?"

दुमिंग सट् करून तापलो, "वयतलों ना तर रावतलों, तुका कित्या जायें? मुका धांवडावन घालों उठोलां तूं? मुगे खोबोर नाका तुका."

"बायले केसो पोसतो तर तूं?"

"बायलेगे हातपांय मोडल्याय कितें?"

आंतोनेताक तेचो इतलो राग येयल्लो, तोंडाबराबर एक थापट दिवचें अशें दिशिल्लें. पूण तें वोगीच रावलें. मागीर तें इतलें निर्शेवन गेलें, भितर वचून शेनरेर तळमळत पडून रावलें.

रातीकडेन तो म्हऱ्यांत येयल्लो तेन्ना तेणें तेंका अशें धुकलून दिलो, तो कुशीन हड्ड्यार पडलो. पूण तो तिडकलो ना. हारिल्ल्या कणो मोडिल्ल्या अबरगतावरी वोगीच पडून रावलो.

कांय दिसान माशेन येयलें. तें सामकें निर्शेल्लें, हुस्क्यांत पडिल्लेवरी दिसतालें. जशें व्हडलें कितें तरी वायट घडलां आनी तेच्या शिरांशिरांनी भिनलां! माशेन मुदलांत बरेंच गोरें. पूण कसली तरी काळोख सावळी दाटून येयल्ली आनी तें काळें पडिल्लें.

"कितें माशेन, कितें जालें, बरें ना तूं?"

तेणें थरथरत्या आवाजान विचारलें, "दुमिंग खूंय?"

"कित्याक? आसतोलो खूंयतरी. आतांच गेला घरांतल्यान." माशेन कांय वेळ हड्डें बशिल्लेवरी वोगीच रावलें.

"कित जालें माशेन? येशें कित्या फुगार जालां तूं?"

“बाय गो आंतोनेत, दुमिंग परतो आनी कुयटा वोसपार ना. तेका थंयसान धांवडावन घातला खूंय. तकलेन जड, वावराक जड म्हण.”

“तुका कोणें सांगलें माशेन?”

“आमगे शेजान्न क्लिमेंतीलो भाव कुयटा आहा तो पयर येयल्लो. दुमिंगा बरो वळखता तो. कुयटा लागींच आहलो खूंय तो. तागे पात्रांवान वावर जायना म्हण रातयां काडून धांवडायलो खूंय. आठ दीस हिंगा थंय भोंवतालो. येताना तो प्लेनान न्हू बोटीन येयल्लो खूंय.”

खिणात आंतोनेताले तकलेचो शेणागुळो जालो. तें सुन्न भेरेल्ल्या मनान वोगी बसून रावलें. माशेनान रागानशें म्हटलें, “केसो घातमारे लोक हे? आमकां फटोवन काजार केला!”

दुमिंगा मांय वोगी आयकताली ती आतां एकदम व्हडाव्हडान बोवाळूंक लागली, “केसो फटोव्रपा खोबरी सांगताय? कुयटा वोसोनच पोट भरों जायें? गोंयां आहलोले उपाशीं पोडल्यायी? तुमगे चेडवाले हातपांय मोडल्याय? वावरा वोसोन पोट भरों जायना? कुयटाच्या दुडवांर मोजा मात्तोलें म्हूण आसलो दिसोता?” ती कितें कितें उलयत रावली.

“माशेन, तूं वोस आतां. हांव चोवन घेतां तें.”

“बाय आंतोनेत, तुका त्रासांत घायलें हांयेन!”

“ना माशेन, वोस तूं. हांव चोयता तें.”

माशेन उठलें. आपल्या भरिल्ल्या दोळयांनी तेणें एक फावट आंतोनेताक दोळेभर पळयलें आनी तें चलूंक लागलें. आंतोनेतान माशेनाक फाटल्यान पळयलें, तें कमर बागोवनशें, धोंपरां धरून राखूनशें ल्हव पावलां घालतालें. आपली जाण्टी कूड ताठ राखूनच शेक चलोवपी माशेनाची ही अवतिकाय कशी जाली? रातयांच हें इतलें कशें तेकलें? तेका खूब रडचें अशें दिसतालें, पूण तें दरयो भितर ओडून घेवन वोगीच रावलें.

रातचो दुमिंग भितल्लेकुडींत न्हिदूंक येतकीर तेणें विचारलें, “दुमिंग, तुका कुयटासान तेणीं धांवडावन घायला? तुका ते परते कुयटा घेवचे नात?”

“कोणें सांगला तुका?”

“विचारता तितलेंच सांग तूं.” तें तापलें.

दुमिंग वोगो वचून हांतरुणार पडलो आनी तकलेवयल्यान कांबरूण घेवन न्हिदलो. घर दाडवणां बशिल्लेवरी वोगी आसलें. सासूमांय मदीं मदीं पिसावल्लेवरी बडबडटाली.

* * *

दुमिंगाले हेर दोन बापोलये आपल्या शेतकामाच्या वावरांत इतले घुस्पून उरताले, तेंका हेर संवसाराची खबरच नासली. सोताच्या शेताभायर भाटकारांलीं शेतां ते रोयताले. तेतूंत गिमांत काळंगां, उडीद, मूग पिकयताले. एकल्यासरीं दोन म्हशीय आसल्यो. तेच्या घराची वासरी, आंगण शेतकामाच्या सगल्या अवजारां, आवतांनी भरून आसतालें. तेंचो तो घोळटिकेचो आटाप पळोवन आंतोनेत पिसावतालें. तेंचो ताका दुस्वास दिसतालो. तेचे बापोलयेय कामाक वाग. आंतोनेत चित्‌तालें, 'मुजी सासूमांय तशीच आशिल्ली जाल्यार घडये मुगेलोय सासूपाय असोच भरिल्लो संवसार फाटल्यान सोडून वयतासलो! ही मांय आनी पूत तसलींच बाबत म्हूण दुमिंगाल्या व्हडल्या भावान गांव घर सोडलें जायत!''

तें जिवाक उबगल्लें. किंतें करचें म्हूण कळनासलें. सारक्कें शेजारच्या तेरेझाल्या घरा वचून खबऱ्यांक बसतालें. तेरेझाविशीं तेका बेठेंच आपलेंपण दिसतालें. तेरेझाल्या जिविताचीय एक काणी आसली. एक फावट तेगेलो घोव तोमास ट्रकांत चिरे भरून वयताना ट्रक उमथलो आनी चिरे तेच्या आंगार पडले. कुडीचो मोडून चुरो जाल्लो. वर्सभर तरी तो हॉस्पिटलांत पडून आसलो. तरीय शेवटाक उखलून हाडलो तो कुडीचो भोरोच. तेच्यान उठूंक जायनासलें. बसूंक जायनासलें. हागूं, मुतूं सगलें हांतरुणारच. तेरेझ तेगेलें सगलें नीट करतालें. सोमनांतल्यान एक फावट उखलून भायर हाडून न्हाणयतालें. तेचें करून दिसवड्या वावराकय वयतालें. तेरेझ जुवान आशिल्लें आनी घोव असो मोडून पडिल्लो. तोमास असो कुडीन मोडून पडिल्लो खरो पूण बुद्धिन, चितनान तरतरीत आसलो. तो सगलें बारीक चोयतालो. तेरेझाले कुडीचो घुस्मट तेका कळटालो. तेका थर्त भिरांत दिसताली, 'तेरेझ केन्ना म्हाका असो हांतरुणार उडोवन सोडून वयचें ना मूं!' सदांच तेका दिसतालें, 'तें भायर तेळटा, कोणाकतरी रावता, खंयतरी फुतफुतिल्ल्याचो आवाज येता!' मागीर तो चडच सतर वितर जातालो.

एक दीस पाड्ड्यां भाटाच्या वावराक गेल्लेकडेन तेरेझाक पाश्कोल भेटलो. तो तेगेल्या कुळारच्या गांवचो, लोटलेचो. पाड्ड्यां एकल्याकडेन माड काडूंक आशिल्लो. तो माडावयल्यान एका हातांत काती आनी दुसऱ्या हातांत दाबणें घेवन देंवतना तेरेझान चोयलें, ''आरे पाश्कोल, तूं हिंगा खूंय?''

''हो न्ही गो, माड काडों आहा. तुगे घोव केसो आहा गो?''

“आसा सुमराचो.”

“उठून बसोता?”

“ना रे, फाटी कोण्याक, कोमराक इदीं लेगीत घटसाण ना.”

“केसो चुरचुरे मुगो.”

“यो मुरे केदनाय.”

“येतां, येतां.”

“ह्या आयतारा येता?”

“चोयतां.”

त्या आयताराक तो येयलो. मागीर आत्र्यापयऱ्यान येत रावलो. इश्टागत वाडली. मना कुडीमेरेन पावली. तो येतकीर तेरेझाल्या आंगार जसो चंवर फुलतालो. फुतफुतचे पयल्यान वचून सामकें मोनेंपण घरांत, कुडींत पातळ्ळें म्हण्टकीर तोमास वयर-सकल ज्यातालो. तेचो श्वास गळ्यांत पावतालो.

केन्ना पाश्कोल तेका उखलून मान्यांत व्हरतालो. तेका धुवून पुसून परतो हांथरुणार हाडून घालतालो. मागीर तेरेझ व्हडान म्हण्टालें, “मुज्यान एकल्याच्यान तुगे करपा जावपार ना तोमास. पाश्कोलालो तितलोच आदार.”

दिसाची, रातची भायर भितर थंडाय पातळ्ळी म्हणटकीर तोमास वेध घेतालो. तेका होलमतालें, कोणालेतरी श्वास फुलतात. कुडी जंवळताना घामेल्ल्या कुडींचो वास पातळ्ळा, जो वास तेणेंय केन्ना अणभविल्लो..... “तेरेझ, हें कितें चल्ला घरांत परक्या दादल्या वांगडा?”

“तुका खरेंच सांगोतां तोमास, हांव तेच्या वांगडा न्हिदोतां. मुगे इदाद ना? मूक कूड ना? दोन वर्सां जालीं मुरे तूं मोडून पडोन? हांयें कितूल पाशेंस काडचें?”

दुमिंगान दुबळे तिडकीन म्हटलें, “रावों नज जाल्यार तुगे आंगाक उजो घालोन घेवों जाय आसलो तुयें.”

तेरेझान हांसलेशें केलें. तेणेंच मागीर विचारलें, “आंकवार तो?”

“व्हय.”

तोमास वोगीच रावलो. पाश्कोलान उखलून बसयल्यार, भायर व्हयल्यार तो ना म्हणिनासलो.

एक दीस तेरेझान घोवाक सांगलें, “तोमास, आमी काजार जातांव. कित म्हुण्टा तूं?”

“काजार जावन हिंगासावन वयतो तुमी? मुजे कितें कोत्तलीं?”

“ना हिंगाच रावतोलीं आमी. वयचीं ना तुका येसो सोडून.”

“काजरा साक्रामेंत कोत्तलीं? रेस्पेर जातोलो?”

“व्हय.”

“पाद्रीन चीट वाचितां म्हुटलां?”

“तुगे आडखळ ना जाल्यार.”

तोमासान दांत चाबलेशें करून म्हटलें, “मुगे कांय ना.”

तेरेझ पाश्कोलाकडेन काजार जालें. तिगांय वांगडाच रावतालीं. तेरेझ आनी पाश्कोल दोगांय मेळून तोमासालें सगलें नीट करतालीं. तेंच्या हांसपांत, उलोवपांत तोमास वांटेकार जातालो.

तेंचें विशीं आंतोनेताक खूबखूब उमळशीक आपलेपण दिसतालें. तेरेझ जिवाची इश्टीण जाल्ली. तें परतें परतें तेंगेर येवन खबऱ्यांक बसतालें.

एक दीस उलयतां उलयतां तोमास पडिल्लेकडच्यान व्हडान उलोवंक लागलो, “कित्या म्हूण केली तुगे ही सोयरीक माशेनान. तुगे कुडीर कावळो मुगो तो आंतोनेत. ती मांय आनी पूत धडा न्ही. तेगे मांयक मुगो पोयलीं चोर कोंयसूं म्हूण वोळखताले. कोण्णा वालीक एक तवशें, घोसाळें, चिबूड दवरीनासलें. तुगे घोवाक दुमिंगाक तेगे व्हडल्या भावान भुरगेपणात येसो मार माल्ला चोवपा न्हूं. कितलोय धाडाय केस्सो आयकनासलो. बैलांक चरोवंक घेवन गेल्यार हेगे बैल हेरांगे शेतांत आनी हो हेडटा गांव. पसऱ्यार साकर हाडूंक धाडल्यार साकर हाडटालो आण्याची आनी चाकलेटी खातालो चार आण्यांच्यो. कुडीन मोटवो आनी सतराकडेन आंकडो. निमाण्या भावान रीण काडून कुयटा म्हण धाडलोलो.”

तेरेझान तेचेर मदींच तापसाण काडली आनी तेका वोगी केलो, “केसो खोबरी

उलयता तूं तोमास. तुगे तूं चोय. तुगे हाडां गेलीं मोडोन. हाडां नासलो जीब आहा.'[२]

* * *

एक दीस आंतोनेतान विचारलें, "दुमिंग तुगेले बांकेंत कितुले दुडू आहाय?" दुमिंग सट् करून तापलो, "तुका कित्या जावो तें? दुडवां खोबोर तुका नाका."

"आमी एक बैलां जोत घेवंया."

"कित्या जायो तें?"

"आमगे इदें शेत आहा न्हूं, तें आमी परतें पिकोवया. जाल्यार हेरांगेलेंय."

"केसो शेत तें? व्हाळ पडोन धुवोन गेलां. एक मेर ना थाऱ्यार."

"जावों. आमीं तें परतें रचया. जोत आहल्यार बरें. आपलें आपणाक कसों मेवता. शेण मेवता. हांव तर बैलांगे आंगा वासानच पिसावतां."

"बैल घेयल्यार तेंकां गोठो जायो, तेंकां राखों जायें. खाणाचें, तणाचें चोवंक जायें. केसो इद्याशा शेता लागून जोत घेवपा म्हुण्टा तूं?"

"हय. आमी कोरचें सगलें बैलांचें. तेंकां दोंगरांनी चरोवंक व्हरचें. सोता कसून शेत रोवचें. जाल्यार केदनाय भायर वावराक वयचें. रस्त्या वावराक. घरां, बिल्डींग बांदच्या वावराक. बरें एक खोरें घे तूं."

"मुकोडेन जावपा ना तें आंतोनेत."

"कित्या?"

"जावपा ना म्हुटलें न्ही."

"तूं मुका जोत घेवों दुडू दी. हांव चोयतां उपरांत."

"हांव दिवचों ना."

"कितुलें आहाय दुडू बांकेंत?"

"मुका तें विचारी नाका तूं."

"तेहें जाल्यार आसलो दुडू बांकेंतल्यान काडून खा आनी मागीर तो सोंपलो म्हण्टकीर हातां कट्टी घेवन इजमोला भोंव गांवांनी."

तो वोगी काडून भितर गेलो. आंतोनेतान तेका रागान पळयलें. तेका दिसलें ओडून भायर हाडचो.

सासूमांय म्हातारी माजर कशी घरांत सदां खुडबुडत आसताली. बारीक तेळटाली, आयकताली. मागीर कितेंतरी वांकडें धरून गणयत रावताली. आंतोनेत मनात म्हण्टालें, ''हे बायलेक चेड्याल्या फुडाराचो हुस्को ना कित्याक? लोक सांगताले, कुयटासान चेड्यालो दुडू येतालो तेन्ना ही सामकी उधळपट्टी करून फोल्गां मारताली. केक, पेटिसां हाड्टाली, म्हारगेले इसवण हाडून खाताली, बियरीलेगीत हाडून पिताली खूंय.''

एक दीस दुमिंगान बांकेंतल्यान कांय दुडू काडून हाडिल्ले. तेतुंतले आंतोनेतान सांगीनासतना बोल्सांतले अडेचशीं रुपया काडून घेतले. तें मडगवां गेलें आनी तेणें दोन व्हडलीं जड खोरीं हाडलीं. हाडलीं आनी खडखड आवाज करीत वासरेर दवरलीं. हुश्श करीत ते थंयच बसले. आवाज आयकोन दुमिंग भायर येयलो. ''आंतोनेत, तुयेन मुगे बोल्सांतुले दुडू काडलोले?''

''हय काडलोले!''

''कित्या? कोणा सांगोन काडले तुयें?''

हाचेर आंतोनेतान इल्लो आवाज चडयलो, ''हीं खोरीं हाडल्यांय दिसनात तुका, दोळे फुटल्याय तुजे? सांगल्यार दिनासलोलो तूं दुडू. तुका खोरें हातांत घेवों नाका. गांवार भोंवों जाय. सोरो पिवों जाय. जोत घेवया म्हुटल्यार नाका म्हुटलें तुयें. केसो गावडे तुमी? एक बरें खोरें ना, कुराड ना, नांगर ना, जूंव ना, एक हिळो ना.''

दुमिंगान मदींच म्हुटलें, ''तें सगळें व्हडल्या भावाल्या मोड्यार पडलें. व्हयलें तेणें सगळें मावोड्या.''

''हांव करतोलें तें सोगळें. खणून शेत रोयतलें. गांव भोंवों दिवचें ना तुका.'' सासुमांयन मदींच म्हुटलें, ''तेका करतो जाल्यार करूं दी मुरे.''

''हांव एकलेंच न्ही. सगळ्यांनी घोळों जायें शेतांत. भायर दिसवड्याकय वोचों जाय.''

सासुमांय तापली, ''मुका दिसवड्या वोच म्हुण्टा तूं. दिसवड्या वोचोन हांव बेगीन मरों म्हूण.'' मागीर रडत म्हणूंक लागली, ''धिमयो सुजून दुखोतात. चलताना दुखोन हांव मोरतां. हांव मेलो जाय तुका.''

तरीय तें दुसऱ्या दिसाक दुमिंगाक घेवन दोंगरांनी गेलें. भोंवन भोंवन खोऱ्याक काळ झाडाचे बरे दोन दांडे तेणीं कातरून घेतले. दोंगरांतल्यान रानांत भोंवतना तेका सारक्की धिरये बैलकाराची याद येताली. तेका दुमिंग ह्या रानांत म्हऱ्यांत येयल्लो जाय आसलो. पूण दुमिंग तितलो धीट, रसीक नासलो. तेणें काळखांत चोराभाशेनच येवचें!

पुराय सांजचे तासून तासून तेणीं खोऱ्याक दांडे घातले. दुमिंग जिवार येयल्लेवरी पिरंगतच काम करतालो. तेगेलें कमर नीट बागवनासलें. हात सरसरीत चल नासलो, कोयती धड धरूं कळनासली.

मिर्गा पयलींचो पावस पडून गेल्लो. भुंयेंत बरीच ओल रिगून ती मोव भुसभुशीत जाल्ली. आतांच शेताची कामशी जावंक जाय. मेरो धरूंक जाय, चर, व्हाळ पुरोवन खण्णी घालूंक जाय. दुसऱ्या दिसा सकाळींच तें दुमिंगा घेवन शेतावटेन गेलें. दुमिंगान जिवार येयल्लेवरी खोरें उखलून खांदाक मारिल्लें. तेचे फाटल्यान आंतोनेतान दादल्यावरीच खोरें खांदार घेतिल्लें. नव्या चक्क दांड्यांचीं दोन नवीं खोरीं. काजार जाल्ल्या स म्हयन्यांत पयलेच फावट अशीं तीं दोगांय मेळून वावराक वयतालीं. आंतोनेताक आगळीच उमेद येयल्ली. वयतना तें दुमिंगाक सांगतालें, "गावडो बारीक तितलो घट. मांडपां आमगे शेजरा सांतूश म्हण एकलो आहा. इतुलो बारीक फूंक मारल्यार हुबोन वयतलो येहें दिसोता. सिल्व भाटकाराल्या भाटांतलो सांतोण कातोरपा आसलो. हो चार वांवां जाडयेचो, मोळबाक तेकलोलो रूख. मान वयर करून चोवंक भिरांत दिसताली. कोण एकलो तेचेर घाय घालूंक राजी नासलो. पूण सांतूश तेचेर चडलो. कमरेक कोयती, आकडी, हातांत कुराड. पयलीं रूख सारको सकाळून घेयलो. मागीर एकेक कुडको कातरून सकला उडयलो. एक एक कुडको सकला पडिल्लो आवाज गावड्या वाड्यामेरेन येतालो. हड्डें बसतालें. दुसरो रेमेदीन तितीव सांग, एका पावसाळ्याक खूंय तेणें भाटकाराले शंबर माड पाडिल्ले. घरा येयतासतना शंबर नाल्ल तो चाये दुकानार दिवन येयल्लो खूंय."

सात बांदयांची, अठरा कुडवांची सुमार ती शेताशीर आशिल्ली. गेल्लीं तीन वर्सां ती पडींग आशिल्ली. तेचेर उदक वचून मदल्यान एक चर पडिल्लो. एक मेर जाग्यार नाशिल्ली. करड वाडिल्लें. आशीकुशीच्या शेतकारांनी पडींग म्हूण माती फातर धुकलून तेतूंत दवरिल्ले. आदीं चर पुरोवन घेवचो म्हण तीं वावराक लागिल्लीं.

आंतोनेत पुराय तांकीन खोरें मारतालें. सामक्की खोरेंभर माती घेवन चरांत उडयतालें. 'स्स' करप आनी खोरें मारप. मागीर खोरें उखलून माती चरांत मोखप. पूण दुमिंगाल्या खोऱ्याक जोरच नासलो. खोरे मातयेंत जायतशें रीगनासलें. तेचेन मातीय वयर

सरनासली. खर्शेतालो, परते परते हात चोळून घेतालो, खोरें हातांत धरून बेठांच उबो रावतालो.

कांय वेळान 'हांव मात्सो वयलेवटेन वचून येतां' म्हण खोरें तशेंच सोडून गेलो. बरोच वेळ दुमींग येयलोच ना. आंतोनेत एकलेंच खोरीं मारून चर पुरयत रावलें. तो परतो येयलो तेन्ना घरासरीं पेजेक वयचो वेळ जाल्लो. पेज जेवन सांजचें परत शेतांत या म्हुटल्यार तो कसोच घरांतल्यान भायर सरना जालो. आपणाक पुरो जालां म्हण न्हिदून रावलो.

मागीर आंतोनेत एकलेंच शेतांत गेलें. जीव खावन सगली शक्त एकठावन माती उसपूंक लागलें. पुराय कूड चिप्प हुमेन भिजिल्ली. माथें, केंस हुमेन भिजून चिकचिके जाल्ले आनी फासपल्ले. पांय धिमये मेरेन मातयेन भरिल्ले. तरीय तें कुडीचें भान विसरून खोरीं मारतालें आनी माती उस्पितालें. मदींच पावसाचें कूप माथ्यार येयलें आनी पावस बारीक कुसकुसूंक लागलो. पावस आनी आंगाचो घाम एक जाल्लो. कुडीक बेठीच थंडसाण मेळटाली. पावसाचे ते थंडायेंत, कुपाचे सावळेंत चड तांकीन खोरीं मारतालें. मारिल्लें खोरें पासामेरेन जमनीत घुसतालें. मागीर तें ओडून माती वयर घेताना हाता रटे तुट्टाले.

कांय वेळान पावस वाडलो. इतलो वाडलो, उंडीफळायेद्या थेंब्यांनी दडकांर दडको कोसळूंक लागल्यो. बेठो घोगो पावसाचो. पावसाचे पड्डे वाऱ्यार फडफडत वयताले.

आंतोनेत त्या पावसाक भियेलें ना, धांवन गेलें ना. वोगी मेरेर येवन खोऱ्या दांड्याक घट धरून त्या हरंधारी पावसांत भिजत रावलें. देहभान विसरून. पळयतां पळयतां सरभोंवतणचो वाठार उदकान भरून गेलो. चर, खाणवां, बांदयो उदकान बुडून गेल्यो. आतां आंतोनेताक बेठेंच दिसूंक लागलें, "हिंगाच खूंय तरी तो मरणतोंडाचो फोंड आसा. तातूंत हांव भावाक हाण्डीर घेवन बुडिल्लें. उदकांत वयर सकल घुंविल्लें. तोच कित्याक बुडून मेलो? हांव कित्याक वयर सल्लें? कसले भोगणार भोगूंक! माशेन गो, तुयेंन भोव केलें मुजे पासत. पूण कांय फळाक येयलें ना. तुगे हात खोटो काय मुगे नशीब खोटें?"

तेका आतां माशेनाची खूब्ब खूब्ब याद येवंक लागली. तें हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. तें पावसांतच सकल बसलें आनी हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. तेचेय कुडीचें उदक उदक जावन गेलें. मुखार पळयल्यार पुराय शेतावाठाराचो एक फोंड घोगेत तेच्या पांयांमेरेन येवन पावलो. तें भियेल्लेवरी जालें. उठून खोरें खांदार घेवन घरा येयलें.

इतलो पावस पड्टालो. तें पावसांत भिजतालें, आसा काय व्हांवन गेलां खबर नासली. पूण घोव ना तर सासूमांय कोण एकलो तेची हुस्क्यान वाट पळयनासलो. तें भितर

गेलें आनी ओल्या वस्त्रांनीच कांय वेळ सालांत उबें रावलें. पळयल्यार दोगय पूत आनी मांय भितर पोल्ले कडेन बसून उजो शेकोवन घेतात. तेका असो राग येयलो. फडफडतच तेणें आंगावेलीं वोलीं वस्त्रां बदल्लीं. मागीर भितर येवन इतलेंच म्हटलें, "दुमिंग, तूं परतो शेतांत वावरा येयलो ना कित्या?"

"मुका बरें ना. मुगे आंग वळोन येता. जोर येतो दिसोता."

दुसऱ्या दिसाय तेंच. पेल्यान बांदार कोणतरी नाल्ल पाड्टालो. तो खोरें तशेंच उडोवन तेचेसरीं गेलो. कांय वेळ उलयत रावलो आनी वयले वटेन गेलो, तो येयलोच ना. आंतोनेत तिडकीन, निर्शेणेन वावडून गेल्लेवरी कांय वेळ खोरीं मारीत रावलें. मागीर तेगेल्या आंगाक रागान जसो थरथरो भरूंक लागलो. तेणें एक खोरें खांदार मारलें. दुसरें खोरें भुंयेर वोडतच तें घरा येयलें. दुमिंग घरांत नासलो. सासुमांयसरी कांय उलयलें ना. वोग्गी वासरेंत बसून रावलें.

तिनसांजचें उसरां तो सोऱ्या घुंवळेंतसो येयलो. चड घेतिल्लो नासुंये. उतरांक आनी पावलांक इल्लो नेट आशिल्लो. दारांत येतकीर आंतोनेतान तापून विचारलें, "शेतां खोरें उडोवन खूंय गेलो तूं इतुलो वेळ. खंय मेलोलो? शेत कोणा पासत तें दळडिऱ्या?"

दुमिंगय तेगेलीं उतरां सकल पडूं दियनासतना तापलो, "कोणें सांगलां तुका शेत कोर म्हूण? तुयेन केलां मुगो? तूं मोर तेतूंत. मुका आनी सांगों नाका."

आतां आंतोनेत रागान बेफाम जालें. तो वासरेंत पांय दवरतनाच तेणें "चेडयेच्या, कितें उलयता तू?" म्हणत तेच्या तोंडार एक थापट फुलयलें. तो तें चुकोवंक फाटीं सरतना तेणें दुसरें थापट तेच्या फाटीर फुलयलें.

तो आंतोनेताक मारूंक येयलो ना. फकत गाळयांचो शिंवर करीत बोब मारूंक लागलो. थापटाचो आवाज आयकोन मांय भायर येयली. ती मेल्लेवरी बोब मारूंक लागली. ती आयकोन दुमिंगालो एक बापोलयो, बायलो दारांत येयल्यो. कोणेंतरी रागान म्हटलें, "तुगे थंय मांय, माशेनागे गांवांत गावड्यां बायलो घोवाक मारीत जायत, पूण आमगे ह्या घरांत कोणें दादल्याक माल्लोना. हेन मुखार तेका माल्ल्यार चोय तूं. तो मात्सो तेहोच अबरगत. काजार कित्या जालो तर तूं?"

एके बायलेन म्हटलें, "दुमिंग, तूं वोग कित्याक रावलो, फोडपा न्हूं तेचेर एक." कांय वेळ थंय कलकलोसो जालो. मागीर सगलें थंड जालें.

आंतोनेत एक शेनरी घेवन सालांत एका कोनशाक आड पडलें. भुकेन तें शेतांतल्यान

येयल्लें, पूण तें जेवलें ना.

सकाळीं उठून तेणें तोंडार उदक मारून घेतलें. घोंट घेतलो आनी तें तांबयोभर उदक पियेलें. मागीर हातां खोरें घेवन तशेंच शेतांत गेलें. शेतांत तें वेळ माथ्यार येय मेरेन खणटालें. तेका वोगीच दीस, आत्तां दुमिंग हातांत खोरें, पेजे बुडकुलो घेवन येतलो. मागीर आमी दोगांय मेळून खणटलीं.

मागीर एकदम तेका उबगण येयल्लेवरी जाली. तें साप्प निर्शेवन गेलें. तें खोरें कुशीन मोखून वोतांतच मेरेर बसलें. तानेन-भुकेन घुंवळ येवंक लागिल्ली. तें तशेंच खोरें ओडत घेवन घरा येयलें. पांयांर उदक उडोवन तें सोमतेंच रांदचे कुडींत गेलें. सासुमांयन पेजे बुडकुलो पोल्लेवयल्यान काडून सकल दवरिल्लो. तेणें अर्दावयर बुडकुलो तसोच ताटलेंत रकयलो आनी तें पेज जेवलें. नीस पोटभर पियेलें. सासूमांय एक फावट येवन बागोवन पळोवन गेली. पूण ती कांय उलयली ना. दुमिंग मात घरा नासलो.

आंतोनेतान शेत सोडलें आनी पयलींवरी तें पडिंगच उरलें. पावसाळ्यांत मुखावयले तीन म्हयने तें घरांतच पडून आसलें. दुमिंगान कितेंय हाडिल्लें आनी सासुमांयन शिजयल्लें खावन सुस्त पडून आसतालें. केन्ना घोव, सासुमांय दांत ओंट चाबत तेचेसरीं पळयतालीं, पूण तें कॅर करी नासलें. शेजाऱ्या पाजाऱ्यांगेर खबऱ्यांक वयतालें आनी वरवर उलयत बसतालें. पूण तें जाणा आसलें, हें काय चड तेप चलपा न्हूं. फाल्यां पावस सोंपतलो. दुमिंगालो बांकेतलो दुडू काबार जातलो. तो चड पिवंक लागतलो आनी मागी मुका गोळार वयचें पडटलें.

पावस सोंपलो आनी गावड्या लोकांगेले दिसवड्या वावराक वयचें सुरू जालें. दादले बायलो पिकपीर बसून रस्त्याच्या, बिल्डिंगेच्या आनी हेर वावराक वयताले. आतां दुमिंग तेच्या सारक्को फाटीक लागिल्लो, हेरां वांगडा वावराक वच म्हण. आंतोनेत म्हण्टालें, ‘‘तूंवय यो मुज वांगडा दोगांय वचुंया! पूण तो वचपाक तयार नासलो. आंतोनेताक एकल्याकच धुकलूंक पळयतालो. हाचेर सदांच झगडीं जातालीं. दुमींग बुरश्यो बुरश्यो गाळी संवतालो. हात उखलचो धीर तेका नाशिल्लो इतलेंच. पूण आंतोनेतालें निमणें एकच, ‘‘तूं यो मुज वांगडा वावराक. दोगांय या. हांव एकलें वयचें ना.’’

एक दीस दुमिंग खूब सोरो पिवन येयलो. तेणें आदीं गाळयांचो शिंवर केलो. मागीर म्हटलें, ‘‘तुगे माशेनान चेडयेन हेंच शिकयलां तुका, बसोन खावंक?’’

‘‘पळय दुमिंग, मुगे माशेना नांव घेवों नाका तूं. फोड्टो हांव तुजेर.’’

“घेतो हांव. तेका आनी तुका वांगडाच फोंडां घालतलों हांव. ती जड्डी चेडी तुगे पोटण्यागे सोयरीक घेवन येयलोली.”

हाचेर आंतोनेता इतलो राग येयलो, थंय बॅटरे दिवो पडलो आसलो तो उखल्लो आनी तेणें फोर्सान सण्करून तेचेर मारलो. कपला वयर दायेवटेन तकली फुटून फळफळीत रगत भायर सरलें. पूत आनी मांयल्यो बोबो.

आंतोनेत मागील दारांतल्यान सरसरीत भायर सरलें. थंय पावसाळ्यांत वयर सरिल्ल्या कारये झाडांमदीं कांय वेळ उबें रावलें. घरामुखार शेजारचो सगलो लोक धांवन येयल्लो आनी मोटो बोवाळ जातालो. कोण आंतोनेताचें मडें घालतालो.

तें आनी थंय रावलें ना. काळखांत एकलेंच मेळटा ते वाटेन चलत सुटलें. अशें काळखांत चलताना तें सामक्कें दोंगराकडेर येवन पावलें, परतें सकल येवन रस्त्याचे कुशीकुशीन चलूंक लागलें. केन्ना रस्त्यार येतालें, गाडयेचो दिवो बीन दिसतकीर परत बेगीबेगीन झाडा अडसराक बीन वयतालें. चलतना तेका खरायेन दिसतालें, आत्तां पांयांपोंदा विखारी सोरोपबीन पडचो. तेणें चाबून आपूण मरून वयचें. तें जाणा जाल्लें, ही काळ भोंवडी. तेका परतीची वाट ना! एक व्हडें पास तुटून, नांगर निखळून मोडा दरयांत रिगला. खंयच्या खडवणार आपटतलें कळना. एके अस्तुरेक खंयच एक घर ना, परतीची वाट ना अशी अवतिकाय! आतां अनवळखी नवी वाट वा मरण! तेका दिसतालें, आपूण वाट नाशिल्ल्या अटंग्या अरण्यांत शेणलां आनी हड्डें बडोवन घेत आसां!

शेवटा चलून चलून तेका पुरो जालें. रातचीं बारा वरां तरी जावन गेल्लीं आसूं येत. तें तशेंच एका झाडापोंदा झिलीवटेन न्हिदलें आनी थार न्हिदून गेलें.

सकाळीं झिळमिळ्यार तेका सवण्या-सुकण्यांच्या आवाजान जाग येयली. उठून चोंयवटेन पळयल्यार उंच दोंगराचें कवंडाळें आनी थंय लागींच्यानच दांबरा रस्तो गेल्लो. तें तो वाठार वळखलें. गुडी, पाड्डे काडून तें केप्यां भितर सरचे वाटे लागीं वयले वटेन पाविल्लें. केन्ना तें ट्रकानीबीन हेवटेन गेल्लें. तेका आतां उगडास येयलो. ह्या वगताक हे वटच्यान सावर्डेवटेन चिऱ्यांक ट्रक वयतात. थंय तामणेमळार व्हड चिऱ्यां खण आसा. तें बेगीबेगीन थंयचीं शेतां बळांटून रस्त्यार येयलें. पयलो एक ट्रक येयलो. हात दाखयल्यारय रावलो ना. कांय वेळान दुसरो येयलो. चलोवपी वळखीचोसो. खंयतरी पळयल्लो, भेटिल्लो. तेणें हात दाखयलो आनी ट्रक थारलो. चलोवप्यान तोंड भायर काडून एकदम म्हटलें “हिंगा खूंय गो आंतोनेत तूं?”

आवाजासरीं आंतोनेत तेका वळखलें, 'हो दामू ड्रायव्हर. जाय ते फावट वावराक गेल्लेकडेन हेणें रोबोल, चिरे हाडून घातल्याय. सकल देंवन खबऱ्यो बीन केल्याय. "आर्दी मुका भितर घे दामू, सांगोतां तुका." '

दुसरेवटेचें दार उकतें करून क्लिनरान तेका भितर घेतलें. तें ड्रायव्हर आनी क्लिनरा मदीं आंग कवळून घेवन कुडी मनान येदें येदें जावन बसलें. "आंतोनेत, कितें जालें गो? इतले सकाळीं हिंगाशें."

"कांय ना रे, कांय जालो ना."

"मागीर, हिंगा कोशें पावलें तूं?"

"कांय विचारी नाका तूं मुका दामू. मुका व्हरोन तामणे मळार पावय."

"कितें तरी जालां तुजें. कसल्यातरी खास्तिगेंत पडलां तूं."

"जाला मुजें मोडें."

"काजार जालो न्ही गो तूं?"

"होय. घोवा तोकलो फोडून धांवून येयलां हांव."

"कित्या म्हूण गो?"

"तो मुका खावों चाकलेटी हाडून दियनासलो. ओंटां लिपिस्टीक लावों दियनासलो. तूं मुका तामणे मळार पावय. मागीर सांगोत तुका."

"कांय समा न्ही तुजें आंतोनेत. घुंवला तूं तकलेन. कितें पूण जालां तुगेलें."

"मूज भावा, तूं मुका तामणे मळार व्हरून पावयतलो मुरे!"

ताचो आवाज भरून येयल्लो, रडवो जाल्लो, दामू वोगीच रावलो. मागीर कोण उलयलो ना कांय.

गांव काडून मुखार इल्लें पातळ रान. मागीर मुखार तामणे मळाचो आकांताळो आवांठ. फोंड, फोंड, चौकडी, खोल फोंडांच्यो हारी. चोंयवटेन शेंकरो, मुरूम आनी चिऱ्याच्यो राशी. ट्रकाचो घड घड. हांचे पयलीं जळींमळीं तीन-चार तरी ट्रक येवन चिरे भरूंक लागिल्ले.

आंतोनेत ट्रकातल्यान देंवलें आनी त्या अगड खोल चिऱ्या खणीच्या कडेर सुन्न उबें

रावलें. खणीं फोंडांच्या, चिऱ्या मुरूमांच्या राशी पयल्यान थंय कुशीक बरींच आंब्या-खुंब्यांचीं कशीं झाडां आसलीं आनी थंय लांबच लांब एक मांगर आसलो. तेका चार तरी कुडीकुडींनी दारां आसलीं. थंयसान उलयल्लो इल्लो गजबज आयकूंक येतालो. आंतोनेतान मनांत म्हटलें, हिंगाय लोक राबितो करून आसात तर! ताका उमेद येयल्लेवरी जाली. ताणें म्हटलें, "दामू, मुका हिंगा दिसवड्या काम मेवत?"

दामू हेर कडेनच गुंथल्लो. तेणीं वांगडा तीग कामदार हाडिल्ले, ट्रकांत चिरे भरूंक. एकल्यान हिंगा खणीरच येता म्हण सांगिल्लें, तो अजून पावंक नाशिल्लो. दोग जाण वयर चिरे घेवंक जाल्यार दोगजाण सकल दिवंक जाय आसले.

आंतोनेतान अदमास घेतलो आनी म्हटलें, "दामू, हांव येतां मुरे चिरे भरूंक."

दामून तेचेसरीं पळयलें. "जातलें मुगो तुजेकडेन? रातीं जेविल्लें?"

"हय."

"सकाळीं चावबाव कितें घेतिल्ली?"

तें वोगीच रावलें.

"कांय नज. वयतना आमी तिळामळार घेवंया चाव, भाजी, पाव."

हेर तिगय दादले उक्त्या आंगानच आसले. वोतान काळे पडिल्ले, कातडी रांपिल्ले, घट हाडाचे. चिरे उखलूंक तेंचे बावळे फुरफुरताले. चिरे जशे उडोवन जिखताले आनी ट्रक भरताले. आंतोनेतय तेंचेमदीं उणें पडलें ना. पोटा भुकेचें पूण तेंवय सट् करून उखलून चिरो माथ्यार घेतालें आनी वयर उखलून दितालें. ट्रक भरून सोंपतां सोंपतां तें तानेन भुकेन कासावीस जाल्लें. पूण तेणें दाखयलें ना. भरून जातकीर मात तें तांबयोभर उदक पियेलें.

हेर दादल्यां वांगडा फाटल्यान चिऱ्यार बसूनच तें चिरे पावोवंक गेलें. वयतना तेणीं तिळामळार पाव-भाजी खाली. चिरे धर्मापुरा देंवयले. देंवयतना तें सकलच आसलें. वयल्यान चिरे दितलो सुकोर, चिरो उखलतालो आनी उडयल्लेवरी सण्णकरून तकलेर दवरतालो. पूण तें कांयच उलयलें ना.

ट्रक तसोच दुसरे ट्रिपीक परत येयलो. दामू, ते ट्रक भरपी दादले आंतोनेता हुजीर, असवडी कितें तरी उलयताले, फुतफुतताले. तेका कितेंच कळनासलें. ट्रक परतो भरून जाता म्हणसर कडकडीत दनपार जाल्ली. ट्रक स्टार्ट मारचे पयलीं दामून आंतोनेताक मुखार

आफोवन विचारलें, “तूं आता खूंय रावतलें? कोणासरीं?” आंतोनेत वोगीच रावलें.

“घोवासरीं परत वयतलें?”

तेणें न्हयकारत फक्कत तकली हालयली.

“आतां आमी परत काय येवचे नात. तुका व्हरून खंय देंवयतले? खंय रावतलें तूं?”

तें परत वोग्गी. तेका कांयच सुचनासलें. रानांत शेणिल्लेवरी जाल्लें तें. ह्या खिणाक गावता तें सावळेचें झाड आपलें अशें दिसतालें.

दामूनच मुखार म्हुटलें, “हो सुकोर. बरो जोडटा. दिसा धा ट्रक भरूंक कांय न्ही तेका. काजार जाल्ल्या चार वर्सांनी बायल मेली. एकलो चेडो. तो मामासरी आसा. तूं वयता सुकोरा वांगडा?”

“मुगे दिसवडो दी तूं.”

“मागीर जाल्यार काजार जायात तुमी.”

“मुगे दिसवडो दी म्हुटलो न्हूं.”

दामून चाळीस रुपया काडून दिले. ते हातांत घेवन तें तेंकां फाट करून थंय पयल्यान आशिल्ल्या मांगरावटेन चलूंक लागलें. दामूक आतां तेचे चुरचुरेशे दिसले. आपणें वोगीच सुकोराचें तेका सांगलें, सुकोर सोरो पियेल्यारबीन खूब मस्तेपणां करता. तेणें व्हडान म्हटलें, “थंय रामलूली बायल आदीं सांगल्यार जेवणबीन दिता. धा रुपयांक जेवण तिगेलें.”

आंतोनेत उक्त्या पांयांनी शेंकरो माडयत मांगरावटेन वयतालें. खणीर काम करपी आतां खणींतच सावळेंतबीन बसून वांगडा हाडिल्लें जेवणबीन सोडोवन जेयतालें. कोण अजून चिरे खणून काड्टा तो आवाज येतालो. मांगरासरीं एक बांय आशिल्ली. थंयसान कांय बायलो मातये बिंदल्यांत उदक घेवन येताल्यो. तें गेलें आनी मांगरा मुखावेल्या वरांड्यांत एके म्हेडीक तेंकून मातयेंतच बसलें. दोन ट्रक चिरे तेणें भरिल्ले. रातीपसून जेवण नासलें. पुराय आंग, आंगावेलो व्हिस्तीद घामेन आनी चिऱ्यांचे तांबडे मातयेन भरिल्लो. मांगराक वोळीन तीन दारां आशिल्लीं. दर एका बिराडार कोण रावतात काय ना कांयच कळनासलें.

मदीं रामलू बायल गौरम्मा भायर येयली. मोटी आनी काळशी. तिचें लब लब आंगमांस वस्त्रांत धरनासलें. आंगार वस्त्रां आसूनय ना शीं दिसतालीं. आंतोनेत वळखलें, हीच ती रांदून वाडटली रामलू बायल. ताणें सट् करून म्हटलें, ''मुका एक जेवण मेळत गे?''

तिणें बारीक पळयलें, ''तूं खाणीर कामा येयला?''

''व्हय.''

''आज चवगांनीच जेवण सांगिल्लें. ते गेले जेवन. आतां आमगेलेंच उल्लां. चोयतां.'' म्हणत ती भितर गेली.

ती मूळ आंध्रांतली. तेलगू बायल. पूण कोंकणी बरी उलयताली. एकेक अक्षर आनी उतर जशें हातांत घेवन वाजयत आपल्या तेलगू हेळांत उलयताली.

येदोळसान तें आयकतालें, कुशीच्या एक बिराडांत कोणतरी सारक्को हं हं करून परवंता. कोण काय हो, खंय कितें दुखता तेगेलें! जोरान थळपेता काय खंय कितें उसळटा?''

कांय वेळान गौरम्मा आलेमिनाचे ताटलेंत भरून शीत घेवन येयली. वयल्यान कसलोतरी रोस आनी कुशीक इल्ली भाजी. प्लेस्टिकेचो तांबयो भर उदक.

''भितर बसून जेयता काय हिंगाच दिवों?''

''हिंगाच दी तूं मुका.''

ताणें तांबयांतल्या उदकांत मात्शे हात धुवून घेतले आनी तांबडे मातयेन भरिल्ल्या हातानच तें जेवलें. तेका तो शितार घातिल्लो रोस भेंड्यां रोस काय निस्त्या कडी कळळें ना. तरीय तेणें धपक्यांत शीत सोपयलें. ती आनीक आनी शीत वाड्टली म्हण तें ताटांत हात घोळयत रावलें. रामलू बायलेन खरेंच आनीक बरेंच शीत हाडून घातलें. रामलू नेकतोच खाणीवयल्यान कामातल्यान आयल्लो. तांबडो जाल्लो, घामेल्लो तसोच आसलो. तो चड वाडलां तें पळोवन तेलगू भाशेंत बायलेक तापोवंक लागलो. आंतोनेताक कळळें. तरीय तें वोगीच जेवंक लागलें. जेवन तेणें ताटांत उदक घालून उडयलें आनी तें हाडून दाराभायरच दवरलें. धा रुपया काडून रामलू बायलेकडेन दिले. तिणें ते घेवन भितर डब्यांत व्हरून उडयले.

कांय वेळ तें भायर तशेंच बसलें. मागीर वरांड्याचे एके कुशीक पेल्यान वचून हात

उशाक घेवन न्हिदलें. तो परंवचो आवाज परतो परतो येतालो. तो आवाज घेतच तेका झेम लागली. गौरम्माक आतां तेचेविशीं बेठोच दुबावसो, उमळशीकशी लागिल्ली. ती परती परती येवन तेका न्हिदिले कडेन पळोवन वयताली. मर्दीच तिणें आंतोनेताक हालोवन विचारलें, "आगो, कोण तूं? हिंगाच न्हिदलेंशें?"

आंतोनेतान दोळे उक्ते करून म्हटलें, "मुगे ट्रक येतलो. मागीर वयतलें हांव ट्रकार बसून." तें परतें न्हिदूंन गेलें.

सांजचें उसरां कोणतरी कितेंतरी धाडायता, आफयता तो आवाज येयलो आनी आंतोनेत उठून बसलें. मुखावेल्या दारांतल्यान एक दादलो तोंड भायर काडून बशिल्लो. हातांतली कोयती भुंयेर उबी आपटीत तो तेका कितें तरी सांगतालो. तांबशा, काळशा रंगाचो, घटमूट आंगलोटाचो दादलो. हो उबो रावल्यार बरोच उंच दिसतलो अशें आंतोनेताक दिसलें. तो सांगतालो, "आगो चेडवा, ही कोयती घेवन वच. थंय सकल रुमडी रूख आहा. तेचो पाना खोल्यांत इल्लो पाक आनी साली काडून घेवन यो."

आंतोनेत अनमनत उबें रावलें.

तेगेलो आवाज चडलो, "आगो, सांगतां तें आयकों येना तुका."

तापोता बरो हो! तें मुखार गेलें आनी तेणें कोयती घेतली. पळयल्यार तेगेल्या एका पायांचें पावल, तेचे वयलो पांय पुराय सुजला. तेका लायिल्लीं कसलीं कसलीं वखदां सुकून गेल्यांत.

आंतोनेतान विचारलें, "कित जालें हें?"

"कवरींग खणटाना पिकास फातरार उसळून पांयांर येयलो."

तें हातांत कोयती लांबयत थंय उबी आशिल्ले गौरम्मासरी वचून उबें रावलें. प्रस्न विचारिल्लेवरी. गौरम्मा व्हडाव्हडान उलोवंक लागली, "जोडिल्ली जोड पंदरा पंदरा दिसांनी बायलेक व्हरून घालतालो. उशीर जाल्यार बायल बोब मारीत येताली. आतां पाय मोडून पडला. बायलेसरीं वच म्हुटल्यार वचोना. बायलेक आपय म्हुटल्यार आयकोना. सोरो पियेल्यार गांवांक गाळी घालतलो. गांव विकतो घेतलो. पूण बायले मुखार लोलो हो फिलीप."

आंतोनेत कोयती घेवन बरेंच पयस सकल्लेवटेन गेलें. हो वयर व्हडलो चिऱ्यां सडो, पूण सकल थंय शेळ आशिल्ली. शेतां भाटां आशिल्लीं. थंयच एक रुमडी रूख आशिल्लो.

माशेन केन्ना म्हणटालें, उदाक वयर आसलो कडेनच रूमड वाडटा म्हूण. तेणें आदीं बरो दोणोभर पाक काडून घेतलो. मागीर बारीक बारीक साली काडल्यो. पोसोभर साली आनी पाक घेवन तें येयलें आनी तेणें तें तेचेमुखार दारांतच दवरलें. वांगडा तेगेली कोयती दवरून कुशीन सरतकीर तेणें विनवणेच्या सुरांत म्हटलें, ‘‘खूंय वयता गो, मात्शी साल बारीक करून पोल्लेर शिजोवंक उडय मुगो. ताचो शेक घेवन मागी पाक लावंक जाय पायांक.’’

आंतोनेत धिटायेन तेगेले कुडींत गेलें. भितर चार मडक्यो, कुळणीं, मायट्यो आनी दोन आलिमेनाचीं ताटां हाचे बगर कांय नासलें. पोल्ली कितल्या दिसांच्या गोबरान भरिल्ली. तेणें आदीं पोल्ली निवळ केली. बांयचेर वचून बिंदूल भरून हाडून चुलीर बुडकुलो दवरलो. थंय एका कोनशाक बारीक लाकडां आसलीं. तेचो तेणें पोल्लेंत जाळ केलो. रुमडी साल आनीक बारीक करून ती शिजोवंक उडयली. ती बरी खतखतावन शिजयली. मागीर बुडकुलो सकल काडून दवरून तें भायर वचून बसलें. तेका तिडक मारिल्ली, ‘‘हांव कोण खंयचें कांयच विचारी ना, फक्कत कामां सांगता. कसलो मनीस हो?’’

तो एक्र पांय जमनीक लायत कुल्यारच भितर गेलो. भितर गेलो आनी परत आफोवंक लागलो. ‘‘खूंय गेलें तें? मात्शें यो मुगो, मात्शें शेकय. बरेंऽ तें. मात्शें यो.’’

तेचो आवाजच असो घडघडीत दादलोसो. तरीय काळजांतल्यान येयल्लो, आपलेपणाचोसो. आंतोनेत उठून परत भितर गेलें. तेचो पांय एका साका घडयेर दवरून तेणें तो फाळो घेवन बरो शेंकलो. एकेक फावट तें रागानसो हूनहून उदका फाळो पांयार घालतालें. मागीर तो मांय गे करून आड्डतालो. ‘‘मरों गो तूं.’’ म्हणटालो. आंतोनेताक हांशें फुट्टालें. तेणें शेकोवन तेगेल्या पांयांक रुमडा पाक लायलो आनी तें परत भायर वचून बसलें. तो फाटल्यान म्हणटालो, ‘आतां बरें ल्हव दिसता चोय!’

म्हण्टासर रात जावंक येयल्ली. एक फावट रामलू बायल भायर येयली आनी तिणें विचारलें, ‘‘तुगे ट्रक येयलो ना गो?’’

आंतोनेतान तुटकशें ‘ना’ म्हटलें. तिणें एक फावट दुबावानशें पळयलें, ‘‘कसल्यो खबरी कोण जाणा, धडा दिसना मुका. फाल्यां आमचेर बिरमत. जेवण सांगलें ना तुवें. जेवण नाका मुगो तुका?’’

‘‘नाका.’’

मागीर ती फिलीपाल्या दारांत येयली. ‘‘तुगेलें जेवण हाडून दिवं रे.’’

“हय हाड.”

“हें भायर बसलां तें तुका उदाक तापोवन दिल्लें तें तुगे वोळखिचें?”

“न्हूं. हांव वळखना तेका. भायर बसों नाका म्हण सांग. म्हारवा गांव हो.”

“तेंच खंयसानतरी म्हारवाभाशेन येयलां! कोण गो तूं खंयचें?”

आंतोनेत वोगीच रावलें. “मर तूं!” म्हणिल्लेवरी गौरम्मा भितर गेली. आंतोनेत एकलेंच भायर उबें आसलें. मुखार शंबर फोंडां खणीचें तामणेमळ. भणंग उक्तें. कोण आपलो नाशिल्लो हो दरिद्र मांगर. तें त्या चडट्या काळखांत पुराय निर्शेवन गेलें. भियेवन गेलें. तेका थरथरो भरलो.

आतां बरीच रात जाल्ली. सकाळीं ट्रक भरतंना आंतोनेताल्या आंगार इतली माती पडिल्ली, ती व्हिस्तीदांतल्यान सकल आंगभर देंविल्ली. तेतूंत हुमेन आंग भिजून सुकिल्लें. तेका न्हावचें अशें दिसलें. पूण आंगार एकच वस्त्र. न्हावतलें कशें? तरीय तेणें चोयलें, बांयचेर एक मातये कळशी आनी राजूय आसलो. तेणें बांयसरी वचून भियेत भियेत आंगावेलो व्हिस्तीद देंवयलो. तो लागींच हाताकडेन दवरलो. कोणय येयल्यार बेगीबगीन आंगार गुठलावन घेवंक मेळटो म्हण. ती बांय एक चिऱ्या खणी वरीच खोल चौकडी आसली. चिरे काडटां काडटां खोल वचून उदक पडिल्ले वरी. मागीर आनीक खोल खणिल्लेवरी. तें कळशी भरभरून आंग घांसून न्हावतालें. आनी भियेभियेत सुलूसय घेतालें. आंगावेले कपडे देंवयतकीर तेचो हात गळयांतल्या भांगरा सरपळेसरीं गेलो. माशेनान दिल्ली ही सरपळी राखूंक जाय! दिल्लीं दोनूय कांकणां मात घोवाघराच उरिल्लीं.

तें न्हावता तो घसघस आवाज आयकून गौरम्मा ल्हवूच भायर येयली. “कोण गो बांयचेर?”

आंतोनेतान बेगीबेगीन व्हिस्तीदा हात घातलो, “भियेनाका हांव गौरम्मा.”

आंतोनेत तशेंच न्हावत रावलें.

“न्हेसूंक कितें आसा तुजेकडेन?”

“ना गे.”

“साडी न्हेसूं कळटा तुका?”

“कोवता मातशी.”

तिणें भितर वचून एक पोन्नी विटकी साडी आनी फाटीर पिनिल्लो पोलको हाडलो आनी तो थंयचे एका झाडाचे खांदयेर दवरलो.

साडी गुठलावन पोलको घालून येतकीर गौरम्माक तें खरेंच आपलेंशें दिसूंक लागलें. तिका मुखार बसोवन घेवन तेणें कितें कितें मायेन विचारलें. आंतोनेतान आपली सगली खबर तिका इल्लेंय लिपय नासतना सांगली.

तेका उठोवन घेवन घरांत वचूंक गेल्यार घोव रामलू तेलगू भाशेंत बोब मारूंक लागलो, "कसली ब्याद कोणाक खबर. फाल्यां पोलीस दारांत येयल्यार कळटलें तुका."

ती तेका घेवन फिलिपासरीं गेली. "तुगे भायले कुडींत न्हिदूं दिता रे तेका?"

फिलीपान कांय एक उलयनासतना एक शेंदरी काडून भायर उडयली. म्हटलें, "कुशीच्या बिराडाक तें कुलूप बेठेंच हुमकळटा. ओडल्यार येतलें. न्हीद म्हण सांग थंय." शेंदरी उखलतकच तेणें विचारलें, "जेयलें गे तें?"

"ना. जेवंक नाका म्हुण्टा."

"तुवें दिलोलें ताट मुगे तशेंच आहा. दिसभर बसलोकडे मुगे पोटांत वाय धल्ल्या." तेणें ताट भायर उखलून दवरलें. वांगडा उदका तांबयो.

गौरम्मान म्हटलें, "इल्लो पावा माल्ल्यार बरो जेयतासलो तूं."

"तशें न्ही गे, कोण खंयचें येयलां तें, तेका उपाशीं दवरून जेवचें?" मागीर एकदम तापत तेणें म्हटलें, "तूं जेवली मुगे? तुवें तुगेल्या घोवाक वाडलो मुगे? दुडू जाय तुका. दुडवां बगर कोणाक उंडये गिरास घालची ना तूं."

ती हांसलेंशें करून वोगीच रावली. आंतोनेताक घेवन कुशीचे कुडींत गेली. आंतोनेताक खरें तर मरणाची भूक लागिल्ली. तें जेवन शेंदरेर आड पडलें. काळखान भरिल्ली एक अनवळखी पयसुल्ली क्रूड. खंय पावलां, खंय आसा कांयच कळनासलें. कसलोच थाव लागनासलो. मदींच तें दोळे ताणून काळखांत पळयतालें. आनी सोता शेणून गेल्लेवरी दिसतालें. एकदम तेका माशेनाक उलो मारचोशें दिसलें. लांबच लांब एक काळो गाळो पड्डो. पड्ड्यार आनी कोणच ना. फक्कत माशेन उबें. तकलेर वोजें घेवन कंबर वागवल्लेंशें.

इतलें आसूनय कसलें दुख्ख भोगनासलें. कसली भिरांत नासली, हुस्को नासलो. जिवीत वाऱ्यार सोडून दिल्लेवरी दिसतालें. "खंय कितें मुजें आशिल्लें म्हूण हांवें दुख्ख

भोगचें. म्हातारें माशेन एक दीस मरतलें!

सकाळीं बेगीनच जाग येयल्यार कोण तरी उले घालता व्हडाव्हडान, ''आगो अजून न्हिदलां गो? ऊठ. इल्लो पेजे निवळ शिजय. आयजय उपाशी मोरतलें. ऊठ बेगीन. दिसना उजवाड येवन दारांत बोसला तो?'' आंतोनेत वळखलें, हो सखनळी वाजयत येवपी आवाज फिलीपाचोच म्हण. तें उठलें आनी व्हिस्तीद न्हेसूनच भायर येयलें.

''तूं रातीं मुगे जेवण जेयलें मुगो? मुका आतां कोण रांदून वाडटलो? रामलू बायल हातार दुडू मागोता. चल, भितोर वचोन पेजे बुडकुलो दवर. शिमिटा साकांत उकडे तांदूळ आहाय.''

''मुका खणीर वावरा वचों जायें. मेवत मुका काम?''

''खणीर जाय तीं कामां आहाय. पावस सोंपलो न्ही आतां?'' मोपकार नवे खणीक कवरींग काड्टा. मगे वच तूं रामलू वांगडा. आदीं पोल्लेर पेजे दवर.''

तें भितर वचून पोल्ले उजो करूंक लागलें. तो म्हण्टालो, ''काल तुवें काय बरें शेकोवन पाक लायलो. बऱ्या हात गुणाचें तूं. पांय चोय कितलो ल्हव जाला. सांजचो परतो शेक दी गो.''

पेजेक तांदूळ घालून एक उमाळो येतासर तें चुलीकडेन बसलें. मागीर थंयचें उठून एक पोन्नें साकाफटें उखलून तेणें म्हटलें, ''हांव वयतां वावराक. मागी पेज शिजतकीर जाळ फाटीं ओडून दवर.''

''हांव जाणां खंयसानतरी झगडून मारून धांवन येयलां तूं. सांगी नाका. गावड्यांगे मुगो तूं? गावड्यांगे चेडवां चार माड उंचाये वयल्यान खणींत उडयल्यारय उबीं रावपी. नांव कितें तुगेलें?''

''आंतोनेत.''

मागीर तेणें रामलूक व्हडाव्हडान उले मारून आफयलो आनी सांगलें, ''हेका तुजे वांगडा वावराक घेवन वच. मोपकाराक सांग, फिलीपान धाडलां म्हण. दिसवड्या चड उणे केल्यार चोय म्हण सांग. बायलांक कितले? आदेसाक वीस मुरे?''

आंतोनेतान मदीं विचारलें, ''आनी दादल्यांक?''

''दादल्यांक आदेसाक तीस. दिसाक साठ.''

खणीर गेल्यार थंय चड बायलोच. दादले सामके उणे. रामलून हेका वावराक हाडलां म्हण सांगतकीर मोपकारान म्हटलें, "दादले आसात फकत चोवग जाण, बायलो चोय धा बारा. तेंकां कवरींग फोडून चोबे भरून कोण दितलो? आनीक बायल वावराक हाडूं नाका तूं. कित्याक बेठें उबें रावंक?"

कवरींग फोडचें, तें चोबे भरून दिवचें काम बरेंच कठीण आसलें. तें दादलेंच करताले आनी बायलांचे तकलेर चोबे भरून दिताले. बायलो मागीर कुशीक उडोवन घेताल्यो. ह्या वावराक एका दादल्या फाटल्यान दोगच बायलो पुरो जातल्यो. आंतोनेतान अदमास घेतलो. बायलो चड आसात खऱ्यो. तेणें हातांतलो चोबो कुशीन उडयलो आनी मोपकारा मुखार वचून म्हटलें, "हांव खणून भरून दिवपा वावर कोरतां. दोगी बायलो दी मुजे वांगडा."

"तूं कवरींग फोडटलें. दादल्यांचे रटे फुट्टात."

"मुका तूं पिकास आनी खोरें दी न्हू."

"बरें, चोयतां तुजी कापास्ताद." तेणें पिकास आनी खोऱ्या वटेन बोट दाखयलें.

"पूण मुका दादल्यागे दिसवडो दिवपा पड्टलो."

मोपकार कांय वेळ वोगी रावलो. "चोवया तरी काम तुगेलें. काम चोवन दिसवडो ही?"

आंतोनेतान कांय वेळ चोंयवटेन पळयलें. पयस मेरेन खणिल्ल्या खणींच्यो हारी. गोंकऱ्याच्यो राशी. मदीं बायलांचो चोमो उबो. बरगल्लीं, भागिल्लीं, निर्शेल्लीं बायलां. दिसतालें, एक चोबो तकलेर घेतल्यारूय ह्यो कमरेंतल्यान मोडटल्यो. घरांत परंवत रावपी, कठ बस करपी ह्यो बायलो खंयचे तांकीन खणींतल्यान चिरे वयर हाडटात? चोबो तकलेर घेतात? दादले सांजचे गादयेर वचून इल्लें पावा मारून 'सुशेग' घेवंक ताकताले. तेंकां ग्विय नासलें. परत घरा वचून रातीचो चुलीक जाळ घालूं जाय आसलो.

आंतोनेत दोगां बायलांक घेवन वावराक लागिल्लें. तें पिकासान घूण्प घूण्प करून खणटालें आनी तेचो खोऱ्यान बेगीबेगीन चोबो भरतालें. एक बायल चोबो व्हरून उडोवन येतासर दुसरेक चोबो भरून दिवचो पड्टालो. दमछाक जाताली तरीय तें नेटान खणटालें, चोबे भरतालें. हेर दादल्यांपरस चड नेटान! चोवन मोपकार अजाप!

दनपरां तें जेवंक म्हण येयल्यार पेजे बुडकुलो तसोच पोल्लेर आसलो. सकल्लो उजो

पालोवन गोबोर जाल्लो. तेणें रागानच फिलीपाक म्हटलें, ''रातीं जेवंक नाशिल्लो, पेजय इल्ली वाडून घेवन जेवंक जाली ना तुज्यान!''

''तुजीं शापोतां नाकात. इल्लें खाऱ्या भाज आनी पेज जेव आनी लाग चलूंक तुज्या गांवघरा. गौरम्मान सगळें सांगलां मुका.''

''ना, वयचें ना हांव.''

''ना तर हे खणीर कोण तुका काम दिता तें चोयतो हांव.''

''कमर मोडसर वावर करून पागार घेता हांव, फुकट न्हूं.''

तेणें खारें भाजून ताट भरून पेज वाडून फिलीपाक दिली. उरिल्ली तेणें जेवली पोट्टभर. मागीर तें थंयच मदल्या दारासरीं साका फटें हातरून आड पडलें.

फिलीप मज घेवन भूर्र भूर्र करून पेज जेंयलो. तो आतां बेटोच उलयतालो. ''मुगे बायलेन चोयल्यार तुगे तोकलेर चिरो घालतली ती. मुखार गेल्यार बोचके काडटाली आनी नाखटां लायताली. रगत काडलेबगर मोगच करूंक कळना तेका. तरीय तिगां भुरगीं जालींच. घोसाळें हाडल्यार पडवळें कित्याक ना आनी पडवळें हाडल्यार दुदी कित्याक ना? पिकासांवान खूब पितालों हांव. पिल्यार पिलो कित्याक म्हण संवताली. येयलों शेवटाक ह्या चिऱ्यां खणीत पुरून घेवंक. हांव तुका हिंगा कसोच रावंक दिवचो ना. बावीस वर्सांचेर लग्न जाल्लों. आठ वर्सां जालीं लग्न जावन. आठ वर्सांत कोणाची सांवळी पळयली ना हांवें.''

आंतोनेत बरोच वेळ मरून पडिल्लेवरी रावलें. मागीर सुडबुडीत उठून खांदार साका फटें घेवन भायर सरलें, ''वयतां हांव वावराक. वोगोत जालो.''

''सांजचें येतलें मुगो बेगीन. परतो इल्लो रुमडी पाक आनी साल हाडूंक जाय.''

* * *

चार दिसांनी तो पांय निवळून दुख उणी जावन पांयांर उबो रावला. तो उबो रावलो आनी आंतोनेताक तो घडघडीत उंच दादलो असो दिसलो आनी तेचेर लकूनच येयलो. खिणभर दिपकावन भियेवन गेलें तें. मागीर तेणें तेगेल्या दोळ्यांत पळयत म्हटलें, ''दादलो खूंय, इल्लें पांया खवळ गेल्यार रडत बसलोलो. केसो मरणा परवणी!''

''केसो गो तूं कट्टे काळजाचें? सुजून बेबो जाल्लो मुगो पांयांचो. तुगे पांयार एक दिस पिकास घालून चोयतलों हांव.''

आठ दिसांनी तें फिलीपा वांगडाच खणीर वावराक वचूंक लागले. आंतोनेत कवरींग काडच्या वावराक तर फिलीप थंयच लागींचे खणींत चिरे मारच्या वावराक. कवरींग काड्टात थंय आंतोनेत दादल्या भशेन पिकासान खणून चोबे भरून दिता तें फिलीपान खणींतल्यान पळयलें. तो खण चडून धांवन येयलो. तेणें मुखार दवरिल्लो चोबो मोखून कुशीक मारलो. हातांतलो पिकासय काडून उडयलो. मोपकार नासलो. तेगेल्या थंयच्या मनशाक तेणें धपकायलो. "तूं बायलमनशे कडल्यान दादल्या वावर करून घेता?"

"तेका फारीक करतात आमी दादल्यावरीच."

"पूण ती बायल तें दिसना तुमकां?"

"तेंच तयार जाल्लें आपूण जावन."

"कसलें गोणी घायल्याय गो तुजेर. मोरपा केलां बेगीन?"

"गावड्यागे चेडूं हांव." तेणें चोबो मुखार ओडलो आनी खोरें उखलून तें माती मुरमां भरूंक लागलें.

फिलीप तेका कांय वेळ पळयत रावलो. मागीर 'मर' म्हणत वोग्गी खण देंवन गेलो.

वावराक भायर सरिल्ल्या दोन दिसांनी परतो फिलीपालो पांय सुजिल्लेवरी जालो. आतां तेणें आपणें जावन रुमडी साल काडून हाडली. तेचो पांय हातांत, आंगार घेवन तें शेकयत रावलें.

फिलीपांत तें ल्हव ल्हव घुस्पत गेलें आनी फाटीं सोडून येयल्लो एक संवसार विसरलें. त्या संवसारांत परत वचचेली वाटय तें विसरून गेल्लें. काय ती वाट कोणें गुठलावन कांट्या झिलींनी उडयल्ली! "ना हांव परत वच्चें ना! माशेनाक आनी दुख्ख कश्ट दिवचें ना! मांय पायसरीं वचून पडचेंना! घोवाचो सांगात एक दीस लेगीत सोसचें ना! घोव कसलो शेणाचो काय मेणाचो, आळशी बोद्दरवळू!" खणी भायल्या सगल्या संवसाराचो वीट येयिल्लेवरी जाल्लो. "हिंगाच सुगूर आसा हांव. फाल्यां मेल्यार हेच खणींत मुका पुरात म्हण सांगतलें. फकत पालोवंक येयिल्लो एक दिवो, माशेनाल्या हातांत, मोगाळ उजवाडाचो. हेर सगलो काळोख! माशेन गो, तूं मुजो हुस्को काडूं नाका. तूंच म्हुण्टालें न्हूं, मुगे आंतोनेत सड्यार व्हरून उडयल्यारय मरचें ना, पोट भरून रावतलें म्हूण."

फिलीपालें घर सांगे-तारी पाण्ट्यार इल्लें पयसूच. तामणे मळावयल्यान ट्रकान वा सायकलीन पयलीं काकोड्या वयचें पड्टालें. मागीर बस धरून सांग्यार. थंय एकल्याल्या

भाटांत तो मुंडकार आसलो आनी ल्हानशेंच घर आसलें. घरा बायल आनी तिगां भुरगीं. आदीं तो मळकण्यां वयचे वाटेर आशिल्ले चिऱ्या खणीर काम करतालो. तेचें आनी बायलेचें कशेंच पटनासलें. हेचो आवाज फुगोटेंचो जाल्यार तिचो गर्नेलाचो. एकल्यान तूं म्हटल्यार दुसऱ्याचें तुजो पाय. मदीं ते खणींत शेड येयल्यान ती खण बंद पडली. फिलीपाक आयतेंच निमीत मेळ्ळें. एक दीस तो हेवटेन येवच्या ट्रकांत बसून तामणेमळार पावलो. खणीर सगल्या तरांचीं कामां तो करतालो– कवरींग काडचें, चिऱ्या ट्रक भरून रिते करचें, चिरे मारचें– सगल्या तरांचीं.

पंद्रशींतल्यान एक फावट तो घरा वयतालो. जोडिल्ली जोड व्हरून बायलेक दितालो. पूण तिका समाधान नासलें. सदां किटकीट आसतालीच. फिलीप वचूंक फाटीफुडें जाल्यार ती येताली. तेका ओडीर काडटाली. वोगीच भुरगीं तीन दीस उपाशीं आसात म्हण्टाली. तशी फिलीपाली जोडिल्ली जोड बरीच सोऱ्याकयं वयताली. केन्ना खाकणवाळ जातालो, मागीर हेचेकडच्यान तेचेकडच्यान मागून व्हरून बायलेक दितालो. काडिल्लें रीण पावयता, बायलेक दिता म्हणसर तो खर्शेतालो. मागीर बायल रीणकार कशी मांगरार येवन बसताली.

मदीं पांयार पिकास पडिल्ल्यान आनी जोडय बुडिल्ल्यान तो पंचविसेक दीस घरा वचूं नासलो. आंतोनेत येवन आतां पंदरा दीस जाल्ले. तेणें फिलीपाली कूड झाडून सारोवन नितळ केल्ली. पयलीं धुंवरेल्ली काळखेल्ली अशी दिसपी ती कूड आतां उजवाडान भरिल्लेवरी दिसताली. कुडींतल्यो मडक्यो, आयदनां तेणें घासून पुसून जिस्ता जिस्त मांडून दवरिल्लीं. तें पळोवन फिलीप मदींच भियेल्लेवरी जातालो. आंतोनेत न्हिदतालें ती कुशीची कूड मात तशीच धुल्लान भरिल्ली आसली. पांयांक लागून येयल्ली तांबडी माती लेगीत तशीच आसली. शेनरी सोडयतालें, उशाक हात घेवन न्हिदतालें आनी सकाळीं उठून भायर येतालें. दनपरां जाल्यार साकाफटें सोडोवन फिलीपाले कुडींतच आड पड्टालें. हुस्क्या मेकळें. केन्ना आपलो व्हिस्तीद वयर सरून जांगडां उक्तीं जालीं, हड्डें लकलें, तेन्ना तो तेळटा कांय म्हणून बारीक पळयतालें. पूण तेचे दोळें सपाट आनी खंय तरी लागिल्ले. मागीर तेणें हुस्को सोडलो सोताचो. तें चिततालें, मनान असो कसो हो नितळ रित्या दोळ्यांचो! ओड लावपी पूण ओड ना लावन घेवपी.

आंतोनेत येयल्लें तें त्या एकाच व्हिस्तीदार आसलें. रातचें रामलू बायलेन दिल्ली साडी पोल्कय घालीनासतना गुठलावन घेतालें. सकाळीं उठून परत तोच व्हिस्तीद. आतां आनीक दोन व्हिस्तीद हाडूं जाय म्हणून तें पयशे कुशीक काडून दवरतालें दिसवड्यांतले. पूण कोण खंय हाडूंक वयतलो हो प्रस्न आशिल्लोच.

आयतारा एक दीस सकाळींच फिलीपा बायल येयली. फिलीप नासलो. आंतोनेत वरांड्याचे एके कुशीक उबें आसलें. तेची थंयच्या एका माजरवांगडा इश्टागत जाल्ली. तें आतां तेच्या पांयांकडेन घश्टत खेळटालें. आंतोनेतय तेचेसरीं मनशासरीं उलयल्लेवरी उलयतालें. मदींच तेका एकाद्री गाळ घालतालें. फिलीपा बायल येयली आनी धाड करून दार उक्तें करून भितर कुडींत गेली. तशीच कांय वेळान भायर येयली. ती बरीच गोरी पूण मोटी आनी मोटवी आसली. व्हड धबधबीत तेलकट चेहरो आनी बारीक दोळे. तिणें गच्चसो व्हिस्तीद घातिल्लो. पोटाचेर सदळ देंवन येयल्लें हड्डें, सुटिल्लें पोट, सुटिल्लें कंबर तेणें त्या व्हिस्तीदांत जशें आंवळून घेतिल्लें. आंतोनेत तेका ज्यूस्त वोळखलें.

तिणें भायर येवन आंतोनेताक विचारलें, ‘‘फिलीप खूंय गेला?’’

‘‘हांव नकळ. मुका सांगोन वचों ना.’’

‘‘तेगे कूड कोणें अशी नितळ सारयली?’’

‘‘नकळ. विचार तुगे घोवाक?’’

‘‘तूं कोण तर?’’

‘‘हांव दुमिंग पात्रांवाली मिशेस्स. आमगे सात ट्रोक आहाय. खर्णीर साठ लोक वावर कोत्ताय.’’

‘‘काय बरो जनेलां पडलो व्हिस्तीद मुगो तुगेलो.’’

‘‘तुका जावो? काडून दिवं आत्तां?’’

तिणें एक फावट दुबावान पळयलें, केसो खबरी कोण जाणा म्हणत ती रामलूच्या दारांत गेली. फाटीं येयल्ली ती तेन्ना कित्याक लागून तरी गौरम्माकडेन झगडिल्ली. तिणें आतां रामलूकच उलो मारलो, ‘‘रामलो, आरे रामलो, फिलीप खूंय?’’

रामलून भायर येत म्हटलें, ‘‘आज आयतार न्हूं? फुलयता दिसतलो आयतार.’’ मागीर रामलून तेका फिलीपाल्या पांयां दुखीची खबर सांगली. ती वोंगी वचून कुडींत बसली.

बऱ्या वेळान फिलीप येयलो. हातांत नुस्त्या पोती. उतरांत सोऱ्या घुंवळ. तेगेली सुलूस लागतकीर बायल भायर येयली. ‘‘फिलीप, तुगे पांयांक लागलो खूंय मुरे. चोवन पिकास मारूं जायना? बुडयले मुरे दिसवडे? भुरग्या कितें घालतो तूं आतां?’’

“दुडवा पासत रडूं नाका तूं. चिरे ना तर मुगे हाडां विकून तुगे दुडू दितो हांव. दुडवा मोलच चड तुका.”

“सदांच सुबेज तूं फिलीप. मुका नाका तुगेले दुडू. घरा भुरगीं तीन दीस उपाशीं बसल्यांत.” हातांतल्यान नुस्त्या पोती ओडून घेवन भितर वयताना तिणें विचारलें, “फिलीप, येसो हें बरें करून कोणें सारयलां?”

“कोणें म्हुटल्यार? हांयें. एक दीस बरें चोवोभर शेण हाडलें. हातीन, सान्नीन सारय सारय सारयलें. केंस धरून पांय मेरेन शेणान लेपडावल्लों. खांप्री कसो दिसतालों. भायर वचून घसाघसा धा बिंदूल उदक न्हांवलों. विचार ते शेजान्नीक.”

“कोण रे ती? केन्नासान जाली तुगे शेजान्न?”

“तेगे नांव, गांव हांव नकळ. मुगे शेजराक खणीर काम करता म्हूण तें मुगे शेजान्न.”

“पात्रांवा बायल म्हूण सांगतालें मुरे तें मुका.”

“तेगे पात्रांव गेल्ल्या पावसाक खणींत बुडून मेलो.”

बायल रांदूंक लागिल्ली. फिलीप सोन्या घुंवळेंत कितें कितें उलयतालो, “हांयेंन शेजान्नीक कितें सांगलेलें जाणा? मुगे क्रुजीन रांदूंक एकदम फिशाल. तुका बेठी पेज करूंक कोवना. हून उदकान पांय मात बरें शेंकतालें तें.”

क्रुजीनान एक फावट तीख नदरेन फिलीपाक पळयलें. “चेडयेच्या, फटकिन्या, तूं तेकोडच्यान रांदून जेयतालो, पांय शेकोवन घेतालो. न्हिदोन लेगीत घेतासतलें तें तुजकोडच्यान.” तिणें आयदन धरून धोडायलें.

फिलीपय तापलो. “तूं चेडी वायटच चिंतनांची. तुकोडेन कांय जावपार ना. तुज्यान खणीर चोबो तकलेर घेवपा जावपार ना. तुयें आयतें खावचें आनी हेरांल्या नांवान बोब मारची.”

“कांय जावपार ना खूंय. तुगे भुरग्यांक कोण चोयता? तूं पोट करता आनी कुशीक सरता पोटण्याचो. हांयें भोगचेलें सगळें... आतां हिंगा येवन पडला मोजा मारूंक .........”

थंय कांय वेळ कचकच झगडें चल्लें. गाळयांचो शिंवर जालो. मागीर सगलें थंड. आतां फक्कत रांदिल्लो, मिरयां वांटिल्लो आवाज, शिजिल्ल्याचो वास. उलयल्लो मात

आवाज नासलो.

जेवन तेणीं भितरल्यान खिळी घातली आनी तीं दोगांय न्हिदलीं.

आंतोनेताली बेठीच तेंचेवटेन नदर आसली, कान आसलो. तेणीं भितरल्यान दाराक खिळी ओड्टकीर दारार मारून फकाणा कर्चीं अशें दिसलें.

क्रुजीन वचूंक उठलें आनी फिलिपासरीं पयशे मागूंक लागलें. फिलीप सदांचेवरीच खाकनवाळ. खंयूय दोनशीं तिनशीं आसुंये तेचेसरीं. "आगो, वचूंक उठलां तें मडक्यो तरी लाय मगो नीट." तें मडक्यो लायता तें पळोवन आंतोनेताले कुडींत येयलो. थंय एक वयर दवरिल्लें फळें आसलें. तेचेर साका फटें पातळायल्लें. तें तेणें सकल ओडलें. मुळांतल्यो नोटी फासपून सकल पडल्यो. तेणें तेतुंतल्यो शंवराच्यो चारच नोटी उखलल्यो. बारीक नोटी तश्योच सोडल्यो आनी तो भायर गेलो. आंतोनेत वोगी पळयतालें. शेवटाक तेणें ल्हवच म्हटलें, "ते हांयेन व्हिस्तीद हाडच्याक दवल्लेले." तो वोगीच रावलो.

रामलूली एक खूब पोन्नी कळमेल्ली सायकल आसली. ती फिलीप सांगिनासतनाच केन्ना घेवन वयतालो. केन्ना सामान घालून दुरुस्ती करून हाडटालो. तेणें ती सायकल काडली आनी तो तेचेर क्रुजीनाक बसोवन घेवन बशीमेरेन पावोवंक गेलो. आंतोनेताक दिसलें, क्रुजीनाल्या भारान ती सायकल वाटेरच मोडून पड्टली. तो कुले आंवळून पेडलां मारता तें पळोवन तेणें मनांत म्हटलें, हेचो पांय परतो सुजना जाल्यार पुरो! आज तो रुमडी उदकान शेकोवंक जाय!

तो पावोवन परत येतकीर आंतोनेतान विचारलें, "तें जड ओजें मोडक्या सायकोलीर घालून केशे व्हयलें तुवें?"

फिलीपान झेतान म्हटलें, "बायल ती मुगेली."

"चोय, तुगे तोंड नाकश्यो लागून रगशेलां तें."

फिलीप बेठोच हांसलो.

* * *

मुखाल्ले आठ दीस तें तशेंच एकाच पिनक्या व्हिस्तीदार आसलें. रातचें मात साडी गुठलावन घेतालें. मदींच तें फिलीपासरीं वचून पिरंगतालें. "मुगे व्हिस्तीदा दवल्लोले दुडू व्हयले तुवें."

त्या आयताराक सकाळींच कोणाल्यातरी ट्रकाची घरघर खणीर आयकोंक येयली.

फिलीप सरसरीत घरांतल्यान भायर सरून गेलो.

सांजचो येताना कुडचड्यांसान दोन साडयो आनी घागरे विकते घेवन येयलो आनी तेणें त्यो आंतोनेता सामकार दवरल्यो. वांगडा दोन पोन्नीं पोलकां.

''साडयो कित्याक हाडल्यो तुयें मुका व्हिस्तीद सोडून?''

''व्हिस्तीदाक तुगे माप हांव जाणा?''

''घेवपा तुयें. आनी हीं पोन्नीं पोलकां खुंयचीं?''

''मोपकाराले सुनेलीं. वचून पांय पडलों, म्हुटलें तुमचे खणीर एकलें वावुरतां. तेका घोवान मारून तकली फोडून धांवडायल्लें. आतां खणच तेणें घर मानलां. कांय ना आंगार. जातो तुका तीं. तुजेवाशेनच तेगे हड्डें गुबगुबीत फुललोलें.''

आंतोनेत लजत हांसलें. दोनय साडयो आनी पोलकां उखल्लीं आनी तें भितर वचूंक गेलें. ''जाणा आंतोनेत, मुका साडी न्हेसलेली अस्तुरी सदां सोबीत दिसता. हांयेंन तुका साडयो कित्याक हाडल्याय जाणां?''

''कित्याक?''

''तुवें खणीर दादल्यावरी वावर करचो न्ही म्हणून.''

''चोय, तुगे साडी गुठलावन कमरेक तुवालो बांदून केसो वावर कोत्ता तें.''

''गावड्यागे हाड म्हण दाखोवपा जाय तुका?''

''हय तर. गावड्यागे लोक हाडां झरोवन कश्ट करून खातात. कोणा गे येद्‌दें कुस्कुट फुक्या घेवपी न्हूं ते. मुगे व्हडलें माशेन मडगवां भाडेल म्हण वावर कोत्ता. थंय आवदी म्हण पोसरकार तेका पातयेवन पसरो उक्तो उडोवन घरा वचोन येता.''

आंतोनेतान आंगावेलो काडिल्लो पोन्नो पिनको व्हिस्तीद उमळून हाडून भायर दोरयेर दवरिल्लो. तो फिलीपान हाडलो आनी गळ्याकडच्यान सकल मेरेन मुखावयल्यान सारको उबो पिनलो. ''आरे कितें कोत्ता तूं? एकच म्हजो व्हिस्तीद पिनलो तुयें.''

''चोय तुका कशें उक्तें केलें हांयें.''

तें हासलें आनी लजलें.

* * *

एक दीस दनपरां वावरांतल्यान मांगरार येयल्यार थंय भायर वारांदांत कोण तरी बसला. पुरो जाल्लेवरी कूड वागोवन घेवन. लागीं पावतकच तें वळखलें 'माशेन' म्हण. येवन तेणें माशेनाक मिठी घातली. माशेनाक मिटयेंत घेवन तें हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. फिलीप फाटल्यानच येतालो. रामलू आनी जेवंक येयल्ले दोग जाण सगले थीर पळयताले. पूण तें वंद सोडून रडटालें. रडप आसरतकीर, काळीज इल्लें ल्हव जातकीर तें माशेनाक घेवन वारांदाच्या पयल्यान कुशीक गेलें आनी थंय बसलें. गौरम्मा तर येयल्ल्यांक वाडचें विसरून दोळयांत दुकां हाडून तेंकां पळयतालें.

"बाय, दोन म्हयने जावन गेले. तुगे खोबोर ना. केस हुस्को! केदूयाय रातीर उटून बसतालें आनी तुका उलो मारतालें. तितिवाकय तुगे वथरणी लागल्या. बरो ना तो."

"कितें जालां माशेन?"

"जाण्टेपण म्हुटल्यार मोटी पिडा, तुका घेवनच यो म्हुटलां."

"मुगे खोबोर कोणें सांगली माशेन? केहें कळ्ळें हांव हिंगा आहा म्हूण?"

"मायकलाक कोणें ट्रकार वावर करतल्यान सांगलें खूंय."

"मायकलबाबाक घेवन येवपा न्हू गे मोटरसायकल घेवन?"

"रागार आहा तो. एक दीस दुमिंग येयलेलो एका बापोल्याक घेवन. गाळी संवतालो सगल्यांक. मायकल घराच आसलो. मुका गाळी माल्लो आयकोन तो भायर येयलो. तेणें दुमिंगाल्या खोमसाक धरलें. मागीर दुमिंग एकदम रडोंकच लागलो. आंतोनेनाक हाडून पावय म्हणूं लागलो. सारक्को पांये पड्टालो. मायकल आतां तुकाच गुन्यांवकारी म्हुण्टा."

आयकोन आंतोनेत वोगच रावलें.

"हिंगा केहें पावलें तूं आंतोनेत?"

"तें आनी नाका माशेन. भोगणार मुजे." तें उटलें आनी सरसरीन गौरम्मासरीं गेलें. तेणें एक जेवणा ताट दिवंक सांगलें. तिणेंय वेगीवेगीन वाडून दिलें. तें ताट आनी तांवयोभर उदक हाडून माशेनाक दिलें. "जेव तूं माशेन."

"तुगे जेवण गो?"

"जेवतं हांव मागी."

"रांदिता?"

“एकल्याक रांदून वाडितां. मागी थंयच जेयतां.”

“कोण गो तो?”

“आसा एकलो, पांय मोडलेलो खणीर.”

माशेन जाणां जावन आनीक भितर रिगलें ना.

“वावराक वोसोना?”

“वयता तर. ना तर मोरतं मुगे हांव.”

माशेनान जेवन जातकीर म्हटलें. जेवन घे तूं बेगीनच. या आमी आतां. परतीं या. सोगलीं रावतात तुका.”

“माशेन, मायकलबाबा बायल मेरी खूंय आसा?”

“आतां मांडपां घराच रावंक येयल्यांय तीं. बरें भुरगें तें.”

“हांव येयना माशेन. कशेंच येवपार ना.”

माशेनाक शीट्ट जालें. “कांय दीस माणपां रावन मागी जाल्यार दुमिंगासरीं वोस. रावता तो तुका.”

“ना. हांव वोसपार ना. गावडो हेरांक केन्ना फटयना. पूण तेणें पयलींच फटयलें आमकां. गावडो जावन हातांत खोरें घेवंक फाटीं सोरता. बायलेन आपणाक पोसूं जायें म्हुण्टा. केसो दादलो तो? हांव कोशेंच वोसपार ना माशेन. मुका फोर्सार करूं नाका. मुका इल्लोय मानवोना तो.”

“तुगे तितीव तुका पळोवच्याक आशेला मुगो.”

“बरो गे तितीव मुगेलो. तुमी सोगळीं आतां आंतोनेत मेलें म्हूण समजात. मांय पायचे नदरेन भुरगें आसतनाच मेलोलें. तुवें जिवें दवल्लोलें. तेंयय मेलें. तितीवा उगडास येता मुका.”

माशेन आतां रडूंक लागलें. मागीर माशेनाक घेवन तें खणीर गेलें. थंय एक मडगांवां वटेन वयचो ट्रक आसलो. तेचेर तेका बसोवन तें परतें येयलें. परत येतना वाटभर रडटालें.

सांजचें तें वावराक गेलें ना. पुराय सांज न्हिदूनच रावलें. सांजचें तेणें रांदलें ना. पूण फिलीप कांय उलयलो ना. तेणेंच शीत केलें आनी रामलू बायलेकडच्यान इल्ली कडी मागून हाडली. दोन तीन फावट तेगेल्या कुडीच्या दारांत वचून फिलीपान तेका जेवंक आफयलें. पूण तें उठना जालें. शेवटा तेणें तेगेल्या हाताक धरून अशें उबेंच केलें. "पाडपडिल्ल्या, कोण मांय-पाय काय घोव जेवंक उठयतलो म्हण रावलां?" तेणें भरभरीत ओडून हाडलें आनी जेवंक बसयलें. तेन्ना तेणें फिलीपाक एक मोनी मिठी मारली. खरें तर तो फिलीपाक आंतोनेतालो पयलोच कुडी स्पर्श आसलो येयल्ल्या दोन म्हयन्यांत. कांय खीण थीर गेले. मागीर फिलीपान तेगेली मिठी ल्हवच सोडोवन घेतली. तेका जेवंक बसयलें.

जेवन तें कितलो वेळ तरी रातचें फिलीपाले कुडींतच बशिल्लें. फिलीप तर न्हिदून घोरेवंक लागिल्लो. आंतोनेतान मर्दीच तेका हालोवन म्हटलें, "मुका थंय ते कुडींत न्हिदूंक भिरांत दिसोता."

फिलीपान दोळे मात्शे उक्ते करून म्हटलें, "तूं न्हीद वचून थंय. हिंगा रावंनाका. ना तर उखलून व्हरून थंय घालतलों." तो परत कूस परतून घोरेवंक लागलो.

आंतोनेत उठलें आनी दार ओडून घेवन आपले कुडींत येवन न्हिदलें. आज पयलेच फावट थंय तेका किण्ण एकसुरेंपण भोगतालें. भिरांत दिसताली. मात्सो दोळो लागतालो. मागीर तें सुडबुडीत जागें जातालें. अर्दकुटे न्हिदेंत सोपनांच्यो हारी... हड्डें बशिल्लोसो दोंद सुटिल्लो दुमिंग. काळी बोमली ताचे भोंवतणी आनीक काळो काळो घेर. थंय एक तांबडी तांबडी घोटाण. ताणें कच् करून आंग काडलें आनी तें जागें जालें. परत झेम लागल्यार माशेनाले तकलेर व्हडलें वोज्याचें काळें तळप घेवन माशेन चलता. मान बसल्या, फाट बागवल्या, पांये कडकडटात. आतां दुसऱ्याच पावलाक तें लखून पड्टलें. तें न्हिदतकच 'माशेन' म्हण आड्डलें... आनीक एका सपनांत माशेनाल्या घोवाली– फरांसीक पायली मोट्या हाडाची लांब भागिल्ली धवशी कूड वासरेर आडवी घातल्या. म्हऱ्यांत एक उक्तें काशांव. आंगणा भायर मारकयकान्नीले जात्रेक वचूंक सुटिल्लोसो खुबसो लोक. माशेन तांबडे देठले कापड न्हेसून कुडी म्हऱ्यांत बसलां. आंतोनेताक हड्डें फुटून रडूंक येवंक लागलें. तें न्हिदेंतच हूं.. हूं करून रड्टालें. जाग येयल्यार तेका दिसता, हांव इतलो वेळ रडत आसां, पूण मुका सावरूंक कोणच ना. खंयतरी एक परको दादलो न्हिदला. ताचे हात काय म्हजे मेरेन पावचे नात!

* * *

आतां तें फिलीपा वांगडाच खणीर वावराक वयतालें आनी ताच्या वांगडाच परत

येतालें. तेणें मारिल्ले चिरे खणींतल्यान वयर हाडून घालतालेंच, ते भायर वेळ मेळ्ळो म्हणटकीर सोता हातांत पिकास घेवन चिरे मारूंक लागतालें. चारीवटेन खण्णी घालतालें आनी फिलीपाक म्हणटालें, 'उखल'. फिलीप मागीर पिकासाचें पातें मुळांत लावन फिशालकायेन चिरो उखलतालो.

आतां दोगांलीय मेळून येणावळ बरीच वाडिल्ली. दोगांनीय मेळून मारिल्ले चिरे साठ मेरेन जातालें. आंतोनेत येयल्ले पयशे म्हज्या वाट्याचे तुज्या वांट्याचे हें कांयच धर नासलें. पयशे रासवळच पडिल्ले आसताले.

पूण आंतोनेत शादूर आसतालें. दर पंदरा दिसांनी ना चुकतां फिलीपाक सांग्यार घरा धाडटालें. घरांत आशिल्ले सगले पयशे एकठांय करून तेच्या हातांत दितालें. मनांत म्हणटालें, ती आनी लावसट हिंगा येवचीं नाका. खरें तर आंतोनेताक तेजे बायलेचो उगडास येयल्यारच काळीज बसतालें. 'व्हर, दुडू व्हर, आशिल्ले सगलें व्हरून तेच्या हड्ड्यार घाल. दर पंदरा दिसांनी तिका कितें जाय नाका भागोवन यो, उचांबळ जावन हिंगा येवंक दियनाका!'

* * *

आंतोनेत खण खण्टालें, फिलीपाक रांदून वाडटालें आनी रातचें कुशीचे कुडींत एकलेंच निखटे शेनरेर न्हिदतालें. कुडीन तेचे पासून पयस रावचेलो पुराय यत्न करतालें. पूण तेका सोताचो भरंवसो नासलो. खंयच्याय खिणाक तो म्हन्यांत येयल्यार म्हज्यान परतवूंक जावचें ना! येवन स म्हयने जाल्ले. ह्या स म्हयन्यांत फकत फिलीपाची धगा सावळी माथ्यार आसली. ती शेणची न्हय म्हणून तें यत्न करतालें. कसलेंय मोल दिवन ती सावळी राखूंक सोदतालें. खरें तर तें तेच्या मोगांत पडिल्लें. आनी ताका खरायेन दिसतालें, दादल्या-बायलेचो मोग म्हटल्यार आंगावयल्यान गेल्लो वारो, सांवळी न्ही. मनाचो खेळय न्ही. ह्या मोगाक कुडीसान एकरूप जावचेली ताळणी लागिल्ली आसता. पूण फिलीपाचें कितें? अंत लागनासलो. असले हे हूंब दादले खिणांत किंकोंत लेखतले आनी खंयच्याय खिणाक आंगाक झुडटले. तेन्ना मात सगलो तांचोच शेक! एकेक फावट तेका गुपचूप मनांतल्यान दिसतालें, तेचो सांवार एक फावट पळोवचो!

* * *

जांबावलेचो गुलाल आसलो. खणीवयलो एकान एक मनीस दनपरांच गुलालाक गेल्लो. रामलूय हेरांवांगडा गेल्लो. तेगेली बायल गौरम्मा मात तोंडावयल्यान घेवन घरांत

न्हिदिल्ली. आंतोनेत आनी फिलीप भायल्या वारांदांत वोग बशिल्लीं. चोंयवटेन थंड एकसुरी थंडाय. हे शांततायेंत वारो जसो सूं शिळवण घालीत ते शंबर तोंडांचे खाणींतल्यान भोंवतालो. पिकी दनपार जशी हळडुवें व्हंकल कापड न्हेसून झाडा झोंपांच्या शेंड्यांनी, मळावेल्या करडांनी आंग पातळावन बशिल्ली. फिलीप आंतोनेता सामकार खूरमांडी घालून ल्हान भुरग्यावरी बशिल्लो. आंतोनेतान ल्हव ल्हव आवाजांत उलयल्लें बेसबरें आयकतालो. मदींच आंतोनेताक खणी कुशीचे वाटेन पयसुल्ल्यान कोणतरी येतात ते दिसले. पड्ट्या ओतांत तीं मनशां खूब पयसुल्ल्यान येयल्यांत, खूब थकल्यांत, आंगावेल्यान बोतरां लांबतात आनी त्या बोतरां वादऱ्यांनी तीं घुस्पत चलतात अशें दिसतालें. आंगाखांद्यावयल्यो पोटल्यो तेंचे फाटीक लागिल्लेवरी तेंच्या वांगडा येतातश्यो दिसताल्यो. आंतोनेतान ते वटेन चोयत म्हटलें, "कोण रे ते फिलीप?"

फिलीप उठलो आनी तेणें तेंकां चोयले. लागीं पावसर वोताक दोळ्यांर हात धरून पळयत रावलो. लागीं पावतकर तो वळखलो. तेणें सांगलें, "सदा मांद्रेकार तो. बरो मनीस. एक फावट तेच्या वांगडा मांद्र्यां गेल्लों हांव. तेणें नाटकांत पार्त केलोलो. पयलीं हिंगाच चिरे मारतालो. व्हडलो भाव मरतकीर भावाल्या भुरग्यांक चोवंक जाय म्हूण गेल्लो. तूं न्हिदता ते कुडींत रावतालो तो आदीं. पूण इतलो कसो भागला, बरगला तो? वायल पयलीं गुबगुबीत चानी कशी आसली. आतां चोय उज्यांत हुलपावन काडिल्लेवरी दिसोता."

तीं घोव बायल आनी दोगां भुरगीं येयलीं आनी तेणीं आंगावेल्यो पोटोळ्यो, एक ट्रंक सकल कुडी दारासरीं दवरली. सदान घामाघूम जाल्ली कूड मात्सो वारो घालून घेवन चेहरो पुसोवन घेतलो. फिलीपान म्हटलें, "खूंय रे तूं सदा इतलो तेंप?"

"हो आसा न्हूं, येयला तो दिसना तुका?" तो तुटकशें उलयलो. फिलीपान मनांत म्हटलें, 'असो कसो हो कोळशे खावन येयल्लेवरी जाला?'

तेणें आड केल्लें कुडीचें दार धुकल्लें. पयलीं तेका दिसलें, त्या दाराचें कुलूप कोणें काडून उडयलां. उपरांत भितर आंतोनेतान पातळायल्ली शेनरी, थंयचें उशें एक तांबयो आनी ग्लास दिसलो. तेणें दोरयेर उडयल्ली साडी आनी पोल्कय दिसलें ताका. तो भायर येवन रागान थरथरत आड्डलो, "कोणें भंयझंवऱ्यान दाराचें कुलूप तोडलें? कोण रांडेचीं रावतात भितर? स वर्सां सिल्वेस्टरीकडेन चिरे मारतालों हांव. हांयें मारिल्ल्या चिऱ्यांनी तेणें हीं घरां बांदिल्लीं. पांचशीं चिऱ्यांचे पयशे सोडिल्ले हांयें. म्हाका रावंक दिल्लें तेणें हें बिराड. आवशीचीं कोण तीं म्हजे कुडींत घुसल्यांत?" तेणें भितर वचून तांबयोबीन खोंटायलो.

आंतोनेताक दिसलें, आतां फिलीपाचें आनी सदाचें पेट्टलें. पूण फिलिपान वोगं

आंतोनेताक सांगलें, तेचें सगळें भायर वारांदात हाडून दवर म्हणून. आंतोनेत उठलें. तेणें भितरलें सगळें एकठांय करून शेनरेर घालून शेनरी तशीच गुठलावन घेवन ती फिलीपाले कुडींत हाडून दवरली.

"तुका वारांदांत दवर म्हूण सांगिल्लें हांयें."

"कित्या? भायर कित्या म्हूण?"

सदा बरोच वेळ 'कोण तें? कोणालें...?' म्हणत आसलो पूण फिलीपान जाप केली ना.

सांजचीं रामलू आनी गौरम्मा सदाले कुडींत वचून जाप दिवन येयलीं. गौरम्मा बरेंच अघळपघळ पूण रामलू इल्लो कुसक्या मनाचोच. वयताना तेणें आंतोनेताक म्हटलेंच, "दुसऱ्याले कुडीचें कुलूप फोडून भितर रिगिल्लें तूं. आतां फिलीपा बायल येयल्यार मार पडटोलो तुका. गेल्ले फावट बरें सुटिल्लें तूं."

फिलीपान सांजचें परत दामिल्ल्या आवाजान तरी तापसाणेनच म्हटलें, "हांतरूण भितर व्हरून दवल्ला. कोण तूं? कोण म्हण रावतलें म्हजे कुडींत?"

आंतोनेतान कांय वेळ तेका एकधारी नदरेन आस्तेन, मोगान पळयलें. मागीर तेच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

"हांव फाल्यां तुका व्हरून धोवाल्या गांवांत पावोवन येतां. जाय जाल्यार माशेनासरीं वच."

आंतोनेतान रागान म्हटलें, "तूं कोण व्हरून पावयतलो? तूं कोण मुगेलो? हांव वयतलें, ना तर मरतलें."

सांजचो फिलीप गांवांत वचून पिवन येयलो. येताना एक बाटलीय घेवन येयल्लो. येयल्लोच तेणें सदाक उलो घातलो. "सदा, तूं मुजो भाव मुरे. हांयें मारिल्लो चिरो तुयें उखल्ला. तुयें मारिल्लो हांयें ट्रकांत भल्ला. तो ड्रायवर सांतान तुका मारूंक येयल्लो तेन्ना हांयें तेगेले गोमटेक धल्लेलो. उगडास आसा तुका? काय बरो गेल्लो मुरे तूं तुगे हरव्या पिक्या गांवांत. परतो ह्या शेंकऱ्या सड्यार कित्या मरों येयला?"

मागीर तेणें सदाक बरोच सोरो घालून दिलो. तेगेले बायलेकडच्यानच ग्लास मागून घेवन तो भरून दिलो. नवें नासलें, पयलींय केन्ना ते अशेच वांगडा पियेल्ले. मागीर ते बरोच वेळ खणीवयल्यो, खणी भायल्यो खबरो उलयत रावले. फिलीपान परत म्हटलें, "ते

भागिल्ले बायल, भुरग्यांक घेवन परतो कित्याक म्हूण येयलो तूं? मोट्यो खबरी सांगतालो मुरे तुगे शेताभाटाच्यो.''

सदा पितकर सदांच सदळ सदळ जातालो आनी सत् उलोवंक सोदतालो. तेणें रडिल्ल्या आवाजानशें सांगलें, ''कसलीं शेतां तीं? मरडां आनी करडां. पिकलीं नात गेल्ल्या वर्साक. वागान बैल माल्ल्यार हांयें कितें करचें? पावस खंयसान हाडचो? वोतान पीक करपूंक लागल्यार हांयें जीव दिवचो? व्हडल्या भावाल्या भुरग्यांक वयर काडूंक गेल्लों. म्हगेल्याच भुरग्यांक गिरास ना जालो. मदलो भाव मुंबयसान येयल्लो. कित्याय कितें सांगून व्हडलेक खुबळावन घातली. सांगूंक लागलो, 'व्हडलो मरतकीर हांव खण सोडून शेतां खावंक येयलां म्हण, घरय खातलों म्हण.' व्हडली आमकांच झगडूंक धरूं लागली. हो भाव एक वर्स आवयल्या श्राध्दाक येयल्लो ना. चवथीक हेणें चार पयशे मोडिल्ले नात. हांव वचून पंयशे मोडून भाऊ वांगडा सगलीं कार्यां करतालों. आतां हो आपलो मर्दी उबो.

आतां तो रडूंक लागलो. ''म्हगेलो व्हडलो भाव भाऊ बरो आशिल्लो फिलीप. सात वर्सां तेणें आवयलें हागिल्लें, मुतिल्लें काडलां. गांवांत गवंडीपण करतालो. पूण कोणाक एक दीस उतराक चुकलो ना...''

दारांत उबी आशिल्ले बायलेन चंद्रावतीन म्हटलें, ''कित्याक रड्टा तूं? नशिबांत आशिल्लें भोगचें आमी.''

कांय वेळान फिलीप वोगी उठून भितर गेलो. आंतोनेत तेका वाडटना तो तेचेकडेन रागानच पळयतालो. ''इतलीं वर्सां जेवलों ना हांव रांदून. केन्ना गांवार जेवतालों, केन्ना न्हिदतालों तसोच. मेलों ना हांव. आतांच मरतलों?''

आंतोनेत कांयच उलयलें ना. तो जेवन उठ्ठकीर तेणें मडकेंतलें सगलें शीत ताटांत रकोवन घेतलें आनी तें पोटभर जेवलें. हिंगा येतसान घडये तें इतलें चड आजच जेविल्लें. जेवलें आनी आयदनां फाल्यां दवरून एका कोनशाक शेनरी पातळायली तेणें.

''हिंगाच न्हिदतलें तूं?''

तें वोगीच रावलें. तोवय चड कांय उलयलो ना. सोऱ्या घुंवळेंत वेगीनच न्हिदून गेलो. भायलें दार मात रातभर उक्तेंच आसलें. कोणें उठून तें दार आड केलें ना. खिळी घातली ना.

चंद्रावती सक्काळीं नसकाक उठून वावराक लागिल्ली. तिगेलो आयदनांचो, सान्न मारिल्लो आवाज येतालो. फिलीपाक जाग येयल्ली. आंतोनेतय कुशी परतितालें. ''आंतोनेत,

रातीं दार धापलें ना तुयें?"

"तुयें धांपूंक जाय आसलोलें तें. हांयेंन धांपल्यार संवतो आसलो तूं मुका."

"हें चोय आंतोनेत, हांव सोरो पियेल्यारच संवसारा भायरो जावन संवसार खोटायतां. ना तर बरो संवसारीक मनीस हांव."

"जाणा न्ही हांव?"

"हांव काजारी. तीन भुरग्यांचो पाय. बायल तसली चड सुबेज म्हण. ना तर घराच बरो करून रावतासलों हांव."

"अशें म्हुण्टा?"

"कोण म्हण रावतलें तूं मुजेवांगडा एके कुडींत?"

"तुका जाय तेहें रावतलें."

"वयचें ना?"

"खूंय वचूं? कोण ना मुगेलो, माशेन म्हातारें जालां."

"लोक हांसतले न्हूं? हे शेजारी, खणी वयलो इतलो लोक."

"कित्याक हांसतले? हांव दादल्यावरी हातीं पिकास घेवन वावर कोत्तां. मुगे दिसवडो हांव जोडटां."

"मुका बरें मानवना चोय तुवें दादल्यावरी वावुरिल्लें."

"तुका जावो म्हूण हांव साडी न्हेसों लागोलें मुरे? आतां मेणाकुल्ली जावन कोंकण्यां बायलांवरी बारीक वावर कोत्तां हांव."

फिलीप कांय वेळ वोगीच रावलो. कांय वेळान तेणें म्हटलें, "हांव जाणा जाल्लों तूं वाट चुकून पावलां म्हण. स म्हयने जाले, तूं मुज्या हातांत आसूनय तुका हात लायलो ना हांयें."

"म्हणच तूं मानवलो मुका. हांव वयचें ना तुका सोडून."

"तूं रावो नाका आंतोनेत. तो कुचाळी रामलू, खणी वयलो लोक, मुगे बायल क्रुजीन, फाल्यां धोब्याले फातोर जातोले आमी."

चंद्रावती भुरग्यांक इतल्या बऱ्या गोड उतरांनी पुता, शाण्या, गुण्या करून उटयताली. तीं उतरां त्या सकाळ पाराक म्होंव देंविल्लेवरी काळजांत देंवतालीं.

आंतोनेत घुस्मटत वोगीच रावलें.

फिलीपान सुन्न खोल आवाजांत म्हटलें, "मुगेलो व्हडलो डॉमनीक हांव गेल्यार मुका वेंगोवन न्हिदता. सारक्को फाटल्यान फुडल्यान आसता."

आंतोनेत आतां इतलें निर्शेल्लें, मेल्लेवरी पडून रावलें. कांय वेळान दोळे उक्ते केल्यार भायर सामकें उजवाडलां आनी दार उक्तेंच आसा. तें बेगी बेगीन उटलें आनी शेनरी कवळून दवरून भितर चुलीसरीं वचून वोगी बसलें.

रातीं चुलीर उदक मारून पालयल्ले इंगळे, तोंड जळ्ळीं लाकडां, गोवोर हें सगलें इतलें बुरशें दिसतालें, ताणें बेगी बेगीन सगलें आवुरलें आनी चुलींत लाकडां नीट दाळून दवरलीं. तेणें फस्क पेटोवन दिवो लायलो आनी चुलीक जाळ करूंक तें रावलें, फिलीप उठची वाट पळयत.

कांय वेळान फिलीप उटलो, हातांत तांबयो घेवन भायर वयतना तेणें म्हटलें, "उठलें तूं? पोल्ली पेटय मुगो. चाव कर. येतां हांव."

तेचीं तीं इतलीं गोड उतरां आयकोन आंतोनेताल्या पोटांत धस्स जालें. इतलीं कसलीं उतरां दवांत भिजोवन उलयलो तूं? कितें म्हण समजुचें हांयें?"

तेणें बांयतल्यांन ताजें उदक काडून पोल्ली पेटोवन चावेक दवरलें. पयस पावकाराचो पों पों आवाज येतकीर खंयतरी पडिल्ले पांच रुपया घेवन तें पाव हाडूंक धांवलें.

फिलीप चाव पिवन आंतोनेतालीं एकेक वस्त्रां एकटांय करून पोतयेंत भरतालो. शेवटा घरांत आशिल्ले सगलेच पयशेय एकटांय करून तेणें पोतयेंत उडयले. तें बारीक पळयतालें, शेवटा ताच्यान रावं नज जावन तें किसळ्ळें, "हांव वयचें ना म्हणून सांगलें न्हूं तुका?"

हाचेर फिलीपय आड्डलो, "वचना जाल्यार खूंय रावतलें? खंय न्हिदतलें? रातचें खणीवयल्या सड्यार पडटलें? मुजे वांगडा कोण म्हण रावतलें?"

आंतोनेत कांय वेळ वोग्गी बसून रावलें.

"ऊठ तूं आंतोनेत. हांव तुका जाल्यार पावोवन येतां तुगे घोवा घरा ना तर

माशेनागेर.''

''कोण म्हण येतो तूं मुजे वांगडा? तूं येय नाका. हांव वयतो एकलें.'' तेणें पोती उखल्ली आनी तें भायर येयलें. तेचे दोळे पुराय दुकांनी भरिल्ले. कोणाल्याय बोटाचो स्पर्श जाल्यारय तें हामेन्यांनी रडूंक लागतलें अशें दिसतालें. तें भायर येयलें आनी कोणाक कांय सांगीनासतना चलूंक लागलें. फिलीप बरोच मुखार मेरेन तेच्या फाटल्यान गेलो. तेणें फार्टी वळोन म्हटलें, ''फिलीप, येवं नाका तूं मुज बराबर.'' मगेर कांय वेळान तेणें सांगलें, ''फिलीप, हांव मेल्यार मुका एक काशांव भेटय. मुगे कूड कुसोन किडे पडोंक दिये नाका. मोत्त रे हांव!''

तें चलूं लागलें. फिलीप बरोच वेळ थंय तसोच उबो रावलो. मगेर ल्हव ल्हव पावलां घालीत फार्टी येयलो. थंयच्या एका फातरार बसलो. खणीर लोक येवंक इल्लो कळावच आसलो. मुखावयल्या तांबशा बसक्या रानार धुंवटी पातळिल्लेवरी जाल्ली... आंतोनेत गेलें. वचों जाय आसलें तेका... काजारी न्हूं तें मुजबाशेन...? अचकीत तो खूब फार्टी, खूब काळखांत शेणून गेल्लेवरी जालो... ....मुजी मांय खूंय पायन रातची बडोवन घरांतल्यान धांवडायतकीर मुका खाकोळांत मारून सांगेसान चलून आंबोल्यां गेल्ली. जायतीं वर्सां मामागेरच उल्लीं आमी. जाण्टेपणांत ताळ्यार पेजेनीस घालूंक पाय मांयक सांग्यार घेवन येयलो. मांयूय येयली वोग... आंबोल्या एका कोंकण्यागेर घरार पावसांत पणस हुमटून पडिल्लो. घरांतलीं सगलीं णव मनशां वाटावल्लीं पूण त्याच वर्सा काजार जावन येयल्ली सून मात चिड्डून मेली. भायर हाडून घातिल्ली तेन्ना कितें रूप आसलें तिचें देवीवरी! कपलार व्हडलो कुकूम, नाकाक नथ, हातभर कांकणां.... निमणें पिडेन भागून बरगून बडी जाल्ली, काशावांत घातिल्ली मांय आनी ती कोंकण्याली सून सदांच दोळ्यांसामकार येतात.... क्रुजीन अशेंच मांयवरी नातर ते कोंकण्यागे सुनेवरी आसों जाय आसलें. खंय कोणालें चुकता, कित्या झगडीं जातात... आंतोनेत मात कापास्तादीचें. झगड्टालें तें मोगान आनी मोग करतालें तेंय मोगान. तेचो राग मोग पुराय चोयलोच ना हांयें आनी कित्या धांवडायलें? तेचे तें जोडून खातासलें! वयताना निमणें मरणाची, कायशांवाची खबर सांगतालें... फिलीप सट् करून उठलो. धांवन वचून तेणें रुखाक तेकोवन दवरिल्ली सायकल काडली. जिवाच्या आकांतान पेडलां मारीत तो आंतोनेत गेल्ले वटेन वचूंक लागलो. वयतना दोनयवटेन नदर मारतालो आनी 'आंतोनेत गो' म्हण व्हडान उलो दितालो.

आंतोनेत निकतेंच बशी रस्त्यार येवन पाविल्लें. पूण खंयचे वटेन वयचे बशीर चडचें, सांग्याच्या रानावटेन वयचे बशीर चडचें काय मडगांव वटेन वयचें, कांयच

कळनासलें. मुजो गांव खंय आसा, खुंयच्या दिगंतरा आसा? मुका तर सगले गांव आतां सारकेच! तकली घुंवक लागतकीर तें थंयच्या एका झाडा पोंदाक बसलें.

फिलीप सायकल रावोवन खर्शेत खर्शेत येवन आंतोनेता सामकार उबो रावलो. "आंतोनेत, या आमी. वचों नाका तूं. चुकलें मुजें."

आंतोनेतान तेका कांय वेळ थीर पळयलें. मागीर तें उठलें आनी वोगी तेच्या सायकली म्हऱ्यांत येवन उबें रावलें. हातांतली पोती मुखार हुमकळायली. तेका सायकलीर मुखार बसोवन घेवन येतना पुराय वाटभर तेणें तेका वेंगेंतच धरिल्लें. तेंवय मदींच आपलें माथें तेच्या हड्ड्यार तेंकयतालें. खणीर आतां लोक येयल्ले. खणी कुशीचे वाटेन फास सायकल मारून येताना तो सारक्को सायकलीची घंटी वाजयतालो. "चोय फिलीप, येशें कोरून तूं सायकल व्हरून खणींत लकयतलो."

"मागीर आमी वांगडाच मोत्तेलीं न्हूं?"

"मेल्यार बोरें आसा. हात पांय मोडोन पोडल्यार कितें कोत्तेलीं?"

येयल्लेंच आंतोनेतान चोबो आनी खोरें उखल्लें. तेका चिन्या पिकास घेवंक सांगलो. "आयज घरा रावया आंतोनेत."

तें कांय आयकनासतना चलूंक लागलें. फाटल्यान तोवय गेलो.

त्या दिसा रातचीं तीं वांगडाच न्हिदलीं. आंतोनेतान पयलीं वेगळी शेंदरी घातिल्ली. मागीर तें उठून तेगेले शेंदरेर गेलें आनी तेणें फिलीपाक घट आंवळून घेतलो. तेगेले मिठयेंत तो इतलो उचांबळ जालो, तेणेंय तेका खोल खोल ओडून घेतलो.

ते रातीक आंतोनेत इतले बंद सोडून पिसांटावरी वागलें, परतें परतें तेचे कुडीक लागतालें आनी तेका आंगार ओडून घेतालें.

* * *

फुडले सात-आठ म्हयने तीं एके मस्तेंत, घुंवळेत जियेलीं. मस्तेंत जियेतालीं आनी वावराचे दोंगरय आटापतालीं, पयशे जोड्टालीं. दर पंदरा दिसांनी एकठांय जाल्ले सगले पयशे हातीं दिवन आंतोनेत तेका ना चुकतां सांग्यार धाड्टालें. पयशे चडच आसताले. केन्नाय पयलीं परस दोबरादय आसताले. क्रुजिनालें एक बरें आसलें, हातीं पयशे पड्टकीर तें निवळटालें. खुशाल जातालें. पयशे हातीं पड्टकच तें रोखडेंच बाजारांत वयतालें. पंदरा दिसांचो म्हालमत्तो घेतालें आनी येतना सोताक एक पोर्ट वायनाची बाटली आनी फिलीपाक

एक ब्रेंडीचो पाव हाडटालें. वांगडा गरम भज्यांची पोटली. तो दीस वरी वयतालो. दुसऱ्या दिसाक मात कितें ना कितें जावन झगडीं जानालींच. परतें येताना सदांच तोंड पडिल्लें, उबगल्लें.

पूण आंतोनेतासरीं पावतकीर तो आगळ्याच राज्यांत पावतालो. बैलावरी फुरफुरतालो, घोड्यावरी मस्ती येताली, आवाजांत वागाली गरड येताली. आंतोनेत काय बरें तेचें सगलें हांसत तोखणायेन सोंसतालें!

सांजचीं खणीवयले मातयेंत दोगांय तांबडीं जावन येतालीं. फिलीप येयल्लोच गांवांत वयतालो. तांबडो जाल्लो, हुमेन बुडिल्लो. येताना नुस्तें आनी पावभर सोऱ्या घेवन येतालो. म्हणसर आंतोनेत पोल्ली पेटोवन आदन दवरतालें आनी फातरेर मिरींमसालो वांटूंक लागतालें. फिलीप नुस्तें सरी करून घरांत हाडून दवरतालो.

मात्सो काळोख जातकीर तीं बांयचेर न्हांवंक वयतालीं. पयलीं आंतोनेत चार कळशे उदक काडून फिलीपाचेर रकयतालें. फिलीपाचें न्हावन जातकर तो आंतोनेताचेर कळशे रकयतालो. उदकाचो घसघसो आंगार रकतकर आंतोनेत किळांचल्लेवरी हांसतालें. रामलू लिपून रावन केन्नाय तांचो तो न्हाण सुवाळो पळयतालो. भितर येवन बायलेक चिमटे काडून भायलेवटेन दाखयतालो. बायल हांसत तेचे ताळयेर थापट थापताली. तो आदींच बायले परस मोडवो. अशें थापट दितकीर आनीक मोडवो जाल्लेवरी दिसतालो.

रातचें आंतोनेत फिलीपाक ग्लासांत सोरो घालून दितालें. मागीर उलयत बसतालीं व्हड रात मेरेन. केन्ना व्हडा व्हडान तर केन्ना खाकोळांत रिगून कानांत उलयल्लेवरी. फिलीप जाय ते फावट तेका इल्लो सोरो घेवंक आगरो करतालो, पूण तें केन्नाच घेयनासलें. दुमिंगानय, केन्ना तेचे खातीर म्हण बियरी ग्लास भरिल्लो पूण तेणें तो तसोच सोडिल्लो.

फिलीपाक तर तें मनांत म्हण्टालें, 'तुवें घेतिल्लो अर्द आपसूकच मुका चडटा. तुजेपरस चड हांव घुंवतां. उलय फिलीप, सोरो पिवन उलय, पियेनासतनाय उलय. धेंगसो घाल, गाळी संव, हाडां मोडसर मुड्डून उडय! सांवार काड मुजेसरीं! हांव आसा तुजे वांगडा! हांव मोग करतां तुजेसरीं!'

खोल खणींतय तीं जाय ते फावट एकलींच उरतालीं. तो आंतोनेताले तकलेर चिरो दितालो आनी खंयूय धरून चिमटो काड्टालो. तेची हांसून गुळी. तकलेवेलो चिरो उरता काय पड्टा जातालो.

* * *

एक फावट तो सांग्यावयल्यान परतो येयलो तो सामको चिंतेस्त, पडिल्ल्या तोंडान. आदीं घरा कितलोय झगडून मारून येयलो तरीय खणीर पावतकीर रोखडोच समा जातालो. पूण आज सांजमेरेन सावट तशेंच आसलें.

"फिलीप, कित जालें? दिसभर उलोयलो ना मुरे."

"क्रुजीन बरें ना आंतोनेत. रगत वयता खूंय. कुडचडेंसान मडगांवां दोतोरासरीं फेरयो घालीत आसा. मडगांवां दोतोरान सांगलां खूंय तेगे युतरिसाक मांस येयलां. रोखडोच युतरीस काडून उडोवपा जाय खूंय. ना तर कांक्रार पडूटलें खूंय."

"कितू इदाद तेका आतां?"

"मुजपरस तीन वर्सांनी व्हडच तें. काजरा उपरांत कळ्ळें तें."

"मगे आतां?"

"तेका रोखडेंच बांबोळे मेडिकलांत व्हरून घालूं जायें. मागीर आपरेसांव जातोलें."

"मागीर व्हरपा न्ही? कित्या येयलो तर तूं?"

"उणीं स-सात हजरां गांठ जायी. आर्दीच रीण काडून बसलां तें. रोड्टालें, आपणांक मेडिकलांत व्हरून घाल म्हणून."

आंतोनेत वोगीच रावलें. रातचो जेवताना, जेवले उपरांतय कोण कांय उलयनासलो. रामलू एक पासय मारून गेलो. सदानय सुलूस घेतली, आज कितें जालां, आज हीं काळखांतशीं इतलीं थंड कशीं?

घरांत झाडून काडलें तरीय पांचशेक रुपया वयर मेळचे नासले. कोणाकडेन मागून मागून आनी हज़ार देड हजार. मागीर स-सात हजारांची गाठ कशी उबी करची?

व्हड रातीर न्हिदींल्लेकडेन फिलीपान आंतोनेताल्या आंगार हात दवरून म्हटलें, "क्रुजीनान सांग्यार सोज भाटकाराकोडेन उतर घायल्लें. तो म्हुण्टा खूंय फिलीपाक हिंगाच आफय, भाटाच्या, भाट पाडच्या वावराक."

आंतोनेतालें काळीज कलकल्लें. "मागी कित करचें थारायलां तुवें?"

तो वोगोच रावलो.

"हिंगा खणीर मोपकार पात्रांवाकडच्यान घेयना कित्या तूं?"

तेणें मोपकाराक एक सणसणीत गाळ संवली. ''हांयें बेठे आंगार पयशे मागल्यार दिवपी न्हूं तो. तेका दिसता, आमी पयशे बुडोवन खण सोडून धांवन वयतले म्हूण.''

''तेचीय चूक न्ही. फटयला तेका लोकांनी हे पयलीं.''

मागीर दोगांय वोग्गी. ''फिलीप, वयतलो तूं सांग्यार?''

ताची जाप ना.

''तूं येशें कर फिलीप, मुगे सोरपळी व्हरोन दवरून कोणाकडच्यानय रीण काड. अडेच पोवनां सरपळी ती. उणे धा हजारांची. स हजार तरी कोणय दितलो रीण. मागीर सोडोवन घेवया आमी.

''कोणासरी दवरतलो? मुका बोरें दिसोना तुगे सरपळी घेवंक.''

''कित्या? कुडचड्यार व्हरून दवर मुरे. जाल्यार मोपकारासरींच दवर. तेगे बायलेकोडे वोस. बायले आपरेसांवां म्हण सांग.''

दुसऱ्या दिसा गळ्यांतल्यान सोरपळी काडून दिताना तेगेले दोळे भरून येयल्ले. तें परतें परतें सांगतालें, ''फिलीप, विकूं नाका ती सोरपळी. मागीर सोडोवन हाडची आमी. जाल्यार जूर फारीक करचो. मुगे माशेनान दिलो ती. तेगे उगडास तो.''

फिलीप खणी शेंकऱ्या वाटेन खूब पयस पावमेरेन तें तेका पळयत रावलें आनी मागीर येवन एकलेंच मोन्यांनी घरांत बसलें. तकली कितें चितूताली, खंय पाविल्ली तेंच नकळ आसलें. ......दुमिंगाकडेन दोन तीन चेरा बाटल्यो आसल्यो. मागीर मागीर तेका चोयल्यारच मळमळिल्लेवरी जातालें. एक फावट तर कायशावांत घायल्लेकोडेन मेल्ले कुडीर कोण तरी दामून दामून चेर मारतालो, तेन्नासान वान्साच मेल्ली. ....पुराय रूख भोंवन सिरील काय बरे आंबे पाडटालो. व्हडले व्हडले मळबार पाविल्ले रूख. सकल हरव्या तांबशा आंव्यांच्यो राशी. पूण सिरील रुखावयल्यान काय परतलो ना. अर्दावयल्यान पडून मेलो. आंबे रुखा पोंदाच कुसून गेले....!

* * *

''मुगे सोरपळी विकली ना बीन मुरे तुयें फिलीप?''

''मुजेर भावार्त ना जाल्यार तुयें दिल्ली कित्याक पाडपडिल्ल्या? हे चोय, मोपकारा बायले कोडच्यान स होजार हाडल्यात. दितो हांव तुगे सोरपळी. भिये नाका.''

दुसऱ्याच दिसा तो गेलो. विशेक दीस तेवटेनच उरलो. हिंगा खणीर आंतोनेत एकलेंच वावराक लागलें. फिलीपालो चिऱ्यां पिकास घेवन तें चिरे मारतालें. ते भायर आनीक दोगांनी मारिल्ले चिरे खणी वयर हाडून घालतालें. तेचो दिसवडो वेगळो मेळटालो. पयलीं चिरे मारताना तें कडो खणटालें आनी चिरो उखलूंक फिलीपाक सांगतालें. आतां तेंच चिरो उखलूंक शिकलें. फिलीपान साडी न्हेसूंक लायिल्लें. साडयेचो घट कासाटो मारतालें आनी वावराक झुड्टालें.

सोता चिरे मारतालें, त्या दोगांयनीय मारिल्ले चिरे व्हरून वयर घालतालें, इतली धांवपळ जाताली, तें खर्शेतालें, घामेतालें, भुकेतालें, केन्ना घुंवळ येवन पडटा अशें दिसतालें. तरीय नेट सोडनासलें. तेका सोरपळी सोडोवन हाडूंक जाय आसली. फिलीपाक सासणाचो वांगडा बांदून दवरूंक जाय आसलो. क्रुजिनाक म्हणूं जाय आसलें, घे हे दुडू. कितें खाता तें खा. तुगे भुरग्यांक हांव पोशितां! फिलीपाची खबर सोड!

विशेक दिसांनी फिलीप परतो येयलो. दनपार जाल्ली. आंतोनेत खणीरच आसलें. तो येयल्लोच खणीर येवन उबो रावलो. तो इतलो भागिल्लो, हो आनी कितें पिकास हातीं घेतलो अशें दिसतालें. तेका पळोवन आंतोनेत सामकें खुशाल जालें, "फिलीप, केन्ना येयलो तूं? कितुलो भागला रे!"

फिलीपान वोगी थंयचो पिकास हातीं घेतलो आनी तो चिरो कातरूंक लागलो. तेणें तेगेलो पिकास हातींतल्यान काडून घेतलो. "यो, बस तूं मात्सो..." खणींत एके वटेन सावळ येयल्ली. थंय तें तेका घेवन बसलें. "इतलो भागलो कोसो तूं फिलीप?"

"हॉस्पिटलांत आठ दीस जेवलोंच ना म्हुटल्यार जाता. रातचो भायर न्हिदतालों तिजुल्यार. दोतोर हें वखत हाड तें वखत हाड करत रावताले. एक पिल्ल तेणीं तेंचें दिलें ना."

"आनी कोण आसलो वांगडा?"

"तेगे बाणसायची भयण. तेकाय भायल्यान जेवण हाडून दिवप."

"तुयें मात कांय खावप ना."

तो वोगोच रावलो.

"आतां केशें आहा क्रुजीन? काडलो युतिरीस?"

"व्हय. आसा बरें."

“आतां मोजा तुमची. सगली मळणी वाऱ्यार.”

“फकाणां नाकात तुगेलीं.”

“या आमी कुडीर आतां. कितेंय करून वाड्टां तुका बरें. हांव येदोळ पेजच जेवन येयल्लें.”

तीं दोगांय कुडीर गेलीं. आंतोनेतान तेका सुक्या बांगड्या कोडयेन शीत वाडलें. मागीर पुराय सांज तीं उलयत बसलीं. रामलू बायल गौरम्मा, सदा बायल चंद्रावती येवन तेगे बायलेली खबर घेवन गेलीं.

ते खणीर फक्कत उपाव ना म्हण पडून राविल्ल्या त्या लोकांक आंतोनेत आनी फिलीपा मदल्या संबंदाविशीं व्हडलें पडून वचूंक नासलें. तातूंत आंतोनेत इतलें मान वयर करून मुक्त हांसत उलयत जियेतालें, तेतूंत आनी क़सलें कुवाडें उरलां अशें लोकांक दीस नासलें. सोरो पितकर तर फिलीपालें पुस्तक उक्तेंच जातालें.

चारच दिसांनी फिलीप परत सांग्यार गेलो. फिलीप नासतना आंतोनेतान जोडिल्ले देडेक हजार घरांत आसले. सामकी पेज जेवन एक पयसो मोडी नासतना राखिल्ले ते वयताना तो घेवन गेलो. तें आकूळ पिकूळ जावन उलयलें, “हांयें दवल्लोले ते, सरपळेक म्हण.”

“चोवचें मागीर. आसात दीस जायते. वर्सां जाल्लेवरी करता. ”

तो जे तरेन कॅर नाशिल्लेवरी उलोवन गेलो तें आयकोन आंतोनेताक वायट दिसलें.

* * *

आंतोनेताले म्हयन्याचे पाळयेक दोन म्हयने जावन गेले. गेल्ल्या कांय दिसांसान तर घुंवूंक लागिल्लें. मळमळटालें आनी घुंवळ येवन खंयूय घण्प करून बसचें अशें दिसतालें.

पूण तेणें कोण्णाक कांय सांगलें ना. गौरम्माकडेन इतली बरी इश्टागत जाल्ली, तिकाय कांय सांगलें ना. फिलीपाकय सांगलें ना. तेका सांगल्यार तो सोऱ्या घुंवळेंत व्हडली फुशारकी मारीत सगल्यांक सांगत सुट्टलो. पंदरा दीस तेणें सगलें आंगार काडलें. आपणाक बरें ना, जोर येता, हात पांये उसळटात म्हणत तें कुडीरच रावंक लागलें. फिलीपान दोतोरासरीं या म्हटल्यारय तें नाका म्हण्टालें. एक दीस फिलीपान विचारलेंच, “आगो, तूं गुरवार बीन न्हूं मुगो?”

"शा, शा. मूक कोवना तेहें आसल्यार?"

"पयलीं गुरवार जालो तर तूं कळपाक?"

"बायलांक कोवता सोगळें तेहेंच."

गौरम्मानय विचारूंक यत्न केल्यार तेणें तुटोवनशें म्हटलें, "पयरच बसलो मुगे हांव भायर. खळें जाल्लें."

आपणांक दीस गेल्यात हें कळतसान आंतोनेत मोट्या चेपणा खाला येयल्लें आनी अस्वस्थ जाल्लें. तें फिलीपालो गर्भ न्हयकारतालें अशें न्ही. पूण एकटेपणात ल्हव भावनाशीळ जावन तें चित्तालें तेन्ना जाय तीं संकस्टा तेचे मुखार उबीं रावतालीं, चोंय वटेन हो सुको सडो आनी शेंकरे. खणीखणीचे बुरशे फोंड आनी टळटळटें वोत. ही बसकी पत्र्याची कूड. हिंगा आनी कोणें जल्म घेवचो म्हण आसा! कित्याक जल्म दिवचो तेका, पोटण्याचो म्हण असो ह्या सड्यार उडोवंक! फिलीपाक मानवचें ना, परवडचें ना तें. तो फाल्यां धांव मारतलो तेगे भुरग्यांकोडेन. मागी कितें करतलें हांव? खात्रीन फिलीपाक शेणोवन बसतले!

गेल्ले आठ दीस फिलीपान मारिल्ले चिरे खणींतच पडून आसले. सकाळीं तो खणीर वयतना म्हण्टालो, "कोणतरी पळोवचो पडलो दिसवड्याक. मुज्यान तर चिरो तकलेर घेवन खण चडूंक जावची ना. कमर तुट्टलें. "पात्रांव म्हण्टा, खणीर वयर चिरो हाडून दी. तरच घेतां मेजून."

तेचे फाटल्यानच आंतोनेत हातीं साका चुंबळ घेवन खणीर गेलें आनी तेणें म्हटलें, "उखल चिरो मुजेर."

"आगो तूं बरें ना म्हुण्टा न्ही गो!"

"बरें आसा आतां हांव. कांय जालें ना मुका."

"आगो पूण...."

"गावड्यागे चेडूं हांव. वावर ना केल्यार बेगीं मोत्तलें." फिलीपान तेचेर चिरो उखल्लो. फिलीपान मारिल्लो चिरो सगल्यांत जड अशी खणीर नामना आसली. ट्रक भरतले केन्ना तेका गाळी संवताले. ते चिरे घेवन तें धबधब पावलां उडयत खणीचीं मेटलां चड्टालें. चिरो तकलेर घेवन चडटेर पावलां मारताना सगली कूड आंवुळिल्लेवरी जाताली. तेतूंत आनी तें ओटी पोट चडच आंवळून घेतालें. खण देंवन परत येताना तशेंच धांवतालें. केन्ना सगली तांक लावन चिरो सोताच उखलून तकलेर घेतालें. तेन्ना सगलें पोट अंदून

येतालें.

दनपार मेरेन अशें कुथनत आनी कूड आंवळून घेत तेणें चिरे व्हांवयले. दनपरां जेवंक गेल्लें तें तशेंच फिलीपा वांगडा परत खणीर येयलें.

''आंतोनेत, तूं येयनाका. हांव चिरो दिवचों ना तकलेर. मेल्यार बेठी मुजेर बिरमत.''

''हांव येतोलें. मुज्या मरणाचें दुख्ख तू भोगूं नाका फिलीप.''

परतें पुराय सांज तेणें ओटीपोट आंवळून घेत चिरे व्हांवयले. सांजच्या पांचांक सुमार वयर व्हरून चिरो उडयतकीर तेका रगताची धार जाणवली. तेका कळ्ळें, आपणाक व्हाळणी लागल्या म्हण. तेणें उलो मारलो, ''फिलीप, चड बरें ना हांव, यो तूं वयर.''

तो वयर येयलो, ''चोय, सांगतालो तुका हांव, खण चडूं नाका म्हण. चल आतां आमी कुडीर या.''

''मुका चड बरें ना. घट धर तूं मुका. मुका व्हाळणी लागल्या.''

तेणें तेका उखलून दोनय बावळ्यांत घेतलें आनी तो चलूं लागलो. ती रगताची धार तेका दिसली, ती तेगेल्या हातार पावली.

''आंतोनेत, तुवें मुका फट सांगलें तूं गुरवार ना म्हण. हें कितें केलें तुयेंन दळदिऱ्या. कट्टे काळजाचें मुगो तूं.''

तें वोगी रावलें. कुडींत व्हरून घालून तेणें बेगीबेगीन गौरम्माक आफयलें. तिणें सांगलें, ''तेका व्हाळणी लागल्या. बेगीन हस्पिटलांत व्हरूं जाय, ना तर मरतलें तें.''

पयसुल्ले एके खणीर धाड धाड चिरे भरिल्लो आवाज येतालो. फिलीप ते वटेन धांवलो. खणीवयल्यान हो निमाणो ट्रक वचपा आसलो. उरिल्ले चिरे भरूंक फिलीपान आदार केलो आनी ड्रायवराक पायें पडून तो ट्रक मांगरावटेन घेवन येयलो. सांगलें, ''खणीर वावर करतालें तें खणीरच पडलें बरें ना जावन. आतां मरता काय उरता जाला.''

गौरम्मा आनी चंद्रावती तेका धरून ट्रकावटेन हाडट्टालीं. पूण फिलीपान येवन तेका उखलून घेतलें आनी ट्रकांत मुखार हाडून बसयलें. ड्रायवरान रोखडोच ट्रक कुडचड्या वटेन धांवडायलो. गुठलावन घेतिल्ल्या चादराचेर रगताची धारच लागिल्ली.

कुडचड्या सरकारी हॉस्पिटलांत ते तीन दीस उरले. फिलीप, सारक्को तेचे खाटी

सरीं बसून रावतालो. रातचें नर्सीन धांवडायल्यार थंय लागींच जनेला भायर वचून न्हिदतालो. मदींच उठून आंतोनेताक उलो दितालो.

चवथ्या दिसा पोटलीभर वखदां घेवन तीं घरा येयलीं. बरोच वेळ येवन रस्त्यार उबीं रावलीं. मागीर तामणेमळावटेन येवचो एक ट्रक धरून तीं घरा पावलीं.

घरा येतकीर जाणा जावन गर्भ उडयलो म्हण फिलीपान तेका खूण्प संवलें. गाळयांचो शिंवर केलो. आंतोनेत बरोच वेळ आयकत रडत रावलें. शेवटाक तेणें म्हटलें, ''खोरें सांग फिलीप, तूं लग्नाभायले बायलेक भुरग्याक घेवन आनीक एक संवसार मांडटा आसलो? तुकोडेन तें जावपा नासलें. जिवितांत तुजो एकल्याचोच आदार मुका. तो तुटचो न्ही म्हूण हांयें हें वायट कर्तुब केलें.''

हाचेर फिलीप वोगीच रावलो. त्या दिसा तेंकां गौरम्मान जेवण दिल्लें. चंद्रावतीनय सांजचो रवो करून हाडून दिल्लो. रातचो फिलीप ल्हान भुरग्यावरी थापटीत आंतोनेताक म्हऱ्यांत घेवन न्हिदलो.

* * *

आंतोनेत दोनच दिसांनी घरांत रांदूक लागलें आनी आठ दिसांनी खणीर वावराक वचूंक लागलें. तेका ताळणी लागिल्ली, खरपणान दिसतालें, कशेंय करून एक फावट माशेनान दिल्ली सोरपळी सोडोवन हाडची. वांगडा एक भिरांत सदांच आसली, क्रुजीन खंयच्याय दिसा खणीर येयत, सगल्यो मडक्यो हांडयो फोडून फिलीपाक ओडून घेवन वचत! म्हण दर पंदरा दिसांनी तेका हातीं चडच पयशे दिवन सांग्यार धाडचो पडट्टालो.

मदीं स-सात म्हयने गेले. पूण एका मुठीन काय स हजार उबे करूंक जाय नासले. अदीं मदीं फिलीप सोरो पिवन खेव करतालो. चड करून सांग्यार वचून येतकीर दोन दीस चडच पितालो. पयशांची वाट लायतालो. दिसवडो चुकयतालो. फिलीपालें एक आसलें, तो कितलोय पियेलो तरीय धाडय बडय करनासलो. फक्कत बोबाटो जावन व्हडाव्हडान उलयतालो. तोंडारच कोणालें कितेंय उस्तून काड्टालो. आतां तेच्या उलोवपाची सगल्यांक संवय जाल्ली. सगले फकाणांनी घेताले. आंतोनेतय पुराय वेळ तेचेकडेन हांसतच पळयतालें. भितर जेवंक बसतकीर दोगांय केन्ना जुगलबंदी लागिल्लेवरी व्हडा व्हडान उलयतालीं. तो कितलोय पियेलो तरीय आंतोनेत रातचें तेका म्हऱ्यांत ओडून घेतालें. तो तेगेल्या हड्ड्या सरीं माथें तेकोवन न्हिदून पडटालो.

* * *

एक दीस सक्काळीं खणीर फोरेस्ट खात्याची जीप येयली. ते खणीच्या पात्रावांक सोदताले. हे खणीर चार जाण तरी पात्रांव चिरे काडून घेताले. हें तामणेमळ खंयच्यातरी बामणाले मालकेचें आसलें. हे पात्रांव तें लिजाचेर, कमिशनाचेर घेवन चिरे काडून घेताले. पूण आज एक्कय पात्रांव खणीर नासलो. मागीर थंय आशिल्ल्या मास्तरांकबीन आफोवन व्हरून तेणीं कसली कसली चवकशी केली आनी ते वचूंक गेले.

उपरांत कळ्ळें, खणी फोरेस्टाचे सुवातेर भितर सरल्यात म्हण ते पळोवणी करूंक येयल्ले. उपरांत कांय दीस अश्योच वदंता उठत रावल्यो, 'ह्यो खणी परमीट घेयनासतना बेकायदेशीर काडिल्ल्यान सरकार त्यो बंद करच्यो आसा.' अशेंय लोक उलोवंक लागले.

आयकून आंतोनेताल्या पोटांत पचपच जाताले. उपरांत मात दोन तीन म्हयने सगलें थंडच आसलें. कोणाचो आवाज नासलो.

एक फावट फिलीप सांग्यार गेल्लो. येताना व्हडल्या चेड्याक सिरीलाक वांगडा घेवन येयलो. तेका शाळेक चार दीस कसली तरी रजा आशिल्ली. तो भुरगोय 'डाडा' वांगडा येता म्हण हट धरून बशिल्लो.

ते सकाळींच पाविल्ले. तेका पळोवन आंतोनेत खुशाल जालें. णव वर्सांचो तो पोर चवथेक शिकतालो. बापायवरीच काळ्या तामशा रंगाचो, भरिल्ले कुडीचो. तेचे भोंवतणी गणमणटना, तेका मटाळटाना तें वावराक वयचेंच विसरलें. तेणें बरें रांदलें, तेगेल्या आंगाक तेल लावन तेका न्हाणयलो. येताना आंगार घालून येयल्ले कपडे तेणें धुवन सुकोवंक उडयले. तीं म्हेळ घामेल्लीं वस्त्रां धुतना तेणें 'बुरशी चेडी' म्हण तेगेल्या मांयक एक गाळ घातली. दिसभर तें तेचे भोंवतणीच तेका कितें कितें विचारीत उलयत आसलें. मदींच त्या पोरान विचारलें, "कोण तूं? खंयची?"

"हांव तुगे डाडाक रांदून घालतां. म्हण हांयें तुका न्हावयलो, जेवयलो. बरें दिसलें ना तुका?"

तो पोर दोळेभर हांसलो, "दिसता बरें."

"तूं हिंगाच राव आतां मुजबराबर."

"हिंगा इश्कोल आसा?"

"खबर ना. तुगे डाडाक विचारूं जायें."

रातीं जेवन जातकीर फिलीपान आंतोनेतालें हांतरूण भायर वारांदांत दवरलें, ल्हवच

म्हटलें, ‘‘भितर न्हिदनाका तूं. तो आसा. सांगतलो.’’

आंतोनेताच्या मनाक खूबच लागलें. काळीज पिनिल्ले वरी जालें. तें हांतरूण सोडोवन निकतेंच शींग हुमटून उडयल्ले गायेवरी तळमळत भायर पडून रावलें. सगल्यो फाटल्यो फुडल्यो यादी नाखशो लावन तेका कोंचायताल्यों. हांव कोण? खंय पावलें, फाल्यां हांव एक कुसकें सुणें जातलें, मुका सगळे धांवडायतले. हांवें दुमिंगालो तकलो कित्याक फोडलो? कित्याक तेका सोडलो? हें अशें सुणें जावंक? तकली भेरेली आनी रंद्रारंद्रांत निर्शेणी भरून गेली. तेका खरपणान दिसलें, आत्तां उठून वयचें आनी जीव दिवचो. तें दोन तीन फावट उठलें, न्हिदलें. हांयें चिऱ्या खणीर मुजो गर्भ उडयलो. कोणाचे आस्तेर हांयें जियेवचें? तें सट् करून उठलें आनी बांयसरी गेलें. पूण धीर जालो ना. मागीर तेणें बांयवेलो राजू चोयलो आनी तो काडून घेतलो. राजू घेवन खंयच्या तरी रुखावटेन वचूंक तें चार पावलां घालता थंयच आसा, फिलीप उठून भायर येयलो. दार उक्तें जाल्लो आवाज येतकीर तें काळखावटेन थारलें आनी राजू थंयच भुंयेर सोडलो. ‘‘आगो आंतोनेत, खंय तूं, खंय गेल्लें?’’

आंतोनेत काळखांतल्यान मुखार तेचेवटेन येयलें. ‘‘अशें भायलेवटेन गेलो मात्शें.’’ खरें म्हटल्यार तेका रागान कोच्चून कितें तरी उलोवचें आसलें. पूण रात जाल्ली. चेडो भितर न्हिदिल्लो. शेजारीय आसले.

तोवय मागीर मुतूंक भायलेवटेन वचून येयलो. येवन तेणें म्हटलें, ‘‘तूं हिंगा दारासरींच न्हीद. हांव दारा भितरलेवटेन हाताकडेनच आसां. दार उक्तेंच दवरतां चोय.’’ तेणें तेगेलें हांतरूण ओडून सामक्कें दारासरीं घेतलें. दार उक्तें सोडून तो भितरलेवटेन लागींच न्हिदलो. खरेंच, तेणें हात लांब करून तेगेल्या आंगाक हात लायलो लेगीत.

चार दिसांनी सिरील परतो वयताना आंतोनेतान आपणासरीं आशिल्ले दोनशीं रुपया तेका दिले. म्हटलें, ‘बसे करून शीक शाण्या. ना तर चिरे येतले नशिबांत. डाडावरी.’’

फिलीप सिरीलाक पावोवंक गेल्लो. येतना सामको पिकार जावन येयल्लो. दिसभर वोगी वोगी आसलो. एकच फावट तेणें रागान फुटूनशें आंतोनेताक म्हणिल्लें, ‘‘तुवें चेडयेन तुगे हातान तेका पयशे कित्या दिलोले?’’

सांजचो तो खूब पिवन येयलो. येयल्लोच तो आड्डलो, ‘‘मुगे चेडो घरांत आसतना तूं मुजवांगडा न्हिदों सोदतालें. हांयें भायर घायलो तुका. ना तर माणसुकी नासली. सिरीलान वोसोन सांगलें, सगळें तेगे मांयक, तुयें आंगाक तेल काडलें, न्हावयलो, जेवयलो म्हण सांगलें. बोब मारताली तेगे मांय. रातभर गाळी संवताली तुका आनी मुका. तेका हात

नासले, ल्हान तो? तुयें तुगे हातान भरोवपाक जाय आसलें तेका? तूं मुगे साक्रामेंता बायल म्हूण सजमोता कितें?''

आंतोनेत फुटूंक पाविल्लेवरी जालें आनी तितलेंच तापलें. ''केसो बायले खोबरी सांगोता? घर सोडून गू खावोंक गांवार पोडला तूं. ती चेडी, सिमिटा पोती सांगोता म्हूण तूं नाचोता? केसो दादुलो तूं!''

''केसो दादुलो म्हूण दाखोय म्हूण्टा?'' तो हात उखलून तेका मारूंक गेलो. तेणें माळशें कुशीक सरून म्हटलें, ''चोय मुगे कुडी हात लावों नाका. हांवय मागीर वोगी रावचें ना.''

मजगतीं गौरम्मा भायर येयली, ''केसो केस्तावां रे तुगेलीं?'' म्हूण तेणें फिलीपाक धमकायलें. फिलीप धाड् करून हांतरुणा कवळो सकल उडोवन तेचेर बसलो आनी उलोवंक लागलो. ''ती चेडी युतरीस काडून उडयला तरीय म्हुण्टा आपणाक गुरवार करूंक येयला काय म्हूण. गेलो फावटी रीण दाखोयता. मुजकोडे केस्तावां करता आनी भुरग्यां मारता. तेतूंत तूं हिंगा मदीं उजो घालूंक उबी आहा. हे उपरांत हांव केसोच मुगे कुडींत न्हिदों दिवचों ना तुका....'' उलयतां उलयतां तेणें हांतरूण सोडयलें आनी तो न्हिदलो.

आंतोनेत बरोच वेळ खूरमांडी घालून तशेंच बसून रावलें. मागीर तेणें दोन तीन फावट तरी फिलीपाक जेवंक उठयलो. पूण तो हाल्लो ना. दिसभर खणीर चिरे मारून पुरो जाल्लें. तेतूंत सोऱ्या घुंवळ. तेका रोखडीच न्हीद लागली. मागीर वितरागान अशें आंतोनेतान चुंबळीचो साक सोडयलो आनी तें तेचेरच न्हिदलें. पयस एका कोनशाक.

व्हडा रातीर फिलीपाक जाग येयली. तो उठलो आनी आंतोनेतासरीं गेलो. तेका हालोवन म्हटलें, ''ऊठ मुगो. भूक लागल्या मुका. वाडूं जाय म्हण कळना?''

* * *

आंतोनेत परत परत सांगतालें, तूं सांग्यार वचून यो म्हण. पूण तो म्हैनोभर गेलोच ना. तेगे काळजांत सामकी दूगदूग. तेगे बायल केन्नाय येतली आनी झगडूंक लागतली. फिलिपाले हात धरून ओडूटली सांग्यार या म्हण.

क्रुजिनाल्या युतरिसाचें आपरेसांव जायतसान गेल्ल्या आठ णव म्हयन्यांत आंतोनेतान तीन हजार तरी सुगूर केल्ले. माशेनान दिल्ली सोरपळी सोडोवन हाडूंक. ते पयशे तें तांदळा दब्याच्या तळांत घालून दवरतालें. ते भायर क्रुजिनाक दिवंक म्हणून दोन हजार रुपया कुशीक काडून दवरिल्ले. पूण फिलीप वचूं मागनासलो. सांगल्यार म्हण्टालो, ''तेका बुध्द शिकयतलों हांव. तेचे फुड्यांत तुका घेवन न्हिदतलों.''

“चड जालें तुगेलें. तेगे चूक न्ही फिलीप. तेगे घोव तूं. आमीच पातकांत पडल्यांत.”

“मुका कांय खबर ना. कितें कळना. तूं कित्याक पावलें हिंगा? कित्याक पिशें लायलें मुका? क्रुजीन कित्याक झगड्टा, कित्याक नाखशो लायता? पायन सोडलें आनी मामालो मार खायलो मरसर. क्रुजीन वायट तोंडाचें. तेणें फटयलें मुका. तेगेलो पाय रातचो चोरून लोकाले माड पाडटालो. मुजेपरस तीन वर्सांनी व्हड तें क्रुजीन. तूं आतां वच हिंगासान. तेका हिंगा हाडून तुजेवरी तकलेर चिरो दिता.

एक दीस सक्काळीं बांयचेर आंतोनेत उदक काड्टालें. तेन्ना क्रुजीन येताना पयसुल्ल्यानच दिसलें तेका. तेणें बिंदलो बांयचेरच सोडलो आनी तें मांगरा फाटल्यान गेलें आनी नाच जालें. तेणें मनांत म्हटलें, ‘तेचें कितें तें तेंच पळोवन घेवं.”

सकल गांवांत वयचे वाटेर गोकूळ म्हण एकली रावताली. तेगेलें एकलेंच चेडूं तिळामळार लग्न करून दिल्लें. ती घोव बायल दर शेनवारा येतालीं. केन्नाय चेडूं हिंगाच रावतालें आनी घोव शेनवारा येतालो. आंतोनेत वोगी वचून तिगेल्या वारांदांत वसलें.

“आगो, कितें जालां तुजें? वोगी येवन बसलां अशें?”

“घोवान माल्लें गे आवो. धाडावन कुंडो काडलो.”

“फिलीपा बायल मुगो तूं? बरो मनीस मुगो तो. येताना वयताना ‘गोकूळ आवो’ म्हटलेबगर वचना.”

“तसो बरो गे, पूण राग येयल्यार म्हारू बसोता.”

“हांव विचारतलें तेका फाल्यां, बायलेक कित्या माल्ली काय म्हण.”

“नाका नाका. तुका सांगलें म्हण मुका आनी मारतलो. तसो बरो गे तो. केन्ना मात्तलो, केन्ना रोखडोच मुखार ओड्टलो.”

दिसभर तें गोकुळागेरच उरलें. तिचेकडच्यान एक साक मागून घेवन न्हिदलें. तिणें दिल्लें शितय जेवलें. तिणें “आगो, आतां वच मुगो घरा.” म्हटल्यार तेणें म्हटलें, “वयतलें गे. इल्ली सांज जावं. तेका इल्लो हुस्को लागूं.”

सांज जातकीर तें घरा येयलें. पयसुल्ल्यानच पयलीं सुलूस घेतल्यार तेका क्रुजीन परतें गेलें म्हण कळ्ळें. घरांत वयतकीर फिलीपान थंड आवाजान विचारलें, “खूंय आसलें तूं दिसभर?”

“तुमचें सगळें सारकें जावूं म्हण रावलें गांवार. दांत, नाखशो लागले ना मुरे? सांग वखद लायतां.”

“पुरो तुजें. येयल्लेंच झगडों लागिलें तें. मडकी उखलितालें मुज तकल्यार मारूंक. भुरग्यांक उपाशीं उडोवन हिंगा मोजा मात्ता काय म्हण्टालें.”

“आनी कितें म्हण्टालें?”

“तुजी याद काडटालें सतरा फावटीं. तुका गोपांत घेवंक आशेतालें. गौरम्माक, चंद्रावतीक परतें परतें विचारतालें, तें कोण तें खंय गेलें काय म्हूण. सदान मात चंद्रावतीच्या मुखार येवन घणघणीत सांगलें, ‘तें खूंय गेलां तें कळूंक तें आमगे वावराडी काय हिंगा कोणाली बायल? तेगे तें मेकळें. घाम गळोवन कश्ट करून खाता. कोणालें फुक्याचें खायना. तेगेलेंच हेर खातात.”

“मागी.”

“मागी वोग रावलें.”

आंतोनेत घरांत गेल्यार तांदळां दबो सकल काडून उक्तो दवरिल्लो आसा. तेका खण्प जालें. मुखार वचून पळयल्यार तो सामको रितो. तांदळां कण ना. “फिलीप, तांदूळ कोणे व्हयले?”

“क्रुजिनान पोती भरून व्हयले. भुरगीं थंय उपाशीं आनी तूं हिंगा दबे भरून दवरता काय म्हण्टालें.”

“आनी पोनाक आशिल्ले मुगे दुडू, तीन होजार?”

“तेवय व्हयले तेणें. रीण फारीक करूं जाय म्हटलें तेणें. आगो, पयशे हेरांले म्हटल्यारय आयकलें ना तेणें. कोणाले पयशे तें आपूण बरें जाणा म्हणूंक लागलें.”

“मुगे पयशे ते. हांयें सोरपोळी हाडूंक म्हण दवरिल्ले.” तें बसून कपलार हात घेवन रडूंक लागलें.

“भोव हुशार तें. तें कितें नकळ म्हण केलां तूं मुजवांगडा रावता तें? वोगीच बोब मारता. नाटकां सगळीं. तेका आमचे कडच्यान जाता तितले पयशे ओडूंक जाय. भुरगीं आसात म्हण ना जाल्यार....”

* * *

ख्रिसमसाच्या कांय दिसां आदीं एक दीस खणीर कांय पोलीस आनी कोर्टाचो मनीस येयलो. तेणें खणीर काम करतल्या सगल्या कामदारांक खणींवयल्यान भायर काडले. थंय एका ट्रकांत चिरे भरताले, तेंकां धपकायलें, ''खणीर कोर्टान बंदी घातल्या. हें निमणें. हे उपरांत ट्रक खणीर येयल्यार जप्त जातलो.''

उपरांत तेणीं थंय एक बोर्ड उबो केलो. तेचेर बरयल्लें, ''कोर्टाच्या आदेशान ही तामणेमळावयली पुराय खण बंद करून तांकां सील लायलां. हांगा कोणेंय खंयचेय तरेचो वावर करप बेकायदेशीर आसा.''

ह्या तामणे मळाक विशेक जाणांची तरी मालकी आसली. तांतले कांय जाण मुंबय लेगीत रावताले. तातूंत आनी थोडी फोरेस्टाची मालकी आसली. परस्पर कांय जाणांनी तें आपलेंच म्हण दाखोवन चिरे काडूंक कंत्राटदाराक दिल्लें आनी बरीच येणावळ खाताले. फॉरेस्टं खात्यान मामलेदारा मार्फत वीसय जाणांक नोटिसो धाडटकीर भरभर सगले जागे जाले. तेणीं मागीर कोर्टांत वचून खणीचेर बंदी हाडली. आतां तें प्रकरण कोर्टांत झरचें आसलें. काडिल्लो खणीवयलो म्हाल खणीरच उरिल्लो.

* * *

रातचें आंतोनेत भायर एकलेंच चिंतेस्त बशिल्लें. सांजचो फिलीप इतलो पिवन येयल्लो तरीय तो सदचेवरी बोवाळनासलो. कुशीच्या दोनय घरांत इतली सामसूम शांतताय आसली, ती सोसूं नज जाल्ली. दिसतालें, आतां एकादरो हुंडको ती थंडाय चिरीत भायर सुट्टलो. सड्या, शेंकऱ्यांची, फोंडाफोंडांची काळखांत पातळिल्ली ती बुरशी खण. थंय मरणाक उलो घातिल्ले वरी चीं शिळोवण्यो घुंवताल्यो. खंय घुगूम रड्टा काय म्हारू घुंवता कांयच कळनासलें. ल्हव ल्हव भायलो भितरलो काळोख चड दाट जावंक लागिल्लो. अचकित सदा भायर येयलो. तेणें रडतशें म्हटलें, ''फिलीप, हे खणी खुस्तार घरदार खोंटावन येयल्लों हांव. आतां कितें करचें रे हांयेंन?''

फिलीप सोऱ्या घुंवळेर तापलो. ''पाडपडिल्ल्या, कित्या रोड्टा? गवंडी मुरे तूं. आमचे वरी वजें व्हांवोवचो बैल न्ही. खणीचो फोंड कित्या जावो तुका? लोकांलीं घरां उबीं कर. देवळां बांद. चिरे कसले खणटा? चिऱ्यांतल्यान देव चितराय.''

दोनच दिसांनी सदा बायल भुरग्यांक घेवन गेलो. वयतना तेणें म्हटलें, ''घराच वचून वेगळो रावतलों. शेत भाट कांय नाका मुका. गांवांतच गवंडीपण करतलों. म्हज्या भाऊलीच देख घेतलों.''

तशेंच चार दिसांनी रामलू आनी गौरम्माय गेलीं. वयतना गौरम्मा आंतोनेताक धरून रडली. तिणें निमाणें सांगलें, "म्हगेलें लग्न जाल्ल्या तीनच दिसांनी हेगेलो बापूय भर दनपरां पावळेंतच ओमथो पडोन मेलो. मागीर तेगेली मांय, देर, नणंद माका खूब त्रास दिवंक लागलीं. एक दीस तेगेले मांयन तवो भरून पेट्टे इंगळे मुज्या पांयार रकयले. मागीर आमी दोगांय घरांतल्यान इल्लें भांगर घेवन धांवन येयलीं. थारय नासतनाच गोंयां पावलीं. सात वर्सां जालीं गांव सोडून. फाटल्यान थंय कितें घडलां आसतलें देव जाणां. मारूं ना तर कातरूं. वचून चोयतात कितें जाता तें. जोडलां इल्लें हिंगा खणीर. एक तरी भुरगें जावंक जाय आशिल्लें गो. वयताना हाताक धरून घेवन वयतासली!"

फक्कत रांदचीं आयदनां आनी दोन चार वस्त्रां. तेणीं दोगांयनीय तीं माथ्याक मारलीं आनी तीं वचूंक गेलीं बशीवटेन. वयतना निमणें घटकेक रामलून इतलेंच म्हटलें, "घरांतलीं तिका त्रास करतात म्हण हांव मुजे व्हंकलेक घेवन येयल्लों. गौरम्मा भशेनच आंतोनेतय बरें मुनीस फिलीप."

शेवटा दोगांच उरलीं. भोंवतणी करड सुकिल्लें, झाडां मरूंक लागिल्लीं, फोंडांनी भरिल्लें दळीद्र तामणेमळ. हें मळ आठ दिसां फाटीं मेरेन शें-दोनशीं घराब्यांचें पोट भरतालें म्हटल्यार कोणाक खरेंच दिसचें नासलें. आंतोनेताक दिसलें, आतां ह्या मळार दिवड मांयडोळ भोंवतले, घुगूम रड्टले, गोरवां पांय मोडून पड्टलीं. तें कांचवेल्ले वरी जालें रातीं तें रातभर फिलीपाक मिठी घालून तेच्या हड्ड्यार तकली दवरून न्हिदलें. ह्या दिसांनी फिलीप खूबच पिवन येतालो, पूण मात्तूय बोवाळ नाशिल्लो. म्हण तेका चड हुस्को लागिल्लो.

व्हडा रातीर आंतोनेताक मिठयेंतल्यान कुशीक काडून फिलीपान भोव व्यवहारीपणानशें आवाज गंभीर करून म्हटलें, "कोणें कोणाक भोगलें? तूं कितेंय म्हण दोगांनीय एका दुसऱ्याक भोगलें. कोंत बराबर. कुडी सुखाकच आमी म्हऱ्यांत येयल्लीं अशेंय न्हू. ना तर स म्हयने हांव तुका हात लायनासतना रावतासलों? आमी आदार, विसव सोदतालीं. पूण हे फुडें ना तें नशिबांत! हांव सांग्यार क्रुजिना बगलेक वयतां आंतोनेत. तुका तर वचूंक जायत्यो सुवाती आसात. माशेन, मांय, घोव. हांव सांगोतां, तूं गेल्यार तुगे घोव पळयना फुडें दार काडटलो तुका. तुजे फाटल्यान तुका बरो वळखला जावंये."

"घोवा सरीं वोस म्हुण्टा मुका तूं? मानवना तो मुका. शेणाचो तो. हांयें उखलून दिल्लो चिरो तेच्यान तकलेर घेवूंक जायना."

फिलीप वोगीच रावलो.

“खणीर वाटेर एक काळ्या आंगाचें, येशें वांकडे खांदयेचें झाड चोयलां तुवें? तें मुका केन्ना आफयता. आपणाचेर गोळ घे म्हुण्टा. तूं गेल्यार तेचोच आदार मुका फिलीप. एक फावट गेल्लेंय हांव तेवटेन राजू घेवन काळखांत.”

दुसऱ्या दिसा सकाळींच उठून तें सकल गोकूळ आवो सरीं गेलें. ती निकतीच उठून भायर येयल्ली आनी माडा आळ्यासरीं दोळ्यांर उदक मारतालीं. आंतोनेताक पळोवन तिणें विचारलें, “कितें गो सकाळीं सकाळीं?”

“आवो, तूं घरा भोंवतणी दुरीग काडटा म्हुण्टाली न्ही, जाल्यार फाटल्यान रांदची कुडय काड्टली म्हुण्टाली न्ही?”

“कित्याक म्हण्टा?”

“चिरे आसात खणीर मारिल्ले. सवाय पड्टले. हाडून घालतात माथ्यांनी.”

“पूण खण बंद केल्या न्ही गो?”

“मुज घोवान मारिल्ले, आमगे चिरे ते.”

“कसो पड्टोलो?”

“ट्रकांनी हाडून घातल्यार चार रुपयांनी चिरो पोड्टा. मुका आठ आणे उणे दी.”

“राव, जावंय येयल्लो आसा.” तिणें उलो मारून जांवयाक भायर आफयलो. हेगेलें आयकोन जांवय शादूर जालो, बंद उडयल्ले खणी वयलो चिरो! तो दोन रुपया वयर चिरो नाकाच म्हणूं लागलो. शेवटा हां ना करून अडेच रुपयान एक चिरो म्हण थारलें.

परत येयल्यार फिलीप तोंड धुवन भायर बशिल्लो. तेणें फिलीपाक सगलें सांगलें. आमी माथ्यांनी चिरो व्हरून घालया म्हटलें.

“आगो, पूण फाल्यां कितें कागाळ येयल्यार, पोलिस येवन विचाल्ल्यार कितें सांगतलों?”

“आमी कश्टान मारिल्ले चिरे ते. कोणेंय विचाल्ल्यार तुगेले चिरे मारून फुटिल्ले रटे दाखोय. घामेन भिजून मातयेन तांबडीं जालोलीं वस्त्रां दाखोय. कोण येवपार ना आतां हिंगा. ते जाणांत, ट्रका बगर चिरे भायर काडूंक जायनात म्हण. ट्रक तर भिवन धांवन गेल्यात.” फिलीप जड उठलो.

एकेक चिरो व्हरून पावोवन येवंक पंदरा मिनटां तरी लागतालीं. ट्रकांनी भरून व्हरचो हो व्हडलो चिरो तकलेर घेतल्यार मान बसताली, जीव खर्शेतालो. तरीय तें फिलीपाल्या कांट्यार बसून काम करून घेतालें. सोता तर चिरो घेवन जशें धांवतालें. सारक्के पांच दीस सकाळ सांज करून तेणीं चारशीं चिरे व्हरून पावयले. फिलीपान मारिल्ले. हेरांनीय मारून वयर हाडून घातिल्ले, मेळटा तो चिरो व्हरून तेणें गोकूळ आवोल्या घरासरीं व्हरून घातिल्लो.

तेचे एक हजार मेळ्ळे. फिलीपान म्हटलें, ‘‘चिरो व्हांवोवचो दिसवडोच जालो हो. चिऱ्यांचें मोल कांय मेळळें ना.’’

‘‘जावूं. बसोन रावोन तोरी कितें कोरतासलीं आमी? वयताना देंवती आसलोली म्हण इतुले चिरे पावले. भियेलीं तीं आनी नाका म्हुटलें तेणीं. ना तर आनी शंबर तरी व्हरून उडोवपा जाताले. विचारपा जायें.’’

‘‘आंतोनेत, सांगोतां तुका, आनीक एक चिरो तकलेचेर घेवपा ना हांव. मुकोडेन जावपा ना.’’

मुखाल्ले आठ दीस बेकारच गेले. कांयच वावर नाशिल्ल्यान आंतोनेत इतलें अस्वस्थ जातालें, मदींच मुठी आंवळून घेत दांत चाबिल्लेवरी करतालें. सकाळ सांज सकल्लेवटेन गांवांत वयतालें आनी अदमास घेतालें. खंयतरी रोखडेंच वावराक लागूं जाय आसलें. क्रुजीन खंयच्याय खिणाक येयत, फिलीप केन्नाय हातांतल्यान सुटून वचत ही भिरांत आसली. सोरपळी सोडोवन हाडचीय ताकीत आसली.

सकल गांवांत सगलीं स-सात घरां आसलीं. कांय जाणांचीं काजुचीं रेनां, इल्ले भाटाकुडके आसले. सकल्ले शेतोडेन शेतय करताले ते. कोणकोण सकाळीं सावड्यां नोकरेक वचून सांजचे परते येताले.

थंय एक थवय मेस्त आसलो. तो बरें फर्निचर करून कुडचड्यां, मडगवां पावयतालो. तेचेकडेन लाकूड कापचें मिशीनय आसलें. एक दीस आंतोनेताक कळ्ळें, तो थोडें लाकूड विकतें घेता आनी थोडें रानांतल्यान चोरयेन मारून हाडिल्लें चोरयेन घेता. अशें लाकूड हाडून दिवचे कांय लोक आसात.

आंतोनेत एक दीस तेचेकडेन गेलें आनी तेणें सरळ म्हटलें, ‘‘खण बंद उडयतसान बेकार आहाय हांव आनी मुगे घोव. मुगे घोवा वावर नासत तर पिशें लागूंक पावोता. चोय तुगे कसलोय वावर आसल्यार कोत्ताय आमी.’’

“थवयपण जाणा तर तो?”

“ना. मदेर बीन जावो जाल्यार रानांतल्यान...”

“तुमचेकडेन जावपा न्हूं तें.”

“मुगे घोवा कामा आटाप चोयलो ना तुयें. दिसा शंबर चिरे हुपशितालो तो.”

“मोटें जिकिरेचें काम तें. फोरेस्टाचे लोक फाटी लागिल्ले आसतात. रातचें मारून रातचेंच रानांतल्यान देवोंवंक जाय. लाकूड धल्ल्यार कादयें वयचेली पाळी.”

“मुजेर सोड. हांव चोयतां तें.”

“सायलाचे मिजगतेक वचूं नाकात. चड रिस्क तेतूंत. बरे जाणा जाल्ले धिरिश्ट जाय त्या कामाक. येदू, किंदळ, पणस, असण, शिरस हेंचें मदेर लागता आमकां मदीं मदीं. फाल्यां घोवा धाडून दी. कसले कितले मापाचे लाकडा कुडके जाय पड्टात तें सांगतां.”

“तेणें हातीं चिऱ्या पिकास घेयतसान कुराड शेणल्या. सद्या एक कुराड चोवन दी. मागी आमी आमगे हाडटात.”

“चोवया, रामाली एक कुराड आठ दीस हिंगा पडिल्ले कडेन आसा. व्हरात एक दोन दीस. बरो ना खंय तो.”

* * *

खरें तर ह्या कामाक आदींच दिसाचो रानांत रूख पळोवन दवरचो पड्टा. मागीर तिनसांजचें वचून तो कातरचो पड्टा. रानांत वचून मागीर रूख सोदत हेडत रावंक फावना. नेमकी हीच गजाल मेस्त तेका सांगूंक विसरलो.

तरीय दनपारचीं तीन वरांचेर तीं रानावटेन वचूंक सुटिल्लीं. रानावटेनची वाट सामकीच नवी नाशिल्ली. आंतोनेत जायते फावट गौरम्मा, चंद्रावती वांगडा हेवटेन जळोव व्हरूंक येयल्लें. दोन तीन फावट फिलीप वांगडा आसलो. पूण तेन्ना तीं रानांत चड भितर रिगूंक नासलीं. पूण आतां मदेरा लाकडाक रानांत खूब भितर वचूं जाय आसलें.

वरभर तरी तीं चलून गच्च रानांत पावलीं. चोंयवटेन उबीं बसकीं रानटी झाडां, रूख. पूण रानांत वरभर भोंवूनय फावो तें झाड मेळनासलें. शेवटा एक बारीकसो नीट उबो असणा रूख दिसलो. सकल उडोवन आंग फोडून उडयल्यार सात फुटांचे दोन बेस कुड्के मेळूं येताले. कुराड घेवन तीं दोगांय नेटान वावराक लागलीं. फिलीपालो हात वळून

येतकीर, तेका खरस लागतकीर आंतोनेत कुराड हातीं घेतालें आनी रुखार धपके घालतालें. फिलीप मदींच किसळटालो, आपणाक ह्या असल्या नश्ट्या वावराक ओडून हाडलो म्हण. मागीर आंतोनेत तिडकीनशें तेच्या हातांतली कुराड ओडून घेतालें आनी घाये घालतालें. काळोख जावचे पयलीं कशेय करून कुडके घेवन रान पार करून वचूंक जाय आसलें.

पूण रूख आड घालून तेचे कुडके करता, चवखण करूंक आंग फोडटा म्हणसर काळोख केन्ना पातळ्ळो कळ्ळेंच ना. तरीय तेणीं बेगीबेगीन कुडके कुथनत तकलेर घेतले. पूण मुखार पांय घालूंक गेल्यार कांयच दिसना. मळबांत चंद्र नाशिल्लो आनी नखेत्रांची निवळी गच्च रुखावळींतल्यान सकल पावनासली. चोंयवटेन काळोख आनी रातकिड्यांची किरकीर. तकलेर तर मसण कशें जड जड वोजें.

"फिलीप, मुका मुखार पांय घालूंक दिसोना. आपटून पड्टलें हांव."

"मुखार मोटोसो रूक पळोवन तकलेवयलें उबें तेंकय तूं."

दोगांनीय वोजीं तेकयलीं. मुखार काळोख तर काळो धुंवर कसो कोसळत पातळूंक लागिल्लो. एक दुसऱ्याक धरून पावला पावलाक वाट काडीत आडखळत अर्दवर तरी चलून तीं रानाभायर पावलीं. मुळसाक थंय कोणाले तरी दोन गोठे आशिल्ले. गोरवां आतां गांवांत व्हयल्ल्यान ते रितेच आसले.

गोठ्याच्या दारांत वचून तीं कांय वेळ वोग्गी बसलीं. काळोख जाता तशें शिंयां दिसांचे शीं हाडां फोडूंक लागिल्लें. आंतोनेतान आपली साडी दोगांय भोंवतणी ओडून घेवन एक दुसऱ्यार पडून तीं शिंयांत बसलीं.

"फिलीप, आमी या घरा. फाल्यां चोवचें."

"आतां काळखांत एक वर चलून वचों जाय. फाल्यां परत सकाळ पाराक चलोन येवंक जाय."

"मुका भूक लागोल्या मुरे."

"सोंसची. सकाळमेरेन. सामकें नसकाक उठून वयचें."

बरीच रात मेरेन तीं गोठ्याच्या दारांत बसून आसलीं. केन्नातरी उठून ताटी कुशीक करून गोठ्या भितर गेलीं. गोठ्या माळ्यार तण भरिल्लें आशिल्ल्यान भितर उब आशिल्ली. तेणें वांगडा हाडिल्ल्यो चुंबळ्यो सोडोवन तीं तेचेर न्हिदलीं आनी साडी दोगांयनीय कांबरूंक

घेतली. पूण झेम म्हण लागनासली. फकत एका दुसऱ्याची ऊब घेत कुडींनी खोल खोल रिगतालीं.

''आमी कुडी पातकांत पोडल्यांय फिलीप?''

''मोग आसल्यार पातक निवळटा खूंय.''

''मोग म्हुटल्यार कितें फिलीप?''

''हांवय सारकें नकळ. हांयें कोणाचेर केन्ना मोग करूं ना. आनी मुजेरूय कोणें मोग केलो ना. मुजे मांयक घोवान सोडिल्ली. बायल मनीस जावन तोपण्याचेर भाटकारागेले नाल्ल सोलताली दिसभर. घरा येवन मामा बायलेकोडेन झगडटाली. केन्ना रोड्टाली, तकली आपटून घेताली. क्रुजीन म्हण्टा, वस्त्रां कुशीन सारून करता तो मोग म्हणून.''

''खरें न्हू तेगे पाडपडिल्ल्यालें तें.''

''अशें कशें म्हुण्टा तूं. ना तर आमी हें चोय कुडींनी इतलीं भितर कित्याक रिगल्यांय?''

उसरां केन्नातरी दोगांकय झेम लागली. पूण सकाळीं जाग येयल्यार भायर भणभणीत उजवाडिल्लें. गोठ्याच्या वण्टी फाटल्यान किर्णां भितर सरतालीं. ''आरे फिलीप, ऊठ भायर चोय वोतां केशीं फुटल्यांत. मोरतोलीं मुरे आमी आतां.''

दोगांय उठलीं. आंतोनेतान बेगीबेगीन साडी गुठलावन घेतली. चुंबळयो घेवन तीं राना वटेन धांवलीं. काल येताना फिलीप वाटभर झाडां ताळयो मोडत येयल्लो. तेचो माग घेत तीं तेंकोवन दवरिल्ल्या म्हालवजासरीं गेलीं. तीं वोजीं तकलेर घेवन सरसरीत रानां देंवलीं.

रानां देंवन येतकीर वाटेर एक शेतोड, मागीर एक व्हड मळ लागतालें. ल्हान ल्हान झाडां झोंपानी भरिल्लें. हेंच्या मनांत सारक्की भिरांत आनी दुगदुगो. वेळ तर वयर चडला, कोणेंय वाटेर आडायल्यार!

धांवतच शेतोड पार करून तीं मळार पावलीं. आयज मेरेन कितलीं वोजीं तकलेर घेतलीं. पूण इतलें जड, मान बसून फाटीर पाविल्लें वोजें आंतोनेतान केन्नाच घेवंक नासलें. तरीय तें पावलाक नेट लायतालें. भूक लागिल्ली, तान लागिल्ली, तातूंत मरणाची खरशेणी. ''फिलीप, कितेंय जावं राखून चल तूं!''

तें व्हडलें मळमळ बळांटून शेताकडेर पावलीं. मुखार कोणालीं तरीं दोन घरां आसलीं. तेच्या मुखावयल्या बांदान वचूं जाय आसलें.

पूण तीं शेताकडेर पावल्यांत तेन्नाच त्या बांदावयल्यान दोग खाकी कपड्यांतले फोरेस्टाचे मनीस येताना दिश्टीक पडले. तीं सट् करून परत मळावयल्या झिलीआड वचूंक पळयतालीं. तेन्नाच फोरेस्टाच्या मनशांनी हेंकां पळयलें आनी ते हेंकां धरूंक धांवले.

"आंतोनेत, तकलेवयलें उडय. धांवया आमी. फोरेस्टाचे मनीस येतात."

एका फाटोफाट एक दोगांयनीय तकलेवयल्यो लाकडा पाटयो उडयल्यो. तेणीं झूं धांव मारली. मळावयल्या झिलींनी धांवत तीं खंय पावील्लीं, हें तेंकांच खबर नासलें. अर्दवर तरी तीं धांव धांवतालीं, खर्शेतालीं, परत धांवतालीं.

खंय तरी एक मोडून पडिल्लोसो गवळ. केन्ना तरी बांदिल्ली वंय, फाटल्यान रानांत व्हडले व्हडले रूख, मुखार खूब वर्सां पडिंग पडिल्लें मरड शेत. तीं रानां भायर पळयत थंय बसलीं. खर्शेणी थांबतकीर फिलीप उलयलो, "वोज्या वांगडा कुराडय पडली लोकांली.... तूं पोटण्याचें मुजे फाटीक लागिल्लें रानां चोरूंक या म्हण."

"मुका खावोंक, मोज्या मारूंक न्ही. तुगे बायले भुरग्यांक पोसूंक. ती भिवणां दोळ्यांची, धवी खापुल्ली सगळें लुटोन व्हरता मुरे. तेगे गर्भा पोती मुगे दुडवान काडलोली. गेलो फावट न्हिदलो ना तूं तेको? मुगे सोरपोळे दुडू कोण भोरतोलो?"

"तेगे वांटो तुयें भोगलो ना? तेगे घोवा वांगडा तूं न्हिदलें ना? तेचें फारिगपण कर आतां. मुजवांगडा केदना साक्रामेंत जालो गो तुगेलो?"

"जुदेवा कास्ताचो तूं दादुलो...." तेका हड्डें फुटून रडूंकच येवंक लागलें. तें भुंयेर लोळत रडलें. मागीर थंयच न्हिदून पडलें. न्हिदिल्लेकडेन बरोच वेळ तो तेका पळयतालो. काकुटायेन तेचें मन भरून येयलें.

"आंतोनेत, ऊठ तूं. रातसान तानेल्लें, भुकेल्लें आसा. मुकाय तान लागल्या. तेवटेन एक मोयरालें घर आसा. थंय या आमी. इल्लें उदकतरी पिवंया." तीं उठलीं आनी तेवटेन वचूंक गेलीं. घर सादें, गांवठी नळ्यांचें. पूण तेच्या वर्ण्टींक भायर भितर बेस चुनो काडिल्लो. आंगणांत चुड्टांचो माटोव घातिल्लो. दारांत, मागील्दारांत केळ कवाथो आसलो. थंय वचून तीं पोट्टभर उदक पियेलीं. आंतोनेतान घरांतले बायलेक 'भूक लागल्या गे!' म्हणटकीर तिणें सोय, गोड घालून केल्ली एक तांदळांची भाकरी हाडून दिली. ती दोगांयनीय अर्द अर्द खायली.

थंय आनीक दोन तीन मोडून गेल्लीं, मातयेक लागिल्लीं घरां आसलीं. आंतोनेतान विचारलें, "तीं कोणागे घरां? खूंय तो लोक?"

"गांव सोडून गेलो तो लोक. आतां सावड्यां, मडगांवां रावतात. केन्नातरी मारा भंयान आमगे लोक ह्या रानांत येवन लिपून राविल्लो. मागी हिंगाच रानाकडेर घरां बांदलीं. पयलीं आमी हिंगा शेतां करताले. जोतां आसलीं आमगेलीं. मगेले दोन चेडे आतां सावड्यां रावतात. गाडयो समा करची गॅरेज आसा आमगेली. पूण मगेलो घोव हो गांव सोडून वचूंक कसोच तयार ना."

ती जाण्टी बायल इतले आपलेपणान, इतल्या बऱ्या गोड उतरांनी उलयताली, आयकून आंतोनेतालें मन ल्हवपीक जालें. तिणेंच निमणें इल्ल्या दुबावानशें विचारलें, "कोण तुमी खंयच्यान पावल्यांत?"

आंतोनेतान तिका आपली सगली खबर सांगली. आमी रानांत कित्याक येयल्लीं, हिंगा कशीं पावलीं तेंवय सांगलें. शेवटा म्हटलें, "खण बंद पडून आमी घोव बायल बेकार पडल्यांय गे, कितें कोरचें म्हूण कोवना?"

"हात पांय घट आशिल्लो बेकार म्हण पड्टा गो? सावड्यां कितलीं कामां मेळटात. आमगेल्या गॅरेजी मुखार सांबाऱ्यांली भंगसाळ आसा. माडाचे वांशे, मदेर, नळे. दिसांतल्यान कितले ट्रक येतात आनी वयतात."

"खंयतरी वचों जायें. पूण शारांत सारकें जावचें ना आमचें."

"म्हगेलो धाकलो भाव सलीम काल्यां कोळसो काड्टा. काल्यां काऱ्यामड्डी म्हणलोकडेन. खासगी लोकांकडल्यान, सरकाराकडल्यान चिंचेचे, जांवळीचे रूख घेता आनी कोळसो करता. व्हड वावर तेगेलो. पयर मेळिल्लो सावड्यां. कामाक मनीसच मेळनात म्हणटालो."

"वचोन येतात तेहें जाल्यार."

"सलीम खान नांव तेगेलें. तुगेले व्हडले भयणीन हमिदा बीन धाडलां म्हण सांगात."

सांजचीं उसरां तीं लिपत दोपत तामणेमळार येयलीं. आंतोनेतान हातासरीं आशिल्लें बेगींबेगीन रांदलें आनी ती बेगीनच न्हिदली.

"आंतोनेत, हांव काल्यां येयना आनी सांग्यारय वचना. हरी कर्पेली खण कितली खोल गेल्या जाणां, वयल्यान नदर पावना. तेतूंत वचून उडी घेतां हांव."

"मुका कितें दिसता जाणा फिलीप, एक वर्सा माशेना गांवचे कोमळे तोळें मांयणान बुडलोलें खूंय. पांय दवरिल्लो मांयणान केंसांमेरेन बुड्टालो खूंय. तसले मांयण ह्या खणींनी पुराय भरचे. मागीर वांगडाच आमी दोगांय त्या मांयणात देंवचीं... पूण फिलीप, तुगे बायल आसा, भुरगीं आसात. तुका फावना मरण. मुका कोण ना. हांयें एकल्यानच मरपा जाय. हांव मोत्तां फिलीप!"

"पातकां करतल्यांक आमकां अपघाती मरणच फावो आंतोनेत."

"आमी पातकां केलीं नात. आमी मोग केला फिलीप."

"मोग केला मुगो? तेहें जाल्यार आमी जीव दिवचो न्ही. नांव, गांव सोडून कालेंच्या रानांत वचून पडून रावचीं."

दुसऱ्या दिसा सक्काळीं नसकाक उठून तेणें चाव करून फिलीपाक दिली. मागीर दोन साकांत सगलीं आयदनां, हांतरूण, कांबरुणां भरलीं. मागीर तें सडसडीत चलून थवय- मेस्तागेर गेलें. तेगेली कुराड व्हयल्ली ती तें ग्वार्दांक भिवन उडोवन येयल्लें. तेचें मोल फारीग करूंक जाय आसलें.

थवयाक खरी खबर सांगूंक गेल्यार तो पुरूसभर हुडलो आनी बोवाळूंक लागलो. दुसऱ्याली कुराड, तीनशीं रुपया उडय म्हणूंक लागलो. आंतोनेतान वांगडा व्हयल्ले देडशीं रुपया थंयच्या बांकार दवरले आनी तें एक उतर उलयनासतना फाटीं फिरलें.

"फाल्यां रामाकच धाडून दितां. तुमकां सोलून पयशे काड्टलो तो. तेका वळखनात तुमी. एक फावट फोरेस्ट रेंजराचेर फातर मारून धांवन येयल्लो तो."

"तेका सांग दिल्यात ते व्हड म्हूण. ना तर हांवच वचून फोरेस्टांच्या ग्वार्दांक सांगोतां, तुमी हातीं कुराड दिवन आमकां नेणारांक रानांत चोरूंक धाडलोले म्हूण."

तें सडसडीत येयलें आनी तेणें आदीं फिलीपाले तकलेर साक दिलो. मागीर चड जड आशिल्लो साक आपणें तकलेर मारलो आनी तीं चलूंक लागलीं. खिणभर आंतोनेताक दिसलें, पयस धांव मारची ह्या खणीच्या फोंडकुलांकडल्यान. भूत फाटीक लागिल्लेवरी कांय वेळ तें धबधब चलत रावलें. मागीर एकदम ताचीं पावलां थारलीं. तेणें फाटी वळोन पुराय खणीच्या वाठारार नदर मारली, "हेच खणीन मुका एका काळाक आदार दिल्लो. मुजो मोगाचो फिलीप मुका हिंगाच भेटिल्लो. मुजी व्हडली भयण कोशी गौरम्मा पोटांत भुरगें धरना म्हूण रडटाली. हांयें मात फिलीपालो गर्भ हे खणीरच व्हाळयलो!" तेच्या काळजांत मुळांसान दुखलें. दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. तेणें भिजिल्ल्या ताळ्यान 'फिलीप' म्हण उलो

दिलो.

"कितें जालें गो आंतोनेत? तुगे वोजें हांव घेवं?"

"नाका. मुगे वोजें हांव व्हांवयतलें जायसर. पूण फिलीप, पाड मनीस हांव. सोगळेकडेन सोगळें रितेंच सोडून येयलां."

"केसो खबरी करता कोण जाणा. उखल तूं पावलां बेगीबेगीन."

* * *

काल्यां वयचे वाटेर सांगें जेन्ना बस रावली तेन्ना फिलीपान तारीपांट्या वयचे वाटेवटेन बोट दाखोवन म्हटलें, "ती वाट तारी पांट्यार वयता. पावसांत पलतडीं वचूंक थंय तार घालतात. थंय लागींच घर आमगेलें."

आंतोनेत मेल्ले नदरेन तेवटेन पळयत रावलें. मागीर ती काय आपली वाट न्हू म्हणिल्लेवरी नदर काडून घेतली आनी तें मुखार पळोवंक लागलें.

कांय वेळान परत तेवटेन पळयल्यार ते वाटेवयल्यान तकलेर धवीं वस्त्रां ओडिल्ल्यो कांय बायलो, धवें काळें न्हेशिल्ले दादले येताना दिश्टीक पडले. आंतोनेतान मनांत म्हटलें, "हे कोणाल्या तरी मरणाक गेल्ले आसतले! ह्या तेपाक जोरी येयल्लेवरी मरणांच जाल्यांत. पयर, तामणेमळा सकल्लेवटेन एकल्याक केन्ना कोयते घायो पडिल्लो खूंय. घायो कुसलो आनी तो मान धरून मेलो.

फिलीपासरीं पळयल्यार तो भोवच नेर्वेज दिसतालो. शेवटा तर तो मुखावयल्या सिटाचे दांडयेर तकली उडोवन पडलो. आंतोनेताक खिणभर भिरांत दिसली. हो खंयच्याय खिणाक उठ्टलो आनी तारी पाण्ट्यावटेन चलूंक लागतलो!

मदींच फिलीपान तकली वयर केली, "कितले कश्ट काड्टा तूं आंतोनेत! केसो बाबत कास्ता घोव मेळ्ळो तुका. ना तर तुगे हातान लोखणाचें भांगर जावचेलें. तुजे पासतच हांव कालेंच्या रानांत येतां न्हूं."

आंतोनेताल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. "तूं मुगे कोण लागोता फिलीप? काजारा बगर केहें हें सोगळें? इतुल मोग केहो हो!"

"काजराक व्हरून लाय चुट्टी. तूं काजार जावंक नासलें? हांव जालों ना काजार? एक दीस बरेंपण भोगलें ना. एक दीस आमी झगडीं नासतना रावलीं नात. तरीय क्रुजिनाक

तिगां भुरगीं जालींच. कुडी सुखाचें म्हुण्टा जाल्यार ती मोनजातीची खबर. मोगच खरो आंतोनेत! म्हणच अशें रानांनी वचपाचें न्हूं.''

बस कालेंच्या राना मळांतल्यान वांकडे वांकडे वाटेन वचत शेवटा कारयेमळार येवन थारली. तेणीं बेगी-बेगीन आपले दोनय साक देंवोवन घेतले. साक देंवयतना खळखळत वाजले, भितरलें कितें तरी फुटिल्लेवरी.

रस्त्या कुशीक एक चाये दुकान आसलें. कुशीकच एक विडये काडयेचें खोपूट. चाये दुकाना मुखार चुडटांचो माटोव घातिल्लो. थंय दोगतीग जाण बांकार चाव पिवंक बशिल्ले. खंयच्या तरी गजालींचेर झगडिल्लेवरी व्हडाव्हडान उलयताले. हांच्यो साका पोटल्यो चोयतकीर ते वोगी जाले.

तेणीं पोटल्यो व्हरून माटवाच्या एका कोनशाक दवरल्यो.

''फिलीप, जावो जाल्यार इदें चाये घे मुरे.''

''आतां नाका. सोमतेच या आमी खोन्नार. पूण साक हिंगा येशेच दवरचे?''

आंतोनेतान व्हडान म्हटलें, ''गावड्यागे सामानाक कोण हात लायतलो?'' तरीय तेणें दुकाना भितर बागोवन थंय भितर आशिल्ले एके बायलेक सांगलें, ''येतोले आमी बेगीनच. दोन साक आसाय भायर. बेठी रांदपा जेवपाचीं आयदनां, मुस्तायकी.''

बाकार बशिल्लो एकलो वांकड्या तोंडाचोसो उठलो. उठूटकीर दिसलें हो कुडीनय वांकडोच आसा. तेणें फिलीपाक म्हटलें, ''तूं माड पाडूंक जाणा? गांवांत माड गाभणे जावन पेंडी लकतात. पूण पाडेली कोण ना. दर एकल्याच्या भोंकार कालसांवां. काश्टी मारून पाड्टलो कोण? गावडे माड पाडूंक फिशाल खंय.'' इतलेंच उलयतकीर तेगेल्या तोंडांतल्यान लाळ गळून वाडिल्ल्या खाडांतल्यान व्हांवली.

फिलीपाक तेचो राग येयल्लो. पूण आंतोनेत मुखार सरलें. तेणें म्हटलें, ''तेसो पाडेली गावडो न्हूं तो. शेतगावडी तो. तेगे जोता बैल जाणां, धिरये बैल केहे वाग. शेतां लूंवक, मळूंकच म्हयनो जाय.''

चाव पियेत बशिल्ल्या दुसऱ्या एकट्यान म्हटलें, ''तेवटेन गावड्यागे म्हणून एक जात आहा. ते फातर, चिऱ्या वावर करतात. सड्यार शेतां पिकयतात.''

फिलीपाक खरोच राग येयल्लो. पूण अनवळखी गांव. तरीय तेणें तापूनच म्हटलें, ''कोळशा खोन्नार वयची वाट दाखयशात आमकां?''

"ही दुकाना फाटल्यान वाट वांकडी वांकडी जायत खोन्नार पावता."

आंतोनेत आनी फिलीप तेवटेन चलूंक लागले. फाटल्यान कोणेंतरी म्हटलें, "थंय आनी कित्या वयतात काय, सोताचीं मडीं लासून घेवंक?"

फिलीपान इल्लें मुखार वचून फाटीं वळून पळयलें, दनपाराचो सुर्या मळबांत अर्दवाटेर पाविल्लो. तेचो खर उजवाड सकल्ल्या गांवच्या माडापेडार शेकानशेक एक तांबडें रगताचें ल्हार कशें पातळिल्लें.

"आंतोनेत, ह्या गांवांत आमचो तिगाव लागतलो?"

"कश्ट करतल्या हाताक खंयूंय तिगाव लागोता. फातरा सड्यार लेगीत. तुगे रट्यांनी तुयें धा पुरीस अगड चिऱ्या खणी उपशिल्ल्यो मुरे?"

"आंतोनेत, तूं हांव गावडो म्हण कित्या सांगोता?"

"जाणां, गांवांत गावड्यांक चड वालोर. तेंकां चड पातेतात लोक."

वाटेचे दोनय कुशींक फकत बसकीं गुंजट, वांकडीं झाडां पातळिल्लीं. तिठ्या फाटल्यान तिठे. बंजर, पर्डीग तिठें. तेतूंत मदीं मदीं पोटां सुटिल्लीं गुंजट झाडां. फिलीपान मनांत म्हटलें, 'कोळसो करूंकच उपकरचेलीं हीं पाड झाडां!'

वाटेर एक खोंप आसली. खोंपी मुखार दोरयेचेर एक लमाणीं बायलो घालतात तसलो व्हडलो घागरो सुकोवंक घातिल्लो. थंय तिगां सान भुरगींच आसलीं. दोगी भयणी स-सात म्हयन्याच्या आपल्या भावाक न्हाणयतालीं. तेरा-चौदा वर्सांचे व्हडले भयणीन भावाक घागरो कवळून पांय सोडून पांयांर घेतिल्लो. धाकली पांच-स वर्सांची भयण तेका उदक घालताली. उदक घालतना, आंग चोळटना त्यो आगळोच गोडसो 'हुस्स' आवाज काडटालीं. भावाक मोगान थातारतालीं. तो भुरगो न्हाणयतना रडय नासलो. आंतोनेताक भोवच तोखणाय दिसली. तें मुखार वचून तेंकां कोंकणींत कितें कितें विचारूंक लागलें. पूण तेंकां कोंकणी कळनासली. व्हडली भयण दर फावट एकच सांगताली, "भयो वो मारा."

ही व्हडली भयण भोवच सोबीत दिसताली. गोरी आनी नाजूक. सडसडीत, बारीक लांब बांध्याची. दोळे इतले आरपार नितळ आसले. तेचें लजप, हांसप उलोवप त्या दोळ्यांतल्यानच दिश्टी पडटालें.

"नांव कितें गो तुगेलें?"

नांव ह्या उतराचो अर्थ तेका कळ्ळो. तेणें सांगलें, “गौवी नाम मारा.”

आंतोनेत चलूंक लागलें. माशेना वांगडा रस्त्या वावराक बीन वयताना तेणें जाय तीं असलीं “घांटयां” चोयल्लीं. पूण इतलें सोबीत घांटयांगे चेडूं तें पयलेच फावट चोयतालें. ती सोबितकाय, तेचो तो भावाक न्हाणोवपाचो नकसूद वावर पळोवन तें भितरल्यान हालिल्लेवरी जालें. तेणें मनांत म्हटलें, आतां आपूण परतें गुरवार जाल्यार तें भुरगें ह्या मळावयल्या रुखापोंदा लेगीत ल्हानाचें व्हड करतलें!' तेका आवयपणाची ताळणी लागिल्लेवरी जाली.

कोळशा खोन्नार गेल्यार थंय चोंयवटेन धुंवर, कोळशाची रास, गोबराचो शिंवर. पळोवन फिलीपान म्हटलें, “आंतोनेत, ही मुका कोंकण्यागे मुसूंड कशी दिसता मुगो. कोणाक लासूंक उडयला हिंगा?”

“वोग राव रे तूं.”

पात्रांव लाकडा राशीसरी उबो आसलो. काळसोच. पूण आंगापेरान मोटो आनी सडसडीत लांब. देंविल्लेंशें व्हड लांबट मुखामळ. व्हड व्हड चपक्याचे लांब हात. तो मुखार येतकीर आंतोनेतान ल्हानपणान हात जोडून म्हटलें, “तुगे भोयणीन धाडलोलें. तामणेमळासोरीं थंय रावता ती. आमकां हिंगा वावराक घे म्हटलां.”

“हात आशिल्ल्यांक काम ना म्हूण आसा? हिंमत जाय. नेकी जाय.” मागीर तेणें मुकादमासरीं घुंवून म्हटलें, “सुरेश, आज अर्दो दीस लाय तेंगेलो.” मागीर तो मोटर सायकलीर बसून रानांतल्या रस्त्यान गेलो. वाट काडीत गेल्लेवरी.

थंय एकलो दुखीन हूं हूं करत कुंटत वावर करतालो. तेगेलो पांय दोन दिसां फाटीं पेट्ट्या इंगळयार पडिल्लो. व्हडले व्हडले फोड येवन फुटिल्ले आनी पांय सुजिल्लो. फिलीपान व्हडान म्हटलें, “आरे, दोतोरासरीं वच मुरे, तो सुजलो पांय घेवन हो पाडे वावर करता?”

तेणें म्हटलें, “जातलो दोन दिसांत बरो. मात्सो इंगळयार पडिल्लो.” फिलीपाली थंयचो तो लासचो, जाळचो आवांठ पळोवन उमेदच मेल्ली. तेणें मनांत म्हटलें, हेचे परस खण खणचो ना तर माड चडचो वावर चड बरो. तेणें परत व्हडान म्हटलें, “आंतोनेत, ही कोंकण्यागे मुसूंड कशी मुगो. मुकोडेन जावपार ना. हांव धांव मारतां, मुगे सांग्यार, तारी पाण्व्यार.” पूण तें मुकादमान सांगिल्ल्या वावराक लागिल्लें.

मुकादम सुरेश थंयच आसलो. बारीक, पडिल्ल्या पोल्याचो. तेगेलीं लांब पेन्टा पोतां

गोबरान, कोळशाच्या काळ्यान भरिल्लीं. तेणें एक फावट विचित्र नदरेन तेका पळयलें. “हें कांयच न्हूं. पयलीं हांव यल्लापुरा कोळशा वावरार आशिल्लों. एकेक वांव पावना जाल्लीं जांब्याचीं, घोडकाचीं नाटां. कोळशाचे दोंगर. दिसाक शंबर साक कोळसो मुंबय धाडटाले आमी.”

“कसलो गू खावन पोट भरचो धंदो तुगेलो? सगळो लासून कोळसो आनी गोबोर.”

मुकादम तापलो, “तूं म्हारवा कास्ताचो. कित्या येयला हिंगा? पात्रांवान सांगलां म्हूण ना तर तुजेर दांडो घालचेलो हांव.”

तेचे वांकड्या दुबळे कुडीचो तो आब पळोवन फिलीप हांसलो. “मुकादम, तुका बायलेन सोडला?”

“तूं वोळखता मुका? खंय कसो वोळखता? ती चेडी तसलीच आसली.”

“आमगे मात बरें हां. ती मुजे वांगडा येयल्या न्हूं, ती मुगे व्हंकोल. आमी गर्लफ्रेन्ड म्हुण्टात. हांव बामोण किरिस्तांव, तें चाड्ड्यांगेलें. उणें जातीचें. मांय पाय आमगें काजराक कशेच राजी नासले. मागी आमी धांवन ह्या रानांत येयलीं. हिंगा बरें आहा. तुगे कोळशान काळें जातकीर कोण वोळखोचो ना आमकां. जातय लिपतली.”

“लफडें आसतलें.” तो मदींच तापलो. “तूं वावराक येयला काय खबरी करूंक? ना जाल्यार लाग चलूंक हिंगासल्लो?”

“कितें कर म्हुण्टा?”

“तो लांब दांडो घे. नाटां राशींतलीं नाटां सरकावन चरांत हाडून घाल एकेक.”

फिलीपान तो घट लांब खूंट घेतलो. तेणें तो खूंट नाटा राशींत असो सरकावन नेटान उखल्लो. पांच स नाटां घडघडत सकल येयलीं. थंय दोग बायलो म्हन्यांतच आशिल्ल्यो. नाटां तेंच्या आंगार येवंक मात्शीं चुकलीं. मुकादम बोवाळत धांवन येयलो, “कसलो मेड मुरे तूं.”

“गाळी संवनाका तूं मुकादम. मुगे वावर तसोच. एका फाराक चार दुकर. मुगे वावर चोयल्यार फाल्यां तुजे बदलाक पात्रांव मुका मुकादम करीत म्हण भिरांत.”

“तुज्यो जाणवायो नाकात. येयच नाका तूं हिंगा वावराक.”

“आमकां पात्रावांगे भोयणीन धाडलां हिंगा.”

मुखावेले पंदरा दीस तरी फिलीप हिंगा वावराक आसलो. पूण तेचे आनी मुकादमाचें केन्ना पटलें ना. जशे ते दोन दिकेंतल्यान दोग अनुळखे झगडूंकच म्हण लागीं येयल्ले.

सांजचीं तीं मात्शीं बेगीनच येयलीं. पळयल्यार सांजचो सुर्याय तसोच तांवसो. तेचीं तांबशीं किर्णां अख्ख्या वाठारार पातळिल्लीं. मळार, थंयच्या मोटव्या झाडार, वयल्या रानांत, सकल्ल्या गांवांत. आंतोनेतान मनांत म्हटलें, असो कसो हो गांव, रानाक धड पाचवीसाण ना, उजवाडाक धवसाण ना. उजवाडा सयत हो गांव मरूंक पडला काय कितें? तेणें चोयल्यार फिलीपाल्या तोंडारय तीं मरणाचीं तांबडीं किर्णां. आरपार तेचे कुडींत रिगून गेल्लेवरी. मदींच तेणें घणघणीत आवाजांत म्हटलें, "आंतोनेत, हो गांव मुका मानवलो ना, तें कोळशाचें खोर्न मानवलें ना. हांव बायलेक सोडून तुजे वांगडा ह्या रानांत कित्या येयल्लों जाणां, तुका रानांत नागडें करून ह्या रानांत रुखापोनाक उक्तें भोगूंक म्हण!"

"पिसो जाला तूं फिलीप!"

"ना तर बायलेक सोडून कित्याक येयलां हांव तुजे वांगडा? तुजीं जांगडां मोडून घालचीं अशें दिसता मुका! कुडीचें सूख सोडून आनीक कितें बरें भोगलां आमी तें सांग तूं!"

"फिलीप, हांव ह्या रुखार तकली धाडावन घेवन मरतां. सोसूं नज मुज्यान."

तें थंयच रानवाटेर बसून रडूंक लागलें.

"आंतोनेत, आमी अशें करुंया, वांगडाच उजो घालून घेवन जीव दिवंया."

"नाका. तूं तुगे बायलेसोरीं परतो वोस. मुका तें कोळशा खोर्न आहाच न्हूं?"

"ऊठ तूं आंतोनेत, या आमी. आतां मात तूं मुगे गोर्भ व्हाळून उडय नाका हां. हांव मेल्यार कोण आहा तुका?"

आंतोनेत उठलें. तीं चाये दुकानासरीं दवरिल्ल्या आपल्या सामानासरीं येयलीं. तें सामान आतां खंय व्हरून घालचें, खंय रात काडची हो घोर!

दुकाना फाटल्यान इल्लें भितर एका वडा रुखा पोंदाक एक खोपशी आसली. बारीक स म्हेडी आनी तीन आडी. तेचेर थारयल्लें कुशिल्ल्या कड्डाचें पाखें. फिलीपान दुकानासरी एकल्याक विचारलें, "ती खोंप कोणाची गा?"

"एकलो तकलेन घुंविल्लो म्हातारो बायल भुरगीं मारतात म्हण हिंगा येवन खोंप

बांदून राविल्लो. एक दीस मेलो तो खोपींतच. मेला काय न्हिदला कोणाक कळ्ळें ना. तीन दिसांनी घरच्यांनी येवन प्रेत उखलून व्हयलें.''

केदो व्हडलो तो वडा रूख. पांच वावांचें मूळ आनी चोंयवटेन मोटीं मोटीं पाळां देंवन येयल्लीं. पाळां मदींच ल्हानशी खोंप. फक्कत माथ्यार पाखें. चोंयवटेन उक्ती. तरीय तीं साक उखलून घेवन खोपीसरीं गेलीं.

आंतोनेतान साक सोडोवन सान्न काडली आनी सरसरीत सान्न मारून थंयचो पतरो, कोचोप झाडून उडयलो. पयलींची पोल्ली काडून भायर मोखली आनी थंय नवेच तीन गुंडे हाडून दवरले. चाये दुकाना कुशीचे बांयचेर वचून तें उदक घेवन येयलें आनी तेणें पेजेक दवरलें.

फिलीपान म्हटलें, ''कोण केन्ना येवन सगळें भायर मोखून मारता देवाक खबर.''

''वयता तो दीस आपलो.''

तीनसांज जावच्याक तीं दोगांय न्हावंक म्हण भायर सरूंक गेल्यार थंय लार्गीच एक म्हस चरताली. तिच्या मांयआंगासरीं कुल्यार कोणें शींग मारिल्लेवरी उबें वेंतभर किवण पडिल्लें. तेतुंतल्यान रगशेल्ली रशी व्हांवताली. तेका घाण वास मारतालो. ते म्हशीक हय हय करून आमडूंक गेल्यार कुशीच्या झाडाझोपांतल्यान एक रेडो सरसर करीत भायर येयलो. उब्या शिंगांचो, तांबशा दोळ्यांचो. कांय वेळ हांकां मांडून पळयत रावलो. मागीर सरसर घालत धांवन गेलो.

न्हावन तीं परत येयल्यार ती म्हस वडापोंदाक तेवटेन कुशीन गोटेल्ली. तेच्या किंवणाचो इल्लो इल्लो वास खोपीमेरेन येतालो.

येवन फिलीप आंगार खोमीस चडयता तें पळोवन आंतोनेतान म्हटलें, ''फिलीप, आज वोस नाका तूं भायर सोऱ्याकवीन. गांव नवो. मुका भिरांत दिसोता हिंगा.''

''आंतोनेत, हांव फाल्यां खोन्नार कामाक येवपार ना.''

''मुकाय मानवलें ना तें, धुंवर सगळो. पूण कांय दीस या आमी त्या वावराक. तुगे बायलेक पयशे दिवों नाकाय? भुरगीं उपाशीं पोडटलीं.''

''ती चेडी कांयच वावर करूं मागना. मोग, मोयपास ना तेका कोणाचेर. आपलें पोट पयलीं.''

''तेका संव नाका तूं. आमी फटयलें ना तेका?''

‘‘चुकून गळ्यां पडलें म्हूण तशेंच सोसून घेवचें म्हुण्टा तूं?’’

‘‘आमचें दोगांचेय तेच भोगणार फिलीप!’’

‘‘तुवें बरें केलें. सगळें खोटावन येयलें.’’

‘‘कितें बरें आनी कितें वायट देव जाणां!’’

मागीर कांय वेळ सगलें सामसूम. काळ पोकळेंतली कशी थंडाय. ‘‘फिलीप, हिंगा कोण मरून पडलोलो खूंय.... वडा रुखांनी सोरोप भोंवतात आसतले. चोय, रुखार कितें तरी सोरसोरता. कितें तरी किळांचता.... तो मेल्लो मनीस हिंगाच भोंवना मुरे? तो रेडो चोयल्लो तुवें? हीं उबीं शिंगां आनी तांबडे दोळे...’’

‘‘आंतोनेत, केदनासान तूं अशें भिवच्याक लागलें? तामणेमळार एकटें भायर वारांदांत न्हिदतालें.’’

‘‘हांव बेगीनच मोरतलें दिसोता फिलीप. मुज्या दोळयां मुखार चोय बारीक बारीक जिवाण्यांचो पावस केहो... मुका चोय, शींसे खावंक लागोला.’’

‘‘न्हीद तूं वोग, बेगीन मेल्यार हरशीं बरेंच न्हूं? हांवय तेंच मागोता जेजूसरीं.’’

आंतोनेत तेचेसरीं सरकलें आनी तेका तेणें घट वेंग मारली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं तांबयो घेवन रानावटेन वचूंक गेल्यार ती म्हस थंयच गोटेल्ली आसली. तेच्या किंवणार मूस गंवगंवताले. ती सामक्की शेंपडी हालयत आसली. आंतोनेताक भोव काकूयट दिसली. तें परत खोपींत येयलें. तामणेमळावयल्यान येताना पेत्रोलाचो एक दबो हाडिल्लो. तेतूंत इल्लें पेत्रोल आसलें. तें तें घेवन येयलें. तें म्हऱ्यांत येतकीर म्हस उठून वोगी उबी रावली. बरेंच पेत्रोल तेणें म्हशील्या किंवणार रकयलें. ते सरशीं बरेच धवे किडे भायर सरले. मागीर आनीक पेत्रोल तेणें किंवणार रकयलें. मागीर वासय गेलो आनी मुसय तेचेर बसना जाले. म्हशीन सोंडी घुंवडावन आंतोनेतासरीं दिनवासीपणान पळयल्लेवरी पळयलें. तेका इल्लें बरें दिसलें.

* * *

फिलीप आठ दीस नीट कामाक गेलो. मागीर कितें जालें नकळ. वैतागिल्लेवरी, उबगल्लेवरी करूंक लागलो. आंतोनेताक म्हणूंक लागलो, आमी वचून साळावलेच्या उदकांत जीव दिवया. एक दीस उठयल्यार वावराक वचूंक उठना जालो. आपूण त्या

खोन्नार कामाक येवचो ना म्हणूंक लागलो.

आंतोनेतान तेच्या उशासरीं बसून कितलें पाराथलें. पूण तो कूस परतून न्हिदलो. "आरे उठना कित्या तूं? फाल्यां तुगे बायल भुरग्यांक व्हरून घालों नाका? उपाशीं मोत्त मुरे तीं."

"हांयें सोडलें बायलेक आनी भुरग्यांक."

"कित्या कोणा पासत सोडलें?"

"तुजे पासत सोडलें हांयें सोगळें. आतां संवसार सोडपा आसा. क्रुजीनाक सिमटा पोती म्हुण्टा तूं. तेगे गाबळा ल्हेंव म्हुण्टा."

"केसो उलयता तूं? वांगडा दुकनार भाजी पाव खावन वावरा वयत म्हण केल्लें. आतां तुगे भाजी पावय नाका आनी पेजय नाका मुका. हांव मोत्तलें पूण तेंकां उपाशीं मरों दिवचें ना." तें उठलें आनी तेणें तुवालो कमरे भोंवतणी गुठलायलो आनी तें चलूंक लागलें.

फिलीप उठून बसलो. आंतोनेत सडसडीत आपले लांब हात फाटीं फुडें हालयत चलतालें. चलतना दर एक पावल जशें भुंयेंत फोंड पाडीत वयतालें. 'कित्याखातीर हें धडपडटा? कोणाखातीर कश्टता?' फिलीपान व्हडान दोन-तीन उले मारले. पूण तें केन्नाच उल्या पयल्यान वचून रानांत रिगील्लें. ताणें बेगीबेगीन वचून तोंड धुयलें. रानांत सरसर जातकीर तेणें हयऽ हयऽ करून बोवाळ घातलो. 'चोय, मुका शिंगा दाखय नाका. हांव तुगे शिंगां मोडून घालतलों.' चुलीर पेज खतखतताली. ती शिजली काय ना तें पळयनासनता उजो फाटीं ओडून तेणें तेचेर उदक रकयलें. पेजे बुडकुलो तसोच हातान सकल देंवयलो. तेचेर एक बशी दवरली आनी बुडकुल्याचो गळो दोरयेन बेस शिक्यावरी बांदलो. दोरी धरून बुडकुलो उखलून घेवन तो खोर्नावटेन तोंड करून आड्डलो, "चोय, तूं मुजबराबर खेळनाका. क्रुजिनान भोव रडयलें मुका. हांव रोडल्यार वयल्यान तें म्हुण्टालें कोण मेला म्हण रोड्टा काय म्हण. आतां हांव चोयतलों, मुज मरणार कोण कोण रडटात ते!" तो रानावटेन सरसरीत चलूंक लागलो. हातांत पेजे बुडकुलो लांबयत.

तो पेट्ट्या कोळशार पांय पडून सुजिल्ल्या पांयांनी वावर करपी कामदार, आयज पांय चड सुजून तेका फाळो बांदून पावला-पावलार चडच दुखीन पिरंगतालो.

फिलीपान म्हटलें, "कित्या कोणी अशे गोणी घायल्यात तुजेर?"

"तीग जाण भुरग्यांक घेवन चेडूं परतें येयलां. तेंवय धवी पाल कशी जावन. पोटां

कोण भरतलो?''

वावराक लागून उसरां ती पेज जेवंक म्हण कुशीन वचून बसली. लाकडा खोडां हेवटेन तेवटेन हालोवन धुकलून व्हरून चरांत घालतना फिलीप थकून हुमेन भरिल्लो. पूण आंतोनेताक तो आगळोच दिसलो. तोंड तांबशें जावन फुलून येयल्ले वरी जाल्लें. पूण ती सूज नासली. दोळे नाक पोले रंग भरिल्लेवरी सोबीत दिसताले. उक्त्या आंगाकय तांब्या तामणाचो कसो रंग येयल्लो. ''फिलीप, कितुलो गुबगुबीत सोबीत दिसोता तूं ह्या दिसांनी. सावरी बोणावरी तोंडा रंग फुल्ला चोय.''

''तूंवय दिसोता सोबीत. चोय कशें कोळशा आंगाचें जालां तूं कोळशे भरून भरून. लाकडा खोडा वांगडा चरांत घालून तुजोय कोळसो करून काडला कितें गो?''

आंतोनेत हांसलें आनी तेणें साडी फाफुडली.

''मुका कितें दिसता जाणा? तुका पेट्ट्या इंगळ्या राशीर उताणें घालचें आनी न्हिदचें तुका. मागीर दोगांय लासून मोरचीं!''

आंतोनेत घसघशांनी हांसलें. हांसतां हांसतां तेचे दोळे दुकांनी भरून गेले.

पेज जेवन फिलीप वावराक लागलो. तेचो तो वावराचो घडघड पळोवन आंतोनेत खरेंच भियेल्ले वरी जालें. नाटा पोंदा असो दांडो घालून उमथितालो, बद्द नाट वचून चरांत पडटालें. वयल्यान व्हडान आड्डतालो, ''उठात, कुशीन सरात.''

सांजचें कामातल्यान परतें येताना गौवी परत भेटलें. खोपी मुखावयल्या राना पयले वटेनच्यान हांडीर उदका कोळसो घेवन येतालें. इतलें गोरें सोबीत, नाजूक आनी हांसकुरें. तेका पळयतकीर आंतोनेताली जशी तानभूक शेणिल्लेवरी जाताली. जीव खुशाल जातालो. ''गौवी, इल्लें उदक दिता गो पिवंक तुज्या कोळशांतलें?''

गौवीक कळ्ळें. तेणें उदक दिवंक म्हण कोळसो वांकडो केलो. ''नाका गौवी, तुवें पयसुल्ल्यान हाडलां तें.''

इतले भितर गौवीले लमाणी आवय-बापूय – जे फाटल्यान येताले – ते येवन पावले. तेवय कोळशा खोन्नारच वावर करताले. आंतोनेतान तेंकां पळयलें. गौवीली आवय सोबीतच आसली. तोंडार खुबश्यो मिरयो, तेचेर कोळश्यांचो धुल्ल तरीय ती सोबीत दिसताली. बापूय उंच हाडो. लांबट व्हडलें तोंड. तेचीं आंगां, भुजां, हात-पांय बीन किसळ ना मारिल्ल्या लाकडान घडोवन कुडीक जोडिल्लेवरी दिसताले.

थंयसान खोपीर येताना आंतोनेतान म्हुटलें, ''गौवी सारकेलें एक तरी चेडूं आसचें जण एकल्याक. तुगे तीग चेडेच मुरे फिलीप, पोपाये दांडे केहे. मुका गौवींवरी एक चेडूं जावचें म्हण माग जेजुसरी.''

आंतोनेतान फिलीपाक पळयलें, तो आतां चडच तांबसो दिसतालो, दोळे चमक भरिल्लेवरी लिकलिकताले.

खोंप चाये दुकनापसून उल्या भितरच आसली. मदीं कांय बसकीं झाडां. चाये दुकानाचो बरोच आदार आसलो. थंयच्या बांयचेर उदक आसलें. मिरी मसालो वाटूंक रगडो आसलो. दुकानकार सहदेव बायलेक घेवन थंयच रावतालो. वेळ वगताक मागल्यार कितेंय मेळटालें. आंतोनेतय तेंचीं चड आयदनां पडल्यार धुंवन दितालें. बांयचें उदक काडून थंयचें पींप भरतालें. पूण खोंप आनी थंयचें राज्यच वेगळें. सांज जाली म्हण्टकीर सगल्यो वाटो, सगले आवाज थंयसान तुट्टाले आनी तेचो एक काळखा धारेंतलो जुंवो जातालो.

तीं दोगांय बांयवयल्यान न्हावन येयलीं तेन्ना अजून इल्लो उजवाडच आसलो. येताना आंतोनेतान इल्लो मसालो वांटूनच हाडिल्लो. तांतयां घालून कडी करची म्हण तें वावराक लागिल्लें. चूल पेटयल्ली. तेचेर शिताक दवरिल्लें, शिता बुडकुलो खतखततालो. आंतोनेत चुलीसरींच उबें आसलें. फिलीपान घोगरो भिजिल्लोसो उलो मारलो, ''आंतोनेत!''

आंतोनेतान चोयलें, तेगेले दोळे भिजून नजर जड जाल्ली. चेहरो आनीक तामसो जाल्लो. सावळ्या मनशालो तो चेहरो तांबडो जाल्ल्यान खावंक येयल्लेवरी दिसतालो. तो उठलो आनी तेणें आंतोनेताले साडयेचे निरेक हात घालून ओडून ती सोडून उडयली. न्हावन येयल्लो सांजचो वेळ, पोंदा पोल्क, घागरोय तसलो. इल्ली इल्ली उजवाडाची निवळी, चुलीचो उजो, पेट्टी चिमणी, थंय पुराय उक्तें तें. घडये फिलीपान संद सादिल्ली. तेणें खोपी भायर धांव मारली. तिनसांजकात्रेर त्या वडा रुखा पोंदांत धांवचो धरचो खेळ कांय वेळ चल्लो.

मागीर वीज पेटिल्लेवरी कुडीसुखाचो एक राक्षसी खेळ.

आंतोनेत कुडीचो कुंडो कुंडो करून घेवन उटलें तेन्ना तें भोव प्रसन्न आसलें. तें तोंडावयल्या शिराशिरांतल्यान, दोळ्यांतल्यान नितळ हांसलें. काळोख तर तसो पुराय नाशिल्लो. कोणें वाटेवयल्यान तो भोग पुराय चोंयलो तरी तेंकां परवा नासली. इतलीं तीं जशीं हटाक पेटिल्लीं! काळोख पियेवन घुंविल्लीं दोन झाडां जशीं फांदयो घुस्पावन घेवन उबीं.

फिलीपान व्हडान घरघरत्या सुरांत म्हटलें, अजूनय पुराय न्हिवंक नाशिल्लेवरी. ''कुडी सुखावगर आमच्या हातांत कांय ना आंतोनेत. तें तरी पुराय भोगचें. कुडी कांडीत सांवार काडचो. स्वास फुलून काळीज' फुटून मरसर भोगचें, एक दुसऱ्याक. मुका तिडक मारता. हांव निर्शेलां. मुज्या कुडीचें पेट्टें खोर्न्न जाला. मुका भिरांत दिसोता, भोगाच्या खिणाक हांव तुजो गोमटी आंवळून तुका मारून लेगीत उडयन!''

''हेतूनच मोरचें आमी. हेदोळ तूं मुका पेट्ट्या इंगळ्यार घालता म्हुणटालो न्ही? हांव राजी आसां फिलीप, तुजें वांगडा तेहें मोरूंक. पूण तुगे गोर्भ मुगे पोटांत रचल्यार मात हांव मोरचें ना. तें गौवी जाणा कितुलें मोगाळ दिसोता. मुका मुरे, मुगे पांगळ्या भोयणिचो–ग्लोराचो भोव उगडास येता! मुगे मुरे, एक धाकलो भाव आसलो. तो मुगे आंगावयल्यान निसरून उदकांत पडून मेलो. तेगे मात मुका मात्तय उगडास येयना. तो परतो मांय गे पोटांत येयलो. हांव मात सदांचें मरण भोगतां!''

सदां कोळशा खोन्नावयल्यान सांजचें येतकीर आंतोनेत पिसांटावरी जातालें. हात केंस बुड्डूंक आंवुळिल्लेवरी दिसतालें. बेठींच झगडीं खणून काडटालें आनी पोजडें पोजडें उलयतालें. तामसो जाल्लो फिलीप, तेचें जड दोळ्यान पळोवप, आंतोनेताकय मागीर काळजा तकलेक रगत मारिल्लेवरी जातालें. तें फुगार जाल्लेवरी पोल्काचीं बटणां काडून, हड्डें मेकळें सोडून वावुरतालें. फिलीप उठून धरूंक येतकीर तें झाडांनी धांवतालें. चड उजवाड बीन आसल्यार रानांत भितर रिगतालें. तेचो शेक आसलो तरी तेंच तेका जाय तशें खेळयतालें.

हिंगा येयल्ल्याक पंदरा वीस दीस तेणीं अच्छेव केलो. तीनसांज कात्रेचो उजवाड, काळखाची गर्भाळ घडी, काळोख पिवंक लागिल्लीं झाडां, वडा रुखार एकादरो जीव. वयर शेवणें संभ्रमात भिवन आड्डता काय एकादरो नागसर्प रुखार चडून येयला! सगल्या जीव जिवाण्यांचे भुकेचे घटकेक तिवूय एके अंतस्थ भुकेन कासावीस जाताली. जशी दिसभर काळखाची वाट पळयत रावताली. आंतोनेताक दिसतालें, आपूण गर्भ धरून घेवंक आशेलां काय रगत वारोवन सोताचो बळी दितां! काय हो दोगांयकय पिशें लागूंक येयल्लो काळ खीण!

''फिलीप, आमी तामणेमळ सोडून येयल्ल्याक म्हयनो जावन गेलो. येन्नादर तुगे बायलेन एक तरी फावट माल्ली आसतली थंय. खण बंद पोट्टकीर हीं खंय गेलीं? हांवेंनच तुका पळोन व्हयली म्हण मुका गाळी संवता आसतली. तूं घरा वोस. जालो दिसवड्या दुडू तेका दिवन यो.''

“हांव वयचों ना म्हुटलें न्हूं!”

तेगेल्या उलोवपाक, निर्धाराक आगळीच धार आसली. उलोवन दांत चावून शिरो ताणून तो राबिल्लो.

“कित्या, तुगे बायल न्ही ती? तुवें काडलीं नात पोरां?

“घोव मेलेली बायल, बापूय मेलोलीं भुरगीं जियेनात?”

“मागी जिवो कित्या आसा तूं? फकत आंतोनेताक नागडें करूंक? मोग ना तुजो कोणाचेर. फक्कत कुडी सूख जाय तुका सुण्याक.”

“तुयें धुकल्लो मुका ह्या पोजोडांत.”

“मुजें सोड. हांव घोवान सोडलोली, संवसार सोडलेली चेडी. तूं ना तर मुका आनीक कोणय मेळटासलो. तूं कोण मुजो?”

फिलीपाल्या तोंडार इंगळे पेटिल्लेवरी जालें. तणें उठून चार तरी थापटां तेच्या तोंडार फाटीर शेडायलीं. मागी तेचो केंसां बुचडो धरून तेका भुंयेर शेंवटिलें. तें चुलीसरीं वचून पडलें. तें उठून बसलें आनी कांय वेळ दुख जिरयतशें वोगी रावलें. आर्दीच एकार एक पडून घडी पडिल्लींशीं तेचीं बावरीं ओटां. दोन व्हड-व्हड नितळ दोळे, गुवगुवीत पोले हेचेन तें खूब भाबडें निश्कलंक दिसतालें. ताचें तें भाबडेंपण आतां पुराय तोंडार देंवन येयलें. सगले दांत दाखयत तें नितळ हांसलें.

तेचें तें हांशें फिलीपाच्यान पळोवं नज जालें. तो आपले आवयची, मामाची याद काडून रडूंक लागलो. तेचें रडून सोंप मेरेन तें तेच्या सामकार बसून रावलें. तेचीं तीं दुकां फुलां कशीं केंसांत माळचीं अशें तेका दिसलें. तो रडचो रावलो आनी सगलेंच कवळून घेतिल्लेवरी मोनो जालो.

मुखावेले चार दीस वोग-वोगच गेले. सांजच्या खोन्नावयल्यान येतना, चुली मुखार बशिल्ले कडेन आसताना तीं कांयच उलयनासलीं. आंतोनेतान कितेंय उलोवंक गेल्यार तो बेठोच तोंडान हुस्कारिल्लेवरी करतालो. हें तेचें घुम्म मोनेंपण, तेचे कुडीचें थंडपण आंतोनेताच्यान सोंसू नज जाल्लें. तो फक्कत आपणापासत आपणासरीं उरचो म्हण तें आशेतालें. केन्नाय दिसतालें, पोल्काचीं बुतावां सोडून तेचे मुखार परतें हड्डें उक्तें सोडचें. तेचें हड्डें फिलीपाक भोव सुखदिणें आसलें. केन्ना तो तेच्या हड्ड्यासरीं देवळाची घांट वाजयल्लेवरी खेळटालो. केन्ना मांयच्या चिंवांक लागिल्लेवरी लागतालो. जाय ते फावट

हड्ड्यांत तोंड सारून सुस्त न्हिदतालो. पूण मागीर आंतोनेताक दिसलें, कूड आतां काड्न दवरची कांट्या झाडार हुमकळायत. पूण तेच्या घामेल्ल्या कुडी वासाची, उज्या वासाच्या स्वासाची, शिंगां उबीं करून पांयान माती खणपी बैलावरी मस्तेपणाची आस सुटून सुट नासली. तेणें उलोवंक जाय, धुमशेणां काडूंक जाय!

तशींच चार दिसांनी तीं खोन्नावयल्यान सांजचीं परत येतालीं. वांगडा इल्ले फाटल्यान गौवीले आवय-बापूयय आसलीं. तेंकां पळोवन गौवीली धाकली भयण – जी स-सात वर्सांची आसली – धांवन म्हऱ्यांत येयली. तिणें आवय-बापायक सांगलें, "गौवी दनपरां त्या राना पयल्यान उदक हाडूंक गेल्लें अजून परतें येयलें ना."

आवय भियेली आनी ती रानावटेचे वाटेन धांवक लागली. "म्हगेलें पोर बांयतबीन पडलें ना मूं देवा!" ती धांवताना तिगेलो व्हडल्या घेराचो घागरो झब् झब् वाजतालो. हातभर घातिल्लीं कांकणांय खळखळटालीं.

रानांतले ते वाटेर गौवील्या माथ्यावयली उदका मडकी फुटून पडिल्ली. प्लॅस्टिकचें बिंदूलय कुशीन पडिल्लें. आवयन हेवटेन- तेवटेन पळयतकीर तिका गौवी एका झाडार गोळाक लायिल्लें दिसलें. तिणें रडत बोब मारीत सगल्यांक आफयले. फिलीप आनी आंतोनेतय धांवन थंय पावलीं... रानावाटेर धरून गौवीचेर दोगां दादल्यांनी एका फाटोफाट एक करून वायट क्रुरपणान बळजबरी केल्ली. तेचें मांयआंग फुटून चिळकणीन तन्नें रगत व्हावंक लागतकीर तेचो गळो आंवळून तेका मारिल्लें. तेर्णीच उदक भरूंक वांयचेर व्हयल्ल्या राजवान मागीर तेका झाडार गोळाक लायल्लें... आदींच सुटिल्लो घागरो निसरून सकल पडिल्लो. फक्कत हड्ड्यार बुतांवा सुटिल्लें पोल्क आसलें. तेगेल्या उक्त्या मांडयांवयल्यान रगत व्हांवन दिमयेसान पावलामेरेन पाविल्लें. पावलासान थेंब थेंब रगत व्हांवतालें. सकल भुंयेर रगताचें खळें जाल्लें.

पळोवन फिलीपाक थरथरो भल्लो. तेणें आंतोनेताक घट धरलें. आवय हुयेल्यांनी रडटाली. पूण बापूय थंडपणान झाडार चडलो आनी प्रेत सकल देवोंवंक लागलो. फिलीप आड्डलो, "पोलिसांक आदीं खबर करूं जाय!"

बापूय तोंडांतच पुटपुटलो, "पोलीस... तेंकां बापूय म्हण कळना धूव म्हण कळना. उल्टे आमकांच व्हरून बडयतले. जायतें भोगलां."

बापायन प्रेत उखलून हाडून तेंगेले खोपी मुखार दवरलें. दुसऱ्या दिसाक नकळ कशें तेंचे जातीचे चार-पांच घरांबे सकाळींच एकठांय जाले. तेणीं व्हरून प्रेत पयस रानांत पुरलें.

सकल्लेवटेन पुराय गांवाक खबर पातळिल्ली. पूण कोण एकलो तेंचेसरीं येयलो ना. खंयचे कोण ते 'घांटी' आमकां बिरमतेक घालीत!

पूण आठ दिसांनी सगले सावुरतकीर धाकल्या चेडवान सांगलें, ''दोग दादले हिंगा येयल्ले. गौवीसरीं कितें तरी उलयताले. पूण गौवी भितर वचून रावलें. मागीर गौवी उदकाक म्हण वयतकीर ते तेच्या फाटल्यान रानांत गेल्ले. लिपून राविल्ले ते!''

पूण आतां तेचो कांयच उपयोग नासलो. फिलीप आनी आंतोनेतालें काळीज गौवीचो उगडास येतकीर जशें चरचरतालें, तड्फड्टालें. खोंपी मुखार हाडून घालतकीर तेचो तो दव पिवन येयल्लेवरी निरागस दुदाळ चेहरो दोळ्यां मुखावल्यान वच नासलो. पुराय रगत व्हांवन वयतकीर जशी ताची धव्या वेळूची मुरली जाल्ली. तेच्या मरणाची कोणाक तिडक नासली. तेच्या मरणाक येयल्ले ते, पापयांचीं पितरां कशीं चीं, चीं ताळ्यान रडटाले आनी भूक लागिल्लेवरी करताले. मरण म्हटल्यार विरह न्ही, दुःख न्ही, फक्कत एक सोपस्कार. मेला हेंच खरें, कसो मेला सांगूं नाकात!

फिलीपाक सोताचोच राग येतालो. मागीर तो सोतासरीं मखलाशी करतालो. हांव हेराचे बायलेक पळोवन घेवन येयल्लों परगांवचो मनीस! एके रातीं तेका एक भयंकरच सोपन पडलें. आपले हात-पांय, एकेक आंग कोणतरी ओडून काडून आपणा मुखारच दाळून दवरता. जेन्ना तेच्या दोळ्यांत सुरी कशें बोट रिगलें तेन्ना तो किळांचून जागो जालो.

दुसऱ्या दिसा उठल्यार तो आंतोनेताक चडच तांबडो, तोंड सुजिल्लो कसो दिसलो. खोन्नार वावराक कसोच येवंक तयार ना जालो आनी चाये दुकानामुखार बांकार वचून बसलो.

गांवांत उंच उंच पेंड्यांनी भरिल्ले माड, आंब्या-फणसाचे रूख, तेंचेर चडून मळबाक हात लावं येता!!

मागीर एकदम तेका गोळाक मारिल्लें, रगतान भरिल्लें गौवी दिसलें आनी तो धप् करून मळबांतल्यान सकल पडलो. 'ना आतां मुज्यान माडार एक धेंप मारूंक जावचें ना. खोन्नावयलें एक खोड लकोवंक जावचें ना.'

एका सपनांतल्यान उठून येयल्लोसो मनीस मुखार उबो रावलो. तेका चेहरो ना, भुजां नात, हड्ड्या बोरीक हाडां नात. दोन दोळे, एक नाक आनी दोनय वटेन खाडकेर देंवन येयल्ली धवी लिबलिबीत कात. आनी तो जसो अळम्याच्या देंठार उबो आसा. आपलीं उतरां तुणतुण्याचे तारेंतल्यान कानांत देवोंवचीं तसो तो उलयता, ''वायंगण आंबो, मोटें

अपरुपाचें फळ. म्हगेलो चलो परां सिंगापूरच्यान येता. बायलय दुवाळ्यांची खंय. मगेल्या नातवाक लागूनच वायंगण आंबे धल्ल्यात आसतले. आठ जावं धा जावं. वेंचून वेंचून काडून दिल्यार शंबरांची नोट पावली.''

फिलीपान वचून रूख पळयल्यार, रूख हो गगनाक पाविल्लो. खांदे आनीक पयस. मूळ आंगांतल्यान सुटून मळब सोदीत गेल्लेवरी. तेंच्या शेवटांक एक एक आंबो 'यो धर म्हाका' म्हणीत राविल्लेवरी.

पूण फिलीप त्या हटी, नाड झाडाची फांदी फांदी भोंवन येयलो.. तोक्कार वचून हात लांब करून तेणें आंबे वेंचून वेंचून खुंटले. पोंदांतल्यान वयतल्या एकल्यान पळोवन म्हुटलें, ''हेच्या आंगाक पिशें बळ्ळां काय कितें? मरूंक सोदता.'' पूण तो आज्या पणज्यासरीं चेहरो शेणून येयल्लो, अळंब्या देंठार उबो राविल्लो मनीस, आनीक मुखार, आनीक इल्लें मुखार, आंबो येयलो हातांत म्हणत सकल्ल्यान फुसलायत मुखार धुकलितालो.

वट्ट तेरा आंबे मेळ्ळे आनी तेचे तेणें उतरा परमाणें शंबर फारीग केले.

गांवांत मोटी नामना पातळ्ळी, कोण एकलो पयसुल्लो 'गावडो' गांवांत येयला. तो पाख्यावरी रूख चडटा. चार धेपांत माडाचो कळस गांठ्टा आनी पिराड्याक गोळ घेत अख्खी पेंड एकच फावट सकल उडयता.

खोंपीर लोकांची खेट. चाव पिवंक गेल्यार दुकानार बसूंक दिनात. 'म्हगेले तीनच कवाथे, चार धेंपांनी पाडून जातले... म्हगेलें भाट हे मुखार तुवेंच पाडचें... भोंकार लांबल्लें कालसांव घालून हे माड पाड्टले कितें? काश्टी ना तर अशें हें वेंतभर कालसांव जाय माड पाडूंक. माडाक एक नाल्ल ना तर नाल्लाचें मोल...

आठ दिसांतच तेणें कालें गांवचो भुगोल आनी माडाचें माडपण शिकून घेतलें. एकेक माडाच्यो पेंडी हाता भायर आसताल्यो. गोळ मारूनय नाल्ल झड नासले. तर कांय माडांचे नाल्ल पिके आंबे कशे मात्शे पिळ्ळे काय पडटाले.

तो थकतालो, उबगतालो, मदींच खंयचेय लागींचे गादयेर वचून पिवन येतालो. पिलो म्हण्टकीर वयर मारिल्ल्या धेंपांक नेट येतालो, पेंडी आंबे झडिल्लेवरी झडटाल्यो. पितकीर वयर वयर आनीक वयर वचप सोपें जातालें, भूंय मळब एक जातालें. माडावयल्यान आड्डतालो, ''पळय, जित्या नाल्लाची पेंड तकलेर पड्टली. भुजां मोडून वयतलीं. कुशीन सरात.'' माडार पावतकीर फिलीप व्हडलो जातालो. सकल्ल्यान व्हडलो दिसतालो.

एकादरो खूब म्हातारो, तुरयेन बारीक वांकडो जायत गेल्लो माड पळयतकीर

फिलीपाल्यां पोटांत भिरांत देंवताली. पेंडीक दोनच नाल्ल आनी ते खट, चामट्या म्हाताऱ्यावरी सोतासरीं दामून घेतिल्ले. रागच येतालो फिलीपाक. मागीर अशा माडाचो मालक म्हातारो आसलो तर येद्दोसो नाल्ला बोणो मुखार उडोवन म्हण्टालो, ''हो तुका, चारच नाल्ल पडले न्ही?'' मागीर फिलीप श्राप दिल्लेवरी म्हण्टालो, ''ह्या वर्साक सूंय तुरी सुकून मोडून पडटलो तो, मर येतली तेका. पाडेल्याचो जीव खावपी जड्डो तो.'

मात इल्लो घेतलो की खंयच्चाय माडार दांग मारूंक तो फिशाल. केन्ना अशें जातालें, रितो सोऱ्या पाव म्हाताऱ्या माडाच्या मुळार आनी हो पेंड लकयता.

आंतोनेत दर दिसा सांजचें खोपींत उसरां मेरेन चिमणे उजवाडाच्या काळ्या भोंवऱ्यांत एकटें वोगी बसून आसतालें. दिसतालें, तो उब्या शिंगांचो, तांबड्या दोळ्यांचो रेडो आत्तां झिलींतल्यान येतलो आनी शींग मारून वयतलो. तें जिवितांत इतलें केन्नाच भिवंक नासलें, मरणाची आस लागून इतलें निर्शेवं नासलें.

सद्दां सांजचें खोन्नावयल्यान परतें येतना आंतोनेत पांच मिनटां तरी गौवील्या आवय-बापायसरीं तेंचे खोपींत बसून येतालें, जशें गौवीलो वास थंय सोदतालें. धुंवटे दवांत कडून करपून भुंयेर पडिल्ल्या आंब्या फुलांवरी मळकट वास थंय घुंवतालो आनी मागीर तें निर्शेतालें. वाटभर रडत खोंपीर येतालें. गौवीलें फुलासारकें कंवळें मांयआंग फुटून जाल्लें रगताचें खळें दोळ्यांमुखावयल्यान वचनासलें.

उसरां सोऱ्याचे घुंवळेंत फिलीप येतालो. चेहरो, दोळे तांबडे जाल्लो, पिकून फुटूंक पाविल्लो रातांबो कसो. एक दीस येयलो आनी खोंपीचे म्हेडीक तेंकून वोगी बसलो. आंतोनेताक अजाप, अशें केन्ना जावंक नासलें. पयलीं पितकीर येतनाच फुगोट्यो मारीत जसो येतालो. इतलो पिवनय इतली निर्शेणेची, इतली दुख्खाची सया कशी?

हिंगा येतकीर ह्या फेंगड्या एकसुरी रानांत एकसुरेपणांत तेणें कुडीसुखाचो सांवार केलो. हांवय त्या गिरगिऱ्यांत बेस घुंवलें. मागीर अचकीत मनार मर पडिल्लेवरी निर्शेणेच्या भुयारांत तो रिगलो. घुम्म मोनो जालो. आतां सोऱ्या घुंवळेंत सगळें बुडांवंक पळयता, काय मरणाची वाट पळयता? चड कांटे आनी काळ्या पानां ताळ्यांच्या ह्या रानामदीं ही खोंप खंयच्या तकली फिरक्यान बांदिल्ली काय! गुरवार पिसोळीं, शेड्डे आनी हुंदीर हेंची खेट ह्या रानात. हिंगा फक्कत नागड्या कुडी सुखाची शबय उमेदीन घालूं येता. फिलीपान ही निर्शेणी कांवरून घेवचे बदलाक सासणाचीं धुमशेणां काडीत रावलो तरीय मुका उपकारतासलीं! पूण सोऱ्या घुंवळेंतय हें हटी रागीट मोनेंपण तेच्यान सोसूं नज जालें. तेणें खोचून खोचून उलयल्लेवरी उलयलें. ''शेंकरो झडिल्लो कोंबो कसो मान उडोवन कित्याक बसला? फाल्यां

सांग्यार वोस आनी जालो दुडू तुगे ते चेडयेच्या कट्टुलार घालून यो. ना तर फाल्यां हिंगा येतोली आनी मुगे शेणकूल धोत्तोली.'' खरें तर तें जाय म्हण तेका खुबळून घालूंक पळयतालें.

एकदम फिलीपाली मस्तकाशीर ताणून हुडिल्लेवरी जाली. ''तूं कोण सांगतलें? मुगे बायल, मुगे भुरगीं, मुगे हांव चोवन घेतलों. तुका पडलो ना तें.''

''हांव कोण न्ही तुगेलें?''

''कोण्ण न्ही.''

''ते चेडयेच्या मोड्यार घायल्ले मुगे सरपोळेचे पयशे उडय. सुणो कसो दीस म्हण चोयनासलो, रात म्हण चोयनासलो, मुजे आंगाक लागतालो. मुका रानांत धांवडायतालो आनी झिलींनी लखयतालो. पोजडो.''

''फुकट नाका. आतां तुजे उक्ते मांडयेर पयशे दवरतलों आनी आदीं मेजून घे म्हुण्टलों.'' तेणें मुंजीकडचो नोटांचो कवळो काडून आंतोनेतावटेन मोखलो.

आंतोनेत रागान फणफणलें. दोळ्यांच्यो बावल्यो रगत भरून फुगल्यो. तें सडसडीत उठलें आनी नोटी माडयत येत एक थापट तेचेर शेडायलें. फिलीपाक अचकीत माडावयल्यान पडून फातरार आपटिल्लेवरी दिसलें. तो परत दिवंक सोदतालो. पूण आंतोनेताचो तो हड्डें फुडें काडून मूठ आंवळून राविल्लो हिंस्र अवतार पळोवन तो थंड जालो. तेणें दांत ओंठ अशे चाबिल्ले, फिलीपाक दिसलें आपूण तेच्या दांतापोंदा भरडून वयतां. सोरो पिवन आब हाडपी भिजूड दादल्यावरी तो कांय खीण वोगीच रावलो. तेका दिसलें, 'म्हजे परस चड कामाचो आटाप उपसुवपी तें, तेच्या आंगांत शक्तय चड आसुंये. तेचे कुडीचे, मोगाचे तांकीनच हांव पिसो जाल्लों. हो मोगच असो खरवते दांतांचो!'

थापट मारिल्ल्यान आंतोनेताचो हात दुखून चुरचुरतालो. एकदम तेगेलें काळीज फिलीपाविशींच्या मोगान काकुटायेन भरून येयलें. तें तेचे मुखार तेच्या गोपांत बशिल्लेवरी बसून रडूंक लागलें. ''चड वायट उलयलो तूं फिलीप. आमच्या मोगाच्यो वादऱ्यो केल्यो तुयें.''

''हांयें उलयलें म्हूण तुका इतलो राग कित्या येयलो? आमी एकच न्ही? एक जावचें आनी कितें उल्लां? भायर कूड कितली धापून लिपोवन दवरतात! पूण आपल्या मनशां मुखार कांय न्ही करून उक्तीं जातात.''

“फाल्यांसान हांव खोन्नार वावरा वोसना. तुजे बाराबर भाटांनी तुयें पाडलोले नाल्ल, चुड्टां, पुंजावंक येतां. दिसभर तुजे वांगडा रावंक मेवतलें मुका.”

“केसो भाटां आनी केसो पाडे ते. तुमगे साश्टीवटेनचे भाशेन न्ही हिंगा. हिंगा दोन माड, थिंगा चार माड आशिल्लोय भाटकारच. तेंचे नाल्ल, पिडे तेच पुंजायतात. तूं मुजे वांगडा येयल्यार नाल्ल चोरूंक येयलां म्हुण्टोले. पडिल्ल्या नाल्लाच्या आवाजार नाल्ल मेजतात. आख्खी पेंड माल्ल्यार म्हण्टात माड लुटिल्लेवरी जाता. माड दुखावता.”

तो सकाळीं भायर सरून वयताना आंतोनेत तेचे वांगडा वचूंक आकूळ-पिकूळ जातालें. पूण तो एकटोच वचूंक गेलो.

तसो तो वयतना आंतोनेताक तो भिवकुऱ्या पूण सळसळट्या नागावरी दिसलो. दिसतालें आज हो तिडे, पिळे घेत केदोय व्हडलो भिल्लमाड चडून वयतलो आनी शेले कापून सूर पितलो.

मदीं आनीक आठ दीस गेले. चडच तांबडो जाल्ले वरी दिसूंक लागलो आनी घुंविल्लेवरी करूंक लागलो. तेच्या आंगाक लागनासलो. पोजड्यो गाळयो घालनासलो. एका रुखा वयल्यान दुसऱ्या रुखार पांय दवरीत चलत वच्चो तसो हुबिल्ले वरी दिसतालो. सांजचो पिवनबीन येतकीर रानांत काळखांत शेणिल्लेवरी कितेंय उलयतालो, “जाणा मुगे, व्हडलो भाव मांयन तेका पोटांत आसतनाच आलुलोय म्हण नांव दवल्लोलें. एक दीस पायन सोऱ्या नेटार पोटार फातर खोंट माल्ली आनी तेका व्हाळोवन उडयलो. मांयक खूंय तेगेली कानापाळी मेळिल्ली रगताच्या खळ्यांत. तिणें ती सदाफुलीच्या झाडार दवरिल्ली. दिसभर खंय ती तेका आकूळ-पिकूळ हुंकारिल्ले नदरेन पळयताली... एक दीस मळबांत मिट्ट काळें कूप. तेचेन भर दनपरांय धर्तरेर काळोख. अचकित कितें जालें, गांवचे सगळे हजारांनी कावळे त्या कुपाखाला एकठांय जावन घुंवक लागले. वयर पावसाचें कूप, सकला कावळ्याचें. धर्तरेर चडच गुण्प काळोख. हांवें व्हडल्या मामाक विचारलें, “मामा, काळखांत अशे कावळे कित्याक हुड्टात?” मामान सांगलें, “अशें हें काळखा काळखाचें झंवणे वायट. सांत मरतात आनी जुदेव जल्मतात. सिमतरींत फोंड खणटल्यांचे खणखणून रटे फुट्टात. साठ वर्सांनी येता खंय हें अशें काळखें वर्स. सुर्याक मर पड्टा. घुगूम दिसाक रात समजून येवन पाख्यार बसतात.” मागीर एकदम तेणें खोश्येंत येयल्लेवरी म्हुटलें, “तूं जाणा आंतोनेत, मुका मुज्या दिरेताची सांग्यार सिमतर आसा. तुका ती ना दिसता न्हूं?”

आंतोनेत वोगी आयकतालें. तेणें म्हटलें, “तें आसूं दी. तूं सांग्यार केन्ना वयता तें आर्दी सांग.”

“वयतो हांव, येद्दी व्हडली साका पोटोली माथ्यार मारून घेवन वयतलों. तांदूळ, नाल्ल, रोप, मांस, सोरो भरून व्हरतलों. वयल्यान क्रुजिनाक नोटींचीं बंडलां.”

आंतोनेत तेका दुबावानशें पळयत रावलें. असो कसो हो तकलेंत सोरो रकयल्लेवरी उलयता? तें चित्तालें, ‘कांय दुडू उबे जाल्यात. माड पाडूनय तो बरेंच जोड्टा. क्रुजिनाक चडच दिवचे. जाल्यार आनी तीन चार म्हयन्यांनी मोपकारासरीं पडिल्ली सोरपळी सोडोवन हाडूं येतोली.’ अचकीत तेका माशेनाली खूब खूब याद येवंक लागली. मन भिजिल्ल्या कापसावरी जालें. माशेना पसून पयस येयल्ल्याक मदीं एक दर्या सुकून गेला. खूब खूब काळ लोटून गेला. तरीय तेच्या देंठले कापडाचो खळा आंवाळ्याचो कसो वास अजूनय नाकांत घुंवता. मागीर फिलीपाक इतलो बेस बरो ताळो फुटलो. तेणें रेंदरालें कशें एक गाणें म्हटलें.

पोंयेतुले शेलूक चोय भायर सोरलां
माडावयली पेंड चोय पाड्या सुकोला
शेलूक फुलोलां, कांतये धार चडोला
वर्सा फुडें मांयगे सुनेक गोर्भ रचोला.

“आंतोनेत, साळावले उदक चड फुगोलां म्हण जाणा तूं? चोंयवटेन रानां आनी मोटे मोटे रूख. मदीं दरयो. तुका मरच्याक आनी बरी सुवात मेळची ना!”

आंतोनेत तापलें. “केसो मरणा खोबरी उलयता? आदीं तुगे बायल भुरग्यांक चोय. ती थंय उपाशी मेल्यांत आसतलीं.”

* * *

मामाल्या घरचे खुंटले, मांयचे दगदगे, टळटळे, हुपशिल्ल्यो चिऱ्यांच्यो खणी, रातचो भोग भोगूनय दिसा कारण नासतना जाल्लीं विद्वाटीं झगडीं. तरीय क्रुजिनाले मांसाळ कुडीर नाचचेली उग्र आस! खरबरीत आंगाचें पूण सोबीत म्हींवाळ मनाचें आंतोनेत पयलींच भेटिल्लें जाल्यार घडये त्या तेलकट मांसाची आस्त लागची नासली. तिडक, किळस आनी तितलोच ते कुडीचो मोह हातूंत दुभंगून गेल्लें तरणेंपण. मागीर हातुंतल्यान पयस पयस धांवचेलो यत्न. आंतोनेत फक्कत एक उसरपतीचें पेणें. वोतांत तकली वयर काडून राविल्ली सांवळी. दिसतालें, ही सांवळी केन्नाय वोताच्या हुंवारांत व्हांवन वयतली. एक रानवाल रानरुखार आदार घेवंक सोदतली. वाल मुळां खंयतरी शेणून येयल्लीं आनी रुखा भोंवतणी तर फातरा वणत. केन्ना दिसतालें, आंतोनेताचे कुडीक हांयें हातबोट लावंक

फाव नासलें. मांय मेल्लों हांव, ते मांयवरीच रावल्यार आमकां चड सुखसंतोस मेळटासलो. पवित्र मांय मेरीवरी तेचे मुखार धिमी लेगीत मारतासलों हांव! पूण आतां सगलेंच गळसणून गेल्लें, तकलेवयल्यान पडून फुटिल्ले मातये मडकेवरी. उरिल्ले फक्कत मनाचे तळमळे. तोंड नाशिल्ल्या सापळ्यांत गाविल्लेवरी!

फिलीपा भितर एक भोव बरो मनीस राबितो करून आशिल्लो. तेका पयस धांवडांवक म्हणच तो अडेचे तिडकीन, सोऱ्या घोंट घेवन बोवाळ घालतालो जावंये. तो बुध्दीन, करणेन मुळांत फिशाल आशिल्लो जावंये. एका धपक्यान हुडून खण पार करचें वारें तेच्यांत आसुंये. एकच किक्क मारून फुटबॉल मळबार मोखचेली फिशालकाय तेचेसरीं आसुंये. पूण एक फावट खोरें, पिकास हातांत येतकीर सोताचो फोंड, खणिल्लेवरी खणतखणत फोंडांतच रिगचें! आतां तो फोंड, ते कोळशे सोडून फिलीपान उंच माड चडची आस धरिल्ली. तेतूंत तो खोशीय आसलो. आत्तां मळबाक हात लायतलों म्हणिल्लेवरी माडार धेंपां मारतलो. सोमतो माडाच्या कळसारच चड्टालो आनी पेंडी लकयतालो!

आतां तर सोऱ्या घुंवळ आनी माड चडून ऊंच ऊंच वयची घुंवळ एक जाल्ली. म्हणच सकल्ल्यान पळयतल्याक थरथरो भरतालो.

* * *

दोन म्हयने क्रूजीनाक घोवाली खबर नासली. तें एक दीस उठून तामणेमळार गेल्यार थंय जितोजीव नासलो. थंयचे तें चीं एकसुरेंपण पळोवन थंयसान तें म्हारू फाटीक लागिल्लेवरी धावंन येयलें. येवन हांथरुणार पडिल्लें रडत. तें सामकें गांव धुंडाळटाले आनी आंगार हून उदक पडिल्ल्या माजरावरी चंवचाळटालें. केन्ना घराचे वासरेंत बसतालें आनी व्हडव्हडान रडूंक लागतालें. लोक घरासरी एकठांय जाले म्हणटकीर आंतोनेताक चरांटून गाळी संवतालें. तेणें आपणाल्या घोवाक पळोवन व्हयलें म्हणटालें. संकश्टात गाविल्ले दुबळे अस्तुरेवरी तिगेलो मनावयलो तोल पुराय गेल्लो आनी तें गळसणिल्लें. सवा म्हयन्यानच तेगे मदल्या चेड्याक व्हरून भयणीगेर बाणसाय दवरिल्लें. घरातलें बारीकबारीक भांगरय तें विकूंक लागिल्लें. दिसतालें आंतोनेत आतां ताचे तावडीत मेळ्ळ्यार तें तेगेले गोमटेक घांस मारतलें.

आंतोनेत फिलीपाले सारक्कें फाटीक लागिल्लें घरा वचून यो म्हण. तेणें एक पोटलीच भरिल्ली वांगडा धाडूंक. खोन्नार गांवांतल्यान, रानवटेच्यान बायलो वावराक येताल्यो. तें तेंचे कडच्यान मेळटा तें हाडून घेतालें. नाल्ल, कांटेकणगां, पावशी मिरसांगो, तांबडो दुदी हांचेन पोटली भरिल्ली. वावरांतल्यान येताना वाटेर कोणालें तरी उशेल आसलें. एक दीस

कोणाक कळनासतना चार उस मोडून हाडले आनी तेच्यो कांडयो करून पोटलेंत घातल्यो, वयल्यान आनी दोन हजार तीनशीं रुपया एकठांय केल्ले वांगडा धाडूंक. पूण ते व्हरून सांग्यार पावय म्हटल्यार फिलीप कानमनार घेयनासलो. निमाणें तेणें म्हटलें, "तूं वचना जाल्यार हांवच वयता. तकलेर पोटली मारोन घेवन वयता आनी दारांत उडोवन येता. कितें जाता तें जाता. तारीपांट्यार सोज भाटकारालो मुंडकार फिलीपा बायल क्रूजीन. विचारल्यार सांगतलो मुका कोणय."

"तुका मागी मार पडल्यार कितें कोरतलें?"

"मागी तूं तरी वचोन यो मुरें. भुरग्यांगे काकूयट दिसोता मुका."

"ह्या आयतारा आमी दोगांय या आंतोनेत सांग्यार. तू कुमसार जावक इगर्जेंत वोच. हांव मुगेल्या बायलेसरीं वयतां."

"दोगांनय वांगडाच जावपा न्ही कुमसार?"

"हांव सदांच जातां. मुगे खांदार माडाचो माडायेदो खुरीस. बऱ्या देखिचे मनीस न्ही तू आंतोनेत. पायन माल्लो तेन्नाच मरों जाय आसलें तूं. कित्या जिवें रावलोलें?"

आंतोनेताक ही उतरां भोवच लागलीं पूण तेका झगडें काडचें नासलें. तो एक फावट सांग्यार गेल्यार पुरो जाल्लें...... पूण तो सांग्यार कांय वचूक पावलो ना!

* * *

दनपरां वेळ माथ्यार पावंक एकलो चौदा पंदरा वर्सांचो भुरगो कोळशा खोन्नार येयलो. तो खूब धांवन येवन धांपेतालो अशें कांय ना. सादो अरवळसो भुरगो. तेगेल्या हातांत दोन पिकीं पेरां आसलीं. थंयच्या कोणाक तरी तेणें सांगलें, "हिंगा एकली किरिस्तांव बायल कामाक आसा. तेगेलो घोव फिलीप म्हण माडार चड्टा तो. तो माडावयल्यान पडलो."

थंयचे एके बायलेन मोट्यान बोवाळ घातलो "आगो आंतोनेत, हो कितें सांगता चय...."

आंतोनेत धांवन येयलें. "कितें जालें रे?"

"माडावयल्यान पडलो तो तुगेलो घोव फिलीप. चिऱ्यार तकली आपटली."

"खंय?" आंतोनेताल्या काळजा शिरो फुटून जशें रगत चिळक्यांनी वारावलें! कुडीत

आकांताचो थरथरो!

"केशव देसायल्या भाटांत. पंचायती सकल."

आंतोनेत उक्त्या पांयांनीच फातरातल्यान धांवंक लागलें. लांब लांब धेपां उडयतालें आनी एक दांगांतच सगली दोंगरा देंवती हुपून वचूंक पळयतालें. मुखार फाटल्यान काळीं कुपां घेवन घोगेयत येवपी एक मोड. तें अख्खें मोड फाटीर मारून घेवन ते धांवतालें. फातरवाटेर वावटळेंत गाविल्लीं पावलां. तीं फाटीं पडटात काय फुडें पड्टात कांयच कळनासलें. पांयांखाला जशें तें एक नागीण माडयत धांवतालें. काळीज फुटूंक पाविल्लेवरी धांपेतालें. दुकां आनी हूम एक जावन कुडीवयल्यान खारट धारो लागिल्ल्यो.

फिलीप स पुरीस उंच माडावयल्यान पडून चिऱ्यार धाडावल्लो आनी फुटून गेल्लो. पेंड ओड्टाना पेंडी वांगडाच सकल येयल्लो. तेगेली कूड पडिल्ले तेच सुवातेर आसली. कोणेंतरी उदक हाडून मारिल्लें. तें चोंयवटेन बरेंच फासपून पडिल्लें आनी मर्दीमर्दीं रगताची खळी. पूण आतां कुडीसरीं कोणच नासलो. पयस पयस चोम्या चोम्यांनी कोण कोण उबे आसले. म्हणटाले, पडिल्लो थंयच आक्तार खलास जालो. रगताची चिळकी लागिल्ली.

काळीज फुटसर धांवन येयल्ले आंतोनेत तेच्या सामक्या म्हऱ्यांत येवन धप्प करून फतकल मारून बसलें. तेणें मोन्यानच थरथरत तेचें फुटिल्लें कपल. मोडिल्ली कूड सासपिली. तेची एक वटेन तकली फुटून रगत दोळ्यांमेरेन व्हांविल्लें, थंय सांचिल्लें. तेचेन एक दोळो पुराय पुरोवन गेल्लो. दुसऱ्या दोळ्याची फक्कत बावली दिस्टीक पड्टाली. ती मात सामकी जिवी कशी.

आतां आंतोनेत खूब रडलें. रडतच म्हटलें "फिलीप, हें कितें जालें तुजें? हांयें आतां कितें कोरचें? खूंय वचोन मोरचें?

आंतोनेताक खिणभर दिसलें, फुटून रगतान भरिल्ल्या चेहऱ्यावयल्या त्या शावूत बावल्यांत तो क्षीण हांसलो, म्हजेसरीं उलयलो.

रडटां रडटां तेच्या दोळ्यांच्यो चिपयो जाल्यो. चेहऱ्यार रबर ताणून जशें तें फुगार जावन वोगी बसलें. तो कोण आसलो मुगेलो? तो मरतकेर हांव कांय रांड जावचें ना. तेच्या फोंडार पावचें ना. हांयें अशें मोन्यानच रांड जावचें! अवचिन्न, घातमारें हांव. तेचेकडेन भोग घेयलो, पूण तेचें भुरगें हांयें न्हयकारलें. चिऱ्या शेकऱ्यांच्यो राशी, खैरीची काट्यां सावळी, पाख्याचो तापिल्लो पत्रो. मर्दीं पावला पावलार फातरा वण्ट्यो. तरीय तो मुज्या मनाच्या मुळामेरेन पाविल्लो, गर्भपिशवेच्या तळामेरेन पाविल्लो. सगल्यो वाटो तुटिल्लें हांव!

मुका मोग करूंक आतां कोण उरतलो? कोळशा भट्टेन घालून सोताक लासून घेवची पाळी!

एक पिकप घरघर घालीत म्हऱ्यांतच येवन रावली. चलोवपी व्हडान सांगतालो "हांव जाणां तेगे घर. तारीपांट्यार सोज भाटकाराल्या भाटांत रावता तो. तेगे पायन एक फावट सोरो पिवन घराकच उजो घायल्लो."

केशव देसाय कुडीसरीं येयलो. दोग चवगांक सांगून तेणें कूड पिकपींत चडयली. चलोवप्यान विचारलें, "कोण येता कुडी वांगडा?"

"तेगेली ही बायल येतली न्ही रे."

"ही बायल खंयची तेगेली? तेगे बायल सांग्यार आसा. मोटी गोरीच."

"आतां धांवन येयला चय ती. वयतली तीं. वांगडाच रावतालीं खंय दोगांय. तेणें दवरून घेयल्ली आसतली." देसायान बावळ्याक धरून आंतोनेताक उठयलें आनी उखलूनच जशें पिकपींत धुकललें. तें तर मनान, कुडीन इतलें दुबळे जाल्लें, वोगी गळून पडिल्लेवरी बसलें. दिसतालें, आत्तां हाचे तकलेर कोणय फातर घालूंक येयल्यारय तें हालचें ना.

"आनीक कोणतरी जाय गा."

देसायान दोगांल्या बोल्सांत शंबर शंबर रुपया घालून तेंकां पिकपीत बसयले. तो कांय पयशे आंतोनेताक दिवंक पळयतालो, पूण तेणें बेगीबेगीन हात फाटीं घेतले आनी तोंड घुंवडायलें.

ड्रायव्हरान परत म्हटलें, "पोलिसांलें लफडें आसतलेंच पात्रांव."

तेच्या घरचीं कितें तें पळोवन घेवं. आमी कितें धुकलून उडयला तेका माडावयल्यान? तो पडलो. तूं कूड व्हर आनी तेंच्या वारांदांत देंवोवन यो. माड पाड्टाना पडलो म्हण सांग." मागीर तेणें नाल्ल पुंजायतल्यांक सांगलें, "माडा मुळांतलो एक नाल्ल उखलूं नाकात. तशेंच रावं दी पडून. पोलीस येयल्यार दाखोवंक येतले."

पिकप सुटून रस्त्या लागतकीर आंतोनेताक दिसलें, ही पिकप वाटभर रगत वारयत वचत आसा. सगळो रस्तो रगतान तांबडो जायत आसा. इल्लें रगत माडार, मळबांत उसळत आसा. तेच्या दोळ्यां, काळजांतलो दरया आनीक खोल गेलो. तेणें सोताक आनीक ओडून घेतलें. कांय वेळान सट् करून तेणें मुखार बशिल्ल्या एकल्याक म्हटलें, "मेलो काय

जिवो आसा कांयच कोवना. न्हिदल्यारय तो येसोच मरून पडिल्लेवरी न्हिदतालो. तुगे पाय केहो मेलो तो चयल्लो तुवें?

तेणें थंडपणान म्हटलें, "मगेलो बापूय मेलो ना."

मागीर काळखांत शिंयां कुडकुड्यांत रूखा पोंदाक बशिल्लेवरी ते बसून रावले. मदींच तें फिलीपाल्या फुटिल्ल्या तोंडाकडेन पळयतालें आनी तो त्या शाबूत दोळ्यांबावलेंतल्यान हांसता काय पळोवंक नदर लावन बसताले.

घरासरीं आकाड्या भायर पिकअप लागतकीर आवाजानच क्रुजीन भायर येयलें. तेका आडवी घातिल्ली कूड दिसली ना. फक्कत आंतोनेत आनी ते दोग बशिल्लेच दिसले. ड्रायव्हरान देवन थंड आवाजांत क्रुजीनाक सांगलें, "तो काल्यां माडावयल्यान पडलो. पडिल्लो उठलोच ना. कोणाची कांय चूक ना." तेणें येवन पिकपीचो फाटलो अडसर सकल देंवयलो. ते सरशीं कूड नदरे मुखार येयली.

पूण क्रुजीनाक कूड दिसनासली. तेची रागीट नदर रोखिल्ली आसली आंतोनेताचेर. तेच्या दोळ्यांचे इंगळे जाले. ते रागान पेटले. धांवन वचून तेणें केसांक धरून आंतोनेताक पिकपींतल्यान सकल उडयलें. तेचीं केस्तडां धरून तेका हातांनी, खोटांनी मारलें. "हे चेडयेन काल्यां व्हरून मुगे घोवाक माल्लो. हेणें तेचो जीव घेयलो!" पुरो जावन मागीर तें सकल बसलें आनी घोवाच्या नांवान व्हडव्हडान रडूंक लागलें.

आंतोनेत उठलें. तेका दिसलें, आपल्या आंगाचें रबर जाला. दुखय लागना. मरण मागता खरें हांव, पूण सड्यार पडलें तरीय हांव मरचें ना अशें दिसता. तरीय तें उठलें आनी हटान मरणाचे वाटेन चलूंक लागचें तशें तें चलूंक लागलें. तेका फाटीं घुंवन फिलीपासरी पळोवंकय भिरांत दिसताली. क्रुजीन म्हण्टा तशे हांवच तेच्या मरणाक कारण जालें काय कितें?

आंतोनेत उठलें. फिलीपाल्या शाबूत दोळ्याबावलेची आस आपणांक परती लागत म्हण फाटी वळोन चलूक लागले. तकलेर घेतिल्लें मिट्ट काळे कूप आनी पांयापोंदा मळबायेदें चिऱ्या तळप. तरीय तेका अजाप दिसताले आपल्या चिऱ्या मुरमांच्या फातरा कुडींत हें म्होंवा हुवांराचें मोड खंयचें? तो ज़िवो जावन येयल्यार तकलेत मोड घेवन सतरा फावट तेचेर मोग करीन! काराथे खावन येयल्लेवरी कोडू उलयतालो खरो. पूण तेच्या काळजांतलें म्होंव हांयेच बेस चोखला! क्रूजिनगो, तू कर्मकट्टें बाय! बुडी घेत गोर्भतळा पाविल्लो तो. हांयेन तेचो गर्भ व्हाळोवंक नाशिल्लो जाल्यार तेचें अख्खें मरण क्रूजिनाल्या हड्ड्यार मारून गौवी बायचें बोट धरून शबे घालीत वयतासलें हांव! आतां फक्कत फोंड

चुकयत चलचें – उदकाचो, खणीचो, पोटाचो, मरणाचो फोंड! हांव जाणां म्हजे सारके मरणाचे फोंड चुकयत चलपी सट् करून कोणाल्याय मरणाचे बिरमतेक पड्टात. माशेन मेल्यारय फाल्यां हे म्हणटले, आंतोनेताले वथरणेक लागून तें मेलें म्हण. हांव कितले फावट मरूंक पाविल्लें, म्हाका एक काशांव, एक फोंड भेटयात म्हण सांगिल्ले, हाव जाणां, दुख्खाक, कश्टांक मरणांच नासतात. ती कांतीवयली सर्पेदांकशी वाटकुळी भोंवत आसतात, चड ताज्रीं जावन. आतां खणीवयल्यान खोर्न आनी खोर्नावयल्यान भंगसाळ. पोटा फोंड भरूंक. तरीय हांयेंन दादल्याक मारूंक फावना, कव्हरींग फोडूंक फावना, ट्रक भरूंक फावना. तुका सांगोतां फिलीप, तुयेंन दिल्लयो साडयो गुठलावन दवरून अख्खो दोंगर लकयतलें हांव. पूण मुजो गोर्भातळ मात रितो दवरतलें हांव तुजेपासत, रांड कोगुळावरी. तुमी सोगल्यांनी मुज्या हातात तुटलो राजू आनी फुटलो बिंदूल दिलो आनी म्हुटलें रान शींप. तरीय शेणांत वीज पडल्यार तेचें भांगर जाता खंय. म्हण इतलो तेंप हातांत शेणाथापो घेवन रावलें. दुर्मींगाले बोमलेकडची घोटाण हुळहुळटाना सोसली ना हांयेन तुमचे पासत? म्हजी चूक दिसल्यार व्हाणांनी मारात....... तेणें फिलीपालो फुटिल्लो चेहरो हड्ड्यासरीं ओडलो. हड्डें पुराय रगतान भरून गेलें. तेका खूब घोस्त आसलो मुगेल्या हड्ड्यासरीं खेळपाचो. ल्हवल्हव तो चेहरो तेणें तोंडासरी घेतलो आनी तेगेली रगशेल्लीं ओटां चाबलीं............





महाबळेश्वर दत्ता सैल
(माजी सैनीक, भारतीय सेना)

सगल्या आडन्याया वांगडा, अच्छेवी अद्रश्टा वांगडा झगडें खेळटना आंतोनेत आपले कुडीचे तांकीचें मळब पातळायता. कारण, अदीम भारतांत ज्या आदीवासींनी धरतरेच्या आदिगर्भांत पयलो कोंब किल्लायलो - शेतां भाटांचो तरवो फुलयलो त्या आदिवासींचे ते एक प्रामाणिक प्रतिनिधी!

सोताच्या अस्तित्वाचो संघर्ष सगलेकडेन सारको आसलो तरीय कांय जाणांचो हो संघर्ष फातरांचो चुरो करता, शेंकऱ्यांचीं फुलां फुलयता. एका सीमव्हद्द नाशिल्ल्या दुख्खा कश्टांची ही काणी.

आयजवेर जिविताचे वाटेर कितले पोंवे रानां माडयतां माडयतां अर्दवाटेर पडले, तरीय हीं मरणां चुरचुरे करसारकीं न्ही. सलाम करसारकीं!

महाबळेश्वर सैलान मनीस कुळयेचें अस्तित्व आनी मरण हांचें कदीमकाळी कलागती झगडें हांगा मांडला. एक देहयज्ञ चितरायला. तांच्या सर्वथर प्रतिभेन ताचो तळ गांठला!

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय.